BIMB/ August 2020 / Vol 19 /ISSUE 8 /Panaji Goa POSTAL LICENCE NO. G-2/RNP-GOA/01/2018-2020 Published on 1st and Posted on 5th & 10th day of every month RNI Regd. No. GOA KON/2008/30413

मोल : ₹ 50/-

# बिम्ब

मासिक

ऑगस्ट २०२०

चवथ विशेशांक



आवयभाशेक म्हत्व ना ...

तर आत्मनिर्भरतायेक अर्थ ना ...




नवें शैक्षणीक धोरण,

गोंदळांत गोंदळ...

# कोंकणी मासिक बिम्ब

## १९ वें वर्स



**आवयभाशेक म्हत्व ना ...**
**तर आत्मनिर्भरतायेक अर्थ ना ...**
**नवें शैक्षणीक धोरण,**
**गोंदळांत गोंदळ...**
- दिलीप बोरकार



वर्स१९: अंक ८
ऑगस्ट २०२०
मोल 50 रुपया

**मुखेल संपादक**
दिलीप बोरकार

**पालवी संपादक**
मानसी धाऊस्कार

**मुद्रक आनी प्रकाशक**
दिलीप बोरकार

**छापणावळ**
इम्प्रेशन्स, बेळगावी

**वर्गणीचे दर**
वर्सुकी 400 रू.
3 वर्सां 1100 रू.
खंयच्याय म्हयन्या सावन वर्गणिदार जावं येता.
वर्गणिचो चेक Bimb Monthly ह्या नांवान धाडचो.

**संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो :**
Dilip Borkar
2-A, Govt. Qtrs, Ponte De Linhares
Patto, Panaji- Goa 403001
Tel: 0832-2438355
Mail: bimbkonkani@yahoo.co.in

**कचेरी**
'धर्म लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी–गोंय, 403204

**BANK DETAILS :**
Bimb Monthly
The Saraswat Co. Op. Bank Ltd.
Branch : Panaji Goa
IFSC Code : SRCB 0000071
CA A/c. No. : 071100100000793

# संपादकीय

## धोरण नाशिल्ल्या शिक्षणीक धोरणाचें धोरण...!

कोविड-१९ चो ताप उणो काय म्हण आतां देशाचे तकलेर शिक्षणीक धोरण-१९ चो ५०० पानांच्या मसुधाचो भार केंद्र सरकारान थापला आनी पुरायेन भगवीकरण आनी बाजारीकरण करपाच्या हावेसान आखिल्ल्या ह्या शिक्षणीक धोरणाचो लाव घेवन संवसाराचेर चकचकपाचें आवाहन, येवपी पिळगेक केलां.

वयलेतराक पळोवंक गेल्यार हें शिक्षणीक धोरण आनीक पंचवीस तीस वर्सांनी आमच्या देशाक जगा वयली विद्वानांची खण, आदर्श, सुखी नागरीकांचो सर्ग अशें किर्ते किर्ते दिसूंक फावो. आमच्या देशांतल्या बऱ्याच जाणकारांक तसो दिश्टावोय जाल्लो आसा आनी तांच्या तोंडांत साखर पडूं अशेंय आमकां दिसता. सगळे जाणकार आनी विद्वान राष्ट्रीय शिक्षणीक धोरण-१९ चो इंटरनेटाचेर आशिल्लो ५०० पानांचो मसुदो वाचून सामके भुल्लुसून गेल्यार अजाप न्हय, कित्याक ह्या शिक्षणीक धोरणाचें घोषवाक्य वा गाभोच आश्वासन दिता- *राष्ट्रीय शिक्षणीक धोरण २०१९ देशाक केंद्रस्थानी मानून अशी एके शिक्षण प्रणालीची कल्पना करता, जी उच्च दर्जाचें शिक्षण प्रदान करून राष्ट्राक न्याय आनी चैतन्यमय गिन्यानी समाजांत परावर्तीत करपाक थेट योगदान दिता-*

म्हणटकच ह्या शिक्षणीक धोरणाचे लगाडीक पडून फुडली पिळगी जें शिक्षण घेतली ती फुडाराक न्याय आनी चैतन्यमय गिन्यानी समाजांत परावर्तीत जाल्ली आमकां पळोवंक मेळटली अशी धारणां, ह्या धोरणाचो फाटले स म्हयने अभ्यास करून ताचेर सकारात्मक भाश्य करपी विद्वानाची जाली, जाल्यार अजापाची न्हय .खंयचेय गजाली कडेन सकारात्मक पळोवपाची नदर लाभिल्ल्या आनी आपली कातडी वाचयत 'शुभ बोल रे नाऱ्या' असो जगाक सल्लो दीत जीवन सारपी ह्या विद्वानानी ह्या धोरणाचो मातसो अंतरस्थ हेतूय जाणून घेवपाची गरज आशिल्ली.

आमच्या देशांत शिक्षणाच्या नांवान गोंदळच चालू आशिल्ल्यान आमकां खंयचेंच धोरण वेवस्थीत राबोवंक आयलें ना. ताचें कारण म्हळ्यार आमचो देश ब्रिटीशांचे गुलामींतल्यान स्वतंत्र जालो तरी तांच्या प्रभावांतल्यान मेकळो जालो ना. देखून ब्रिटीशांचें शिक्षणीक धोरण आशिल्लें तेंच योग्य आनी रास्त अशें मानून आमचो देश ताचें अनुकरण करीत रावलो.

आमी केन्नाच लक्षांत घेतलें ना, राजा गुलामांक केन्नाच विचार करपाची संद दिना. गुलाम विचार करूंक लागल्यार असंतोश निर्माण जावन सत्ता पालथून उडोवपाचें कारस्थान रचूंक ते शकतात. विचार करपा पासत एक शास्त्रशुध्द शिक्षण लागता. वैचारीक शिक्षण ताका सहज आकलन जावन काळजाक भिडटा अशें आसचें पडटा. भारतीयांक तांचे आवयभाशेंतल्यान शिक्षण दिल्यार आपले सत्तेक धोक्के आसा म्हणपाचें ब्रिटीश सरकाराक खबर आशिल्लें. देखून तांणे इग्लीश भाशेंतल्यान शिक्षण दिवन भारतीयांक कीर केले आनी शिक्षणाची मोख फक्त अर्थार्जन, अशी फारकी तयार करून क्लार्क निर्माण केले. तांची विचार करपाची प्रक्रियाच बंद करून उडयली, जाचीं फळां देश भोगता म्हणपाचें देशाची आयची परिस्थिती पळयल्यार होलमता.

देशांतल्या नागरिकांची उदरगत जातली जाल्यार देशाचें आपलें अशें शिक्षणीक धोरण आसचें पडटा. सरकार तें धोरण देशांतल्या शिक्षणतज्ज्ञाक थारावंक सांगता आनी ताची मागीर अंमलबजावणी करता. ब्रिटीशां उपरांत देशाचें शिक्षणीक धोरण थारावंक सरकारान १९६४-६६ च्या काळांत कोठारी आयोग स्थापन केलो. ह्या आयोगान आपल्या मसुधांत त्रिभाशा सुत्राची अंमलबजावणी जावची अशें म्हणिल्लें. शिक्षण हें आवयभाशेंतल्यान जावचें. दुसरी भास म्हूण राष्ट्रभास शिकोवची, कित्याक आमचो देश वेगवेगळ्या भाशीक राज्यांचो संघ जाल्ल्यान राज्या-राज्यां कडलें नातें जपपाक हाची गरज आशिल्ली आनी तिसरी भास ही संपर्क भास इंग्लीश जिचो संवसारा कडेन संपर्क दवरपा पासत गरज आशिल्ली. इतलेंच न्हय तर कोठारी आयोगान पदवी मेरेनचें शिक्षण आवयभाशेंतल्यानूच जावचें अशी शिफारस केल्ली. खंय गेलें तें धोरण, ताचे अंमलबजावणेचें किर्ते जालें? कोणाकूच खबर ना.

त्या उपरांत १९८६ वर्सा परत धोरण थारलें. तातूंत १९९२ वर्सा जरी कांय बदल केल्ले आसले तरी तें धोरण १९८६ अशेंच मानतात. आतां ३४ वर्सांनी केंद्र सरकारान नवें धोरण तयार केलां. तें करतना फाटलीं धोरणां राबोवपाक किर्ते केलें आनी तीं यशस्वी जालीं काय ना, जालीं नात जाल्यार किर्ते अडचण आयली,मागीर हें नवें धोरण सुदारीत काय किर्ते हाचो कांयच थांगपत्तो लागना. हें जेन्ना अशें घडटा तेन्ना फाटल्या धोरणां सारखीच ह्याय धोरणाची गत जातली हें थारिल्लेंच आसता.

खरें पळोवंक गेल्यार सरकाराक पयलीं देशाचें धोरण थारावंक येवंक जाय. प्रत्येक देशाचें स्वताचें एक व्यक्तीमत्व आसता. ते खातीर ताची एक संस्कृताय जाय आसता. ताचे वयल्यान देशाचें मुखामळ थारता. कांय कारणांक लागून संस्कृताय भंगली जाल्यार ती पुनर्जीवीत करची पडटा.संस्कृतायेचो कणो हो भास आसता. जर देशाक संस्कृतायच ना जाल्यार त्या देशाचें स्वताचें व्यक्तीमत्व उरना. ताचें वळखी पासत मुखामळ ठळक जायना. तें करप हें सदरेर आयिल्ल्या सरकाराचें काम आसता आनी तेच पासत तांणे धोरण थारावचें पडटा.

देशाचें व्यक्तीमत्व निर्माण करतलो जाल्यार शिक्षणाचें धोरण म्हत्वाचें आसता, म्हणचेच भास म्हत्वाची आसता.मतांच्या आधारान सत्तेर आयिल्ल्या सरकाराक सगळेंच कळटा अशें न्हय. ते पासत ताका अधिकृत कमिशन नेमचें पडटा, जाच्या दरेक उतराक सरकार बांधील आसता आनी उतरान उतराची कडक अंमलबजावणी जातली अशी कमिशनाक अपेक्षा आसता.

म्हणटकच सरकारान आपल्याक किर्ते अपेक्षीत आसा हें जाणकारांक सुचीत करप. कमिशनांत त्या मळा वयले जाणकार आसतात. तांकां मागीर कळटा, देशाक एक व्यक्तीमत्व जाय, ते पासत संस्कृताय घडोवंक जाय, ती घडटली जाल्यार शिक्षण जाय. शिक्षण अशें जाय जाका लागून देशांतलो दर एक नागरीक आदर्श आसतलो आनी जाका लागून दर एक नागरीक देशाची वळख थारतलो. ही इतली सादी गजाल अस्तित्वांत हाडपाक कसलीं धोरणां राबोवंक,किर्ते धोरण थारावंक जाय म्हणपाचें धोरणच आमकां अजून निश्चित करपाक येना. हीच आमची आज खरी वळख थारल्या.

# समाज को बदल डालो...!




समाज को बदल डालो हे नांवाचो एक सिनेमा पन्नास साठ वर्सां पयलीं आयिल्लो. सिनेमांतलें जग वेगळेंच आसता.तातूंत हिरो सगळें करून दाखयता आनी सिनेमा पळोवपी खोशी जातात.

आमकां सगळ्यांक जग बरें चलना अशें दिसता. आमचो देशूय,आमचें राज्यूय बरें चलना अशें दिसता. आमी मागीर अशें जावंक जाय, तशें जावंक जाय म्हणटात आनी मन मेकळें करतात. जग बदलून बरें जालां काय इबाडलां हाचेर आमची भासाभास चलत आसता.

पयलीं काय बरें आशिल्लें अशें म्हणपाची चाल पडल्या. पूण पयलीं जग अशेंच आशिल्लें. देश आनी गोंय बदलूंक जाय अशें तेन्नाय दिसतालें. पयलीं खंय सत्ययूग आशिल्लें, थोडे म्हणटात तुर्ताक कलीयुगांत आमी आसात. पूण रामायण महाभारताची याद काडल्यार त्यो झुजांच्योच गजाली म्हण कळटा. झुजांत मारामाऱ्यो आसतातूच.

आमी रामराज्य म्हणटात. पूण रामराज्यांतूय न्हय तसले प्रस्न उपरासल्यात जे आमी चर्चे खातीर वापरतात.

गांधीजींनी हाचेर जाप दिल्या. तुका जर समाज बदलूंक जाय अशें दिसता जाल्यार 'तूं बदल'अशें तांणी सांगलां.

गांधीजींची घरकान्न बरी नासताली. गांधीजींनी तिका मीठ सोड म्हण सांगलें. तिणें 'हांव मीठ सोडूं? केन्नाच ना' म्हळें आनी घोवाक परतो प्रस्न केलो,'तुमी मीठ सोडशात?'

गांधीजींनी खिणांत उत्तर दिलें,'हें पळय हांवें मीठ एका वर्सा खातीर सोडलें!' कस्तुरबा जाणा आशिल्ली की हो घोव तोंडांतल्यान उतर काडी ताका पाळो दिले बगर राव नाशिल्लो.

''नाका नाका . हांव सोडटां मीठ! तुमी सोडूं नाकात!'' अशें तिणें मागलें पूण...'आपूण जेन्ना दुसऱ्याक बदलूंक लायता तेन्ना आपणें बदलपाची तयारी दवरूंक जाय' हें गांधीजींक खबर आशिल्लें.

गांधीजींच्यो अशो हजारांनी गजाली आसात.कांय जाणांक गांधीजी 'अती' करताले अशें दिसतालें.

आतां होच प्रसंग पळयात.जेलांत एकेकदां गांधीजी आपल्या सांगात्यांक दुसरे कुडींत आसल्यार आपले सरीं आपयताले वा अधिकाऱ्यांक सांगून ताचे मान्यतायेन आपले सरीं दवरताले. अशेंच एक फावट वल्लभभाय तांचे सरीं आशिल्ले. ते स्टोवार किर्तें तरी करताले. कुलेर (चमचो) घेवन तें ढवळपाचो विचार करताना वल्लभभायन तें कुलेर आपल्या सदऱ्याच्या पोंतान पुसलें.

गांधीजींनी ताका आक्षेप घेतलो. 'कुलेर अशें पुशिनांत. होऽऽ थंय पुसपाचो निवळ कपडो आसा, ताणें पुसचें.'

आतां गांधीजी हें काम कोणाक सांगतालो? देशाचो मागीर घर मंत्री जालो ताका. म्हणटकच गांधीजी कशे वागताले तें लक्षांत येवंचें.

असलीं ल्हान व्हड कामां जीं करूंक फावनात तीं करून वतात. समाजाक बदलप आसूंच, आपणांक बदलप सोंपें न्हय!

बऱ्याच वर्सां पयलीं हांवें एक थारावणी घेतली.'हांव टायम पाळटलों!' पयलीं हांव ह्या गजालींकडे फावो तें लक्ष दिनासलों. वेळार बिलां फारीक करप ना,इश्टांक येतां म्हण सांगून वचप ना. इतलेंच न्हय तर पावचों ना म्हणुनूय सांगप ना...दुसऱ्यांक तिश्ठत दवरप.

हांवें ज्या दिसा टायम पाळटलों म्हण थारायलें त्या दिसा सावन हांव बदललों. हांव टायम पाळपी जालों. कसलीय भोवशीक कार्यावळ आसूं, हांव पांच-धा मिनुटां पयलीं पावतां. हांव केन्नाच दुसऱ्याक तिश्टायना. येतां म्हण सांगतां त्या वेळार पावलां. जायतेदां आगळेंच अणभव येतात.

कुडचडच्यार एके कार्यावळीक म्हाका साडेपांचांक आपयलो. म्हजे कडेन गाडी नाशिल्ली. स्कुटर आशिल्ली दिसता!

> *आमकां सगल्या कोंकणी पुरस्कर्त्यांक आमी हें गोंय कोंकणी राज्य केलां अशें दिसूंक जाय आसलें. ताचो अभिमान दिसूंक जाय आसलो. ताचें अस्तित्व आमच्या मुखांचेर दिसूंक फावतालें. मस्तेच्या रूपान न्हय, नमळायेच्या रूपान.*

हांव धा-पंदरा मिनुटां पयलीं हॉला सरीं पावलों तर हॉलाक कलयाद! धा मिनुटां रावन एक च्या मारून येवया म्हण हांव च्या पेवन पंदरा-वीस मिनुटांनी परतन जाल्यार हॉल उकतोच करूं ना. इतल्यांत एक मित्र आयलो.

''आरे तूं आयलो?'' तार्णे अजापान विचारलें.

''म्हळ्यार कितें? कार्यक्रम साडेपांचांक आसा म्हण आमंत्रणार बरयलां... !''

''आरे,साडेपांच म्हळ्यार स न्हय?'' तार्णे प्रती प्रस्न केलो. उपरांत हॉलाचो मनीस आयलो. तार्णे हॉल उकतो केलो. थंय सारण मारली आनी कदेलां मांडलीं. इतलें करी सर सवाय स जालीं. म्हज्या इश्टान म्हळें, 'हांगा अशेंच! कोण येना!'

करतां करतां धा बारा जाण आयले आनी सभा सुरू जाली.

म्हज्या ह्या टायम पाळपाचो खासा म्हजेर जायतो परिणाम जाला. हांव उतर पाळपी थारलां. म्हजे कांय इश्ट म्हणूंक लागल्यात-आरे चल या. गुरुनाथबाब आयिलो आसतलो! आनी हांव खऱ्यानीच खूबदां सभांक एकलोच असो पयलीं पावतां आनी रिकाम्या कदेलां मदीं एकाचेर बसून रावतां.

म्हजे जायते कर्तुपी इश्ट आसात, जे टायम पाळटातूच अशें ना. पांच मिनुटांनी येतां म्हण सांगून पंचवीस मिनुटांनी येतात आनी सॉरी म्हण मेकळे जातात.

हें हांव म्हजे व्हडविकेक बरयना. हें बरोवंक खास कारण आसा. म्हाका आमचें गोंय बदललेलें जाय. आतां हांव जाणटो जालां. कितल्या दिसांचो, म्हयन्यांचो आसां हें सांगूंक येना. पूण 'शंभर वर्सां' म्हणिल्लें म्हाका मात पूण आवडना. हाचेर चर्चा नाका.

एक काळ आशिल्लो कोंकणी चळवळीच्या काळांत, मुक्ती उपरांतच्या काळांत, कोंकणी पुरस्कर्त्यांक, ते पांच जावं वा धा, एक तर पिशे म्हणटाले ना तर ते 'इंटेग्रिटीचे'मानताले. हाका लागून कोंकणी पुरस्कर्त्यां विशीं समाजांत कुतुहल निर्माण जालें आनी तांची संख्या वाडूंक लागली.

कोंकणी कशी जाली ताचो इत्यभूत इतिहास आमच्या जायत्या जाणांक खबर आसा. अभिमान दिसऽ सारको 'पुरुषार्थी'इतिहास तो जाला. स्वातंत्र्या खातीर गोंयकार झुजले आनी गोंय राज्य करपा खातीर कोंकणी पुरस्कर्ते झुजले.

आमकां सगल्या कोंकणी पुरस्कर्त्यांक आमी हें गोंय कोंकणी राज्य केलां अशें दिसूंक जाय आसलें. ताचो अभिमान दिसूंक जाय आसलो. ताचें अस्तित्व आमच्या मुखांचेर दिसूंक फावतालें. मस्तेच्या रुपान न्हय,नमळायेच्या रुपान.

तें अस्तित्व दिसचें अशें म्हाका दिसता. ताचे पासत म्हाका उपाय दिसता तो कोंकणी संस्कृतींत बदल करपाचो. आमचे सुशेगाद वृत्तीचो अभिमान दिसची गरज ना. ती वृत्ती आतां गेल्या. वया वयल्यो तशो जाणट्यो बायलो सकाळीं पांच वरांचेर उठ्ठात आनी वरा भितर जेवण करून तें येवन बशींनी पणजे वतात.

पूण आज परिस्थिती अशी की एक वेळ महाराष्ट्र गोंय गिळूंक सोदतालें तें गोंय आज दिल्लीन गिळ्ळां. ताची चिकित्सा हांगा करिना.

संस्कृतींत बदल जाय तो पयलो टायम सांबाळपाचो. धा जाणांनी आमी आयच्यान टायम पाळटले असो सोपूत येवन टायम पाळटल्यांची फामील (कुटूंब) करची.

एक काळ आशिल्लो जेन्ना कोंकणी पुरस्कर्त्यांची फामील जाली. सगळे एकामेकाचे नातेवर्गी जाल्ले. एकामेकागेर वताले येताले. वेळंगा रात सारूंक आनी दनपारचे जेवंक जमताले.



आज आमकां गोंय देशांतलें अपरूप, अप्रतीम राज्य करचें आसा. काझिनो,जमनी पोंदचें भांगर आनी मेळत तें विकपाचें पर्यटन गोंयांक व्हह करचें ना. खरें शिक्षण, देशाचो अभिमान, देशा खातीर कॉज ह्यो गजाली गरजेच्यो. पूण पयलीं धा जाण फुडें सरून आमी टायम पाळटले म्हण सोपूत येवया आनी आमच्यांत फामील म्हणून कसो बदल जाता तो अणभवया.



- गुरुनाथ केळेकार
पणजी, गोंय.
मो. : ८८०५०६५००८

**सुटकेझुजारी,कोंकणीचे निश्ठावंत पुरस्कर्ते, मार्ग चळवळीचे प्रवर्तक, एक अस्सल गोंय मोगी गुरुनाथबाब केळेकार आपले णव्वद वर्साचे पिरायेर लेगीत गोंयचो हुसको करतात. आमकां कथा, कविता जायच पूण असल्या लेखांचेर भाश्यूय जाय, गोंयची फुडली दिका थारावपाक.**

*- संपादक*

## हा स्य बि म्ब


म्हाका कसलीच चिंता ना
हाचींच म्हाका
व्हड चिंता लागल्या...


WORRY


WORRY
WORRY
WORRY
WORRY


WORRY INC.
est. 2020.
तुज्यो सगळ्यो चिंता हांगा बरय
आनी तूं वच भोंवडेर..
तुज्यो चिंता आमी
आमचेर घेतात...

शीर्शकथा



दिलीप बोरकार

कोंकणी आनी गोंय हांचे पासत ध्येयनिश्ठेन वावरत आयिल्ले दिलीप बोरकार ज्येश्ठ पत्रकार आनी नामनेचे साहित्यिक जावन आसात. तांच्या गोमाचल ते हिमाचल ह्या प्रवास वर्णनाक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार लाबला.

आवयभाशेक म्हत्व ना ...
तर आत्मनिर्भरतायेक अर्थ ना ...

# नवें शैक्षणीक धोरण, गोंदळांत गोंदळ...



बुद्दीचें म्हळयार गिन्यानाचें,अर्थात शिक्षणाचें दैवत आशिल्ल्या गजाननाचे चित्रसाळेक आनी ताचे पुजेक कोविड १९चे महामारीन गिरासलां आसतनाय भक्तिभावान ह्या दैवताचे पुजेचे तयारेक ह्या देशाचो नागरीक लागिल्लो आसतनाच केंद्र सरकारान राष्ट्रीय शैक्षणीक धोरण जाहीर केलां. तशें करतना इतले वर्सां साकून केंद्रीय मनीसबळ उदरगत मंत्रालय अशें उज्या गाडयेच्या डब्यांवरीं लांबलचक आशिल्लें नांव बदलून ताचें रुपांतर शिक्षण मंत्रालय अशें केलां. नांवांत किर्तें आसा..? असलें कोणा विद्वानाचें विधान गरज पडटा तेन्ना वापरपी आमी फाटल्या सत्तर वर्सांत मनीसबळाची उदरगत फावो तशी करूंक पावले नात म्हणपाचें आयची देशाची अवतिकाय पळयल्यार कळटा. आतां त्याच ववराचें नांव बदल म्हणल्यार शिक्षण मंत्रालय करून किर्तें उजवाड पडटलो तें येवपी काळ सांगतलो. ह्या शिक्षण मंत्रालयान देशांतले मनीसबळ उदरगती पासत जें किर्तें धोरण आखलां आनी जाहीर केलां तें पळयत जाल्यार आमच्या देशाचो फुडार परजळीत आसा आनी देशाचो दरेक नागरीक फुडाराक आत्मनिर्भर आनी विद्वान घडटलो अशी अपेक्षा बाळगुपाक हरकत ना. पूण तशें घडपाक जाहीर केल्लें हें धोरण आनी ताची अंमलबजावणी करून घेवपी अकलेचें मनीसबळ आमच्या देशांत आसा काय किर्तें आनी आसल्यार तांचे अकलेचो वापर आमचे बेअकली राजकारणी करूंक दितले काय किर्तें होच खरें म्हळयार आमच्या शैक्षणीक मळा वयलो सगळ्यांत व्हडलो प्रस्न आसा. ह्याच प्रस्नाक लागून आयज ह्या मळार गोंदळ चालू आसा आनी देशाचे उदरगती पासत शिक्षणाचें धोरण म्हत्वाचें आसता आनी तें देशांतल्या शिक्षणतज्ञानीच थारावपाचें आसता हें वैश्वीक सत आमकां खबर आसतनाय राजकीय फुडाऱ्यांनी तातूंत सदांच लुडबूड केल्ली आसा. हाकाच लागून फाटल्या साडेतीन दसकांत आमच्या देशाचें शैक्षणीक धोरण थारावंक शिक्षण मळा वयल्या जाणकारांक आयलें ना.

## आमची वळख किर्ते..?

खंयच्याय देशाची वळख त्या देशाचे संस्कृतायेचेर थारता आनी संस्कृतायेचें मूळ शिक्षणांत आसता. शिक्षण हें ते ते व्यक्तीचे आवयभाशेचेर निंबून आसता. हाचो धांवतो संदर्भ शीर्शकर्थेत आयला खरो,पूण आमचीं शिक्षणीक धोरणां आवयभाशेक कुस्कटावन परकी भाशेच्या अडेच्या माध्यमांतल्या मुखार व्हरपाचो प्रयत्न केल्ल्यान कशीं फसल्यांत हाचेर आयज विस्तारान भासाभास जावपाची गरज आसा.

जेन्ना हांव देशाची वळख, व्यक्तीमत्व, संस्कृताय जावं मुखामळ म्हणटां तेन्ना आयज देश जे दिकेन वचपा पासत हर तरेचे प्रयत्न करता तो हिन्दुत्ववाद नक्कीच न्हय. आमच्या भारत देशाची वळख हिन्दुत्ववादाचेर केन्नाच नाशिल्ली आनी इंडिया हें उतर हिन्दू उतरा वयल्यान इंग्रजांनी घडयलां म्हणटात ताकाय कांयच अर्थ ना. जाका तातूंत आनंद घेवपाचो आसा तांणी घेवंचो पूण आपल्यार्चे मत दुसऱ्यांचेर लादून नाका आशिल्ले तंटे करचे न्हय. कित्याक आमचो देश भारत आनी त्या भारतांत रावपी दरेक नागरीक हो भारतीय ही ताची वळख. ताची जेन्ना भारतीय म्हणून ठळकपणान वळख जाता तेन्नाच ताचे वयल्यान भारत देशाची वळख स्पश्ट जाता. पूण तांणी जर आपूण हिन्दू, आपूण क्रिस्तांव, मुसलमान, जैन, बौध्द अशी वळख सांगली जाल्यार ताचे वयल्यान तो भारतीय म्हणपाची वळख जायना. ती ताची व्यक्तीगत वळख. ती वळख सांबाळपा पासत तो आपली भास, भेस, धर्म हाका वेंग मारून बसता.तातूंत ताची व्यक्तीगत संस्कृताय दिसतय बी! ती संकुचीत संस्कृताय, ताचे पुरतीच वा ताच्या समुदाया पुरतीच मर्यादीत उरता. पूण तो भारतीय म्हूण दिसपा पासत ताचे कडेन एक विशाळ संस्कृताय आसपाची गरज आसता, जाका लागून भारतात रावपी सगळे जाती धर्माचे लोक भारतीय म्हणून ओळखूंक पावतले.

आतां आमच्या अठरा पंगड जाती धर्माच्या भारतीयांक एके संस्कृतायेच्या धाग्यान कशे गुंथून हाडप, अनेकतायेंतल्यान एकता कशी सांबाळप हो प्रस्न सदांच देशा मुखार आसा. हो प्रस्न जर सुटावो करतले जाल्यार देशांत एक अशें शिक्षणीक धोरण जाय जाची देशांतल्या सगळ्या राज्यांत सक्तीन अंमलबजावणी जातली. जे कोण ह्या राष्ट्रीय धोरणाक विरोध करतात तांची राजकी, धर्मीक, जातीय शक्त बी कांयच लक्षांत घेना आसतना राष्ट्र विरोधी म्हूण तांचे आड कृती करपाची धमक केंद्र सरकारांत आसूंक जाय. पूण तशी आयज परिस्थिती ना.

जेन्ना कोठारी आयोगाची स्थापना जाली आनी त्या आयोगान तीन भासांचें शिक्षणीक धोरण मांडलें तेन्ना ताका दक्षीण भारतांतल्या केरळ सारख्या राज्यांनी विरोध केलो. ताका लागून केंद्र सरकारान रोखडेंच बें म्हणलें. इतलें सुंदर सर्वसमावेशक अशें हें शिक्षणीक धोरण तेन्नाच तीस वर्सां फाटीं जर अंमलांत हाडिल्लें जाल्यार आयज जी पिळगी २५-३० पिरायेच्या गटांत आसा ती खऱ्या अर्थान भारतीयत्वाची वळख सांगतना नदरेक पडपाची.

किर्ते सांगतालें हें कोठारी आयोगाचें शिक्षणीक धोरण.. तर देशांतल्या सगळया राज्यांनी आपल्या भुरग्यांक तांचे आवयभाशेंतल्यान वो परिसर भाशेंतल्यान शिक्षण दिवंचें. फक्त मुळावेंच न्हय तर पदवी मेरेनचें. त्या भायर आमचो देश वेगवेगळी भास उलोवपी राज्यांची संघटना आशिल्ल्यान एका राज्यांतल्या भारतीयाक, दुसऱ्या राज्यांतल्या भारतीया कडेन संबंध प्रस्थापीत करपा पासत हिन्दीचो वापर करचो. ताका लागून ती भास दुसरी भास म्हणून शिक्षणांत आसची. मागीर तिसरी भास म्हूण इंग्लीशीचो वापर शिक्षणांत जावंचो जाका लागून एक भास म्हूण ती वेवस्थीत शिकूंक मेळटली आनी देशा भायल्या लोकां कडेन संपर्क दवरूंक ताचो लाव जातलो.

पूण इंग्लीश माध्यमांतल्यान शिकल्यारूच आपलीं भुरगीं फुडाराक पावतलीं असो एक भ्रम लोकांचे तकलेंत गेल्ल्यान ह्या धोरणाक विरोध जालो. हो विरोध लोकांक समजावन पयस करूं येतालो. पूण लोकांचो फुडार आज लोकांच्या निर्णयाचेर निंबून उरूंक ना तर तो तांच्या राजकीय फुडाऱ्यांचेर निंबून आसा. सर्वसामान्य समाजांत भुरग्यांक जल्माक घालपाक आवय बापूय आपली जापसालदारी वेवस्थीत तडीक व्हरतात, पूण त्या भुरग्यांचो फुडार आपल्या निर्णया परस आपल्या राजकीय फुडाऱ्यांच्या हातांत दिवन मेकळीं जातात. ह्या फुडाऱ्यांक लोकांच्या फुडाराचो पातसो नासता तर आपलो फुडार सुगूर दवरपा पासत लोकांची झुंझ जाय आसता. ते झुंडीचेर ह्या फुडाऱ्यांचो राजकी फुडार धारिल्लो आसता. देखून हेरांचो फुडार पाड पडल्यार जाता पूण आपल्या फुडारा पासत ही झूंझ सांबाळपाचो तांचो खर यत्न आसता. ते पासत ते कितलीय फट मारूंक शकतात वा खंयचेय तोंकाक वचूंक शकतात.

लोकांक तांच्या हिताच्या धोरणा आड वचूंक मुखार काडूंक हे फुडारी जात-धर्म-गरिबी हाचे मालवजार भावनीक कार्डाचो वापर करतात, केन्ना धमकायतात तर केन्ना दुडवांचें हांवस दाखयतात. हाका लागून हे फुडारी आपली पोळी बाजून घेतात खरे पूण लोकांचें निसंतान जाता.

कोठारी कमिशनाची अंमलबजावणी जाल्ली जाल्यार देशांतल्या सगळ्या राज्यांत मुळाव्या वर्गा पासून पदवी वर्गा मेरेनचें शिक्षण आवयभाशेंतल्यान जावपाचें. भुरग्यांक कळटा ते भाशेंतल्यान शिकयल्ल्यान किर्ते शिकयतात तें भुरग्यांक बेस बरें कळपाचें. गिन्यान घट्ट बरें मनांत रिगिल्ल्यान केन्नाय आनी खंयीय ताच्यो जापोय तांचे कडल्यान आपसूक येवपाक पावपाच्यो. जें

कळ्ळां तेंच बरोवपाचें आशिल्ल्यान परिक्षेचो ताण तकले वयल्यान वचपाचो. हिन्दीच्या भाशेच्या शिक्षणान हेर राज्यांतल्या लोकां कडेन संबंध जुळपाचो, ताका लागून मनाक विशाळताय आनी प्रगल्भताय लाबून आमी सगळे भारतीय म्हणपाची वळख घडपाची. आयज राज्या राज्यां मदीं एक सुप्त नसाय,द्वेश वसता तो हाका लागून मूळ धरूंक पावपाचो नाशिल्लो. इंग्लीश भास ही तिसरी भास आशिल्ल्यान एक भाशा विशय म्हूण ती शिकपाक मेळपाची. ताका लागून आपल्याक इंग्लीश येना म्हणपाचो न्युनगंड उप्रासून मुखार सरपाक जो भंय दिसता तो पयस जावपाचो. आपले आवयभाशे इतलीच आपल्याक हिन्दी आनी इंग्लीश येता हाचो अभिमान पदराक आशिल्ल्यान हेर भासांतलें साहित्य वाचून आपली भास खंय आसा हाची जाण येवपाची.

राजकीय सुवार्थाक लागून आमी हे घडणुकेन भारताची वळख निर्माण करूंक तीन दसकां फाटीं उरल्यात.

## नव्या शिक्षणीक धोरणाचो कितें फुडार?

केंद्र सरकारान फाटल्या म्हयन्यांत १९८६ उपरांत देशांत नवें शिक्षणीक धोरण जाहीर केलां. खंयचेंय धोरण आखून तें चालीक लावपाचो वावर सुरू जाता तेन्ना एका म्हत्वाच्या धोरणाची गरज आसता आनी तें म्हळ्यार ज्या धोरणाचेर भासाभास जाता ताचें फाटलें धोरण कितें..? आमच्या देशाक स्वताचें अशें एक शिक्षणीक धोरण जायच. आपल्या देशाचो एकान एक नागरीक आत्मनिर्भर जावंचो, ताका दर्जेदार जिवीत उपभोगूंक मेळचें देखून ताका त्या दर्जाचें शिक्षण सहज उपलब्ध जावंचें आनी ताच्या जल्माचें सार्थक जावंचें.

आतां जल्माचें सार्थक म्हळ्यार कितें? देशाचें मुखामळ थारतलें जाल्यार त्या देशांतल्या नागरिकांचें मुखामळ थारपाक जाय. तें थारतलें जाल्यार हो नागरीक मनीस काय यंत्र हें थारपाक जाय.

मनीस कमायता आनी यंत्रूय कमायता. मनशा परस यंत्र चड कमायता. ताची कमाई चड आसली तरी यंत्र देशाची वळख थारना. ती वळख थारता मनशाच्या मनीसपणाचेर,ताचे मानसिकतायेचेर.ताचें संस्कृतायेचेर, ताचें यंत्र तयार करपाची क्षमताय आनी कळाशीचेर. नागरीक कसो वागता, कसो उलयता, कसो विचार करता त्या वैचारीक स्तराचेर. ते पासत शिक्षण पद्दत अशी जाय जाका लागून तें येवपी एक बरो नागरीक जावंक पावतलो.

हालींच धावेचो रिजल्ट लागलो. अजापाची गजाल म्हळ्यार हे परिक्षेक कांय भुरग्यांक शें प्रतिशें गूण फावो जाल्यात. आमच्या काळा वयले मॅट्रीकेक पस्तीस टक्के मार्क पदरांत पडल्यार खूब जाल्ले. पयलो वर्ग , डिस्टींग्शन बी ७० टक्क्यांचेर थारतालें. पूण त्या काळार ३५-४० टक्के मार्क मेळिल्लो हो विद्वान आसतालो. ताका अभ्यासांतलें गिन्यान आसतालेंच त्या भायर ताका वेव्हारीक जाणवाय आसताली. खंयचेय गजालीचेर निर्णय घेवपाची क्षमता पदराक आसताली. हालींचे १० वे चे परिक्षेंत ९८ टक्के मार्क येतिल्ली शेजारची एक चली म्हाका पेढे येवन आयली. उमेदीन सारकी भरिल्ली. तिचो एक दोन खबरांपत्रांचेर फोटोय छापून आयिल्लो. आवय-बापूयय सामके सुपांतय धर नाशिल्ले आनी वल्लेंतय।

तांची मानसिकताय हांव जाणां आशिल्लों. ज्या वातावरणांतल्यान, ज्या समाजांतल्यान आनी जे परिस्थितींतल्यान तीं आयल्यांत तांचे धुवेन मेळयल्लें हें यश नक्कीच तोखणायेचें. पूण ते चलयेचो आयक्यू म्हाका खबर आशिल्लो. ताणें मॅट्रीकेक चडांत चड मार्क येवंचे म्हूण ताचेर जे अत्याचार जाताले, तें खंयचे खंयचे शिकवणेक वतालें ताचो अदमास म्हाका आशिल्लो. ताका हांवें हेर भुरग्यां वांगडा खेळटना, सायकल चलयतना वा हांसता मिरयतना केन्नाच पळोवंक ना. केदो व्हडलो अन्याय ह्या भुरग्याचेर केलो ताच्या पालकांनी..ताणें ९८ टक्के मार्क येवन दिग्वीजय केला हातूंत दुबावूच ना. पूण तें फुडारक खंय पावतलें?

हो प्रस्न आनी हुसको आतांचोच न्हय. ही परिस्थिती जेन्ना कोठारी आयोगाचें १०+२+३ हें धोरण आपणायलें तेन्नाच्यान दर वर्सा आमी पळयत आयल्यात. १० वी आनी १२ वे चे परिक्षेंत ९० आनी ९८ टक्के मार्क हातासपाक फक्त भुरग्यांनीच कारावास भोगलो ना तर तांच्या आवय बापायनूय रातीचे दीस केल्यात. तातूंतल्या कांय जाणांनी आपली धावी, आपली बारावी म्हूण लेख बरोवन हे परिस्थितीची धजा उडोवपाचें काम केलांय आसत,पूण जांच्या जांच्या घरांतलो भुरगो १० वी आनी १२ वी च्या वर्गांत पावलो तांच्या घरच्यांनी भुरग्यां वांगडाच आकांताळ्या मानसीक दबावांत वर्स सारलां ही सत गजाल. हें इतलें करूनय कोठारी


डॉ. के. कस्तुरीरंगन इस्त्रोचे आदले अध्यक्ष




आयोगाच्या शिक्षणीक धोरणांतल्यान गेल्लीं इतल्या वर्सांतलीं हीं भुरगीं, 'आकाश के चमचमते तारें' खंय आसात? दुबाव ना, तीं खंय तरी दोतोर, इंजीनेर, संगणक तंत्रज्ञ आनी हेर मळाचेर जोडटात. तांचो समाजाक कितें फायदो जालो..? तांचे वयल्यान आमच्या देशाची वळख, मुखामळ किल्याक थारूंक पावलें ना? जे कोण हे सर्तींत फाटीं पडले आनी जेम तेम कोठारी आयोगाचें १०+२+३ हें धोरण पुराय करूंक पावले ते अजून सरकारी नोकरेचे प्रतिक्षेंत आसात. आपले आवयभाशेंतल्यान शिक्षण मेळूंक नाशिल्ले इंग्लीशीच्या फसव्या भ्रमांत सांपडिल्ल्यान शिक्षण अर्ध्यार उडोवन फक्त पोट भरपाचें काम करूंक लागले. आज राजकाण्यांचे हस्तक जावन, पक्षाचे कार्यकर्ते जावन रस्त्यार झुंडशाय राबयतात, सगळे तरेचीं वायट कर्तुबां करतात तांचेर आमच्या देशाची वळख थारता.

म्हणटकच आमचें शिक्षणीक धोरण कागदाचेर एक आनी वेव्हारांत एक अशें आसा. जनतेच्या तोंडाक पानां पुसपाक आनी देशांतल्या विद्वानाक कितें तरी काम दिवपाक सत्ताधाऱ्यांची ही खेळी आसता. आमच्या गोंयचें शिक्षणीक धोरण थारावपाक पर्रीकार सरकारान कांय शिक्षणतज्ज्ञांचेर ती जापसालकी घाल्ली. भुल्लुसून वचून पिशे कशे तांणी हें धोरण तयार केलें. त्या धोरणाचें कितें जालें? सरकाराकूय तें खबर ना आनी तें तयार करपी ते समितीकूय खबर ना. आमचो मोलादीक वेळ येवन सरकारान शिक्षणीक धोरण तयार करूंक लायिल्लें तार्चे कितें जालें? असो प्रस्न करपा इतली शक्त ह्या तज्ज्ञातूय ना हें खरें सत. तो विशय नाका..आसूं..

तर विशय आसा के.कस्तुरीरंगन हांचे अध्यक्षते खाला जें शिक्षणीक धोरण २०१९ तयार जालां, ताचेर देशांतल्या दोन लाखा वयर जाणकारांचें मत येवन ताका निमणें स्वरूप दिलां तार्चे फुडाराक कितें जातलें? तें आमचे जनतेच्या फुडाराचे नदरेन अरगती पडटलें काय ह्या आदीं जितलीं शिक्षणीक धोरणां तयार जाल्यांत तांचे वाटेन वतलीं? ज्या शिक्षणीक धोरणाची आयज कांय वर्गा कडल्यान तोखणाय जाता तांणी ह्या धोरणाचेर सारको अभ्यास केला काय दोळ्यां मुखार भगवो रंग झळकत राविल्ल्यान तांणी फकत ताका मान्यताय दिल्या?

आमी कितलेंय जरी म्हणलें, जाहीर जाल्लें शिक्षणीक धोरण हें विद्यार्थी केंद्रीत, विद्यार्थ्यांच्या सगळ्या आंगानी उदरगत करपी अशें आसा तरी तें चकचकीत आवरणांतलो बिस्कीटीचो पुडो थारूंक फावना. भायलें आवरण पळोवन नाच नाच नाचले आनी पुडो सोडोवन भितरल्या म्हालाची चव आनी दर्जो पळोवन ,तशेंच त्यो बिस्कीटी खाल्या उपरांत पोटाचे जाल्ले हाल पळोवन फुरस जावंचें ना हाची खात्री कितें?

हें जें शिक्षणीक धोरण आसा तार्चे मुळावण खूब गरजेचें. एकेक टप्पो हुपून मुखार वतना खूब जतनाय घेवपाची गरज आसा. ५+३+३+४ ह्या प्रवासांत ४थो टप्पो आनी मदलें संशोधन बी कार्यावळी कडेन विद्यार्थी पावतले जाल्यार तांचो पयलो टप्पो सामको सशक्त जाय. तो टप्पो सारखो हाताळलो जाल्यारूच आदर्श नागरीकांचें बीं ह्या काळांत रुजपाक पावतलें. आमच्या देशाची संस्कृताय आनी मानसिकताय ही 'दहीहंडी' फोडप्यांची. शिक्षणीक धोरणाच्या नांवान हे दहीहंडीचो आराखडो तयार केला. ताचे टप्पेय थारावन दिल्यात. हंडी सामकी वयर लांबयल्या.तो निमणो टप्पो. थंय मेरेन पावपाक मुळाक जो माखनचोरांचो येरो आसता तो म्हळ्यार बालवाडी शिक्षकांची बुन्याद सामकी यट आसची पडटली. वयर हंडी मेरेनचो टप्पो शिटूकसाणीन हातासतले जाल्यार ही बुन्यादीची टोळी ढळमळीत आसूंक फावना. ताचे पासत घरा बसून पगार खावपाचें काम करपी उच्चशिक्षीत प्राध्यापकां परस ल्हान भुरग्यांचें शेंबूड पुसपी,गू मूत काडपी ह्या शिक्षकांचें मानसीक संतुलन सांबाळप खूब गरजेचें. तांकां भरपूर पगार आनी खरे तरेन भारतीय

संस्कृताय,भारतीय भासो हांचो अभ्यास आसूंक जाय. बालवाडी शिक्षक वो शिक्षिका म्हळ्यार काठार पास जाल्लीं ,पदवी पदरांत पडिल्लीं आनी आमदार मंत्र्याच्या वशिल्यान नोकरेक लागिल्ली खोगीर भरती थारूंक फावना. आयज बालवाडींची आवतिकाय आमी पळयतात तेन्ना मुळावें शिक्षण किर्ते ताची कल्पना येता. हेंच धोरण राबोवन जर आमी नवें शिक्षणीक धोरण यशस्वी करूंक सोदतात आनी ताच्या मालवजाचेर चैतन्यमय जग तयार करूंक मुखार सरल्यात जाल्यार ते मुंगेरीलाल के हसीन सपनेंच थारतले.

हो जो पयलो टप्पो आसा ताचे पासत आवयभास ही खूब म्हत्वाची. ती भास आपूण घरा कडेन उलयतां, आपल्याक ती सारखी येता,पूण आपलें शिक्षण इंग्लीशींतल्यान जालां असली रडी हांगा चलपाची ना हें पयलीं थारावंक जाय. आमी फुडाराचे आदर्श नागरीक घडयतात आनी तांची बुन्याद आमच्या हातांत आसा हाचें भान आशिल्ल्या भासशिक्षकांची आनी समाजांत आपल्या पांयार उबे रावून कसल्या कसल्या गजालींक फुडो करचो पडटा हाची बेस बरी जाण आशिल्ले त्यागी शिक्षक हें धोरण राबयतना तयार करचे पडटले.

हें धोरण पळयत जाल्यार जाका कोणाक शिक्षण विकतें घेवपाची तांक आसा ताकाच परवडटलें अशें शें किर्ते दिसता. ताका लागून ह्या शिक्षणाचें बाजारीकरण जातलें हातूंत दुबाव ना. कित्याक देशांतलीं कॉलेजां आनी विद्यापीठां स्वायत्त करपाचो विचार ह्या शिक्षणीक धोरणांत आसा. त्या भायर देशांत देशा भायल्या शंबर विद्यापीठांक धंदो करपाची मान्यताय ह्या धोरणांत दिल्ली आसा. ह्या विद्यापीठांक भारतीय संस्कृतायेचो अभ्यास ना. त्या विद्यापीठांक फकत यंत्रां तयार करपाचें शिक्षण कशें दिवप हेंच खबर आसा. कित्याक तांकां जोडपाचें आसता. तांची नदर भारतांतल्या गिरेस्त पालकांचेर आसता. ह्या पालकांकूय आपलीं भुरगीं भरपूर जोडपी,उच्च स्तराचें हायफाय जीवन सारपी भोगवादी जाल्लीं जाय आसतात. तांचेंय जीवन तशेंच सरिल्लें आसता आनी आपले परस चड भोग आपल्या भुरग्यांनी घेवंचो आनी घेवन दाखोवंचो अशी तांची वान्सा आसता. ते पासत हे पालक कितलेय दुडू फी म्हणून असल्या शिक्षणीक हबांत घालूंक फाटींफुडें पळयनात.

गोंयांत कांय वर्सां आदीं हरीष झांटये शिक्षणमंत्री आसतना व्होडीतला आपलें वैजकी म्हाविद्यालय गोंयांत उबारूंक पळयतालो. कॅपिटेशन फी भरून कोणाकूय दोतोर जावपाक थंय संद दिवपाक ते आयिल्ले. आपल्या गुणांचेर वैजकी शिक्षण घेवपी गोंय वैजकी म्हाविद्यालयांतल्या विद्यार्थ्यां लागीं ह्या कॅपिटेशनांतले विद्यार्थी सर्त करपाक पळयताले. एका म्हाविद्यालयांत थोड्यांनी हाडांचीं काडां करून वैजकी पदवी घेवप आनी दुसऱ्या म्हाविद्यालयांत फक्त दुडू भरून तीच पदवी घेवप हो ह्या मळा वयलो भ्रश्टाचार आशिल्लो. ताका गोंयच्या विद्यार्थ्यांनी विरोध करूंक मोठें आंदोलन उभारिल्लें.

आयच्या काळाक असलें आंदोलन उभारपी विद्यार्थी शक्त अस्तित्वांत नाशिल्ल्यान जें किर्ते माथ्यार थापतात ताचो स्वीकार करून गिरेस्त लोकांकूच क्वॉलीटी शिक्षण दुडवांच्या माजाचेर घेवपाची भरपूर संद ह्या शिक्षणीक धोरणांत आसा.

आमच्या गोंयांत कांय वर्सां आदीं 'गेरा' हे बिल्डर लॉबीन आक्रमण केलां. तांचें काम म्हत्वाच्यो जमनी हातासप आनी इमारती उभारप. आतां तर हे लॉबीन शिक्षणीक मळारूय पावल घालां. जे कोण गिरेस्त वा नवगिरेस्त तांची सदनिका घेता तांच्या भुरग्यांक मुळावें शिक्षण घेवपाक भायर वचपाची गरज ना. तांचे पासत हे लॉबीन त्याच प्रकल्पांत मुळाव्या शिक्षणाची वेवस्ता केल्या वो करपाचें उतर दिलां. कांय कडेन सदनिका घेतिल्ल्या पालकांच्या भुरग्यांनी ॲडमिशनूय केलां. ह्या कोविडाक लागून स्कुलां सुरू जावंक नासत पूण हेर प्रगत राष्ट्रानी जें क्वॉलीटी शिक्षण दिवन भुरग्यांक यंत्रां करतात, तांकां संस्कृतीहीन करतात तसलें शिक्षण दिवपाक ह्यो संस्था फक्त धंदो म्हणून दुडवांचो विनियोग करतात आनी आमचे पालक फसतात.

असली मानसिकता आशिल्ले पालक आनी तांचेर भुरळ घालपी उद्योजक आनी त्या उद्योजकानी वावराक लायिल्लो शिक्षणतज्ज्ञ आमच्या देशात आसात आनी नासल्यार तांकां दारां उगडीं दवरून येवकार दिवपी आमी आमच्या देशाचें व्यक्तीमत्व कशें घडोवंक पावतलें हाचो थोडो तरी विचार करपाची गरज आसा.

### तेरा क्या होगा रे कालिया..?

शोले हो एक सिनेमा एका काळार भरपूर गाजलो आनी अजूनय टीवीचेर तो दिश्टी पडटा. तातूंतले खूबशे डायलॉग खूब फामाद जाले आनी आजूनय ते लोकांच्या तोंडार बसल्यात. तातूंतलो एक म्हळ्यार तेरा क्या होगा रे कालीया?

ह्या शिक्षणीक धोरणाचेर जेन्ना हांव विचार करतां तेन्ना गोंयकारांक पळोवन म्हाकाय तो डायलॉग मारपाची कूय येता. तेरा क्या होगा रे कालिया?

आमकां अजून आमची आवयभास खंयची ती थारावंक येना. सरकाराक राजभास चालीक लावपाची इत्सा ना. डायेसिजन संस्थेच्या माध्यम धोरणाचेर लक्ष घालचें आनी तांकां शिस्त लावची अशें सरकाराक दिसना. नव्या शिक्षणीक धोरणा प्रमाण जीं पुसत्कां एनसीआरटी तयार करतात तातूंत अयोध्येचें राम मंदिर, सावरकर आनी हेर जायतें भगवें आसतलें. तीं पुस्तकां गोंयच्या विद्यार्थ्यांच्या माथ्यार मारतले काय गोंयचो इतिहास, गोंयची संस्कृताय आदी गजालींचो आसपाव आशिल्लो अभ्यासक्रम राबोवपाक हें नवें शिक्षणीक धोरण मुबा दितलें काय ना असले खूबशे प्रस्न आसतले. ते कशे सुटावे जातले आनी हें धोरण खरेंच आदर्श नागरीक निर्माण करतलें काय किर्ते हें फुडाराक कळटलें. वाट पळोवंया.



## कथिका



आशा शानभाग

**आशा शानभाग** हांची वळख कोंकणी वाचकांक आसा ती कसलीच भिडमुर्वत बाळगिनासतना बरोवपी एक लेखिका म्हूण. तांणी कोंकणी कथा आनी ललित साहित्य हातूंत आपली अशी खाशेली सुवात सुगूर केल्या. तांचो 'कोऽहंऽऽ' हो कथासंग्रह ताची गवाय आसा. 'बिम्ब' पुरस्कारान भोवमानीत ही लेखिका आपले कथेंतल्यान वाचप्यांक शॉक ट्रिटमेंट दिता.

***मोर्तुचे व्हडले पुवेच्या लग्ना वेळार सरकाराच्या हातांतले दोन गडगंज, अखंड ,जड तोडे केन्ना लताच्या हातांत पडले हें सरकाराक सुद्दां कळ्ळें ना. भांगर शिंगर, पयशे, तांब्या पितळेचीं आयदनां, हें सोडात आंब्यांचो हालवो घोटपाची लाकडी दाव सुद्दां लताचे रांदपकुडींत पावली.***

# नटसम्राट



**का**ल टीव्हीचेर मोहन जोशींचें 'नटसम्राट' नाटक पळयलें. नाना पाटेकरांची सिनेमांतली आनी मोहन जोशींची नाटकांतली ॲक्टींग... व्वा..! तोडीस तोड म्हणपा सारकी. कोण 'द बेस्ट?' ह्या विचारांची तकलेंत सामकी जुगलबंदी चलिल्ली. तकलीय तीच आनी मनय तेंच... मन तर सामकें चंचल. नाटकांतले एकेक प्रसंग म्हाका म्हजेच जिणेंतलीं फाटलीं वीस वर्सां वाद करून दिवपाक लागिल्ले. जणू नाटक आनी म्हजी फाटली जीण हातूंतल्या पडणुकांची जुळपाची सर्त लागिल्ली.

''सरकार!'' मोहन जोशींचो भारदस्त आवाज कानांत घुमलो. पुराय वेळची घरधनी आशिल्ले आपले घरकान्नीक, नाटकांतले रोहीणी हट्टंगडीक, मानान उलो मारपी गणपतराव बेलवलकर उर्फ नटसम्राट. येद्या व्हडल्या कलंदर कलाकाराची सावळी जावन जगपी घरकान्न, पूण मानान सरकार. 'विवां'चे लेखणीची करामत म्हळ्यारच नटसम्राट नाटक आनी म्हजे जिणेचे माचयेर स्वताचें कर्तुब शुन्य आसुनय बापायचे पुण्यायेचेर जगपी, सरकार जावपी.... म्हजे घरांतले.... खूब्ब भोगलें हांवें ह्या सरकारा कडच्यान.

आंगावेल्या वस्त्रांनिशी भायर सरलो नाटकांतलो नटसम्राट आपल्या सरकारा वांगडा... आनी जिणेच्या नाटकांत आमच्या सरकारान आमकां रस्त्यार उडोवन दिलें. नाटकांतली खलनायिका आशिल्ली बेलवलकरांची सून, म्हज्या जिणेच्या नाटकांत आमच्या सरकाराच्या सल्लागाराची भुमिका करपी जोडपें ... मोर्तु आनी लता. नशीब पळयात म्हजें, ह्या खलनायक जोडये वांगडा तांचीं पुराय खलनायकी रगतांचीं तीन महाहराम पोरांय फ्री गिफ्ट!

नटसम्राट.... हो निमणे मरेन नटसम्राटच उरलो, ताची सरकारय ताचे खातीर सरकारच उरली... शेवट मेरेन. आमचे जिणेंतले माचयेवेली सरकार मात वाढ्या वेल्या लोकांच्या, खास करून मोर्तु- लता हे जोडयेले शिकवण्यांनी तांची गुलाम जाली. आपल्या रगताच्या मनशांक, आपणें जल्मांक घाल्ल्या भुरग्यांक लेगीत परकी समजून, परकी करून एकमुळीच पडली. आयज होच वाडो, हेच वाडेकार, तोच शेजार सरकाराची काकूट करता. काल पयर भितरल्यान तेंको दिवपी होच मनशांचो समूह आयज नामानिराळो जावन बकत्शायो करता.... मजा पळयता..... एक खरें, धर्तरी वांटकुळीच आसा, आपले माथ्या वयलें उदक आपलेच पांयां कडेन येता.

''सरकार, आपण चोर ठरलो, आज चोर...!''

गणपतराव बेलवलकरांचे भुमिकेंतल्या मोहन जोशींचो काळीज चिरपी आवाज.... तांचो अभिनय आनी तितल्याच तोलामोलाची साथ दिवपी रोहीणी हट्टंगडीच्या तोंडावेले भाव... आनी तिणें धरिल्ल्या पदराची करामत. व्वा! ताळयो हांचे ॲक्टींगेक. हें... हें सगळें हांवें म्हजे घरांत... आमच्या सरकारा कडच्यान

भोगिल्लें..... आमच्याच घरांत हांव चोर ठरिल्लें.....

म्हज्या, हय म्हज्या रक्ताच्याच मनशांनी म्हाका चोर केल्लें. तेंवूय मोर्तू, लता आनी तांणी काडून घाल्ल्या तिनूय महाचोर पोरां सामकार. कुचिद्री हांसपी तांचे चेरे आत्तां म्हज्या दोळ्यां सामकार झळकले. करून सवरून म्हजेर आळ घालून किटकिटपी हरामी पोरां. हो देवय म्हणून म्हाका नाका तेन्ना नाका त्यो गजाली याद जावपाचो शिराप दिवन बसला. आमच्या स्वताच्या, ल्हानच पूण स्वतंत्र घरांत दनपारच्या टळटळीत वेळार ह्यो फाटल्यो यादी कुसकुसून वयर सरतात. गळ्यांत हुंदकुटो अडकता.

आमच्याच घरांत रावतात आसून सुद्दां आमचे कडच्यान दर म्हयन्याक अर्द लायटीच्या बिलाचो नजराणो सरकार दरबारांत दिवचो पडटालो. बोबो , झगडीं, हुयेल्यो नाकात म्हणून हांव पयशे दितालें. 'फुलु खुस्तार खोजने' हे चालीचेर मोर्तु- लता सरकारा खुस्तार फोल्गां मारतालीं. बांय आमची... पंप, लायट आमची.... उदकाचे घडे मोर्तुच्या घरांत आनी गार्डनांत. बील फारीक करता आमचें घर. मुक्काट्यान तोंड धापून हांवें अर्दे बील ७०० रुपया सरकारा मुखार पेश केलें. पंदरा दीस ते पयशे दवरिल्ले थंयच झक मारले. सोळाव्या दिसा पयशे गायब. पोटांत कुळळ जालें म्हज्या. नव्या संकश्टाची नांदीच ती. तेन्नां आमी अडचल्लीं आनी परतून नजराणो दिवपा पडल्यार जालो घात.... अशक्यच.....

मोर्तुलीं पोरां महाचोर, दिस्त आवयचेर लताचेर गेल्लीं. आवय कुळारा सगल्यांक त्रास दिवपी, मदांद म्हणून फामाद. शिकप फक्त मराठी चवथी नापास, पूण आपलें सादरीकरण हुशार. म्हजें तें म्हजेंच आनी तुजें तेंय म्हजेंच हो चिनी व्हायरस लताक चाबिल्लो. तर, हीं तांचीं पोरां महाचोर, आमच्या आंगणांत सुकपाक घाल्लें पणसाचें, आंब्याचें साठ सुकपाक पातलायतां मेरेन बोटांनी खरपून खावपी अवलादी त्यो. तर हीं पोरां धनयाच्या थाटान आमच्या घरांत वावुरतालीं, केन्ना तरी माल्लो हात तांणी पयशांचेर. सरकाराची नदर पडली,



पयशे थंय नात हें पळयलें... आनी घातलो आळ म्हजेर. चोराचे, चोरयेचो थपको मारलो म्हज्या कपलार. झगडपाक निमित्त्य सोदपी सरकारी मुलूख मैदानी तोफ तडतडपाक लागली. गाळयांचो शिंवोर सामको. आश्रीत.... निर्वंश जावूं.... कोंब करपून वचूं... कळव मोडूं ..

मोर्तू... लता, तांचीं पोरां, तांचो डबल हेतू सादील्ल्यान सामकीं किटकिटटात. हांवेंच दिल्ले पयशे ना जातात आनी चोरयेचोय आळ म्हजेरच... नटसम्राट नाटका सारकेंच....

एकंदर आमचें नाटक ताचे उपरांत रंगत गेलें. मोर्तू आनी ताचे फामिलेच्या भरवशांचेर सरकारान आमकां आंगावेल्या कपडचां सयत भायर धांवडायलीं. परक्यां सामकार झुकतली पूण आपल्या मनशांक लार्गी कोटी ना ह्या ताठ्यान जगपी सरकार सामकीच परक्यांच्या रंगांत रंगली. पुरातन काळा सावन आमच्या देशांत चलत आयिल्ल्या फितुरीच्या शापान डाव सादलो.

मोर्तुचे व्हडले धुवेच्या लग्ना वेळार सरकाराच्या हातांतले दोन गडगंज, अखंड ,जड तोडे केन्ना लताच्या हातांत पडले हें सरकाराक सुद्दां कळ्ळें ना. भांगर शिंगर, पयशे, तांब्या पितळेचीं आयदनां, हें सोडात आंब्यांचो हालवो घोटपाची लाकडी दाय सुद्दां लताचे रांदपकुडींत पावली. नाटकांतलो गणपतराव आपल्या पुताच्या नांवार सगळें करून कफल्लक जाल्लो. हांगा सरकारान चोराच्या हातांत तल्लूक दिल्ली. सगलीं भाटां, रावतें घर सरकार मोर्तुल्या पुताच्या नांवार करपाक तयार. तोवूय सेंट पर्सेंट लताचेरच गेल्लो,'तूं भियेवं नाका, तुजे बारा तेरा हांव करतलों' जित्या मोर्तू मुखारच पूत सरकाराच्या काळजाक गंधाचो हात लायता. बापूय आसतना पूत हेरांक लाकूड घालूंक शकना हें जाणपी सरकार एक हात तोंडार आनी दुसरो भोंकार धरून पळयता.

काल पयरूच कळ्ळें, हो मोर्तू आपले आड कुळकायद्याचें कोर्ट खेळपी कुळां सामकार झुकलो, दिमयेर बसून मांडली केली. ताणें म्युन्सीपाल्टीक लागून आशिल्ली शेतजमीन बिल्डराक दिवन मल्टीफ्लोरल बिल्डींग बांदपाची तयारी केली. हें मोर्तुचें येशस्वी डंकर्क... आयकात सरकाराच्या फामीली मदीं फूट घालून आपलें सादपी मोर्तुन हांगाय आपलें सादयलें. बिल्डरा कडेन आपल्या तिगय भुरग्यां खातीर.. एक पूत आनी लग्न करून दिल्ल्यो दोन धुवो, हांचे खातीर तीन डबल बेडरूम फ्लॅट घेवन आपलो घराबो अखंड दवरपी मोर्तू आनी आपल्याच हातांनी आपलेच पाड घालून एकमुळी जीण जगपी सरकार... ... हातुंतलो खरो नटसम्राट कोण????

नाना पाटेकर, मोहन जोशी हांचे परस सभ्यतेचो मुखवटो चडोवन आपलो खरो चेरो धापून दवरपी मोर्तूच ह्या कलीयुगांतलो नटसम्राट!

याद दवरात धर्तरी वाटकुळीच आसा...

सादोळशे ,काणकोण-गोंय, मो.: 9404145327

जिवेवेली जतनाय



सखाराम शेणवी बोरकार

कोंकणी कवितेंत मोलाची भर घालपी सखाराम शेणवी बोरकार काव्य निर्मिती करपा वांगडाच ललित साहित्य लेखन, विनोदी साहित्य लेखन, पुस्तक समिक्षा तशेंच हेर भासांतलें साहित्य कोंकणीत अणकारीत करपाचो वावर सातत्यान करीत आसात.

***सोरोप ह्या प्राण्याक लोकमानसांत खूब व्हडलें स्थान आसा. प्रत्तेक वाठारांत त्या जाग्याची राखण करपाक एक सोरोप आसता असो समज आसा. गांवगिन्या वाठारांनी कांय कडेन सोरोप म्हणी नासतना ताका 'व्हडलो' अशें म्हणटात. तो हरशीं कोणाचेय नदरेक दिश्टी पडना पूण भश्टकार बी जावत जाल्यार तो भायर सरता असो समज आसा.***



# लोकसंस्कृतायेंतली 'जिवाणी'

'तो मरे दोन तोंडांचें माळूण!.'

सदा कोणाची तरी खबर सांगून म्हजे कडेन फणफणटालो.

'आरे! ह्या बोटावेली थुकी त्या बोटार करपाक मरे तो सामको कापाज! हाचेर विस्वास दवरलो आनी हांव मरे त्रासांत पडलों!.'

सदान आपल्या पोटांतलो सगळो ओग भायर काडलो.

''सदा! दोन तोंडांचें म्हण माळूण आसता रे? हांवें केन्नाच पळोवं ना मरे?''

वातावरण मार्शें ल्हवपीक करपाक हांवें म्हळें.

''आरे! तो एक वाक्प्रचार! माळणाचें तोंड आनी शेपटी एका सारकी दिसता. दोनय चेपटीं. म्हणटगीर तोंड खंयचें आनी शेपटी खंयची हें पयस रावन कळना. त्या खातीर जो मनीस आयज एक उलयता आनी मागीर दुसरेंच उलयता ताका दोन तोंडांचें माळूण म्हणटात. आयचे भाशेंत सांगतलो जाल्यार 'यु टर्न'!

माळूण, हेंवाळीं, दिवड, हार, सोरोप, गांयडोळ अश्या सरपटत वचपी जिव-जिवाण्यांचेर कोंकणींत साबार म्हणी आनी वाक्प्रचार आसात.

'कोंगो खाता रोव आनी हेंवाळ्याक बाबड्याक बडयतात' ही एक कोंकणींतली फामाद म्हण. हाचो अर्थ कर्तुब करता एकटो आनी ताची ख्यारस्त मात भलत्याकच मेळटा. शेताचे देगेर आशिल्ले न्हंयत कोंगे आसतात तशेंच ते न्हंयत हेंवाळींय आसतात. शेतकारान शेतांत यालो रोव खावपाक कोंगे शेतांत येतात त्याच बराबर शेतांत रोव खावपाक आयिल्ल्या हुंदरांक खावपाक हेंवाळींय येतात. कोंगे बारीक आशिल्ल्यान शेतकाराक तांचो दुबाव येना, ताका दिसता तें हेंवाळें! तें रोव खावपाक आयलां अशें समजून तो हेंवाळ्याक बडयता. खरेपणी रोव खावपी हुंदरांक खावपाक हेंवाळें शेतांत आयिल्लें आसता.

'हार उडटा म्हण गांयडोळ उडटा', 'हार गेलो म्हण गांयडोळ गेलो पांया पोंदा चिड्डून मेलो' वा 'दिवड धांवता म्हण गांयडोळ धांवता' ह्योवूय कोंकणींतल्यो फामाद म्हणी. आपले तांकी परस चड व्हड मनश्याची नक्कल वा बरोबरी करूंक सोदता आनी मागीर ताचें हांशें जाता, ताका ही म्हण वापरतात. 'दिवोड़ु वत्ता म्होण वोत्तांतूल्यान गांयडोळु गेल्यारी करपून वत्तलो' अशी म्हण कारवार वाठारांत पोळटा.

कोंकणींत दिवडाचेर कांय म्हणी आनी वाक्प्रचार आसात. 'दिवड मातलो म्हण ताका फोडां करूंक येता?' जसो गांयडोळ दिवडा कडेन बराबरी करूंक शकना तशेंच दिवड कितलोय मातलो तरी ताका सोरपावरी फोडां करूंक येना. जण एकल्यान आपली पातळी वळखून वागचें असो ताचो अर्थ.

'दिवड खावंचे गांवांत मदलो कुडको खावंचो' ही एक अशीच अर्थपुर्ण म्हण. जेन्ना मनीस परक्या गांवांत वता, थंयच्यो चाली रिती ताका खबर नासतात तेन्ना तातूंतली आपल्याक चड बादना ती चाल आपणावची हो ते म्हणिचो अर्थ.

'दिवडान बेब्याक गिळिल्ले वरी खाता' - रूच ये नासतना, धड चाबी नासतना, भकाभक खाता वा बरें लागलें म्हण जो चड जेवता आनी मागीर जिरलें ना म्हण खरस काडटा ताका लेखून ही ओपार मारतात.

माळूण, हार(अजगर) असले सरपटत वचपी प्राणी पोटभर खातगीर ओग्गी पडून रावतात. पोटभर जेवतगीर मनश्याकय अशीच सुस्ती मारता आनी कांयच करन कर्शे दिसना. तेन्ना तो जेवतगीर मात, 'हांव माळूण आं' अशें म्हणटा.

'आशाढांतले गांयडोळ' म्हण एक वाक्प्रचार कोंकणींत आसा. ज्येश्ठ आनी आशाढ म्हयन्यांत उटांगाराचो पावस पडटा आनी भायर सगळ्याक थंड्साण आसता. ह्या वेळार गांयडोळ आपल्या बिळांतल्यान खाण खावपाक भायर येतात. पावसाच्या उदका बराबर व्हांवन येतात ते बारीक जीव खावन हे गांयडोळ बरे टुणटुणीत जातात आनी मागीर ते आपली तुळा सोरपा कडेन करतात. हो तांचो नेट भाद्रपद मेरेन चलता. मागीर कडक वत पडटा आनी गांयडोळांक भायर सरपाक मेळना आनी ते आशिल्ले तशे सुकून

वतात. जेन्ना मनशाक अचकीत धनलाभ जाता तेन्ना तो आपली तुळा गर्भश्रीमंत लोकां कडेन करता. तांचे भशेन नेट दाखयता. पयशे सोंपतगीर तो आशिल्लो तसो आपल्या मुळपदार येता. असले मनश्यांक 'आशाढांतले गांयडोळ' म्हणटात.

सोरोप ह्या प्राण्यांक लोकमानसांत खूब व्हडलें स्थान आसा. प्रत्तेक वाठारांत त्या जाग्याची राखण करपाक एक सोरोप आसता असो समज आसा. गांवगिऱ्या वाठारांनी कांय कडेन सोरोप म्हणी नासतना ताका 'व्हडलो' अशें म्हणटात. तो हरशीं कोणाचेय नदरेक दिश्टी पडना पूण भश्टकार बी जायत जाल्यार तो भायर सरता असो समज आसा. सोरपाचे जर खंय कोणय वाटेक वचत जाल्यार तो डूख धरून रावता आनी मागीर ताचो बदलो घेता. अश्या डूख धरून रावपी, बदलो घेवपी मनश्याक्य 'तो मरे सारको सोरोप आं!' अशें म्हणटात.

सोरपाक (नाग) ब्रम्ह्याचें प्रतिकय मानतात. 'बिरमो' वा ब्रम्हो हो लोकांचो देव. हाचो पुराणांतल्या ब्रम्हदेवा कडेन कांयच सबंद ना. जेन्ना 'बिरामण' (भट ब्राम्हण) लासून, सोरोप चाबून वा वागान धुरी याल्ल्यान मरता तेन्ना ताचो ब्रम्हो जाता अशें मानतात. ब्रम्ह्याचें देवरपण आसता थंय सोरोप आसताच. किर्तेय चूक घडली जाल्यार ब्रम्हो दाखलो दिता म्हळ्यार सोरोप दिश्टी पडटा. जेन्ना मनशान खुटी मारून मठी जोडली तेन्ना त्या जाग्या वेले रोयणींचेर हावळ आयली. तेन्ना ते रोयणींत रावपी सोरपांनी आपल्या घराण्याक बादा करची न्हय म्हण तांचे नांवान वर्साक एकदा ब्राम्हण वाडटात.

सोरोप हे सादारणपणान तीन तरेचे आसतात अशें मानतात.

**१. देवस्थानचे सोरोप-** हे शेड्ड्या भशेन ल्हान आनी हळडुव्या रंगाचे आसतात. तांचो राबितो फकत देवळांत वा देवस्थानाच्या वाठारांत आसता. आपलो जागो सोडून ते दुसरे कडेन वचनात. तांच्या वाठारांत किर्तेय भश्टकार जाल्यार ते दिश्टी पडटात अशें मानतात. अशें घडल्यार देवा कडेन सांगणे करून तांचे कडेन चूक मागची आसता.

**२. वाठाराचे सोरोप-** हे लांबायेन आनी रूंदायेन व्हड आसतात. ते आपलो जागो सोडून दुसरे कडेन वचनात. ते वर्सासंकींनी त्या वाठाराची राखण करतात अशें मानतात. खूब वर्सां एकाच जाग्यार तांचो राबितो आशिल्ल्यान थंयच्या मनशांची, जनावरांची तांकां वळख जाल्ली आसता. ते फकत रातचेच भायर सरतात. त्या वाठारांतल्या खूब अश्या पोरण्या झाडांच्या -देखीक वड, पिंपळ, रुमड हांच्या योलींनीं ते रावतात. आपल्या वाठारांतल्या कोणेंय दुखयल्यार ते डूख धरनात अशें मानतात.

**३. हेडगे सोरोप:** हे दिसपाक वाठाराच्या सोरपा सारकेच दिसतात. पूण तांचो राबितो बदलत आसता. ते लोकांक पिडटात. तांकां मात लेगीत दुखयल्यार ते डूख धरतात.

सोरपाचेर आमचे कोंकणींत साबार म्हणी आनी वाक्प्रचार आसात. 'सोरोप म्हणू नये धाकलो आनी फिरंगी म्हणू नये आपलो', वा 'सोरोप म्हणू नये धाकलो आनी घोव म्हणू नये आपलो'- कोणय आपलो मूळ सभाव सोडी ना, तांचेर पातयेवन रावंक जाय ना अशें दाखोवपी ह्यो म्हणी. 'सोरोप आपली कात सोडीत पूण विंगास (विख) सोडी ना' हीवूय सोरपाचो सभाव दाखोवपी एक म्हण. 'सर्पाक आनी वागाक दुकौन सोण्णये' अशी एक म्हण केरळांतल्या कोंकणी समाजा भितर घोळटा. सोरपाक आनी वागाक दुखयल्यार खंय ते डूख धरून रावतात आनी जेन्ना ताका ती व्यक्ती बेसावध मेळटा तेन्ना तो ताचो बदलो घेता. अश्या सभावाचे समाजांत खूब लोक आसतात. तांकां केन्नाच दुखोवचें न्हय आनी दुखयल्यार परिणामाक सादूर आसचें हें दाखोवपी ही म्हण.

'सोरोप सगळ्या सुवांतेर वता वांकडो-तिंकडो पूण आपल्या बिळांत वता नीट उबो', मनीस आपल्याक बरो आनी दुसऱ्याक वायट असो ते म्हणिचो एक अर्थ. बेबदो कितलोय पिलो जाल्यार आपल्या घरा मात नीट वता असो ते म्हणिचो दुसरो अर्थ.

'सोरपान चाबिल्लो राजवाच्या कवळ्याक भियेता?' वा 'सोरपान चाबिल्लो दोरयेक भिता?'- जाणें व्हडले त्रास सोंसल्यात तो ल्हान त्रासांक भियेना हें दाखोवपी ही म्हण.

'आयत्या बिळांत नागोबा बोली' ही एक कोंकणींतली फामाद म्हण. थोडे लोक आयतोळे आसतात. दुसऱ्या कोंतार खावप आनी दुसऱ्यांनी केल्ल्या कामाचो लाव आपणें घेवप आनी वयल्यान मिरोवप अशे मनशांक लेखून ही ओपार मारतात.

सोरपाचेर कांय वाक्प्रचार मेळटात ते अशे:

**दांत काडिल्लो सोरोप-** सोरपाचें वीख खंय ताच्या दांतांत आसता. वीख हीच ताची शक्त आनी तें कोणाक्य जिवाचेर येवंक शकता. तेच खातीर ताका सगळे भियेतात. ताचे पासून पयस रावतात. दांत काडटगीर ताच्यांत आनी हेंवाळ्यांत फरक किते? जेन्ना सत्तेवेल्या मनश्याची सत्ता वता तेन्ना ताका दांत काडिल्लो सोरोप अशें म्हणटात. थोडे आपल्या जुवानपणांत खूब आडांगी आनी मस्ती आसतात. पूण म्हातारे जातगीर तांची ती शक्त वता तेन्नाय ही ओपार मारतात.

**सोरोप उश्याक घेवन न्हिदप-** व्हडल्या संकटा सांगाताक आसप वा व्हडल्या संकटाक पोसप.



**सोरोप आनी मुंगूस** - मुंगूस सोरपाक खाता. सोरोप आनी मुंगूस म्हळ्यार दोन भिन्न सभावाचे प्राणी. एकामेकाच्या जिवार उठिल्ल्यो दोन व्यक्ती ज्यांच्यांत उजोय वचना. तेन्ना तांकां सोरोप आनी मुंगूस अशें म्हणटात

**सोरपा तोंडांतलें माणीक**- मेळपाक अशक्य अशी गजाल. सोरपाच्या तोंडांतल्या दांतांनी जिवयेणें वीख आसता. सोरपाच्या तोंडांत माणीक आसल्यार आपलो जीव वगडावन तें मेळयतलो कोण?

**सोरोप समजून व्हार्य बडोवप**- व्हार्य म्हळ्यार केळीचो दोर. काळखांत दवरिल्लो हो दोर सोरपा भशेन दिसता आनी कांय वेळार सोरोप समजून लोक ह्या दोराक बडयतात. खऱ्या गुन्यांवकाराक सोडून जो खंयच्याय गुन्यावांत ना ताका जेन्ना ख्यारत करपाचें येवजितात तेन्ना सोरोप म्हणून व्हार्य बड्यतात अशें म्हणटात.

सोरपाचेर कांय उमाणींय कोंकणींत घोळटात.

१. रायागेलो कुंवर
शेलो सोडटा वाटेर
**जाप**: सोरोप वा दिवोड कात सोडटा

२. वाली वरी लांब लांब,
फुला परस सुंदर,
जल्म ताचो रायाळ,
पूण वास खरोच विखाळ
**जाप**: सोरोप

आमचे आदीम संस्कृतायेंत जंय धतरिमांयक खूब म्हत्व दिलां थंयच सोरपाक वा नागाकय पुरुसदेव म्हण म्हत्व दिलां. सोरोप वा नागाची पुजा केल्यार अस्तुरेक गर्भधारणा जाता, नाग अस्तुरेचे होंटयेंत गर्भाची रुजवण करता अशी लोकमानसांत धारणां जाल्ल्यान नागाची पुजा करपाची चाल उदेवाक आयली. नागपंचमीचो सण ही ताचीच एक गवाय.

**नागपंचम:** हो सण हिंदू पंचांगा प्रमाण श्रावण शुध्द पंचमीक मनयतात. गोंयांत साबार हिंदू लोक नागपंचम करतात. थोड्यांगेर वणटीर नागाचें चित्र काडून पुजतात तर कांय कडेन नागाची मातयेची मुर्ती करून ती पुजेक लायतात. नागाक दूद आनी ल्हायो ओंपतात आनी निवेद्य दाखयतात. नागपंचमीक पातोळ्यो हें गोडशें करतात. बायलो ह्या नागा मुखार फुगड्यो, नाच, गितां गावन ताका होरायतात. नागाचे मुर्तीचें दुसरे दिसा विसर्जन करतात. नागपचम मनोवपा फाटलो हांवें वयर सांगला तो हेतू, तेच प्रमाण आनीक एक हेतू हो म्हळ्यार शेषनाग जें भगवान विष्णूचें आसन आसा तार्णे पृथ्वीचो सगळो भार आपल्या माथ्यार सांबाळून धरला म्हण ताची त्या दिसा पुजा करतात. हे गजालीची याद म्हण कांय कडेन मातयेचो एक गुळो करून नागाच्या माथ्यार दवरपाची चाल आसा. नागपंचमी दिसा जमीन दुखावतली अशीं कांयच कामां करूंक जायना असो संकेत आसा. देखीक झाडां हुमटावप, शेतांत खणप, अळमी तोडप आदी.

धालो ह्या कोंकणी लोक संस्कृतायेंतल्या सगळ्यांत पोरण्या अश्या उत्सवांत, जाचें मूळ कृषी संस्कृतायेंत आसा त्या उत्सवांत सोरोप (नाग) आनी रोयण हांचो संबंद सांगला.

तांतलीं कांय गितां अशीं आसात:

१-रोवणीच्या पेडा गे ते,
दुलई दोशी नाग गे ते,
दुलई दोशी नाग
हाले तशे डुले गे ते,
हाले तशे डुले
मस्तकी माणिक जळे गे ते
मस्तकी माणिक जळे

२-आत्ताळी रोयणी,
पात्ताळी रोयणी
रोयणीर नाग डुले गे ते,
रोयणीर नाग डुले
खांदाशी पेटारो, हाताशी शंख
शंखार नाग भुले गे बायी, शंखार नाग भुले

अश्या ह्या जिवाण्यांनी आमच्या लोकवेदांत खाशेली सुवात मेळयल्या.

आदारावळ:
१. गुढबंद- डॉ. जयंती नायक*
२. आमोणे-एक लोकजीण- डॉ. जयंती नायक*
३.गोंयच्या लोकवेदाचो रुपकार- प्रा. शाम वेरेंकार*

* लोकसंस्कृताये वयले म्हायती खातीर

पाजीफोंड-मडगांव, मो.: ९९२३३०६७५१



स्केच

महेश पारकार

# साजूक साजू



कोंकणी चळवळीच्या काळार विरोधकांच्या थोमण्यांची पर्वा करी नासतना जे कांय बरोवपी आशिल्ले तांतलें **महेश पारकार** हें एक नांव. वेवसायान फार्मासीस्ट. तांणी बालसाहित्य, एकांकी,ललित आनी कविता ह्या मळार आपली खाशेली सुवात तयार केल्या. बिम्ब प्रकाशनान ह्या आदीं शिंवालो न्याय हें बालसाहित्य उजवाडाक हाडलां,जाका वाचकांची दाद लाभल्या.

***ब्रॅन्ची वाडल्यात. वर्सुकी सत्यनारायणाच्यो पुजाय वाडल्यात. पयलीं एक-दोन कडेनूच जाताल्यो. आतां धा ब्रॅन्चींनी! तशी आता साजूली धांवपळय वाडल्या. पुजेचीं आमंत्रणां वांट, पुजेक मॅनेजमेंटाच्या बरें मागत्यांक सांग, वाड्या वयल्यांक तर सांगप चुकच ना.***

**सा**जू बॅंकेंत कामाक वता. येतकीर वाड्या वयल्यो एक्कान एक उचापती लावन येता. कोणालो बारसो, लग्नां, जल्म-मरणां, सत्यनारायणाच्यो पुजा, बायलांचीं फुलां लेगीत.

तुमी म्हणटले,साजू हें सगळें कशें किर्ते जुळयता?

कोणाक ना म्हणप ना हो तागेलो सभाव.त्या सभावान ताका एकान एक लावन येवपाक शिकयलां? काय तो अशे भशेन सगलेंच लावन येता म्हूण तागेल्या सभावाचो लोक फायदो घेतात? कोणाक खबर ना. साजूकय तातूंत जिणेंतली खोस दिसता आसूंक जाय. लोकांचें वायट बरें सगलें लावन येवप म्हळयारूच जीण जगप अशे संस्कार ताचेर भुरगेपणा सावन जाल्यात आसूंया!

आता तागेले बॅंकेंतल्या कामाचेंच पळोवंया. भितर सरलो काय सारन मारपा पासून सुरवात. कॅश दिवप-घेवप. ॲकाउंटस टॅली करप. मॅनेजर आयलो ना जाल्यार ताचीय बसका तो सांबाळटा. त्या कारणान बॅंकेंत तो खंयच्या हुद्दार आसा हें कोणाक खबर ना. साजूकय फाटलीं पंचवीस वर्सां जालीं,अमकोच आपल्यालो हुद्दो म्हूण सांगपाक जमूंक ना. बॅंकेंत लायटीचीं बिलां भरपाक लोक गर्दी करतात. तांका एके लायनींत येयात म्हूण तो आड्डून आड्डून सांगता. पूण लोक कशेच बाडगनांत. ह्या म्हयन्याचें लायटीचें बील कित्याक लागून वाडलां ही जण एकल्याची केस! तांच्यो सगल्यांल्यो समाधानकारक जापो जापो दिवपाचेंय काम बॅंकेनूच दिल्ले वरीं तो दिसभर लोकांक समजायत आसता.

बॅंकेच्यो हांगां थंय आता ब्रॅन्ची जाल्यात. खंयचेय ब्रॅन्चींत कसलेय अडचणीक कोणूय पावलो ना जाल्यार साजू थंय पावता. पावता म्हळ्यार ताका थंय पावयतात.टायराची स्टॅपनी कसो साजू थंय वता. कोणूय अडचल्ल्या वेळार पावपाचो साजूचो सभाव! बॅंकेची खंयचीय बायल कर्मचारी भरिल्ल्या दिसांची जाली काय तिका व्हडलोसो हुसको जायना. बॅंकेच्या मॅनेजमेंटाकय चिंता जायना. आसा साजू! तो सगळें पळोवन घेतलो. म्हळ्यार ती बायल मनीस लिवेर गेली काय साजू थंय रुजू जालोच. कितले म्हयने,जावं वर्सां तें साजू व्हडलेंशें घेवन बसना. त्या कारणान शिरोड्या,फोंड्यां उसगांव, मडकय जावं सांतेमळार जंय जंय बॅंकेच्यो ब्रॅन्ची जाल्यात थंय एक वेळ इंटरनेट पावचें ना, पूण साजू केन्ना थंयचे ब्रॅन्चींत पावलो हें कोणाक कळना.

'साजू,आरे आयज अमके ब्रॅन्चींत अमकोच वा अमकेंच येवंक ना', धांवलो थंय साजू. मडकयच्या ब्रॅन्चीच्या कॅशराक आयज अपघात जाला,तो हॉस्पिटलांत पावचे पयलीं साजू तागेले खबरेक आनी उपरांत तागेलें कदेल सांबाळपाक!

दर एके ब्रॅन्चींत कॅशर,क्लार्क,मॅनेजर ह्यो भुमिका तार्णे केल्यात. करीत आसता. भुमिके प्रमाण वेगवेगळे रंग तोंडाक लावन त्यो करपाकय ताका बरें जमलां. हो तागेलो गूण

म्हणूं येता. मुळांत तागेलो विस्वासू सभाव पुराय गावान वळखला. कातीन चडूच काळो कुळकुळीत आशिल्ल्यान रंग थोडे अदीक प्रमाणांत थापचे पडटात ताका. पूण तागेली कसली तक्रार आसच ना. लोकांक आपूण वेळार आनीक फावो तेन्ना पावतां वा पावचो हीच तागेली वान्सा. तशें पळोवंक गेल्यार तक्रार ही गजाल तागेल्या सभावांतूच ना. एके भशेन बँक म्हळ्यार तागेलो दुसरो घराबो. बायल मनीस लग्न जावन दुसर्या घराब्यांत वता,तशे भशेन साजूक बँकेच्या घराब्याक दिला, अशी साजूले घरकान्नीची तशीच आवयचीय तक्रार आसता. कित्याक तर एकदां तो बँकेंत वता म्हूण घर सोडून वता तो थंयच्यो तशेंच गांवच्यो उचापती करीत रातचो कितले वरांचेर पावत हाचें खरेंपण कोणांक सांगूंक जमूंक ना. साजूक हे विशीं विचारल्यार तो हांसत तकलेर झेल दवरिल्ले वरीं म्हणटा, 'तांका कळना रे तें! कोणाक्य कितें म्हणटा तें म्हणूं दी,बँक बरी, हांव बरो!' इतलें सगलें सांबाळुनय कोणूय बरो ना जालो थंय जागरणां, कोणाक्य हॉस्पिटलांत व्हरपाचो आसल्यार थंय फावटी. हे वटेन घरा बायल-आवयच्यो करंदायो! दिसभर बँके खातीर आनी उरलेलो वेळ गांवां खातीर!आमी थंयच ताका हुंवाळून उडयला! तीं म्हणटात.

ब्रॅन्ची वाडल्यात. वर्सुकी सत्यनारायणाच्यो पुजाय वाडल्यात. पयलीं एक-दोन कडेनूच जाताल्यो. आतां धा ब्रॅन्चींनी! तशी आता साजूली धांवपळय वाडल्या. पुजेचीं आमंत्रणां वांट,पुजेक मॅनेजमेंटाच्या बरें मागत्यांक सांग, वाड्या वयल्यांक तर सांगप चुकच ना. ना तर, 'आमकां सांगप ना मरे?' हीं तांगेलीं आयकुपाक पडपी मुंयांनी चाबडायल्ल्या वरीं त्रोसां. पुजेच्या कामाक भटाक सांगपाक भोंवप,ते ते ब्रॅन्चीचे कार्यावळीक थंयच्या थळाव्या रांदप्यांक सोदूंक वच,लायटीचें डेकोरेशन कर, पुजेक लागपी केळमे हाडपाक कोणाल्याय कुळागरांत पात्रावांक सोदूंक चल! ह्यो सगळ्यो राटावळी साजू आसतना कोण्ण आंगार येवपाक तयार जायना.

जे कोण बँकें कडल्यान रिणां येतात,सगळेच तीं वेळार पावयतात अशें जायना. कांय जाण रिणां बुडोवपाचें जावं राजकीय वरदहस्तान तीं पचतलीं हे येवजणेनय तीं येतात. आनी पावोवचीं पडटात तेन्ना गांव सोडून दुसरे कडेन फुज्ज्यो काडटात. अनवळखी जावं भुमिगत जावन रावतात. अशे दिस आयल्यात! हालींसराक बँकेन आनीक एक नवीच जापसालदारकी ताच्या भुजांचेर घाल्या. बँक रिक्व्हरी! म्हयन्याक एक फावट तरी बँक साजूच्या फुडारपणा खाला त्या त्या रिणकारांच्या सोदाक एक गूट धाडटात. गूट पावलो काय तांका येवकारपाक ते रिणकारी रावतलेच अशें खंय आसा! मागीर ते खंय लिपून रावल्यात? खंयच्या बिळांत न्हिदल्यात? हाचो सोद घेवचो पडटा. सोद घेतना हाका ताका विचार. तें विचारपय साजूच करता. मजेची गजाल म्हळ्यार साजूची सोसीकसाण! कोणेय कितेंय म्हळें जाल्यार तें आयकून घेवपाची तयारी! परिणाम,रिणकाऱ्यांक तो मोठे हिकमतीन सोदून काडटाय बी! पूण रिक्व्हरीच्या कामाक साजूच्या फुडारपणाखाला गूट भायर सरलो काय हेवटेन तांगेल्या घरकान्नील्यो,आवयल्यो बोबो सुरू. रिणकाऱ्यांनी ह्या फुडाऱ्याक मारलो बिरलो जाल्यार! हालींसराक तीं दोगांय साजू बरे भशेन घरा पावसर अशे कामाक वा भायर सरतकीर बँकेच्या दारांतूच थपकल मारपाक लागल्यांत.

असो हो साजू.तागेली बँक,तागेलो संवसार. हरशीं खंयचेय बँकेच्या कर्मचाऱ्याक प्रमोशन बी मेळटा. पगारवाढ मेळटा. पूण ज्या मनशाक हद्दा ना ताका प्रमोशन,बडटी तरी खंयचे आदारार मेळटली? अशें म्हजें आनी साजूल्या हेर बरें मागप्यांचें म्हणणें जालां. काय ह्या असल्या बँकेच्या संविधाना भायले कामाक जो उपेगी पडटा, त्या मनशाक असोच घोळोवन घेवप! हेंवय एक अलिखीत कलम बँकेन खंयीय बरोवन दवरलां काय ना हें कोणाक विचारतलों?

साजूक तुपाचो शिरो आमी पळयतात. खालाय बी. पूण तें साजूक तूप म्हळ्यार कसलें,तें साजूक पळयतकीर हाचे भशेन आसूंये अशें वगीच तकलेंत येवन वता.

शिरोडें-गोंय,मो.: 9420768518



वोवळां

शीला कोळंबकार

# मापं

केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कार,सॅमसंग इलेक्ट्रॉनिक्साचो टागोर पुरस्कार,विमला पै पुरस्कार ह्या सारख्या प्रतिष्ठेच्या पुरस्कारांनी भोवमानींत **शीला कोळंबकार** हाणीं कथा,ललित लेखन तशेंच बाल साहित्यांत आपली खाशेली सुवात तयार केल्या. तांचे लिखाण म्हणल्यार कोंकणीं साहित्यांतले 'शीला'लेख अशें म्हणूं येता.

*शाळेंत आमकां भांगर कशें मेजता तें शिकयताले. आमी पाठ करतालीं. 'आठ गुंजा- एक मासा, बारा मासे -एक तोळो.' व्हड जातकीच कळ्ळें आमी भांगर गुंजांनी मेजी नात पोवनांनी मेजतात. मागीर कळ्ळें देड पोवन म्हळ्यार एक तोळो. मागीर ह्यो गुंजो, मासा बी खंय शेणले?*



मार्केटांत वचूंक भायर सरिल्लें. सदां भशेन शेजाऱ्णीक येता काय म्हूण विचारल्यार तिणें सागलें, 'सकाळीं रगत तपासून येवपाक गेल्लें. थंय तांणी बरेंऽऽ शिपीभर रगत घेतलें. इतलें रगत काडलें काय पुरो जावचें ना?'

खरें म्हळ्यार इतलें रगत काडल्यार कांयच जायना. तितलें रगत आपले कुडींत रोखडेंच तयार जाता. हांव ओग्गी रावलें. पूण शेजाऱ्णीलें म्हाका कवतूक दिसलें. तिणें शिंपीभर रगत म्हळें तार्चे. रगत कितलें? शिंपीभर! कशें सुचलें काय तिका? एक गजाल खरी! सगळो लोक कितल्योश्योच गजाली आपआपल्या मापट्यान मेजतात.

मापटें म्हणटकीच म्हाका जायतीं मापटीं येवजलीं. आमचो बाबा आईन रांदिल्ल्या जेवणांत सदांच कुतां काडटालो. ताका जेवण एके मिठा कणयेन खारट ना जाल्यार एके मिठा कणयेन अळणी लागतालें. आमी मागीर बाबाची मस्करी करतालीं. फॅरेनाक बियर, व्हिस्कीं, रम बी तयार जाली काय ताची चव पळोवपाक स्पेशल मनशां आसतात. तातूंत पयलीं पासून जी चव आशिल्ली ती चव त्या ड्रिंकांत आयल्या काय ना तें तांणी सांगपाचें. बाबा,थंय तुका धाडूं जाय. मागीर तुका फुकट ड्रिंक मेळटलें तें जालेंच, खेरीज फक्कत रुच पळोवपाक पगारूय मेळटलो.

मिठा कणी म्हळ्यार ती जाली कुस्कुटा येदी. दाळ बी उकडूंक दवरतना आई म्हणटाली, चिमटीभर हींग उडय गो तातूंत! मिठाकणये परस व्हड मापटें चिमटेचें.

भेंडे चिरतना आई म्हणटाली, बोटा पेरा इतले कुडके कर गो! म्हरकां सांगो चिरतना बोटा एदे कुडके करूंक सांगताली. चिमटी, बोटां पेर, बोट जाल्या उपरांत मापटें येता तें मुठीचें. आयज जेवण बरेंऽऽ जाल्लें, मुठभर शीत चडूच जेवप जालें! च्या मातशी गोड जाल्यार च्यांत मुठभर साखर घाली काय किर्ते गो अशें विचारप जाता.

हे मुठीचें म्हत्व खूब. उत्तर भारतांत आनी बंगालांत दिसपट्टें आमी जें जेवतात, तातुंतलें मुठभर धान्य एका साकांत घालून दवरतात. तो साक आनी आयदन भरलें काय भायर व्हरून विकतात. ताचे वेल्यान मुष्टी फंडाची कल्पना आयली. अशा मुष्टी फंडांतल्यान शाळा, कॉलेजां बी बांदून जाल्यांत.

मुठी उपरांत येता तो बचको. 'कोठये कुडींत वचून बचको भर सुक्यो मिरसांगो येवन यो गो', अशें आई म्हणटाली. म्हळ्यार हाताचीं बोटां उकतीं करून, त्या हातांत जितलें येता, तो बचको ! मागीर येता ती हाताची शीर! देवळांत वतकीच तिर्थ घेवंक हाताची जी मुद्रा आमी करतात, तिका शीर म्हणटात. मागीर येता तो पोसो. दोनूय हात एकठांय करून तातूंत जितलें किर्ते येता तें पोसो भर आसता.

सुतली, राजू बी वेंतानी मापतालें. हाताच्या जोखाक वांव म्हणटाले. ताचे वेल्यान कोंकणींत एक म्हण आसा. ''वेंताक चुकल्यार वांवांक चुकता, वांवांक चुकल्यार गांवाक चुकता.'

आदल्या तेंपार धान्य मेजपाक पड वापरताले. चार पडींची एक पायली जाताली. दोन पायल्यांचो एक कुडोव जातालो. वीस कुडवांचो एक मण. वीस मणांची एक खंडी जाताली शी दिसता! आतां सारकी याद ना.

पडी परस ल्हान मापटीं आसतालीं. तीं म्हळ्यार अन्नाटी आनी गिन्नाटी. अन्नाटी म्हणटकीच एका कोंकणा कांताराची याद जाली. तें कांतार अशें आसलें.

आरे, पोय पोय पोय काय बरो कोंबो,<br>
आपुरबायेचो,तांबडें शेंकरें,शेदाचीं पाखां<br>
दिसता काय बरोऽऽ!<br>
आरे, पोय पोय पोय काय बरी कोंबी,<br>
अपुरबायेची,तांबडें शेंकरें, शेदाचीं पाखां<br>
दिसता काय बरीऽऽ<br>
म्हाका आसा खोशी, कोंबयेक सून करची.<br>
दोत किते येवशी?<br>
सुरय तांदूळ पायलीभर, नाचणे ओन्नाटी.

शाळेंत आमकां भांगर कशें मेजता तें शिकयताले. आमी पाठ करताली. 'आठ गुंजा- एक मासा, बारा मासे -एक तोळा.' व्हड जातकीच कळ्ळें आमी भांगर गुंजांनी मेजी नात पोवनांनी मेजतात. मागीर कळ्ळें देड पोवन म्हळ्यार एक तोळो. मागीर ह्यो गुंजो, मासा बी खंय शेणले? इतले मात खरें, मराठींत कोणूय दुयेंत जालो आनी तो बारीक जालो जाल्यार, 'ताची प्रकृती तोळा मासा झाली' अशें म्हणटात. तो हो भांगरांतलो तोळा,मासो न्ही मूं?

गोंयच्या दर एका घरांत शीत करतना कितले तांदूळ यालप तार्चे एकेक माप आसतालें . हें माप तशें जण एकल्याचें जोखपाचें, पारखुपाचें, आकलन करपाचें, मोलावणी करपाचें आप आपले कालेती प्रमाण आपलें आसता. सगळ्यांत धाकलें मापटें आसलें तें दुर्योधनाचें. दुर्योधनान सांगिल्ले, आपूण पांडवांक सुयेच्या तोंका इतली सुवात दिवचों ना.

आतां म्हजें मापटें कितलें ल्हान, कितलें व्हड तें म्हाका खबर ना. पूण जण एकल्यान आप आपल्या मापट्याची तांक, लांबाय , रुंदाय, उंचाय, खोलाय जोखपाची गरज आसा, हें मात खरें !



मुंबय. मो.: ९८१९३१५३०७




उदय
म्हांबरो

# बाबाच्या शिस्तबद्द जिवनाची कुरू..

कोंकणी भाशेन आयज जीं म्हत्वाचीं जैतां हातासल्यांत आनी ते पासत जांणी सगळे तरेच्यो खस्ती काइल्यात त्या निश्ठावंत कार्यकर्त्यां मदीं **उदय म्हांबरो** हांचें नांव घेतले बगर कोंकणी इतिहासाक पर्याय ना. कलात्मक नदर आशिल्ल्यान नाटकां, काव्य, ललित साहित्य प्रकारा कडेन ओढो आसा. तांचो '*हय सायबा*' हो काव्य संग्रह बरोच गाजला.

*बाबाक गांवचो लोक खूब मानतालो. नरशींवबाब केन्ना कोणाच्या कसल्याच केस्तांवांत नासतालो. पूण नरशींवबाबाक लागून जायतीं झगडीं, केस्तांवां जावंक पावलीं नात. बाबा सगळयांक बरो आसलो ताचें कारण ताच्या तोंडाक कुलप आसलें. दोनूव पारतींतले मनीस बाबाकडे येवन सल्लो मागताले.*



**आ**मच्या पसऱ्यार पयलीं उदारी खूब आसताली. चडशे लोक म्हयन्या अखेरेक पयशे फारीक करताले, तर कांय लोक बाकी ओडीत रावताले. बाबा गेलो त्या निमण्या दिसाची खबर. ते दिसा तो सकाळीं पसऱ्यार येवन बशिल्लो. हांव गिरायक करतालों.

ताणें ताचे संवये प्रमाण हिशोबाचे कादेर्न तपासले. इतल्यांत एक उदारेचें गिरायक मांडार आयलें. आनी किलभर तांदूळ मागूंक लागलो. ताची फाटली बाकी खूब आसली. आमगेर चड उदारी जाली काय, मागीर तो तोंड घेवन दुसऱ्या पसऱ्यार वतालो. देखून हांवें म्हळें, 'फाटले पयशे दी आनी मागीर दुसरी उदारी कर' म्हणून.

बाबान म्हाका सांगलें,'दी ताका तांदूळ.' आनी गिरायकाक सांगलें,'पयशे हाडून दी, फटोवं मात नाका.'

गिरायक वतकीर बाबान म्हाका सांगलें,

'' पळय, दनपारच्या कडार कोणूय तांदूळ मागूंक येत जाल्यार केन्नाच ना म्हणूं नाका. तो मनीस तुका कितलीय बाकी आसूं आनी तो कितलोय फटींग आसूं. एक गजाल सदांच मतींत दवर, ताचे वाटेकडे आशेन दोळे लावन ताचीं बायल भुरगीं घराकडे वाट पळयत आसतात. तांचो कांयच गुन्यांव नासता.''

बाबान खूब वायट दीस पळयल्ले. भरलेल्या घरांतल्यान रांदपाचें आयदन लेगीत घेनासतना आवय बापूय आनी फाटल्या ल्हान भावंडांक घेवन भायर सरिल्लो. भाटकाराल्या भाटांत रावून आपलो वेवसाय सुरू केल्लो. केवळ कश्ट, आनी प्रामाणिकपणां हेच भांडवलाचेर वेवसाय सुरू करूं येता हाचेर घडये आयज कोण विस्वास दवरचो ना. पूण गांवांतल्या एका भाटकारान म्हज्या बाबाच्या प्रामाणिकपणाचेर विस्वास दवरलो. नाल्लांचो धंदो सुरू करपाक बाबाक त्या काळार तिनशें रुपया भांडवल दिलें आनी आपल्या भाटांतले नाल्लूय उदार दिले.

भुरगेपणांत बाबान जायते फावट आमकां ही गजाल सांगल्या. एकदां तर बाबाक पयश्यांची गरज आसली. भाटकाराकडेंय घरांत तितले पयशे नासले. भाटकारान पणजे रावपी आपले भयणीक चीट बरोवन दिली. बाबा ती चीट घेवन भयणीगेर गेलो. तिणें भावाच्या उतराक मान दिवन बाबाची गरज भागयली. बाबान भाटकाराचे आनी भाटकाराचे भयणीचे पयशे कळंतरा सयत पावयले. पूण वेळा काळाक भाटकारान केल्ली मदत मात ताणें जल्मभर तकलेर रीण

आशिल्लो वरी काळजांत सांबाळून दवरली. आनी आमच्याय कानार घालून दवरली. मुखा वयले जिर्णेत खूब फावट भाटकाराक उश्णे पयशे जाय पडटाले. बाबान केन्ना ताका ना म्हणलें ना आनी एक पयसो कळंतरूय घेतलें ना. उरफाटो बाबा आमकां सदांच सांगतालो, त्या वेळार तांणी हात दिलो म्हणून आपूण हे पयशे जोडूंक पावलों. तांची गरज भागयना जाल्यार जिवनाक कसलोच अर्थ ना.

म्हजो आजो 'संत तुकाराम'. एका बोल्सांतलो एक आणो कोणेंय चोरलो जाल्यार दुसऱ्या बोल्सांतलो रुपया काडून ताका दिवपी. चोरतल्याचेंय बरें जावं म्हणून मागपी. घरांत आपल्या भावाले सुने कडसून आज्जेक जावपी त्रास तो पळोवन पळोवंक नासलेले वरी करतालो. पूण आवयचे कश्ट म्हज्या बाबाच्यान पळोवं नजो जाले. त्या रासवळ घरांतलें तें वैभव सोडून बाबान वेगळो रावपाचें धाडस केलें. गरिबी बरी पूण लाचारी न्हय हया तत्वान बाबा वागलो.

बाबा धरून सगळीं स भावंडां. वेगळे सरचे आदीं व्हडले बायआतेचें लग्न जाल्लें. उपरांत बिद्रुकांतल्या घरांत आसतना दुसरें आतें कल्याण, म्हणजे वयनीचेंय लग्न केलें. कांय तेंपान आजो आनी आजी गेली. भाटांतल्या घरांत धाकटी भयण हिराताई, काका आनी बाबा अशीं तिगांच उरलीं. काका आनी बाबा मांडार वतकूच हिराताई एकटेंच घरा सकयल भाटांत, न्हंयचे देगेक. बिद्रुकांतल्या लोकांनी तेन्ना हिराताईक खूब आदार केलो. हिराताई तशें ल्हान. पूण दोगांय भावांक रांदून वाडटालें. बिद्रुकांतले शेतकार भाव लक्षी, गुणी, चेडो, वासुदेव, येसवंत शेतांत कितेंय पिकतकूच पयलीं हिराताईक दिताले.

सकयल न्हंयंत खाजनांतलो वेंकटी खुबे काडटालो. तो वयर सरून पड दोन पडी खुबे रकोवन वतालो.

पावसांत न्हंयंक हुंवार येतालो. घरभर उदक. रात रात जेवणाच्या मेजार बसून काडल्या अशें केन्नाय हिराताई सांगतालें. बाबाक आनी काकाक मांडा वयल्यान येवपाक रात जाताली. येतना पेत्रोलमास घेवन येताले. पूण तो मेरेन किण्ण काळखांत हिराताई एकटेंच रावतालें. लायट ना. तेंच हिराताई मागीर लग्न जावन मुंबय पावलें. पुण मुंबयच्या फ्लॅटांत पाल आयल्यार सुद्दां भिवपाक लागलें.

बाबा वेवसायांत खूब हुशार आसलो. बाबा,नानाकाका आनी कांताकाका अशे तीग भाव. नानाकाका मुंबय गेलो. बाबान धाकटो भाव कांताकाकाच्या आदारान वळवय गजांतलक्ष्मी देवळाकडे भुसारी पसरो घालो. बाबाक गाडी वा मोटारसायकल चलोवंक कळऽ नासली. काका मोटारसायकल चलयतालो. चडशीं भायलीं कामां काका सांबाळटालो. काका धाडशी. मोहन कामत आनी काकाची जोडी. दोगूय कसल्याय धाडसाक केन्ना बाडगले नात. काकाचो आदार मेळिल्ल्यान वेवसायाचें बस्तान बसोवपाक बाबाक जड गेलें ना.

बाबान आवयच्या स्वाभिमाना खातीर खार्तेपिर्ते घर सोडलें आनी नशिबाच्या सुक्या सड्यार फुडाराचें शेत रोवपाक भायर सरलो. तांणे रोयल्ल्या शेतांत मुखा वयल्या काळांत भांगराची कणसां आयलीं खरीं पूण आवय जिती आसऽमेरेन तिका एक बरें नवें कापड घेवपाक शकलो ना ही खंत घेवन जगलो.

बाबान केन्ना कोणाचो एक पयसो दवरलो ना. आमकां भुरगेपणांत सावन तांणे शिकप दिलें. बोल्सांत पयशे नासल्यार उदारी करूं नाकात. घरा येवन पयशे व्हर आनी जाय तें सामान हाड. खूब मोठी वेवसायांतली उदारी आसता तेन्ना ती वेळार पावयली ना जाल्यारय समोरचो मनीस नेटान मागूंक शकता. बारीक उदारी करतकूच एक तर तुका ते पयशे दिवपाक याद उरना, वा ताकाय ते पयशे तुजेकडे मागपाक भीड जाता. तात्पर्य तूं ताच्या रिणांत उरता. दुसऱ्याचें रीण करून तें पावय नासतना रावप हे गजालीची ताका मनांतल्यान तिडक मारताली.

वेवसायांतलें रीण एक तर सांगलां त्या दिसा पावोवंक जाय वा सांगलां ताचे आदीं पावोवंक जाय अशें तो सदांच सांगतालो. पयशे दिवपाची तारीक उलगतकीर चार दिसांनी वचून निमतां सांगप ताच्या सभावांत बसऽ नासलें. कोणाकूय दिल्लो चेक बँकेंत पयशे नासून परतो वचप म्हणजे कट्टेंत नाक बुडोवप अशें तो म्हणटालो. आनी तसो कोणूय वागल्यार ताका आवड नासलें. बाबा सदांच लायटीचें बील, वेवसायांतले कर, वेगवेगळ्या खात्यांक दिवपाचे नियाळ वेळच्या वेळार दितालो. ताचे जिर्णेंत तांणे केन्नाच खंयच्याच खात्याचे केन्ना पयशेय चुकयले ना आनी कसली नोटिसय येवपाची पाळी येवंक दिली ना. आनी कसलो दंड लेगीत केन्ना भरलो ना. सगळया खात्यांचे अधिकारी बाबाकडे सांबाळून वागताले.

बाबा चड शिकूंक नासलो. पूण जर्नाल, लेजर, कर विवरण, ताळेबंद आपले आपूण तयार करून दादाकडे दितालो. दादा तो चार्टर अकावंटन्टा कडसून तपासून घेतालो. पूण केन्ना चूक नासताली. वेवसायाकडें संबंदीत खात्याचे अधिकारी लेगीत बाबाकडें सदांच आदरान पळयताले.वेवसाय करता तांणे वेळार विक्रीकर भरूंक जाय, जोडटा तांणे वेळार आयकर भरूंक जाय, वेवसायाक लागपी वेगवेगळीं लायसनां वेळा भितर नुतनीकरण करून घेवंक जाय हाचे विशीं

ताची सदांच बारीकसाण आसताली. मांडा वयल्या मापांक आनी तागडेक फिल्सांव मारपाक लेगीत केन्ना घाळपण केलें ना.

मांडा वयल्यान घरांत वापरपाक व्हरता तें सामान लेगीत बाबा बरोवन दवरतालो. घराकडें कसलेंय घराचें काम केल्यार ताचो सगळो हिशोब बाबाकडें केन्नाय मागल्यार बरोवन दवरलेलो आसतालो. केन्ना घर बांदलें, कितले चिरे, कितलें शिमीट, कितलें लाकूड, गवंड्याची आनी मेस्ताची फेती सगळें डायरेर बरयल्लें आसतालें. बाबा चड शिकूंक नासलो खरो पूण सगळें लिखीत रुपान दवरतालो. आमी शिकले आनी तकलेंत दवरूंक लागले. आनी विसरून वचूंक लागले. कारण आमकां सगळें असुदाय मेळ्ळें. बाबाक पय पय करून पयशे जोडचे पडिल्ले.

मांडार गिरायकाक म्हाल जोखून दितना केन्नाय मापांतल्यान तांदूळ वा कड्डण जमनीर शिंपलें जाल्यार तें कोयरांत वच्चे आदीं रोखडेंच भरतालो. एक एक दाणो मेळून साक भरता अशें तो सदांच सांगतालो. आनी चुकून धान्य कोयरांत भरसलेंच जाल्यार तें एस्ट्रेला बॅटरेचे कार्शींत भरून दवरतालो आनी लोल्याक ना जाल्यार तातूक कोंबयांक घालपाक दितालो. पूण खावपाचो नग कोयरांत वचूंक दिनासलो.

बाबाची वेवसायाचीं तत्वां महाविद्यालयांत लेगीत शिकूंक मेळचीं नात अशीं आसलीं. मापार केन्नाच पाप करचें न्हय अशें तो सांगतालो. पणजेचो एक वेपारी माप उणें दितालो. ताची देख कोणें घेवं नये अशें तो सांगतालो. तुजो म्हाल बरो जाल्यार तूं दर चड सांग. गिरायक परवडल्यार व्हरतलो. पूण सवाय दर सांगून वजनार फटोवंचें न्हय अशीच देख ताणें आमकां घालून दिल्ली.

तशेंच चडसो वेपार उतराचेर चलता. वेपाऱ्यान केन्नाच उतराक नेगार वच्चें न्हय, दिल्लें उतर पाळूंक जाय. एकदां एके दरेन म्हाल विकलो आनी मागीर कितलोय दर वाडलो तरी उतर पाळूंक जाय. बाबान कोणाक दिल्लें उतर केन्ना मोडलें ना.

बाबा सदांच सांगतालो, आपली ऐपत आसा तितलीच उडी आपणें मारूंक जाय. न्हिदतकूच हांतरुणा भायर केन्ना पांय दिसपाक फावनात. आनी तोय तसोच वागतालो. बाबा पणजेच्यान दुकानार उदार म्हाल हाडटालो. एकदां बाबान गोड्या तेलाचे धा डबे घेतले. त्या व्यापाऱ्यान श्रावणांत तेलाचो दर वाडटलो तेन्ना शंबर डबे व्हर म्हणून बाबाक सांगलें. पूण बाबान हाडले नात. तो सांगतालो, आपलें गिरायक म्हयन्याक धा डबे विकपाचें. मेळटा म्हणून हाडपाचे? आनी नशिबान डब्यार धा रुपया वाडचे बदला वीस रुपया देंवले. बाबा मोठ्या नुकसानांतल्यान वाटावलो केवळ आशा केली ना म्हणून.

हांव इस्कोलांत शिकतना केन्नाय पणजे मामागेर गेल्यार बाबा धा रुपया दितालो. बसीची तिकेट वचपाक एक रुपया, येवपाक रुपया. उरलेल्या आठ रुपयांचो हिशोब बाबाक दिवंचो पडटालो. पयशे मोडटना धा फावटी विचार करचो पडटालो. बाबाची सामकी तिडक येताली तेन्ना. म्हज्या वांगडचो एक भाटकारालो भुरगो इस्कोलांत पाकीट उगडून आमकां शंबराची नोट दाखयतालो. ताचो बापूय ताका पॉकेटमनी दिता अशें तेन्ना तो आमकां सांगतालो. ताचो बापूय बाजारांत फक्त सिगार फुसकायत भोंवतालो पूण पुताक शंबराची नोट दितालो. आनी म्हजो बापूय हजारांनी रुपयांची उलाढाल करून म्हजेकडें धा रुपयांचो हिशोब मागतालो. तेन्ना बाबाची तिडक येताली पूण म्हज्या बाबान आमचेकडें हिशोब मागलेल्यान आयज आमच्यो तकल्यो जाग्यार आसात.

तेन्ना फोन नासले. बशी मर्यादीत आसताल्यो. आई पणजे मामागेर गेली जाल्यार ताची सदांच आईक सांगणी आसताली, एकतर दिसा उजवाडा पावता



ते बशीर परत यो वा उशीर जालोच जाल्यार पणजेच भावागेर राव आनी फाल्यां यो. निमणे बशीर येवं नाका. निमणी बस मोडली जाल्यार त्रासांत पडटली. तो आमकां सदांच सांगतालो, सांजे येवपाचो दुबाव आसल्यार भायर सरतनाच आपूण सांजे पावंचो ना अशें सांगचें. येतां म्हणून सांगून आयलो ना जाल्यार घरच्यांक हुस्को जाता. येवंचो ना म्हणून सांगून घरा आयलो म्हणून संवसार बुडना. आता तर आमकां हातांत मोबायल आसून लेगीत आपूण घरा उसरां पावतलों म्हणून सांगपाची याद उरना.

बाबाक कसलेंच वेसन नासलें. हांवें बाबाक केन्नाच पान तंबाकू, विडी सिगार ओडटना वा सोरो पितना पळोवंक ना. कोणूय सोयरो सोरो पिता ताचे पंगतीक बाबा बसऽ नासलो. बाबाक असल्या वेसनां करतल्या लोकांची तिडक येताली. मटको, सोर्त वा जुगार बाबान केन्ना पयसुल्ल्यान लेगीत पळयलो ना. पूण घरांत इस्पिकेचो डाव रंगतालो. मनोरंजनाचें केवळ हें एकूच साधन. मुंबयच्यान हिराताई, विनय, आना येतकूच तर विचारूंच नाका. चॅलेंज, गाडव, कोट, मेंढीकोट, तिनशे चार तरातरांचे इस्पिकांचे डाव. रातीचीं बारा एक जाय मेरेन खेळटाले. खेळटना बाबा, काका हिराताई व्हडल्या व्हडल्यान झगडटालीं आनी खेळ सोंपतालो. आसा तशीं सकाळीं च्या पितना एक जातालीं.

बाबाचो सगळयाच भयणींचेर जीव आसलो. हिराताईचेर मात्सो चड आसलो. तें चड पयस रावतालें म्हणून आसत. ताकाय दादा शिवाय सूख लागनासलें. मुंबयच्यान येतकूच वरांचीं वरां कानांत किर्दे तरी सांगत बसतालें. बाबा बायआत्यागेर कितलेच फावट वळवयच्यान बांघा चलत गेला. बायगेर पेटलार बसून गजाली. मडगांवां वयनीआत्यागेर जनेलाचेर बसून गजाली. सगळयांचेंच बाबाकडे इतलें कसलें उलोवप जातालें तें बाबाकूच खबर! पूण बाबा भयणींक सातीश्वेद करूनच घरा येतालो.

बाबा घरांत रिस्काद पिजाम आनी हातकापे बानयन घालतालो. मांडार पिजामीनूच वतालो. वळवयच्यान भायर वतना मात पॅंट आनी मोटव्या हातांचो बुशकोट. कोणाचें लग्न आसल्यारूय हेच कपडे. पांयांक बाटा चप्पल. ताणें बुट घाल्ले हांवें ताच्या आयुश्यांत केन्नाच पळोवंक ना. फक्त आई बाबाच्या लग्नाचो एक फोटो आसा तातूंत मात बाबान कोट घाला.

बाबा देव मानतालो. सकाळीं मांडार वतना देवाक दिवो पेटोवन पोरसांतलें फूल घालतालो. चवथीचो गणपती सक्काळीं साडेसंक पुजतालो. मांडार चवथीक गिरायकांची गर्दी आसताली. मायणा, सुर्ला, फोणचेंभाट, सांतेरभाट, बिद्रुक, मेटवाडो सगळे गिरायक. चोवग चोवग जाण पावऽ नासले गिरायक करपाक. तातूंत वेळ काडून गणपती. भुरगेपणांत आमची चवथ, दिवाळी अर्दी मांडारूच जाताली. पूण बांदेचे आनी मडगांवचे भयणीक चवथीच्यो नेवऱ्यो पावोवपाक विसर नासलो. ताचो देव मनशां भितर चड आसतालो. बाबाक मनशां प्रिय आसलीं. सगळीं नातीं सांबाळटालो. कोणाक केन्ना दुखय नासलो. मांडार लेगीत केन्नाच गिरायकाचेर तापनासलो. गिरायका बद्दल ताची भावना खूब मोलाची आसली. दुकानार गिरायक येता म्हणून दुकान चलता अशी ताची भावना आसली.

बाबान केन्ना कसली आशा केली ना. बाबाक कितले जागे मेळटाले. पयशे मागीर दिल्यार चलताले. पूण बाबान घेतले ना. बाबा सदांच म्हणटालो, वेपारांत जांचें देणें आसा तें फारीक करतकूच आनी धंद्याचो सगळो खर्च वजा करून उरता ते आमचे पयशे. धंद्यांतल्या पयशांनी फोल्गां मारपाचो आमकां कसलोच अधिकार ना.

भागिदारीचो वेवसाय केन्नाच नात्यांत करचो न्हय ही एक बाबाची मोलाची शिकवण. प्रामाणीक मनीस आपले पयशेय होगडायता आनी नातेंय वाट लागता अशें बाबा सांगतालो. नात्यांतले भागिदारीचो बाबान ट्रक वेवसायांत हून दुदाचो घोंट घेतिल्लो.

बाबाक गांवचो लोक खूब मानतालो. नरशींवबाब केन्ना कोणाच्या कसल्याच केस्तांवांत नासतालो. पूण नरशींवबाबाक लागून जायतीं झगडीं, केस्तांवां जावंक पावलीं नात. बाबा सगळयांक बरो आसलो ताचें कारण ताच्या तोंडाक कुलप आसलें. दोनूय पार्तीतले मनीस बाबाकडे येवन सल्लो मागताले. पूण बाबान केन्नाच हाचें ताका आनी ताचें हाका केलें ना. उरफाटें बाबा दोगांयचें आयकतालो, दोगांयच्यो तकल्यो शांत करतालो आनी मुखार जावपाचें झगडें पालोवन उडयतालो.

वेळा काळाक कोणाकूय आदार करप हें तर बाबाच्या सभावाचें खाशेलपण. कोणाक घर बांदपाक, कोणाक गाडी घेवपाक, कोणाक जोत घेवपाक, कोणाक जागो घेवपाक बाबान सदांच आपले परीन जाता तसो आदार केलो. कांय जाणांनी उश्णे व्हेल्ले केन्ना परते केलेच नात. पूण बाबान केन्नाच कोणाकडे तेम केलो ना. आपली परिस्थिती गरीब आसली तेन्ना आपल्याकूय कोणें तरी हात दिवन वयर काडिल्लो हें तो सदांच स्मरतालो आनी उठटां बसतां आमकांय भावंडांक सांगतालो.

दोतोर आनी आद्‌वोगाद जांकां लागना तो मनीस सुखी अशी ताची

सदांच सांगणी आसली. दुर्वेस जार्लेच जाल्यार दोतोर चुकोवंक मेळना पूण जाता तितलें मनशान किजिलां पासून चार हात पयस रावचें अशें तो सांगतालो. म्हणून तो शक्यतो सगळ्यांक झगड्यां पासून पयस रावपाची बुद्द दितालो. पूण कोणेंय जाणून बुजून आपलेकडें केस्तांव केलेंच जाल्यार ?

बाबाची आतेभयण तेते डांगी मुंबय रावताली. तांचें मेटार एक घर आसलें. बाबा भावंडांक घेवन भाटांत रावता हें कळटकीर तार्णे हें आपलें घर आमकां रावपाक दिलें. पूण तें घर मार्गा देगेकूच आसलेल्यान आमचेच नाल्लांचे ट्रक पारेतीक घश्टताले. घरूय खूब पोरणें आसलें. वेवसाय मात्सो थिरावल्या उपरांत हें घर सारकें करचें अशें बाबाक आनी काकाक दिसूंक लागलें. तांणी तेत्याकडें परवानगी मागली. पूण घर आतेभयणीचें आनी जागो दुसऱ्या भाटकाराचो आसलो. त्या काळार अशें बरेपणान चलतालें.

पूण हें कळटकीर बाबान त्या भाटकाराकडें रितसर परवानगी घेतली. तांकां किर्ते दिवपाचें तें फारीक केलें आनी वेवस्थीत प्लान बी काडून कामाक सुरवात करपाक चिरे बी हाडले. बैलगाडी हाडून घरांतलें आमचें सामान कामतवाड्यार दुसऱ्या बिराडाक हालयलें. हांव तेन्ना बालवाडींत शिकतालों. बैलगाड्या फाटल्यान म्हजी तीन रोदांची सायकल घेवन हांव गेलां ती सुद्दां म्हाका घट्ट याद आसा.

रातीकडे बोवाळ. कोणतरी कामतवाड्यार येवन बाबाक आनी काकाक घेवन गेलो. हांव, नीताबाय आनी राजू आमी तिगांय ल्हान. आईची आनी आमची भिवन गुठली. रातभर मेटार धुमशेणां. ज्या भाटकारान घर सारकें करपाक लिखीत मान्यताय दिल्ली तार्णेच रातचे लोक न्हिदतकीर शेजारच्या एका बऱ्या मागप्याक घेवन आमचें घर भुंयभरवण केलें. गांवचो लोक आवाजान घराकडें धांवलो. कोणेंतरी बाबाक आनी काकाक आपोवन व्हेलो. मोहन कामत, बेतकेचो रजी, वेरेंचो अनिलभाई आनी गांवचे लोक भाटकाराच्या आंगार झुइून गेले. पूण बाबान सगळ्यांक शांत केले. तांकां कांयच करूं नाका म्हणून सांगलें. मोडिल्लें घर परतें उबें करूं येता पूण तांकां किर्तेंय जाल्यार कांयच करूंक शकचे नात. फाल्यां किर्दे तें कायद्यान करूंया म्हणून सांगलें.

कायदेशीर कारवाय केल्ली जाल्यार घर परतें उबें करूं येतालें. तशी तयारी बाबाच्या बऱ्या मागतल्यांनी केल्ली. पूण बाबान तांचें कांयच केलें ना. कसलीच तक्रार केली ना. कसलेंच केस्तांव घेवन बसलो ना. घर बांदपाक नवो जागो सोदपाचे तयारेक लागलो. थोड्या दिसांनी ताका बरो जागो मेळ्ळो. थंय घर बांदलें. घरा देगेक नाल्लांचो गुदांव बांदलो. आनी सकयल मेटार तारीकडें लोकांल्या भाटांतल्यान करतालो तो नाल्लांचो धंदो घरा देगेच्यान चालू केलो.

जांणी आमचें घर मोडलें तांचे विशीं आमच्या भुरग्यांच्या मनांत तिडक आसली. तांचो कोणूय दारांतल्यान वतना बी आमी बोटां दाखोवन सोयऱ्यांक सांगताले, 'हांणी तें आमचें घर मोडलां'.

एक दीस बाबान तें अचूक आयकलें. रातीकडें बाबान आमकां सांगलें, 'पळयात, तांकां केन्नाच कांयच म्हणूं नाकात. तांकां देवान बुद्द दिली आमचें बरें करपाची. सकयल मेटा वयल्या घराक आमचेच ट्रक लागताले आनी आमचेच वाशे मोडटाले. आमच्योच पारेती पडटाल्यो. घरांत न्हिदूंक भंय दिसतालो. पावसा दिसांनी हुंवार येवन घरभर शेळ जाताली. आमचे नाल्ल लोकाल्या भाटांत आसताले. कोण कितले व्हरताले, कितले उरताले देवाक खबर! आतां हांगा घरा देगेक जाय तसो धंदो करपाक कोणाची कसली आडखळ ना. घर मुखेल रस्त्याचेर आसलेल्यान केदेय व्हडले ट्रक गुदावां मेरेन पावतात.'

बाबा दर एक गजालीकडें असो सकारात्मक नदरेन पळयतालो. तो सदांच म्हणटालो, तांणी आमचें घर मोडलां म्हणून जर आमी तांचेकडे कोर्टांत झगडत बशिल्ले जाल्यार हें घर बांदूंक पावचे नासले. अजुनूय भाड्याच्याच घरांत आसपाचे. दिसरात कोर्ट करून धंद्या वयलें लक्ष उडपाचें आनी आद्वोगादाची भर करीत रावपाचे. कोणूय झगडटा जाल्यार आपणें पयस रावचें अशें तो सदांच सांगतालो आनी तसोच वागतालो.

बाबान नवें घर बांदपाक जागो घेतलो खरो. पूण गांवांत नळार्चे उदक नासलें. लायट नासली. जागो शेतांत. लागीं कोण ना. सगळ्यांत पयलीं बांय मारली. बांयक वयर साकूनच तळप मेळ्ळें. उदक चड खोल पूण चाळणीचे झरे मेळ्ळे. तेच बांयच्या उदकान मागीर घर बांदलें. पोरसूं शिंपलें. तेच बांयचें उदक आमी फाटलीं पन्नास वर्सां खातात. कांय वर्सांनी शेजराक घरां बांदलीं. कांय जाणांनी आमचेच बांयचें उदक वापरून घरां बांदलीं. आतां सगळयांनी आपआपल्यो बांयो मारल्यात.

शेजाऱ्यांक उदक व्हरपाक मेळचें म्हणून बाबान तेन्ना आमच्या आड्याक बांयकडें धांव दवरिल्लें. शेजारची वेळा काळाक गरज पडटा तेन्ना बांयचेर येतालीं. तेन्ना आमी गिमाच्या दिसांनी कळसुल्यो काडून बांयचेर व्हाताले. हांवें

आनी राजून पोरसांतले केळमे वांटून येतिल्ले. आमी बांयची कळसुली भरून केळम्या मुळांत वचून न्हाताले. एकाच राजवान दोन कळसुल्यो. न्हावपूय जातालें आनी केळम्याक उदकूय पडटालें. तेन्नाच कोणूय शेजारचीं उदक व्हरपाक येतकूच म्हजें कोर्के चाळवतालें. एक दीस हांव शेजाऱ्यांचेर फडफडटां तो पळोवन बाबान म्हाका भितर आपयलो आनी धेंगसो यालून सांगलें, 'तीं उदक व्हरतात तें तुज्या बापायचें न्हय. बांय आमी मारल्या. जागो आमचो. पयशे आमचे. पूण उदक निसर्गाची देण. आमचे बांयंत उदक आयलां तातूंत आमचो कसलोच पुरुषार्थ ना. उदकाक केन्ना कोणाक रडोवं नाका. आमकां कोर्णे कोर्णे कशे कशे सांबाळळ्यात ताची तुमकां कांयच कल्पना ना.'

बाबा जिवनाकडे प्रामाणीक आसलो. 'हांव कांयच येवन येवंक ना. देखून वसवसलेले भशेन गिरायकाक बुड्डु पाचो म्हाका अधिकार ना' अशी ताची निर्मळ भावना आसली. जें आपलें न्हय ते गजालींची वानसा ताणें केली ना. वायटपण येता जाल्यार आपल्याव वस्तूचेर उदक सोडपाक फाटफुडें पळयलें ना.

बाबा अकस्मात गेलो. आपले सदांच न्हिदपाचे खाटीर वचून न्हिदलो. आमी दोग पूत आसुनूय ताचो नीताबायचेर म्हणजेच धुवेचेर इल्लो चड मोग आसलो. निमणें ताका म्हऱ्यांत आपयलें. भायरसून किर्ते तरी हाडपाक सांगलें. भितर यो जाल्यार बाबा ना. इतली पोकळी निर्माण जाली. पूण कालांतरान आतां म्हाका होलमता. बाबांच्या विचारांक आनी शिकवणीक लागून आमकां पावला कणकणी वाट सांपडत गेली.

बाबाचें शिक्षण जरी कमी आसलें तरी बाबाचें वाचन खूब आसतालें. बाबा वेपारा निमतान मुंबय, हुबळी, बेळगांव, नंदगड अश्या जायत्या ठिकाणांचेर भोंवतालो. ताचें चडशें वाचन मराठी असतालें. पूण हांव कोंकणींत बरोवंक लागलों तेन्ना बाबान म्हाका केन्नाच फाटीं ओडलो ना. उरफाटें उत्तेजन दिलें. वाचनाक लागून बाबाचे विचार परिपक्व आसताले. बाबाचें हस्ताक्षर मोतयां सारकें सुंदर. हांवें अजून सांबाळून दवरलां. २३ फेब्रुवारी १९५३ ह्या दिसा बाबान आनी काकान धंदो सुरू केल्लो. पयल्या दिसा सावन जर्नाल आनी लेजर बुक बरयला. हीं दोनूय पुस्तकां हांवें बायंडींग करून दवरल्यांत. म्हज्या बाबाच्या शिस्तबद्द जिवनाची ती कुरू!



सावयवेरें, फोंडें-गोंय. मो.:९४२०७६६७६९

शब्दुली



रुपाली कामत शेटये

**रुपाली कामत शेटये**
पणजेच्या पिपल्स हायस्कुलांत ग्रंथपाल म्हूण कार्यरत आसा. तांकां बरोवपाची आवड आसा. बिम्ब मासिकांतल्यान तांचें बरप तांच्या संवेदनशील सर्जनशीलतायेची गवाय आसा.

*ह्या दुभावाच्या चिखलांतल्यान भायर सरून शुद्ध जिवीत जियेतले जाल्यार सगळ्यांत पयलीं, आमचे मदलें जें किर्ते मीसअन्डरस्टॅन्डीग म्हळ्यार गैरसमज आसात ते पयस करप. पूण पयस करप म्हळें म्हूण तें किर्ते सहज शक्य आसा..?*

# दुभाव



दुभावा सारकें आनीक दुसरें दुर्वेस ना. जशें भयरोजळोप हें एक दुर्वेसूच, तशेंच दुभाव! दुभावाक खंय वखद ना. सोरपान चाबिल्ल्या मनशाक खंय शिल्ली दाखयत जाल्यार तो भियेना आनी कांय काळ जगूंक्य शकता. पूण शिल्लेन चाबिल्ल्याक जर सोरोप तो अशें म्हणत जाल्यार तो मनीस दुभावाच्या भुयानूच अर्दो मरता.

अशीच गजाल म्हजेय बाबतींत एक खेप घडली. हांव तेन्ना बारावेक आशिल्लें. आमगेर पोरसांत झाडां खूब. आवयक आनी म्हाकांय फुलझाडांचें पिशें. आवय तांकां नेमान उदक घालताली आनी एक एकदां उदकाचें पायप तशेंच सोडून दवरून मागीर म्हाका तें बंद करूंक लायताली.

एक खेप रातचे वेळार तें पायप चालूच उरलें आनी याद जातकच तिणें म्हाका उदक बंद करपाक सांगलें. हांव बॅटरे दिवो घेवन भायर आयलें आनी नळ बंद करूंक सदचे संवये प्रमाण अदमासान मिटराच्या बॉक्सांत हात मात घाला म्हाका किर्ते तरी चाबलां म्हणपाचो भास जालो. काळखांत किर्ते तें कळूंक नाशिल्लें आनी हाताक तर दोन दादड दिसताले. जशे किर्ते जिवाण्यान थंय आपले दांत रोमल्यात.

म्हजेर आनी घरच्यांचेर सामको आकांत. खंयच्या तरी जिवाण्यान डंख मारला हें फायनल जावन म्हजी पालखी तेच राती हॉस्पिटलांत पावली. सोरपान पांस मारला हे कल्पनेनूच म्हजो अर्दो जीव गेल्लो. पूण जेन्ना दोतोरान ती जखम पळयली तेन्ना तो म्हाका पळोवन हांसलो. म्हणूंक लागलो,''तुका विखबादा बी कांयच जावंक ना तर भोवतेक तुका कोणूय दोमळो वो मोठी मूय बी चाबल्या आसतली!''

दोतोराचें तें विधान आयकून म्हजेर इतलो वेळ आयिल्लो आकांत गेलो खरो, पूण म्हज्या पिशेपणाक लागून सगळ्यांचोच जीव वयर हाडिल्ल्याची लज मात म्हाका सोसची पडली.

सांगपाचो उद्देश्य म्हळ्यार दुभाव केन्ना आनी कसो मनांत रिगत हें सांगू येना. आमचे मनांतले दुभाव हे आमीच जाणांत. दुभाव म्हण एक आनी दोन तरेचे तर ते..! दुभाव घेवप म्हळ्यार मनस्ताप. बायलेक घोवाचेर दुभाव, घोवाक बायलेचेर दुभाव, मोग्यांक एकमेकांचेर दुभाव, आवय बापायक भुरग्यांचेर दुभाव, शिक्षकांक विद्यार्थ्यांचेर दुभाव....

हे सगळे तरेचे दुभाव परिस्थिती प्रमाण तयार जायत आसतात. कोणाचोय दुभाव परवडलो पूण न्ही पुलिसांचो..! तांची नदर जांचेर पडटा ती दुभावाचीच आसता. तांचे ते नदरेक लागून नाका जाल्लें अरिश्ट उप्रासत म्हण कसलोच गुन्यांव नासतानाय आमी कांचवेतात आनी तांचे दुभावी नदरेक आनीक आनी सारें घालतात.

जशीं आमी दुसऱ्यांचेर कारण नासतना दुभावतात तशेंच लोकांकूय आमचेर दुभाव घेवपाक कारण लागना. तेंच कित्याक, आमीच आमचेर एकेक खेप दुभावतात. घरांतल्यान भायर सरून अर्दे वाटेर पावलीं तरी नळ बंद केला काय, गॅस बंद केला काय असले आनीक हेर जिवाक पिडपी कितलेच दुभाव फाट सोडी नात. गॅसाच्या

भंवान तर कितलेच लोक अर्द वाटे वेल्यान परतल्यात आनी तशें कांय ना हें कळटकच आपल्याच दुभावाचेर तिडकल्यात.

हालींसराक तर सादी शिंक वा खोकली आयली जाल्यार हो दुभावाचो म्हारू नाचत म्हणटा, 'कही ये वो तो नही..?'आतां हें आयलां तें दुयेसूच तसलें जाल्ल्यान दुभाव घेवप्यांचीय चूक करूंक जायना.

जीण ही खरें म्हळ्यार हुसक्या मेकळी, दुभावा विरयत जगत जाल्यारूच ताका अर्थ आसता. हें सगळें आमी जाणांत आसुनय ह्या दुभावाक आमी कशेच पयस करी नात. वेल्यान आमी ह्या दुभावाच्या चिखलांत चड चड मुंगरत रावतात. लोक आमचे विशीं कितें विचार करतात काय, आमचे फाटल्यान आमचे विशीं कितें उलयतात काय असो दुभाव काडून आमी आपल्याकूच पिडत आसतात.

ह्या दुभावाच्या चिखलांतल्यान भायर सरून शुद्ध जिवीत जियेतले जाल्यार सगळ्यांत पयलीं, आमचे मदलें जें कितें मीसअन्डरस्टॅन्डीग म्हळयार गैरसमज आसात ते पयस करप. पूण पयस करप म्हळें म्हूण तें कितें सहज शक्य आसा..? आतां म्हर्जेच पळयात, म्हाकाय ही दुभावाची पिडा आसाच. पूण मातशी कमी आनी कारणांय नाका जाल्लीं. हांव स्ट्रेट फॉरवर्ड सभावाचें जाल्ल्यान, जें कितें आसा तें सरळ तोंडारूच उलयतां. कोणाकूय आपल्या चिंतना प्रमाण कल्पनेन रंगोवप आनी ताचे विशीं दुभावी विचार राबोवप म्हज्या सभावांत ना. कितें तें तोंडा सामकार स्पश्ट केलें आनी विशय मोकळो केलो म्हणटकच दोनूय वाटेन लोक सुखी उरतात.

आतां हें सगळें 'दुभावायण' कशें घडटा तें हांव म्हज्या घरचींच कांय उदारणां दिवन सांगतां. म्हजो घरकार शिवराक आनी हांव कट्टर नॉनवेज. ताका लागून दोन दोन तरांचें जेवण रांदपाक कंटाळो म्हूण आमगेर चडशें शिवराकूच शिजता. कोणय म्हाका विचारत, 'आगो कितें ह्या वर्सा श्रावण काय कितें गो?' जाल्यार हांव फटक करून जाप दितां,'म्हजो बाराय म्हयने तसो श्रावणच न्ही गो...!!'तांची ट्युबलायट पेट्टा आनी 'आं..! भावोजी शिवराक न्ही..?' अशी कुच्छीत्री जाप येता. पूण तशें म्हज्यान सामकें शिवराक रावूंक नज हेंय तितलेंच खरें. सदांच न्हय आसलें तरी बुधवार आनी आयतार हे दोन दीस हांव म्हाका जाय तसलें नुस्तें हाडून एकटेंच ताचेर ताव मारतां.

तर सांगपाचें म्हळ्यार हांवें सादो कांद्या फोडणांचो रोस केल्यार सुद्दां हाका हांवें सुंगटांचें हुमण केल्याचो दुभाव मारता. खाबरेल तेलांत कांद्या फोण्ण मारलें रे मारलें, सालांतल्यान आवाज येता,'आगो, आज सुंगटां हुमण काय कितें..? म्हाका वेगळें काड गो इल्लेंशें! मागीर शिजय तुजीं सुंगटां तातूंत!'

म्हजी तकली भिरकता. 'नाकांत कांद्या फोण्णाचो वास गेल्या बराबर असो दुभावता कित्याक रे तूं ? आयज सोमार हें तरी लक्षात आसा काय ना रे तुज्या..? काय बेश्टोच तोंडांत येता तें उलयता? दुभावीत खंयचो!'

हांव कितें खबर आसतनाय हाका सुंगटांचें हुमण करून वाडटलें..? आनी तेंय बी सोमाराक..?

आतां हांवें हें ताचे बद्दल जें कितें हांगा बरयलां तें वाचून तो रोकडोच म्हाका बोट दाखयतलो..देखून हांव म्हर्जेय सांगतां..

गेल्ल्या वर्साचीच गजाल..रगत तपासून ये म्हण दोतोरान चीट बरोवन दिल्ली. ते प्रमाण हांवें रगत तपासून घेतलें. वर्साक एक दोन खेप हांव म्हजी ब्लडटेस्ट करून घेतां. तातूंत साखर, कॉलेस्ट्रॉल आनी माती आनी गोबोर जें कितें आसा तें सगळें टेस्ट करून घेतालें.

ते संवये प्रमाण एक खेप हांवें टेस्ट करून घेतलें आनी रिपोर्ट जसो दुसरे दिसा हातांत पडूं नाका, तो वाचून दुभावानूच हांवें आरखें घर माथ्यार घेतलें आनी लागलें हुंडक्या हुंडक्यांनी रडपाक..तार्चें जाल्लें कितें, शुक्राराक रगत तपासलें, शेनवाराक रिपोर्ट मेळ्ळो, दोतोराक दाखोवंक मर्दी आयतार आयलो. आतां हातांत रिपोर्ट म्हणटकच म्हज्यांतलो दोतोर ओगी रावता..? त्या रिपोर्टांत एकी कडेन तांबडी रेग मारिल्ली. तांबडें म्हळ्यार डेंजर..दोतोराची वाट पळोवंक म्हजें दुभावी मन तयार नाशिल्लें. ताणें मारलो गुगल सर्च आनी दोतोर लेगीत निदान करचो ना तें त्या गुगलान केलें आनी तें वाचून म्हजो आवरोच उडलो. कॅन्सराचीं सगळीं लक्षणां त्या गुगल दोतोरान म्हजे मुखार उगतीं केल्लीं आनी त्या दुभावानूच हांव मेल्लें. आवय म्हजी नर्स. तिका फोन करून तें सांगलें, तर तिचोय आवरो उडलो. मागीर हांवें तो रिपोर्ट म्हजे नण्णेक फोटो काडून व्हाटसॲप केलो. ती लॅब टेक्निशियन. ताणें तो पळयलो आनी हांव भिवून हुयेली मारतां तें पळोवन ताणें सांगलें,'आगो सायबिणी, कांय ना गो तातूंत तशें भिवपाचें..! ओगीच आबूज जावं नाका पळोवंया..पिसांट खंयचें..!' इतलें म्हणून ताणें फोन दवरलो..

तरी दुभावाचें भूत फाट सोडटा..? हांवें सोमार सकाळ मेरेन कशी तरी तग मारली आनी धांवलें तो रिपोर्ट घेवन दोतोरा म्हन्यांत. नंबर यो मेरेन दोतोरा कडेन बशिल्ले जाग्यार म्हाका एकूच विचार, देवा कितें आसतली काय ती तांबडी रेग..!

एकदांचो म्हजो नंबर आयलो. हांव धांवलें भितर आनी तो रिपोर्ट दोतोरा मुखार दवरलो. म्हाका आबालार जाल्लें पळोवन दोतोर हांसलो आनी म्हणूंक लागलो, 'आगो इतलें कित्याक भियेलां गो तूं..? भिवपा सारकें कांयच ना ह्या रिपोर्टांत. खंय कितें तरी वाडलां असो दुभाव आसल्यार तो टेक्निशियन दोतोरांचें लक्ष ओडपा पासत तें तांबडें करता. भिवूं नाका, जाग्यार पडटलें सगळें ' अशें जेन्ना दोतोरान सांगलें तेन्नाच म्हाका सूऽऽ जालें. आनी थंयच्यान जशें हांव भायर

आयलें तशें हांवें म्हज्या दोनूय कानाक पीळ घाले, आनीक म्हणटा तें कारणा भायर रगत तपासप ना. गुगलाचो सल्लो म्हणटात तो नाच ना.

बाजार म्हणटात तो आमकां बायलांक चुकच ना. हाका बाजार कर म्हण सांगल्यार जालेंच..! दुकानदार जें कितें ताच्या हड्ड्यार घालता तें घेवन येवचे परस हांवेंच वचून तो करप हें चड शाणेपणाचें. कडधान्यां जावं तसलेंच कितें घेवप समजूं येता. पूण भाजयो, फळां तरी वेंचून हाडचीं असें ना. तातूंत एक दोन कुसके नग आसताच. हांव बाजार करतना दरेक गजाल बारीकसाणीन हाताळटां आनी चड वेळ काडटां म्हण हो म्हजे वांगडा येना, तर गाड्येंत बसून पेपर वा हेर कितेंय वाचता.

म्हज्या ह्या दुभावी सभावाक लागून हांव चार कडेन भोंवून फळां बरीं आसतलीं काय भितरल्यान इबाडल्यांत आसतलीं असो सतत विचार करतां. फळां विकतीं घेतनां मनांत दुभाव येत आसता, हांव घेतां तीं हीं फळां बरीं आसतलीं काय कुसकीं..! गोड आसतलीं काय पचकीं..!! असो दुभाव फाट सोडिना. भाजयांचेंय तशेंच..आतां सगळेंच काय बाजारांत कापून, चिरून, चाखून टेस्ट करून विकत घेवंक मेळना. खंयचोच पसरकार लागी करचो ना. पूण तरी जंय शक्य आसा थंय पळोवन पारखून घेवंक कितें हरकत आसा असो म्हजो विचार. आनी तेच पासत मनान 'ओके' म्हणसर कांयच खरेदी करीना. इतलें करून लेगीत वेंचून हाडिल्लें एकेकदां घरा कडेन हाडून पळय जाल्यार तातूंत एक तरी कुसकें आसतलेंच. आनी हें जेन्ना घोवाचे नदरेक पडटा तेन्ना ताका आसुरी आनंद जावन थोमणो मारपाची आयतीच संद मेळटा.

नुस्त्याच्या बाजारांत आनी वेगळें कांयच न्हय. म्हाका नुस्तें ताजें काय पोंवशेल्लें तें मात्तूय पारखूंक येना तरी अदमासान हाडप जाता. आतां तें फार्मेलीन काय कितें तें प्रकरण उक्ताडार आयिल्ल्यान प्रत्येक नुस्त्या कडेन दुभावान पळोवप जाताच. इतलेंच न्हय तर तें नुस्तें आमचे गांवठी काय दुसऱ्या राज्यांतलें काय होय एक दुभाव आयले बगर रावना. नुस्तेकान्नीक विचारपाची तर माणसुकीच ना. चुकून लेगीत विचारल्यार, फटक करून म्हणटली,'बाय ताज्जें नुसतें मगा तें..! सामकें रांपणेचें. सुंगटां मानशेचीं. फट दिसता जाल्यार खा आनी दुडू फाल्यां दी!' आतां ती इतल्या नेटान जेन्ना सांगता तेन्ना तिचेर दुभाव घेवप म्हणटा तें म्हाकाच पाप. पूण तिच्या विस्वासाचेर जें नुस्तें हांव घरा हाडून पळयतां तेन्ना तें मरून कितलोच काळ सरला आनी कुसपा कडेन पावलां म्हणपाचो सोद लागता आनी हांव बडबडत रावतां. मागीर हाचो थोमणो आसाच..'म्हजें बरें आपलें वरणभात..! तुका मगो दुभाव चड..! बरें ना जाल्यार हाडटा आनी उपरांत फडफडटा कित्याक..?'

आतां हांव ताका कितें सांगतलें..? नुस्त्या बगर तर म्हजें जायच ना.

आतां बाजारांत हीं फटयतात म्हण एक दीस चिंतलें सरळ करंजाळे रांपणी मारतात थंयच वचचें! स्कुटर भायर काडली, एके इश्टीणीक फाटल्यान बसयली आनी ताजें फडफडीत नुस्तें हाडूंक गेलें. तर हें चुथड म्हणटा, 'आगो फडफडीत कितें सोदता..? थंय लेगीत ते फाटलें नुस्तें रेवेंत लोळयतात आनी ताजें म्हणून विकतात!' ताणें अशें म्हणटकच सुर्वेक म्हजेय तकलेंत दुभाव रिगलोच. पूण थंय वचून ते नुस्तेकार रांपण ओडून नुस्तें धडेर हाडटात म्हणपाचें पळयतकच सगळे दुभाव म्हजे पयस जाले.

शीला ही म्हजी इश्टीन कम शेजान्न. सदांच म्हाका तें आपले मांयल्यो खबरो सांगत आसता. ताचो सदचो टॉपीक म्हळ्यार ताचे ते सासुमांयचो भयरजळोप आनी दुभावीत सभाव. वावराडेन बरी घासून पुसून दवरिल्लीं आयदनां खंय ती परतीय धुता. सारन मारून जाल्या उपरांतूय आपणें ती परती मारप. शीला सांजवेळां चड शें आमगेर आसताच. तेन्ना ह्यो गजाली ताणें म्हाका सांगप.

'आगो,कितें सांगूं तुका..! सामको वाज आयला म्हाका. कितें म्हण हे पिरायेर हो दुभाव आनी भयरोजळोप..! वावराडी आनी दवरून कितें उपेग आसा तर ..! ती काम करून गेली म्हणटकच तिणें केल्लो सगळो वावर ही परती आपूण करता. एक कपडे मात ती परती उमळना हें नशीब म्हणपाचें. मागीर हांगा दुखता आनी थंय दुखता करीत पिरंगत आसता. आनी कितलें म्हणून गो तें अनवाळपण..! हाका हात लावं नाका, ताका हात लावं नाका. हाका आफूड नाका आनी ताका आफूड नाका, सोंसपाचें न्ही गो बाये. सांगूंक गेल्यार खूब आसा.

शीला म्हण कितें कमी..! हाकाय ताचे मांयचो वारो इल्लो तरी लागला हें ताका पळयल्यार दिसताच. सांजवेळां बसपाक येता म्हणटकच च्या हो जायच..चिक्रांत दिल्ली च्या ताका आवडना. ती स्टीलच्याच पेल्यांत ताका जाय. आतां स्टीलच्या पेल्यांत जरी च्या दिलो तरीय ताचो भयरजळोप हो तकली वयर काडटाच. आगो,पेल्यांत उदक विसळायल्लें तरी मगो.. हें सगळें जेन्ना हांव पळयतां तेन्ना असल्या सभावाच्या लोकांक भयरजळोप म्हणपाचें काय दुभावाचें..

शीलाक दुभाव आसा तो म्हज्या चिक्र बश्यांचेर. चिक्रांत खंय तीं च्या फकत कामेऱ्यांक ,वावराड्यांक दितात. तोच हो ताका दुभाव.

मनशाक दुभाव नाजाल्यार,चिंता,विचार,संशय,हें आसताच. काकण आनी ताचेर उपाय इलाज हें कळूंक कठीण..एक वेळ कोरोना आनी उपाय सांपडूंक नाशिल्ल्या हेर कसल्याय दुयेंसाचेर वखद सांपडत. पूण हे दुभावाचे पिंडेचेर आनी मनशांच्या सभावाचेर वखद सांपडप म्हा कठीण..



सांतइनेज, पणजी-गोंय.
मो: ९३७३४६७४७७



परमळ

दिलीप बोरकार



# साहिर

**आमच्या गोंयच्या नव्या लेखक-कवींनी साहिराच्या जल्मशती निमतान तांच्यो अक्षर कविता , आयच्या काळाकूय जागयता अशी शायरी आनी तातूंतलो पुरोगामी आनी मानवतावादी आशय समजून येतलो जाल्यार तांचें साहित्य आनी काव्यय उंचाय गाठूंक पावतली देखून बिम्ब साहिराची परमळ ह्या सदरांतल्यान जल्मशती मनयता...**

**सा**हिर म्हाका आवडूंक लागलो तो हांव कामगार, युवा आनी विद्यार्थी चळवळींत सक्रीय आशिल्लों तेन्ना. हांव म्हाका त्या काळांत ल्हानसो कॉम्रेड समजतालों आनी वेगवेगळ्या कॉम्रेडां वांगडा वावुरतालों. तातूंत गोंयचो नागेशबाब करमली आशिल्लोच आनी बंगालचे भुंयेंतल्यान येवपी , येवन म्हाकाच आपटताले. त्या भायर हांव हे चळवळीच्या नांवान मुंबयचीं कॉलेजां आनी जेएनयुचो कॅम्पस हेडटालों.

कॉम्रेड म्हणटकच अस्ताव्यस्त कपडे, हातांत सिगरेट आनी ओंठार कविता तशेंच बोटव्यांत पुस्तक हें आयलेंच. हे असले पिशे स्टेजीर म्हाका साहिर लागी आयलो ना जाल्यारूच अजाप म्हणपाचें.

आमचे सारके त्या काळार कॉलेजांनी शिकपी तरनाटे, जे विद्यार्थी आनी हेर चळवळींनी घुस्पल्ले तांच्या विचारांची खाशेली बैठक आशिल्ली. आयचे सारकी खंयचीय चळवळ राजकी रंग लावन सुवार्थाचें राजकारण खेळटा तशी नाशिल्ली. निसुवार्थीपणान आनी त्यागी वृत्तीन तरनाटो चळवळींत घालून घेतालो. तांचेर वाचनाक लागून म्हणा वा कोणा ध्येयवाद्याच्या संपर्कांत आयिल्ल्यान म्हणा भगतसिंग, राजगुरू, विवेकानंद, साक्रेटीस, बुध्द आनी असलींच हेर कितलींच तांची दैवतां आशिल्ल्यान असलेच विचारसरणे कडेन तांचो ओढो आसतालो. देखून साहिरा सारखो कवी, काव्यांतल्यान, विचारांतल्यान आनी तांचे वागणुकेंतल्यान मानेर आनी काळजांत बसतालो.

आपल्या बापायन आपले आवयक जी पिडापीड भोगयल्ली ती ल्हानपणा सावन पळयत आयिल्ल्यान साहिराच्या मनांत दादल्यां विशीं भयंकर तिडक आशिल्ली. तातूंत ताचें मन कवीचें आशिल्लें. ताका सांगात मेळ्ळो लिखणेचो. जिवितांत ताणें जें किर्ते पळयल्लें ताची कोडसाण ताच्या रुवांरुवांत रिगून बशिल्ली. तिकाच तो आपले कवितेंतल्यान मेकळी करीत रावलो. तेच नदरेक लागून समाजांत जंय जंय अन्याय जाता ताचेर ताची नदर वचूंक लागली आनी त्या अन्यायांक तो आपले शायरींतल्यान वाचा फोडूंक लागलो. कॉलेजांत शिकता आसतनाच ताचे भितरलो विद्रोही कवी जागृत जालो. आपले लेखणेन तो प्रहार करूंक लागलो.

जमीनदार आनी कसपी हांचो संघर्श सासणाचो. आपूण जमनीचो मालक म्हूण कसप्यांक पिडप, लुटप, नागोवप, तांच्यो जमनी काडून घेवप हें तर हे भुंयेर कितल्याच काळा पासून चलत आयलां. ह्या अन्याया विशीं साहिराक प्रस्न पडटा. पूण केन्ना,जेन्ना ताच्या तरण्यां काळजांत प्रेम रुजवणा येता त्याच काळांत..तातूंतल्यान ताच्या मनांतलीं स्थित्यंतरां प्रस्न निर्माण करता आनी ते कवितेंतल्यान कागदार देंवतात.

## कल और आज

-१-

कल भी बूंदे बरसी थीं
कल भी बादल छाए थे
और कवि ने सोचा था।
बादल ये आकाश के सपने उन जुल्फों के साए हैं
दोशे-हवा पर मैखाने ही मैखाने घिर आए हैं
रुत बदलेगी फूल खिलेंगे झोंके मध बरसासाएंगे
उजले-उजले खेतों में रंगीं आंचल लहराऐंगे
चरवाहे बंसी की धुन से गीत फजा में बोएंगे
आमों के झुंडे के नीचे परदेसी दिल खोएंगे
पेंग बढाती गोरी के माथे से कौंदे लपकेंगे
जोहड के ठहरे पानी में तारे आंखें झपकेंगे
उल्झी-उल्झी राहों में वो आंचल थामे जाएंगे
धरती,फूल,आकाश,सितारे सपना-सा बन जाएंगे
कल भी बूंदे बरसी थीं
कल भी बादल छाए थे
**और कवि ने सोचा था।**

-२-

आज भी बूंदे बरसेंगी
आज भी बादल छाए हैं
और कवि इस सोच में हैं !
बस्ती पर बादल छाए हैं,पर ये बस्ती किसकी है
धरती पर अमृत बरसेगा,लेकिन धरती किसकी है
हल जोतेगी खेतों में अल्हड टोली दहकानों की
धरती से फूटेगी मेहनत फाफाकश इन्सानों की
फसलें काट के मेहनतकश,गल्ले के ढेर लगाएंगे
जागीरों के मालिक आकर सब 'पूंजी' ले जाएंगे
बूढे दहकानों के घर बनिये की कुर्की आएगी
और कर्जे के सूद में कोई गोरी बेची जाएगी
आज भी जनता भूकी है और कल भी जनता तरसी थी
आज भी रिमझिम बरखा होगी,कल भी बारिश बरसी थी
आज भी बादल छाए हैं
आज भी बूंदे बरसेंगी
और कवि इस सोच में हैं !

## काल आनी आयज

-१-

कालूय थेंबे पडिल्ले
कालूय कुपां मांडिल्लीं
आनी कवीन येवजिल्लें.
कुपां हीं मळबाचीं सपनां त्या केंसांची सावळी
वाऱ्या खांदार बसून गादयांर गादयो दाटल्या
रुतू बदलतले फुलां फुलतलीं म्होंवा धार रकतली
चकचयाळ शेतांतल्यान रंगयाळे पदर उबतले
राखणे बांसरीच्या सुरांनी मळार गितां पेरतले
आंब्यारुखां मुळा वाटसूर काळजां शेणयतले
मोडत चलपी सुंदऱ्यां माथ्यांत विजे केणां फुट्टलीं
अडचल्ल्या पाणयां खाचकुलांनी नखेत्रां दोळे रोमतलीं
गुरसल्ल्या वाटांतल्यान तीं पदर सावरीत चलतलीं
धर्तर, फुलां, मळब, नखेत्रां सपन जशें दिसतलें
कालूय थेंबे पडिल्ले
कालूय कुपां मांडिल्लीं
आनी कवीन येवजिल्लें.

-२-

आयजूय थेंबे थेंबेतले
आयजूय कुपां आयल्यां दाटून
आनी कवी गुस्पला विचारांनी!
वसतीचेर कुपां दाटल्यां खरीं, पूण ती वसती कोणाची
धर्तरेचेर अमृत शिंवरतलें, पूण ती धर्तर कोणाची
जोतां फिरतलीं शेतांनी, बाबड्या साद्या शेतकारांचीं
धर्तरेर रसरसतली म्हेनत, उपाशीं पोटाच्या मनशांची
पीक लुवून कश्टकरी, धानाच्यो राशी घालतले
जमनीचे धनी येवन, पुराय 'पुंजी' व्हरतले
जाणट्या शेतकारा घरा बनियांची धाड पडटली
आनी रिणाच्या व्याजा बदलाक एखादी अस्तुरी खपतली
आजूय जनता भुकेल्या आनी कालूय जनता कश्टली
आजूय रिमझीम पावस पडटलो, कालूय पावस पडलेलो
आयजूय कुपां आयल्यां दाटून
आयजूय थेंबे थेंबेतले
आनी कवी गुस्पला विचारांनी!

**(चलता....)**

## कवनां म्हयनाळीं



डॉ.नूतन देव

**आभाळ** ह्या मराठी काव्य संग्रहांतल्यान वाचकां मुखार आयिल्ल्यो **डॉ. नूतन देव** ह्यो वेवसायान नामनेची भुरग्यां वैज. दुयेंतींचें निदान करतां करतां तांच्या मनांचेंय तांचे कइल्यान निदान घडूंक पाविल्ल्यान तांणी ताका काव्य आनी ललितांल्यान रूप दिलें. आभाळ हो काव्य संग्रह आनी तांचें ललित साहित्य वाचतना हाचो अदमास लागता. तांणी कोंकणी कवितेचीय सेवा करपाक आतां आरंभ केल्लो आसा ताची ही एक पत

### पारजत

सरसर करून निसरत आसा
रेंव बंद मुठींतली
तशेच निसटत आसतात
आमच्या जिवितांतले कांय खीण
मी मात आमचेच तंद्रेंत
मनयतात वाढदीस
पन्नाशी साठी सत्तरी

नवें कॅलेन्डर वणटीर सोबता
वर्स सोंपलें जशें
पोरणें वता कोयरांत
तशेंच किर्तें शें
सोंपत आसता आमचे आवुश्य
हें आमी वतात विसरून
काय विसरायेचेर पालून
मेकळे जातात?

बदलत आसता जशें वव
तशी बदलूंक जाय संवद
धांवपाचे सर्तीक
जाय आसता एक स्पीड ब्रेकर

मन गेलां भरून पपळोवन
मान सन्मान,धोल ताशे,पैशे
ताकाय बी दिसता रावचें
अर्दी मर्दी उपाशीं

आंगणांतलो पारजत
सडो शिंपडावन सांगता आज
म्हजे भाशेन तूंय भावा
रितो जा,रितो जा..

### तूं मेळटकच

तूं मेळटकच
मन विचार करप सोडून दिता
मेंदू तर्क लावप सोडून दिता
डाटलें सगळें पुसून वता
फुडलें तर कांयच दिसना
सगळें कशें थंयच थांबता
तुज्या खांदार तकली तेंकयतां तेन्ना
सगळें कशें शांत शांत जाता

आपलेपणाचो तो फाटीर हात
वेंगेंतली ती मायेची उब
ओंठार आयिल्ले मोने शब्द
ओंठानीच पुसून वतात
सगलोच वाठार सर्ग जाता
तुज्या खांदार तकली तेंकयतां तेन्ना
सगळेंच कशें शांत शांत जाता

दोळ्यांत तुका बंद करून
दोळे भरून पेयचें शें दिसता
काळजांत तुका बंद करून
धड्धड्त रावचें शें दिसता
ह्या सगळ्या संवसाराक
अर्थच ना सो दिसता
तुज्या खांदार तकली तेंकयतां तेन्ना
सगळेंच कशें शांत शांत जाता

### नातें

नात्याचीं पाळां मुळां
वतात जितलीं खोल खोल
हुमटून पडलो जाल्यारूय रूख
करून वतात याव खोल
कितलेय उपाय केल्यार लेगीत
येनांत ते पेखून बेगीन
आनी,जेन्ना केन्ना पेखतात हे याव
सोडून वतात सासणाची माव

थोडीं नातीं रावून सुद्दा
सांगातान जल्मभर
जउळून येनांत तांचीं तोंकां
वचट रावतात तीं समांतर
थोडीं,कांय खिणां पड्येन
पयस आसुनय बी
दिवन वतात कशीं काय
जल्मजत्मांचें आपलेपण

सगळीं नातीं सांबाळपाची
म्हाका संवय जाल्ली
च्यांत घाल्ले साखरे वर्ती
विरगळून वचपाची
मनाक जरी पटलेंना
बुद्दीक आतां आयलां कळून
चड्शे लोक जगांत आतां
शुगर फ्री जाल्यात म्हणून..

*उतरां कागदार देंवयलीं म्हणटकच कविता जाली असो खूब जाणांचो समज आसा. तो आतां पयस करूंक जाय. बिम्ब आतां दर म्हयन्याक एका कवीक ह्या पानार घेतलें. तेंच पान बिम्ब परीवार गूपार वतलें. रसिकांचें मत अजमावतलें. जांकां व्यक्त जावन दिसता तांणीं पांच वाक्यांत व्यक्त जावचें. फुडले अंकांत तें प्रतिबिम्बांत उजवाडाक येतलें.*

# का व्य फु लो र

## || अगा प्रथमेशा ||

अगा प्रथमेशा । लागूं तुजो ध्यास
म्हजे जिणे वास । येवं तुजो ।।

तुजेच कृपेचो । येवंदी चंवर
म्हजे आंगभर । सासणाचो ।।

म्हजे काळजांत । तुज्या नांवा वात
जळूं दिसरात । अखंडीत ।।

खेळूंदी वंठार । तुजें गुणगान
अभंगांत म्हान । धनया तूं ।।

## || साई आत्माराम ||

साई आत्माराम
साई भक्तिधाम
जिणेचो आराम
साईबाबा . . .

साई रंध्र रंध्र
साई जिणेछंद
अंतरीचो नाद
साईबाबा . . .

साई सीताराम
साई राधेश्याम
म्हर्जे परब्रह्म
साईबाबा . . .



- आर.रामनाथ
रायंगिणी,फोंडें-गोंय.
मो.:9850458763

## काळजा कळयो

काळजा कळयो फुलय
उतरां म्होवीं उलय
पल्तडी लावन नदर
मन म्हजें भुलय

चंवर थोडो झड्य
उल्लां तें पिकय
आनी म्हज्या दोळ्यांत
सपन एक रुजय.
२६.६.१९६९

## उजवाडाचो तळ

जाता सांज मुल्तानी सुरांतल्यान
शिंवरता रंग भिजता रान
वता जायत गूढ भास किरणांची
वाजता दिकांत पावलट काळखाची

बाविल्लीं निर्माल्ल्याचीं वतां पोशांतलीं
सांडिल्ली वाट रेखिल्ल्या शेतांतली
पेटल्यो ओल्यो वळी दिव्यांच्यो
घुमता पाख्यांत जोड्यो पारव्यांच्यो

भायर काळोख तरी भितर पर्जळ
लागता दिसूंक उजवाडाचो तळ...

गोंदवले-९ मे १६



- माधव बोरकार
ताळगांव-गोंय.
मो. : 9420222876



## रे मनशा

संवसार तळें
खोल मोठें
उकत्या दोळ्यांनी तूं पळय
रे मनशा
थाव मेजी नाका
थारायल्ली मोख
गांठची आसल्यार
जावन मासोळी
मार सू अचळय ...

उदकाचीं ल्हारां
एकूय ना थीर
एकठांय बळगें
वाड्य धीर
जावन धनुर्धारी
अर्जुनावरीं
यशाचो तीर तूं चड्य
रे मनशा
यशाचो तीर तूं चड्य

- महेश गांवकार
मोर्ले- गोंय
मो.: 9763773157

## हुंडो

पुर्वजांनी आपल्या धुवांक
लग्न करतासतना
मायेमोगोची भेट म्हणून
गोधन दिलें
ताचे उपरांतची पिळगी
जायती सुदारीक जाली
तांणी द्दू भांगर दिलें
माणकां मोतयां दिलीं
म्हणटा म्हणसर
हुंड्यासुरांची भूक वाडली
काळान कूस परतीली
जांवय गाड्यो भरां
मागूंक लागले
दिलें ना जाल्यार
अवैध घड्डूंक लागलें
एका बापायन आपले धुवेक
आत्मज्ञान दिलें
हातपांय चलोवपाचें
तंत्र दिलें
रक्षणाचे धडे दिले
मायेचें अस्र आनी
मोगाचें तेज दिलें
समजिकायेन परिपूर्ण करून
त्यागाचें शस्र दिलें
कोणाच्यान सांगूं येता
कशें आसत फाटें
ताणें आपले धुवेक
हुंडो म्हणून
गुळयांनी भरिल्लें
पिरतोलय दिलें...



- सुनील ह. पालकार
व्हडलें भाट,कालापूर-गोंय.
मो.:9921796865



## घर

घर आसचें घरा सारकें
मायेच्या मनशांनी भरिल्लें
कितलेंय आसूं तें सादें
मातयेचें आसल्यारूय तें
म्हजे खातीर खूब मोगाचें

घरांत ज्या माया मोग मेळटा
मायेन एकामेकाची वासपूस जाता
त्या घरांतली सूख शांती खंय मेळना
असल्या साधा घराचो घराबो भावता
त्या घरांत भितर सरतकच जग विसरतां

म्हज्या घरा भोंवतणी ल्हान बाग आसा
बागेंत आसात आईन रोयिल्लीं फुलझाडां
खंयच्यानूय येतकच पयली नदर तांचेर वता
पुरो जावन आयलों तरी,फुलां मनाक सुखायता
आवयच ती आपल्या परमळान पुताक पोशेता

- सुभाष न. शाह
मेरशी-गोंय.
मो.:9420690052



## यादींचो पावस

हो गेल्यार
जालीं वर्सां पांच
पावस दरवर्सा येता
धर्तरीक चिप्प भिजयता
हांव मात हांगा
रखरखीत सड्यावरीं हुलपतां

पावसाच्यो सगळ्यो यादी
भिरभिरतात म्हजे भोंवतणी
पयले वयले रातींचीं मोरपिसां
रंध्रां रंध्रांचेर अजूनय सळसळटात
किण किण कांकणां,छुम छुम पांयजणां
परतून परतून मनाक जागयतात

तो गरम गरम श्वास
तो गंधमय परमळ
काळजाचे ठोके चुकयता
पुराय धर्तरीक पावसा ओलसाण
घरांत म्हज्या हांव एकलेंच
सोंसतां इंगळ्यांची धगसाण

- सोनिया(सुनिता)सुभाष शाह
मेरशी-गोंय.
मो.:9403079052




## नातीं

हालींच हांवें गूगल प्ले स्टोरान पळयलें
नातीं नांवाचो ऍप आयला...
ह्या ऍपाक चड रेटींग ना
पूण वापरप्यांची संख्या भरपूर!
नात्यांच्या सोदांत आशिल्ल्या हांवेन
स्टोरेज फूल जाल्ल्या कारणान
सुविचारांचो ऍप अन इंस्टोल करून
नात्यांचो ऍप इंस्टोल केलो
जाल्यार किर्ते?
भितर नात्यांची झुंडी
तरेकवार नातीं.... ना तीं नातीं....
लागसल्लीं, पयसुल्लीं,
नवनिर्मीत साबार..।
पूण एक्कूय नातें
डाव्नलोड जायना जालें...!
ऍपाक सेटींग पर्याय लेगीत ना.
मस्तक खवदळ्ळें........
प्ले स्टोरान वचून ताकतिकेन कमेंट केलो
एक्कूय नातें डाव्नलोड कित्याक जायना?
नात्यां भितर कित्याक कांय ना?
दुसरे दीस रीप्लाय आयलो
हो ऍप फकत मन रिजवणेचें साधन
मुळांत नातीं डाव्नलोड जायनात...
देखून,आमी फकत नातीं सांगतात...
सांबाळपाचें काम तुमचें...

-गौरांग बाबुराव भांडीये
सावय-वेरें.
फोन: ८५५२८८३८०८

## आमचो गांव

न्हंयचे देगेर आमचो गांव
पांचवें तण दोंगर झाडांनीं भरला
हेवटेन तेवटेन व्हाळांनी धांवतें उदक
शेतकारान नांगर खांदार मारला

भाटांत सुपाऱ्यो आनी माड
थंडायेचो सुंदर वाठार
शिळोणी घालून बांदार
रेंदेर माम चडटा माडार

समारंभ जावं तुजो म्हजो
खुशालकायेन सगलीं मनयतात
कपेलांत देवळांत वचून
भावार्थान सर्व मागतात

नाका कसलेंच अद्रुश्ट
आमच्या ल्हानश्या गांवांत
खरेंच देवा सत सांगतां
गांवच्या पडला मोगांत

खरेंच सोबीत आमचो गांव
ताच्या मोगांत पडलां हांव



-ऍडवीन फर्नांडीस
शेळवण, कुडचडें - गोंय

## श्रावण आयलो

आयलो आयलो श्रावण आयलो
वत पावसा खेळ सुरू जालो
आत्तां वत आत्तां पावस आयलो
सत्री काडी म्हणसर भिजोवन गेलो

मळबांत घडटा इंद्रधोणूचें दर्शन
जशीं बांदल्यां बोंदेरांच रंगोवन
धतरेचेर पांचवेचार चडला साज
सोबितकायेन वाठार भरला आज

चोयदिकांनी फुलांचो परमळ
पवित्र उमेदीचें वातावरण
मळबांत शेवणीं मारतात भोंवर
पांचव्या शेतांरानांत मोनजाती वावर

श्रावण हिंदूंचो खाशेलो म्हयनो
नागपंचम गोकूळाष्टम मनोवप्यांचो
व्रतां देवसपणां करपी लोकांचो
म्हयनोभर शिवराकूच जेवपाचो

सैमाचे हे सोबीत करणेक तोखेवया
ताचे जतनाये वांगडा साऊद सांबाळया
श्रावणाक उर्बेभरीत येवकार दिवया
ताचें सोबीत साजरें रूप दोळ्यांत साठोवया



-मिलिंद भरणे
करंजाळे - गोंय

ललित



काश्मिरी पावसकार

# फुलां



**काश्मिरी पावसकार** पेशान शिक्षिका जाल्ल्यान तांचो सातत्यान संपर्क येता तो विद्यार्थ्यांलागीं आनी नवनव्या कल्पना विश्वा कडेन. हाकाच लागून तांचे विचार एके वेगळेच गतीन साहित्यरुपांत परावर्तीत जातात. कांय वर्सां फाटीं त्यो बिम्बांत सातत्यान सदर बरयताल्यो. तांचें एक पुस्तकय उजवाडाक आयलां. बऱ्याच काळान तांचे साहित्य वाचप्यां मुखार येता ही वाचप्यां पासत खोशयेची गजाल.

*वर्साचे अखेरेक शिंयां कुडकुडो. दिवचलचो फामाद नवो सोमार.. मागीर काले जात्रांचो पावस. म्हणटां म्हणसर हळदकुकूम..आमगेर पोरसांत म्हसगां झाडार चडयल्ली लांबचे लांब जून कुंदीची व्हडली वाल आसली. तिका थंडेंत कुचकुचीत कुंदी फुलतालीं. आमी भुरगीं झाडाक झड मारून फुलांचो शिंवोर करतालीं.*

**'गों**यचो मनीस नुरत्या वासाक ओडटा, तसो तो फुलांच्या परमळाक भुलता.' मनोहरबाबाल्या ह्या विधाना कडेन हांव शंबर प्रतिशें सहमत आसां. हाका पयलें कारण म्हळ्यार आमच्या गोंयांत फुलां पेऽऽ म्हूण, आनी दुसरें कारण गोंयच्या बायलांचे केंसूय दाट आनी लांब. फूल दिसलें रे दिसलें काय तें खुडून माथ्यांत घाले बगर आमकां सुखूच लागना. आनी ताका लागुनूच म्हाका दिसता गोंयचीं बायलां माथ्यार पदर घेनांत. बरें, हाका दादल्यांचोय आडवाद ना. आतां मेरेन जायते फुलमोगी गोंयकार दादलेय हांवें पळयल्यात.

भुरगेपणांतल्यान म्हाका फुलांचो सुमारा भायर सोस..खंयूय कसलींय फुलां पळयतकच म्हजोय जीव रोखडोच चिटमिट्टा. ताका लागून केन्ना मागून, केन्ना चोरयां तर केन्ना मुजरत विकतीं घेवन हांव तीं माथ्यांत फुलयतां. तशीं म्हाका वासाचींच फुलां आवडटात अशेंय ना. बीन वासाचीं,रानवटी फुलांक लेगीत हांव जीव सोडटां. देवाक घाल्लीं बाशीं फुलां लेगीत हांव सोडी नासलें. माथ्याक उश्णता कमी आशिल्ल्यान दोन दोन दीस लेगीत म्हजीं फुलां तश्शीं उरतालीं. तें पळोवन घरच्यांनी म्हाका 'पिशें माना' हें बिरूद जोडिल्लें.

म्हजें कुळार भतग्राम म्हळ्यार दिवचल. हांगा बाराय म्हयने तिनूय त्रिकाळ सण आनी परबो.. ताका लागून त्या त्या तेंपा वयलीं सगळीं फुलां सणावारांक आसुंकूच जाय आसलीं. संवसार पाडव्याक नवें वर्स सुरू जालें म्हणटकच गुढी उबारूंक धरून, देवा पुजेक रोजां आनी हेर फुलां पुंजावंक आमकां एक वेगळीच तिश्टत लागताली. आदल्या दिसा पोरसांनी भोंवन गोठलां, पिर्शी तशींच रतन आबोलीं, शेंवतीं हाडून हार, वळेसर, फांतयो, पटयो आनी आटयो करपाची मजाच वेगळी...!

म्हणटा म्हणसर रामनम, हनुमान जयंती तेंकताली. रामाक पाळण्यांत घालतनां फुलां बगर कशें जायत..! हांगा थंय हेडोन हळवीं, तांबडीं गांवठी चाफीं हाडून लांबच्यो लांब माळो, हार गुंथून पाळणो सजोवप. मदींच चाफ्या बुतांव करून माळप, तर केन्ना बुश्कटार, व्हिस्तिदार कडकड्या फुलांचे छाप मारप जातालें. ह्या चांफ्याच्योय कितल्योशोच जाती..! खंयचीं नाग चांफीं, सोन चांफीं, कंवटी चांफीं, भूंय चांफीं..

ह्या तेंपार सकाळ फुडें जुंवेंकारां दारांत सुरंगां, कांदळां, वोवळांचे पोड आनी वळेसर बी विकूंक हाडटालीं. ह्या फुलांचें खाशेलपण म्हळ्यार चार-पांच दीस लेगीत ह्या फुलांचो घमघम केंसांक घट्ट दसून उरतालो. खास करून कांदळांचो मिरमिरीत, फेण्येचो कसो तो परमळ, खरेंच आवजूय मनांत तरसो उरला. पूण आयचे घटकेक कांदळां मात इतिहासजमा जाल्यांत तें मनाक खूब लागता.

त्या तेंपार सुटये निमतान जायते फावट म्हापशां मामागेर वचप जातालें. मामाल्या घरा मुखार पुर्तुगेज तेंपा वयलें एक व्हड पोरणें घर आसलें. तांच्या पोरसांत गुलछडी, पुर्तुगाली आबोलीं, चित्रंगी, रातराणी, कलावती, पात बी जायतीं फुलझाडां आसलीं. हांगाच हांव फुलां गुंथपाचे तरेकवार प्रकार शिकूंक पावलें. त्या भायर दारांतूच म्हाल म्हातारें पार्दीकाचें झाड आसलें. सकाळ फुडें ह्या फुलांचो शिताडो पडिल्लो आसतालो. येतां वतां हीं फुलां पुंजायले बगर म्हज्यान कशेंच रावूंक जाय नासलें. ह्या पार्दीकांचोय गंध आजुनूय मनाक दसून उरला.

चैत्र-वैशाखांत गर्मेचो भार, दुसरे वटेन मोगऱ्यांचोय भार जातालो. ताका लागून

दिवचलकारांचो शिगमो म्हळ्यार मोगरीं. शिगम्या नाटकांक सोयरीं-धायरीं लोटून येतालीं. तांकां तशेंच शेजाऱ्या पाजाऱ्यांक मोगऱ्यां आटयांची भेट वा साग्वाद भेटोवपाची आगळी वेगळी चाल चलताली. त्या वेळार जायत्यो फातयो दारांत विकूंक येताल्यो. वांगडा चाळीस पन्नास फातयो विकल्यो येवपी लोकूय पळोवंक मेळटाले. बटण शेंवतीं, बुतांव, विलूद, बकड्यो तर केन्ना तांबडी, पांचवी फोल आनी मारवात घाल्ल्यो येऽऽ फातयोच फातयो.

उपरांत वसंत रुतू..सावरीक, गुलमोहराक तांबड्याच फुलांचो उजो पेट्टालो. वैशाखाचे अखेरेक शिरगांवची जात्रा. ते दीस उरिल्ले सुरिल्ले किरकांटे कळे लेगीत बुड्डून लोक वळेसर करून लयरायेक पावयताले.

मीर्ग म्हळ्यार वडा पुनव तेंकताली. परतून एक फावट मोगऱ्यांचो चिखलभार जातालो. तो आमी कसो सोडीत..तातूंत आषाढफुलां आयलींच. तितले म्हणसर श्रावण तेंकतालो. यरांत आज्जेले सोळा सोमार, लघुरुद्र आनी हेर श्रावणी सणवार आयलेच. उटंगाराच्या पावसाची पर्वा करी नासतना जायो-जुयो, अनंत, सातोणीचीं फुलां आमी फैंदासून हाडटालीं तर केन्ना केन्ना 'जायोऽ जायोऽऽ' आरड मारपी जायांकारांची दोळ्यांत तेल घालून वाट पळयतालीं. हळदी खोल्यांत बांदिल्ल्यो मेकळ्यो आनी गुंथिल्ल्यो जायो आनी तांचो तो घम घम...

गोंयकारां वरीं गोंयच्या देवांकूय फुलांचो धोरत.. फट न्हय, कृष्णाक पार्दीक आनी हातो, गणपतीक तांबडी दसण, साळकां, शंकराक अनंत, नवदुर्गेक जायो, केळबायक चांफो, गौरीक शब्दुलीं..विचारूंकूय नाकात..!

चवथ आनी दिवाळी सोंपता म्हळ्यार दसरो. दसऱ्याक येऽऽ म्हूण गांवठी रोजां हाडून रोजां माळो गुंथपाचो व्हडलो आक्त आमगेर चलतालो. रासवळ घराबो आनी घरचो तेला घाणो, पिठाची आनी भाताची गिरण, तशेंच गॅरेजीच्या वेवसाया निमतान कितल्योशोच माळो आमी उमेदीन गुंथतालीं. घरचे दादले लांबची लांब बडी आड्वी बांदून ताचेर माळो घालपाची खास वेवस्था करून दिताले. सगळ्या आवतांची आनी यंत्रांची पुजा करून जातकच सुकिल्ल्यो माळो बियां खातीर परतून एकठांय करपाचें काम आजी आमकां फर्मायताली.

वर्साचे अखेरेक शिंयां कुडकुडो. दिवचलचो फामाद नवो सोमार.. मागीर काले जात्रांचो पावस. म्हणटां म्हणसर हळदकुकूम..आमगेर पोरसांत म्हसगां झाडार चड्यल्ली लांबचे लांब जून कुंदीची व्हडली वाल आसली. तिका थंडेंत कुचकुचीत कुंदी फुलतालीं. आमी भुरगीं झाडाक झड मारून फुलांचो शिंवोर करतालीं. तांचे ल्हान ल्हान हार आनी वळेसर गुंथतालीं. मागीर घरचीं बायलां ते नेटान फुलयतालीं.

मागिलदारा दोन गाड्यांची बांय आसली. बांयचे थडेर शीत मोगरीं, शब्दुलीं, सदाफुली, शेंवतीं आनी गांवठी गुलाबांचीं रोपां लायिल्लीं. दर दिसा गुबगुबीत, परमळीत गुलाबां आनी शेंवतीं फुलतालीं. आदले दिसाच आमी कळ्यांचेर आमचीं नांवां सुमूर करतालीं. कोणीं चुकून तीं माळल्यार येऽ केरतावां जातालीं!

...आयज परप्रांतीय फुलांनी आमचे गोंयांत रीग केल्या. खंयचीं ग्लॅडुओला, ऑर्कीड, कार्ननेशीयन आनी जायतीं..! म्हजे नदरेन ही वायट गजाल न्हय. पूण आमचीं गोंयचीं निजाचीं फुलां मात आमी सोडचीं न्हय.

तर असो हो फुलांचो रंग आनी गंध दोनूय म्हाका आयजूय पिशें लायतात खरे, मात आयज हांव फुलां बाबतींत इल्लें चुजी जालां म्हळ्यार जाता. कारण आतां हांव फकत ल्हव आनी परमळीत फुलांच माथ्यांत घालतां. तशेंच केन्ना केन्ना मनार ताण आयल्यार अदीं मदीं शवासन करतना मनांतल्या ह्या फुलांक याद करतां आनी मन हलकें करून घेतां.

म्हजें हें ललित वाचून तुमचेंय मन हलकें जालां आसतलें हातूंत म्हाका इल्लोय दुभाव ना. पूण एक मात, ह्या ललितांतलीं म्हजीं उतरां तुमी विसरल्यार जाता. पूण ह्या गोंयच्या फुलांक मात विसरूं नाकात, इतलेंच मागणें.

शिवोले - गोंय. मो. : ९४२११९२८५८



कथिका
अभयकुमार वेर्लींगकार

कोंकणी चळवळ घोंसार येवंचे आदी सावन सक्रीय आशिल्ले अभयकुमार वेर्लींगकार हे कोंकणीचे निश्ठावान वावुरपी. तांकां ल्हानपणा सावन वाचनाची आनी लेखनाची गोडी. पेशान अभियांत्रीकी आसले तरी तांणी कोंकणी साहित्यांत नदरेक भरपा सारखें योगदान दिल्लें आसा. कविता,बालसाहित्य,एकांकी,कथा आनी ललित ह्या मळार तांचो अभ्यास आसा.

---

*आनी इतल्यांत ताच्या गळ्याक फास पडलो. ताणें आपणांक सोडोवन घेवपाचो यत्न केलो, पूण ताचे यत्न उणे पडले. कांय खीण तो धुस्मटलो आनी धुंवळून पडलो.*

---



# गोळ

**फा**टले कांय दीस तुकारामाची तकली जाग्यार ना. अशें कित्याक घडलां तें ताकाच कळना. ताका कसले तरी भास जाल्ले वरी जातात. तो ते भास म्हणपाचें मानूंक तयार ना पूण ताची घरकान्न म्हणटा म्हणून ताकाय मानून घेवचें पडटा. रातचे वेळचो कोणतरी आपल्या घरा लागीं आनी केन्ना केन्नाय घरांतूय वावुरता शें दिसता ताका. हें फकत ताकाच दिसता. ताचे घरकान्नीक दिसना.

''रातच्या वेळार आनी कोण येतलो हांगा?'' तिचो प्रस्न.

चडूच जाल्यार 'ह्या दिसांनी इल्लें चड येता काय किर्तें? सामकें मस्तकाक मारी सारकें कित्याक येवंक जाय?' हें आयकुचें पडटा. खरें म्हणल्यार हालीं तो कांयच येना. येन दिसना अशें न्हय पूण येतलो कसो? कोप म्हणून केन्ना उदार मेळ्ळां? तसो बोरस्त्यांव उगतो आसल्यार दिवपाचो. सदर्चे गिरायक न्ही! दीत आसलो घडये पांच रुपयांची दुदशिरीं वा आर्लें पूण तोय सद्याक बंद. जे कोण येतात ते खंयच्यान तरी ब्लॅकान बाटल्यो हाडटात. हो खंयच्यान हाडटलो बाटली? तितले पयशे आसूं नाका? बोल्सांत तर पानदुडूय ना. हरशीं जाल्यार कोणूय वांगडचो 'ये रे इल्लें म्हाजें' म्हणून पोशांत ओतयत आसलो पूण चड दुडू दिवन ब्लॅकान हाडिल्लें कोणाक दिवंक परवडटलें? तातूंत तें फाल्यां मेळत काय किर्तें हाचोय दुबाव. अशे वेळार घेवप कशें? सगळे कडेन शुकशुकाट म्हणटात तशी गत जाल्या!

सरकारान त्या कोरोनाक लागून फाटले दोन म्हयने सगळें बंद उडयलां. ताका लागून काम मेळप कठीण जालां. इतलीं वर्सां जंय काम करतालो ती सॉ मिलूय बंद जाल्या. लाकूड कापूंक कोणूय आयल्यारूच चलपाची न्हय ती? पूण कन्स्ट्रक्शन बंद जाल्ल्यान मदेर कोणाक जाय पडटलें? तरी पूण कोण तरी चुकून आयल्यार आयलो हे आशेन थंय काम करपी सगळे येवन मिली कडेन उबे रावतात. वाट पळोवन पळोवन कोण येनाशें जातकूच उठून घरा वतात. काम ना, दुडू ना. आनी दुडू नाशिल्ल्यान घरा किर्तेंय व्हरतलों म्हणल्यार मेळना. घरांतलें सामान सोपूंक आयलां. सद्याक जें किर्तें किरवटेक सांबाळून दवरिल्लें तें मोडपाचें चल्लां. काम केन्ना मेळत सांगूंक जायना. म्हणटकूच जें आसा तें पावोवन खावपाचें. अशे वेळार कोप आनी खंयचें? तरी आसतना घरकान्नीक दिसता ताका भास जातात ते कोपाक लागून. एके वटेन कामाची चिंता आनी दुसरे वटेन कोप ना म्हणटकूच न्हीद कशी पडटली? मात्सो न्हिदता म्हणल्यार कोणतरी उलयल्ल्याचो आवाज येता आनी न्हीद वता.

ताका तो भास सो दिसना. ताचे नदरेन कोणतरी रातीचो तांगेर येता आसूंक जाय. पूण रातचे वेळार येतलो कोण आनी कित्याक? कोण तें पळयतलो म्हणून उठलो जाल्यार घरकान्न ताचें कोप वयर काडटा. हें दुसऱ्या कोणाकूय सांगतलों म्हणल्यार लोक फकणां मारीत ह्या भंयान तो कोणाक सांगूक पावना. हांगा घयलीं नाका आशिल्लें आयकूंक

मेळटा. हाची बायल अशी आनी ताची तशी म्हणपाचें ताचेच वांगडी उलयतना आयकूंक येता. कोण कोणाक लागीं तें सगळ्यांक खबर. पूण ताचे बायले विशीं मात कोण कितेंय वायट उलयल्लो ताणें आयकूंक ना. आपली बायल फकत आपलीच हाचेर ताचो सामको विश्वास. ती तसलें कांयच करची ना हाची ताका खात्री. तरी हो भास नाका जाल्ले विचार ताचे तकलेंत हाडटालो. आनी तो चिंततालो, हो खऱ्यांनीच भास काय कोणतरी येता हांगा?

कांय दिसा फाटल्यान ताणें शंकराक फांत्या पारार घरा शेजरा भोंवतना पळयल्लो. हो आनी हांगा कित्याक? ताच्या मनाक प्रस्न पडिल्लो. ताणें घरकान्नीक म्हणलें तर तिणें म्हळें, "आयला आसतलो लाकडां कापट्यो पुजावंक! तुमी नाका म्हणून ज्यो कापट्यो भायर मारतात त्यो पुजावंक जायते जाण येतात. तोय तेच खातीर आयला आसतलो!" पूण ताका तें बरेंऽऽ पटलें ना. एक तर शंकराक कापट्यांची गरज ना हें तो जाणा आसलो. शंकरागेर गॅस आसलो. ताचें जेवण बी गॅसार जातालें म्हणटकूच तो कित्याक कापट्यो पुंजायतलो? आनी दुसरें म्हणल्यार तो तर रिकाम्याच हातांनी थंयसून गेल्लो. ताचे उपरांतूय तो केन्ना दनपारचो वा तिनसांजचो घरा कडल्यान वतना ताणें पळेल्लो. ताणें हडकिल्लोय एकदां. तर म्हणूंक लागलो, 'कोणाक सोदूंक गेल्लों.' सद्याक हांगा एक दोनूच बिराडां रावतालीं. बाकी सगळे काम ना म्हणून गांवांक गेल्ले. म्हणटकूच हो कोणाक सोदतलो हांगा? खरें कितें तें सोदचेंच पडलें, ताणें चिंतलें.

तुकाराम हांगा फाटलीं पंचवीस-तीस वर्सां रावता. बापायच्या हाताक धरून आयिल्लो तो हांगा. वयार आयलो तेन्ना बापाय वांगडा सॉ मिलींत कामाक वचूंक लागिल्लो. सॉ मिलच्या पात्रांवानूच बांदिल्ल्यो ह्यो चाळी. जे कोण मिलींत काम करतात ते सगळे हांगाच रावताले. ल्हवू-ल्हवू मिलीचें काम उणें जालें. पयलीं वरी गिरायक आतां आसना. चडशे बिल्डर आलिमीनच्यो कासलेटी वापरूंक लागले. फकत दारां पुरतेंच मदेर तांकां जाय जालें. दारांय आतां रेडिमेड मेळूंक लागिल्ल्यान मदेर व्हरूंक खूब थोडे लोक येताले. तातूंत पात्रांवानूय इल्लें लक्ष उणें केल्लें. काम मेळ्ळयार मेळ्ळें अशी परिस्थिती. काम ना जाल्यार पगार कसो मेळटलो? देखून हांगा रावपी दुसरे कामा सोदाक गेले. तुकारामाक आनी दुसरें काम जमपा नासलें देखून तो हांगाच उरलो. शेजारचे सगळे सोडून गेल्ल्यान एकसुरेंच रावचें पडटालें ताका. ना म्हणल्यार आनीक एक दोन बिराडां आसलीं पूण तीं मात्शीं पयसूच. हांगा जर कोणूच रावनात जाल्यार शंकर कोणाक सोदूंक आयिल्लो काय?

तुकाराम घरा गेलो तो ह्या प्रकरणाचो विलो लावच्या विचारानूच. पूण ताणें आपले तकलेंतलें कोणाक कांय दाखोवन दिलें ना. घरा वचून जेवण बी केलें आनी सुस्त न्हिदून पडलो. तो फकत पडिल्लो, न्हिदूंक नासलो. आवाज येतात ते खरे काय भास हें ताका कशेंय करून पळोवंक जायच आसलें. कांय वेळान ताची घरकान्नूय जेवन लायटी बी पालोवन न्हिदूंक गेली. कांय वेळान पावलांचो आवाज आयलो. तुकाराम काळखांतूच उठून पळोवंक लागलो. कांय खीण ताका कांयच दिसलें ना. पूण थोड्या वेळान ताचे दोळे काळखाक वळखीचे जाले आनी ताका घरांत सावळीशी दिसली.

"कोण रे तो?" ताणें बशिल्ले कडसून विचारलें.

"जालें परतें सुरू? कसले भास जातात कोणाक खबर. आपुणूय न्हिदना आनी दुसऱ्यांकूय न्हिदूंक दिना. तें कोप येवं नाका म्हणल्यारूय आयकना." बायल फडफडली.

तुकारामान तोंड धांपलें आनी ल्हवूच उठून लायट पेटयली. ताणें जें कितें पळेलें तें केन्ना येवजुंकूच नासलें. अशें कितेंय घडत अशें ताच्या मनांत लेगीत येवंक नासलें. सामकें ताचे अपेक्षे भायलें आसलें तें.

"रांडला म्हाका जातात ते भास म्हूण सांगून असलीं कामां करता तूं? फटयलो मगो म्हाका. कितें उणें आसलें गो तुका? हांव पाव नासलों? " ताचें तोंड सामकें नाळी वरी चलूंक लागलें. "आनी शंकर तूं कोणाक मेळूंक गेल्लों म्हणून सांगतालो तो ह्या रांडलाक मेळूंक येतालो तूं? राव दाखयतां तुका, काडटां पळे तुजी लज." तो सामको रागान तांबडो जाल्लो. कितें करचें आनी कितें ना तेंच ताका कळ नासलें.

आनी इतल्यांत ताच्या गळ्याक फास पडलो. ताणें आपणांक सोडोवन घेवपाचो यत्न केलो, पूण ताचे यत्न उणे पडले. कांय खीण तो घुरमटलो आनी घुंवळून पडलो.

सकाळीं वाड्यार बोवाळ पडिल्लो. 'तुकारामान गोळ लावन घेतलें.' पुलीस येवन पंचनामो करताले. सगळ्यांक अजाप शें जाल्लें. तुकाराम अशें कित्याक करतलो? पूण गोळ घेतिल्लें दिसतालें तर खरें. बायल "आतां म्हजें कशें जातलें? कोण पळयतलो म्हाका? " म्हणून व्हडाव्हडान आड्डताली आनी शंकर तोंडांत शिगार धरून दारांत पासयो मारतालो.



अंबिका गार्डन्स, दवर्ली -गोंय.
मो.९४२३८८४६८७

कथा



दामोदर मावजो

**कोंकणी साहित्याच्या कथा आनी कादंबरीच्या मळार आपली खाशेली वळख निर्माण करपी दामोदर मावजो हे साहित्य एकादेमी तशेंच हेर साबार पुरस्कारांनी सन्मानीत जाल्यात.फाटल्या पांच-स दसकां सावन एकाद्या शिल्पकारान पाशाण फातरांतल्यान शिल्प कोरांयून काडचें तशी समाज जीवनांतल्यान सातत्यान कथा कोरांयून काडटा. भारतीय आनी लॅटीन संस्कृतायेचो सुरेख संगम आनी एकचार तांगेल्या कथानी सभावीकपणान घडटा.**

***हांव कदेलार बसून आवर्ते जोडटां. गोंयची व्हडवीक गायतां आनी त्याच ताळयान फुडाराचो हुसको उक्तायतां - पोट फुटसर खावन पादेल्लो वरी. तुगेलें शेत घोलतना पळयलें आनी तूं मज्जा म्हणटालो तें किर्ते तें होलमलें.***

'हांव तूं जातलों आनी हांवूय उरतलों', अशें हांवें ताका सांगिल्लें. सपनांत जावंये! कारण तो म्हजे कडेन तसो प्रत्यक्ष उलोवंक नासलो. मुळांत तो म्हाका मेळिल्लोच काय ना हाचोय म्हाका दुबाव आसा. कारण तो म्हाका मेळ्ळा म्हणपाची शक्यताय खूब उणी आसली. पूण तशेंय खातरीन म्हणूंक जावचें ना. हांवें सांगलें केन्ना तर! एक शक्यताय आसा. भाटकारागेर नवोच टिव्ही हाडिल्लो तो पळोवपाक म्हाका व्हेल्लो. थंय पयले खेपेक ताका पळयिल्लो तेन्नाच जावं येता.

आवो आनी हांव भाटकाराल्या सालांतल्या कोनशाक उकडयां बशिल्लीं. भाटकार वल्तेराचेर आनी तागेलीं घरचीं सोफा-कदेलींचेर आयसपयस बशिल्लीं. तें साल म्हाका नवें आसलें, आवोक न्हय. ती तांगेर वावराक वताली. त्या सालांत सारन तरी मारतासली. टिव्हीचेर तो दिश्टी पडलो. म्हजेच पिरायेचो. ताणें हाफ पँट घाल्ली. हांवेंय घाल्ली. ताणें शर्ट घाल्लो. म्हज्याय आंगार शर्ट आसलो. ताच्या पांयांत मोचे आसले. म्हजे पांय मातयेन माखिल्ले. फरक तितलोच नासलो. ताचो शर्ट धवो फुल्ल आनी चकचकीत. म्हज्या शर्टाचो रंग वळखूंक येनासलो. दोन बुतांवय तुटिल्ले. ताची पँट फेर्राद. म्हजी चुरिल्ली आनी भोंकार पिंदिल्ली. तो दिसपाक गुटगुटीत आनी सुंदर. हांव बुरसो आनी शेंबडो. म्हाका ताची नसाय दिसली ना. मदींच ताची नदर म्हजेर पडली. हांव सडसडीत उठून उबो रावलों. तो म्हाका पळोवन हांसलो. आवोन म्हज्या हाताक धरून ओडलो. पर्थून उकडयां बसलों. तो म्हाका किर्ते तरी सांगूंक सोदतालो. पूण ताका ताचे आवयन ओडून व्हेलो. आवो म्हाका घेवन घरा आयली.

तो सपनांत दिसचो म्हूण हांव बेगीन न्हिदलों. ताचे भाशेन हांसपाचो येत्न करीत. सकाळीं पळय जाल्यार तो येता. भाटकारागेर वता आसतलो म्हूण हांव म्हजे मातये घराच्या दारा भायरच उबो रावलों. तो म्हाका पळोवन हांसलो. हांवय हांसलों- ताचेच वरी. तो भाटकारागेर गेलोच ना. त्या घराचे फाटले वशीन आमगेल्या मातये घराचे दिकेन चलत आयलो. हांवें बेगीबेगीन शेंबूड देंवतालें तें नाकांत ओडून येतलें आनी नाक शर्टाच्या हाताक पुसलें.

''तूं इतलो निवळ कसो?''



हांव

तो खंय न्हावन आयिल्लो. हांवें म्हळें 'हांवूय न्हातलों.'

ताका येवनच न्हंयचेर गेलों. मारली उडकी उदकांत. ताका यो म्हळें.

''भिरांत दिसता. म्हाका पेंवपाक येना.''

हांवें पेवन दाखयलें. उदकांत बुडकी मारून खूब वेळान तकली वयर काडली. न्हंयेच्या देगे वयल्या रुखार चडून उदका वटेन देंविल्ले खांदयेर गेलों. ताका यो म्हळें.

'' म्हाका रुखार चडूंक येना.''

हांवें सूर मारलो. खूब वेळ पेंवलों. पयलेच खेपेक आंग चोळून धांसून न्हालों.

भूक लागली. ताका येवन घरा आयलों. आवोन भाकरी थापून भाजिल्ली. एकूच आसली. ताका कुडको दिलो. ताका ती बरीऽ लागली.

'' तुमगेर करनात तर?''

तार्णे मानेनूच ना म्हळें.

'' तूं किर्ते खाता तर?''

''ऑमलेट, पाव ''-

हांवें कोंडिबाल्ल काडलें..

'' यो खेळुंया.''

''म्हाका येना असलें खेळपाक.''

''आंवय! बाल्लाक असो ल्हवूच तोणो आपटुपाचो आनी वयर उसळ्ळें म्हणटकच नेट्टान तोण्यान ठोकपाचें. जालें.''

पूण ताका कळ्ळें ना.

''तूं किर्ते खेळाटा तर?''

'' कॅरम. फुटबॉल.''

मागीर आमी फाटल्या रानांत गेले. काण्णां, चुन्नां, चारां, बोरां.... तार्णेय घोस्तान खार्ली. झिलींनी भोंवतना तागेलो धवोफुल्ल शर्ट म्हेळो जालो. तो अस्वस्थ जालो.

'' वतां घरा.''

हांव पावोवपाक येतां म्हळयारूय रावलो ना. गेलो.

ooo

'हांव तूं जातलों आनी हांवूय उरतलों' अशें हांवें ताका सांगिल्लें; काय हांवें म्हाकाच सांगिल्लें? बरी खातरी ना. तो खूब दीस परतो मेळ्ळो ना. काय मेळ्ळो तें याद जायना. पूण हांवें ताका सांगिल्लें तें घट्ट मनांत उरलें. ताचे वरी जातलों. शिकूंक जाय. मन लावन शिकलों. कपडे निव्वळ जाय. हांवूच धांसून उंबळून चकचकीत करूंक लागलों. नवोदयांत पावलों आनी पांयांत मोचे आयले. थंय अदींमदीं ऑम्लेट मेळटाली. पूण सुटयेंत घरा येतालों तेन्ना आवोली भाकरी खातालों. हॉस्टेलाचेर शॉवर आसलो. पूण सुटी केन्ना पडटा आनी न्हंयेंत बुडक्यो केन्ना मारतां अशें जातालें. शाळेंत कॅरम, फुटबॉल खेळटालों. पूण गांवांतल्या कोंडिबाल्लाची सर तांकां केन्नाच आयली ना.

'' हांव शिकोवं?'' कानांत विचारतालो.

'' म्हाका येता. पूण... मन रमना.''

''तुका आजून पेवंक येना?''

तो केन्नाय मेळूंक येता तेन्ना हांव विचारतालों.

तार्चे तोंड बावतालें.

एक दीस तार्णे विचारलें, ''तुका आतां शेंबूड येना?''

'' तो मेळत सावन म्हजें शेंबूड बंद जाल्लें अशें ताका सांगलें तेन्ना तो खूश जालो.

एक दीस विचारलें ताका- ''सुटयेंत घरा वतलों. तेन्ना या आमी रानांनी. येतलो न्हय?''

तार्चे आंग शिरशिरलें.

''ना. कपडे म्हेळे जातले.'' आनी म्हाका विचारलें, ''तुजेय निवळ कपडे म्हेळे जातले. तुका उपकरता?''

''जातले. पूण हांव ते उंबळटलों. मागीर परते चकचकीत ''-

''म्हाका उंबळपाक येना.'' तो चिटमिटलो. म्हाका ताची काकुळट दिसली.

परिक्षेच्या दिसांनी हॉस्टेलांत रावं नज जातालें. फॅनाचो वारो लेगीत गरम येतालो. सुटी पडना फुडें घरा मातयेच्या घरांत पावतकूच चुडटांच्या झाडांतल्यान भितर येवपी शितळ वाऱ्यान म्हजो शीण खिणांत पयस केलो.

आवोन केल्ली आंबील खावन हांवें कोंडिबाल्ल काडलें. भायर येवन पळय जाल्यार तो म्हजी वाट पळयतालो. आजून तो म्हाका खेळ म्हणटालो पूण आपूण खेळनासलो. खेळटां खेळटां न्हंये कडेन पावले. बाल्ल उसळ्ळें आनी तोणो मारिल्लो मात बाल्ल वाऱ्या कडेन सर्त करीत पयस शेंवटलें आनी न्हंयेंत वचून देंवलें. हांवें मुस्तायकी देंवयली आनी मारली उडकी न्हंयेंत. बाल्ल म्हाकाच रावतालें. उफेत म्हज्या हातांत आयलें.

''तूं यो. भियेवं नाका. उदक थोडें आसा.''

'' नाका. म्हाका थंडी जातली.''

ooo

आबोन शेत खंडून येतिल्लें. म्हाका येवन शेतार गेलो. आबो काशटी मारून खोऱ्यान खणटालो. म्हज्याय हातांत खोरें दिवन मेरो धरपाक म्हाका सांगिल्लें. तो आयला आनी म्हाका काम करतना पळयता अशें म्हाका दिसलें. काय तो येवंकच नासलो? खबर ना. पयल्या पावसाक आमी शेतांत देंवले तेन्नाय तो सत्री येवन आयिल्लो हांवें पळयलो. मागीर केन्ना गेलो कळ्ळेंच ना. हांव रावतालों ताका सांगपाक - बांदयांनी उदक तुंबतकच शेतांत देंवपाक कशी मज्जा येता तें.

ही मज्जा मागीर वाडत गेली. स्कॉलरशीप मेळ्ळी आनी हांव शेतकी महाविद्यालयांत गोंयां भायर पावलों.



सभाग्यान मर्दी तोंड तरी दाखोवचें आसलें! कोर्स सोंपसर ना दिसलो ना. काय लीप चोरयां येवन वतालो तें कळपाक मार्ग नासलो. पूण निमण्या दिसा आयलो- तोय राती कडेन. यडये सपनांत जावंये!

''दोन फावटी येवन गेलों, तूं गाड न्हिदेंत आसलो.''

जायीत. कारण खऱ्यांनीच थंय शेतांनी, पोरसांनी वा नर्सरींनी मज्जा येताली तरी पुरोय जातालें. मागीर सुस्त न्हीद पडटाली खरी.

''कित्याक ती मजा? डिग्री मेळटकूच मागीर कितें? गोंयां येतकच शेतकी अधिकारी जावन हांव तापयतां तशें कदेल तापोवपाचें मरे?''

इतलें उलोवन फाट करून गेलो. म्हाका सांगपाचें आसलें ताका- तुकाच लागून तर हांव इतलें करूंक पावलों. टिव्हीचेर तूं म्हाका पळोवन हांशिल्लो त्याच वेळार हांवें थारायिल्लें- हांव तूं जातलों, तुजेवरी न्हेसतलों, तुजेवरी हांसतलों, तुजेवरी शिकतलों...

ooo

कॉलेज सोंपोवन घरा पावतां सर पावसान यालून येतलें. रोव मारलो, थाम रोयलें, नडणी केली... शेतांत भांगर पिकलें आनी आबोल्या मिरयेल्ल्या तोंडार धादोसकायेचो हांसो पिकलो. ते राती आबोन म्हाका सांगलें- ''तूं आतां सिर्वीस कर, नवें घर बांद.''

ताका तें कळ्ळें-

''कर अर्जी, मागीर थेट ऑफिसर. बांद घर. बरें चिऱ्यांचें कॉंक्रिटाचें!''

हांव हांसलों. घर बांदतलोंच. माळयेचें पूण मातयेचें. सिर्वीस करतलों, पूण म्हजी... मयडेचीं केळीं, बाणावलेचे कावये, आगशेचीं वांयगीं, उतड्डेचीं काळंगां, खोलची मिरसांग, अंत्रुजेंतलीं तवशीं... ते राती न्हिदलों तोय जगमांचेर, मुडल्यांचेर, वोंवळांचेर... सकाळीं उठून आवोली आंबील भुरकावन जायसर तो भावरच राविल्लो. रातभर न्हिदलो ना दिसता.

''कुमसार जावंक आयलां. म्हाका तुजी नसाय दिसता. तुवें म्हजी केली ना तरी!''-

''कित्याक करपाची? वयल्यान म्हाका तुजे उपकार मानूंक जाय. तूं म्हजे जिणेंत येवंक नासलो जाल्यार हांव शेंबडो, बुरसो, आनाडीच उरतासलों. तुवें म्हाका सपन दिलें देखून हांव...''

'' याद आसा म्हाका. तुका हांव जावचें आसलें. तुवें म्हजो अहंकार जागयलो. तुजी काकुळट करीत हांवें तुज्या मुखार मिरयलें. पूण... तुवें म्हाका हारयलो.''

''म्हज्या मनांत तशें केन्ना आयलें ना.''

''जाणां हांव. आतां तुका शेतांत वावुरतना पळयतां तेन्ना म्हजी म्हाकाच लज दिसता. हांव कदेलार बसून आयतें जोडटां. गोंयची व्हडवीक गायतां आनी त्याच ताळयान फुडाराचो हुसको उक्तायतां- पोट फुटसर खावन पादेल्ले वरी. तुगेलें शेत धोलतना पळयलें आनी तूं मज्जा म्हणटालो तें कितें तें होलमलें. तूं हांव जातलो ह्या भ्रमांत हांव म्हजें धवाडेपण मिरयतालों. पूण तुवें फुडें सांगिल्लें तें विसरिल्लों. 'हांव तूं जातलों आनी हांवूय उरतलों' म्हणिल्लें तुवें. तुज्यांतलो तो हांव म्हाका सुखान रावंक दिना.''

वतां म्हणचे पयलींच गेलो.

ooo

त्या उपरांत तो सपसप म्हाका खंय आपटलो ना. नदरे आड मसण पाड तसो हांव आयज ताका विसरलां. पूण केन्ना केन्ना याद काडीत तो येता.

येता जावंये!

म्हजे पांय जमनीर आसात तें पळयता आनी मोन्यांनी वता...

माजोर्डें-गोंय. मो. : ९४२२०५९५०९




# जंगल शाळा

(आधुनीक काळाचें हितोपदेश)

# सर्कशींतली मज्जाच मज्जा!!



**म्हा**पशां शारांत सर्कशीचे तंबू लागिल्ले. केन्ना एकदां सर्कस पळयन अशें भुरग्यांक जाल्लें.

रणविरान एल्मोक सांगलें, ''नानू, आमी सर्कस पळोवंक या. आनी वांगडा सगळ्या सवण्यांक आनी प्राण्यांकूय व्हरुंया.''

''रणवीर, म्हाका दिसना सर्कसवाले प्राण्यांक आनी सवण्यांक प्रेक्षक म्हणून भितर घेत शे! तरी पूण तांकां भितर व्हरपाक आमी आमचे परीन यत्न करुंया.'' एल्मोन म्हळें.

त्या प्रमाण एल्मो, बिंगो सयत सगळ्या भुरग्यांक आनी प्राण्यांक तशेंच सवण्यांक वांगडा घेवन मडगांवच्यान लागीं लागीं ४० किलोमिटर पयस आशिल्ल्या म्हापशें शारांत लागिल्ली सर्कस दाखोवंक घेवन गेलो.

सर्कशीच्या मॅनेजरान प्राण्यांक भितर सोडपाक आरंभाकूच न्हयकार दिलो. पूण सवण्यां बाबतींत मात प्रवेश आडावपाचो प्रस्नच उप्रासलो ना. त्या येद्या व्हडल्या सर्कशीच्या तंबूक हांगा थंय कितलेच बारीक मोठे बुराक आशिल्ले. तातूंतल्यान वाट काडीत सगळीं सवणीं आदींच भितर पाविल्लीं.

एल्मोन सर्कस मॅनेजराक समजायत सांगलें, ''आमच्या वांगडा आयिल्ल्या सगळ्या प्राण्यांक सर्कशीची मजा घेवंदी. तांकां आपल्या भावबंदांक नेट आनी स्फूर्त दिवंदी.''

शेवटाक मॅनेजराचें मन वळ्ळें,तरी ताणें म्हळें, ''खेळ चलता आसतना तुज्या ह्या सुण्यान भोंकपाक फावना, वागांनी डरकाळी मारूंक उपकारना, हतयांनी प्रेक्षकांक भियोवंक जायना आनी थंय विकूंक दवरल्यांत तीं खाणां माकडांनी फारावंक फावना.''

मॅनेजरान सगळ्यो अटी घालून आपली बाजू मांडली.

एल्मोन सगळ्यो अटी मानून घेतल्यो. सगळ्यांच्यो तिकेटी काडल्यो. बिंगो, सगळे प्राणी आनी भुरगीं सर्कशीच्या तंबूंत भितर सरलीं. सवण्यांचें मोठें भिरें आदींच भितर सरून तंबूच्या माथ्यार सुवात धरून बशिल्लें.

विदुषकाच्या खेळान सर्कशीक आरंभ जालो. त्या फाटोफाट सुंदर चलयो येवन चित्त थरारक खेळ सादर करून गेल्यो. उपरांत मरणाच्या वांटकुळ्या गोलांत मोटर सायकलीचेर स्टन्ट करप्यान आपली करामत दाखयली. ताचे नंतर ल्हान ल्हान सायकली चलयत माकड आयले. फाटोफाट हातांचेर बॉल खेळयत वास्वेल आयलें. मागीर हतयांचो फुटबॉल खेळ आशिल्लो.

मागीर रिंगमास्तर पांदऱ्यांतल्या शिंवाक आनी वागाक भायर घेवन आयलो.

"तांकां पांदऱ्यांत कित्याक घाल्यात?" वागान एल्मोक विचारलें.

"सर्कशीच्या मालकाक भंय दिसता, वाग आनी शिंव पळून वचत म्हूण!"एल्मोन जाप दिली.

"पूण ती तर सामकी क्रुरताय!" वागान निशेध मारलो.

"हय, म्हाकाय तशेंच दिसता!" एल्मोन म्हळें.

सर्कस सोंपल्या उपरांत, ती पळोवंक आयिल्ले सगळे प्राणी, भुरगीं आनी एल्मो बी सगळे सर्कशीच्या तंबू फाटले वटेन आयले, जंय तांणी वाग, शिंव, वास्वेलां, माकड आनी हरणां बी पांदऱ्यांत घालून दवरिल्लीं पळयल्लीं.

"आमी तांकां सोडून घालूंक शकनात, एल्मो?"मायरान विचारलें.

"ना मायरा, तांची मालकी सर्कशीच्या धनयां कडेन आसा." एल्मोन सांगलें.

आयकून भुरग्यांक सामकें वायट दिसलें.

सगळीं भुरगीं ते राती काणी आयकुपा वेळार जेन्ना एकठांय जमलीं तेन्ना तांच्यानी एक मांडणी काडली.

"एल्मो, आमी सर्कशींतल्या सगळ्या प्राण्यांक बंधन मुक्त करूंया. आमचे कडेन ते पासत एक मांडणी आसा." भुरग्यांनी सांगलें.

"तुमचे कडेन कितें प्लान आसा?" एल्मोन विचारलें.

"तें तुका आमी मागीर सांगतात!" भुरग्यांनी म्हळें.

दुसरे दिसा मध्यानराती उपरांत सगळीं भुरगीं तीन ट्रक घेवन सर्कस आशिल्ली ते सुवातेर गेलीं. ट्रकांत तांणी हतयांक, वागांक, बिबट्यांक, शिंवांक आनी माकडांक चडयल्ले. ट्रका सांगातान वयल्यान सगळ्या सवण्यांचें भिरें उडटालें. भुरगीं सगळीं जिपींत बशिल्लीं.

दिसभराच्या तकसाच्या वावराक लागून सर्कशीच्या तंबूंतले सगळे सुस्त न्हिदून पडिल्ले.

हती, वाग, शिंव आनी बिबट्यांनी सर्कशीच्या तंबूंत आक्रमण केलें. माकड आनी सवणींय तंबूंत घुसलीं आनी तांणी जमता तितल्यो दोरयो सोडयल्यो. माकडांनी आपल्या दातांच्या सुळ्यांनी कुलपा फोडून उगडलीं. कांय खिणां भितर सगळे प्राणी बंधनमुक्त जाले.

तांकां सगळ्यांक ट्रकांनी चडयले आनी सर्कशींतल्या कोणाकूच जाग येवंचे आदीं सगळ्यांनी थंयच्यान पपा काडली. ते ट्रक घेवन बद्द जंगलांत गेले आनी सर्कशींतल्या सगळ्या प्राण्यांक जंगलांत सोडले. तांचे सांगाताक आशिल्ले बाकीचेय सगळे प्राणी तांचे वांगडा गेले.

सगळीं भुरगीं आपल्या ह्या यशस्वी मिशनाक लागून उप्पाट खोशी जाल्लीं. जेन्ना एल्मोक ही गजाल कळ्ळी तेन्ना तर तो अजापान सामको तटाकलो आनी भुरग्यांक पळयतूच उरलो.

मूळ इंग्लीश - दत्ता दामोदर नायक
(द जंगल स्कूल-ए मॉडर्न डे हितोपदेशा)
कोंकणी अणकार-मानसी धाऊसकार

## बाबूली चवथ

आयज बाबूच्या घरा
मकर सजयलां
पाटार तांदूळ घालून
गणपतीक बसयला

नेवऱ्यो मोदक लाडू
गणपतीक दवरल्या
तरेकवार फळांनी
माटोळी सजयल्या

रंगयाळीं बोंदेरां
लायटीचो झगझग
आरत्यांच्या बोवाळांत
ठो ऽ ठो ऽऽ जाता फोग

हातांत घेवन सुरसुरीं
पप्पा सांगाता हांसता बाबू
भूंयचेर गुरूगुरू भूंयचक्र
लावंक सोदता बाबू

मळबांत वयर फुट्टल्या
बाणांक बाबू पळयता
पळयता आनी अजापान भरता
ठो ऽ आवाजाक बाबू भियेता



- शोभा फुलकार
चिंबल-गोंय.
मो : ७८७५२३७४७८



# पापा, आतां अशें घडचें ना

**रो**मील्या पापान आपल्या वाड्यार नवो पसरो घालो. पयलीं ताचो पसरो हेर कडेन आशिल्लो. पूण थंय तो बरोऽ चल्लो ना. देखून तांणी तो आपल्याच वाड्यार हाडलो. हाका लागून पसरोय लागीं जाल्लो आनी घरूय लागींच आशिल्लें. पसऱ्याच्या बारीक सारीक कामां पासत रोमील्या पापाक एका कामगाराची गरज आशिल्ली. हे विशीं एक दीस ताणें रामलाला कडेन गजाल काडली. शारा भायर एका व्हाळा लागसारचे खोपींनी रावपी रामलालाक तो वळखतालो. ताका एक णव-धा वर्सांचो बाली नांवाचो चलो आशिल्लो. दुसऱ्याच दिसा तो बालीक पसऱ्यार घेवन आयलो आनी रोमीच्या पापा कडेन उलोवणें करून कामगार म्हूण बालीक तांणी पसऱ्यार दवरलो.

सकाळ फुडें बाली पसऱ्यार येतालो आनी रातचो आपल्या आवय-बापाय कडेन वतालो. तो फकत हुशारूच न्हय तर प्रामाणिकूय आशिल्लो. कामा निमतान जरी रोमीलो पापा केन्नाय भायर सरलो जाल्यार बाली केन्नाच ताचो गैरफायदो घेवन चॉकलेट वा हेर कितेंय तोंडान उडय नाशिल्लो.

रोमीय स्कुलांतल्यान पसऱ्यार येवन बारीक सारीक कामां करतालो. फाटल्या म्हयन्यांत जेन्ना ताच्या पसऱ्या शेजराक व्हिडियो गेमीचें एक दुकान आयिल्लें तेन्नाच्यान तो भोव खोशी आशिल्लो. स्कुलांतल्यान येवन तो आपलो चडसो वेळ थंयच सारतालो. रोमीली मम्मी ताका सोदून हाडपाक बालीक सांगताली. तो व्हिडियो गेमीच्याच दुकानार आसतलो हें बालीक खबर आशिल्लें. तो सरळ थंय वतालो आनी ताका घरा येवंक सांगतालो.

कांय दिसां सावन रोमीलो पापा हुसक्यांत पडिल्लो. हुसक्याचें कारण म्हळ्यार दुकानांतल्या गवेतांतल्यान पयशे गायब जावपाक लागिल्ले. ही गजाल तांणी आपले भितरूच दवरली. रोमीलो पापा बालीचेरूच दुबाव घेतालो.

एक दीस रोमीलो पापा गवेतांतले पयशे मेजतालो तेन्ना ताका अकस्मात याद जाली, जंयच्यान ताच्या पसऱ्यार भुसारी म्हाल येतालो त्या दुकानाचेर म्हालाची यादी दिवपाक वचपाक जाय. यादी प्रमाण सामान भुसारी दुकानवाल्याक रोमील्या पापाल्या पसऱ्यार पावतें करूंक जाय आशिल्लें. तांणी बालीक पुराय दुकानाचेर लक्ष दिवपाक सांगून सामानाची यादी दिवपाक सायकल घेवन

भायर सरलो. इतल्यांत रोमीय स्कुलांतल्यान आयलो. पापा भायर सरला म्हणपाचें ताणें पारखिलें आनी तो मनांतल्यान खोशी जालो.

रोमीन बालीक म्हळें, ''बाली, बेगीन वच आनी ती वोल्तावयली फार्मास उक्ती जाल्या जाल्यार पळोवन यो.''

बाली ती पळोवपाक भायर सरलो. रोमीन बालीक कित्याक धाडिल्लो हें ताकाच बरें खबर आशिल्लें.

''आजून उक्ती जावना.'' बालीन येवन रोमीक सांगलें.

''बरें.'' रोमीन म्हळें. मागीर ताणें पसऱ्या भायर येवन पळयलें. ताचो पापा येता तें पयसुल्ल्यान ताचे नदरेक पडलें. संद मेळटांच रोमी फाटल्या दारांतल्यान आपली सायकल घेवन व्हिडियो गेमीच्या दुकानार पावलो.

पसऱ्यार येतांच रोमील्या पापान कांय कागद-पत्रां दवरच्या निमतान पयशांचें गवेत उगडलें आनी तातूंतले पयशे मेजले. तातूंत धा रुपया कमी आशिल्ले. ताका तिडक आयली. ताणी मनांतूच चिंतलें, 'म्हजो दुबाव सारको आसा तर.'

''बाली हांगा यो.'' रोमील्या पापान म्हळें.

बाली ताचे लागीं आयलो.

''तुजीं बोल्सां दाखय.'' ताणी म्हळें.

हें आयकतांच बाली मात्सो कांचवेलो. हें आनी कितें घडटा काय?

बोल्सां सांसपिताना ताच्या बोल्सांतल्यान धा रुपयांची नोट रोमील्या पापाक मेळ्ळी.

''हे धा रुपया खंयच्यान आयले?'' ताणी आवाज वाडोवन विचारलें.

''आयज म्हजें आतें आयिल्लें. तें दिवन गेलां म्हाका ही नोट.'' बालीन इतलेंच म्हणलां मात, ताच्या गालार ताणी एक नेट्टान थापट फुलयलें आनी तो ताचेर आनीक नेटान तापलो, ''चोरा, फटींग उलयता? म्हाका तुजेर पयलींच्यानूच दुबाव आशिल्लो. पूण आतां तूं सारको जाळ्याक फारवलो. चल तुज्या बापायक घेवन यो. ताचेच कडेन कितें तें उलयतां.'' अशें म्हणीत रोमील्या पापान ताचे कडली धा रुपयांची नोट ओडून घेतली.

''ना धनयां, हांव फट उलयना. म्हज्या आत्यान दिल्या म्हाका हे धा रुपया.''बाली ताका रडत रडत सांगीत आशिल्लो पूण ताणी ताचें एक आयक नासतना धांवडायलो.

बाली रडत आपले खोपी वटेन वतालो. इतल्यांत मुखारच्यान रोमी सायकली वेल्यन येताना ताका दिसलो.

''कितें जालें बाली? रडत खंय वता?'' सायकल थारावन रोमीन ताका विचारलें.

बालीन म्हळें, ''धनयान म्हाका मारलो. तो म्हणटा हांवें धा रुपया चोरल्या म्हूण. ताणी म्हजे कडेन आशिल्ले धा रुपया घेतले आनी म्हाका धांवडायलो. ते धा रुपया आयज म्हज्या आत्यान म्हाका दिल्ले.''

हें आयकून रोमीक स्वताचीच लज दिसली. कट्टेंत नाक बुडोवचें आनी जीव दिवपा सारकी ताची हालत जाली. ताका कांयच सुचना जालें. कितें करचें आनी कितें ना.

''बाली यो. म्हजे सायकली फाटल्यान बस.'' रोमीन म्हळें.

बाली ताचे सायकलीर बसून परत पसऱ्यार आयलो.

''ह्या चोराक परतो कित्याक घेवन आयलो तूं?'' रोमीच्या पापान रोमीक विचारलें.

रोमी पसऱ्या भितर येवन मान बागोवन म्हणपाक लागलो, ''पापा चोर बाली न्हय. चोर हांव.''

'' कितें? चोर तूं? गवेतांतले धा रुपया तुवें चोरिल्ले?'' रोमील्या पापान तिडकून विचारलें.

''हय पापा. चोर हांवच. म्हाका तूं आनी बाली माफ करात. म्हजे खातीर हें सगळें घडलें. हांवें आनीक एकदां व्हिडियो गेमी खातीर धा रुपया चोरिल्ले. पूण आतां केन्नाच अशें घडचें ना. म्हाका माफ कर. हे घे ते धा रुपया.''

रोमीलो पापा तिडकीन तांबडोच जालो. ताच्या मनांत आयलें, रोमीच्या गालार एक झणझणीत थापट मारचें म्हूण. पूण तो चूक मागता तें पळोवन ताणी आपलो राग गिळ्ळो.

रोमील्या पापान बालीक आपले कुशीक घेवन म्हळें, ''बाली, शाण्या म्हजे कडसून चूक जाली. चोरी रोमीन केली आनी ख्यास्त तुका भोगची पडली. हांवें ओगीच तुजेर दुबाव घेतलो. तूं खऱ्यानीच बरो आनी प्रामाणीक भुरगो. म्हाका तुज्या असल्या भुरग्याची खूब गरज आसा. हे धा रुपया तूंच दवर आनी हे घे तुजे धा रुपया. दोनूय नोटी तुकांच दवर.'' हें सांगून रोमील्या पापान ताच्या बोल्सांत वीस रुपया घातले.

रोमी मान खाला घालून आनी बाली ताठ मानेन उबो आशिल्लो.



मूळ पंजाबी- **दर्शन सिंह आशट**
(केंद्रीय साहित्य अकादेमीच्या बाल साहित्य पुरस्कारान सन्मानीत)
हिन्दींतल्यान कोंकणी-**श्वेता नायक भोसले**

-८-

# नितांत पावलो जुंव्यार..!

- माया खरंगटे

**नि**तांताक आतां ह्या बोटींची ओड लागिल्ली. तो सांजवेळचो खेळप कमी करून दर्या वटेन पळयत बसतालो. एकाद्री बोट वतना दिसली काय तो म्हणटालो, '' बोटी, बोटी हेवटेन यो, हेवटेन यो , म्हाका ते जमनीर व्हर ...म्हाका म्हजीं मनशां मेळोवन दीं.''

हब्बूय ताचे बरोबर हें पद म्हणटालो आनी मागीर उदास जावन म्हणटालो, '' मुन्ना तुज्या मनशांची तुका याद जाल्यार तूं वतलो न्ही? मागीर हांव हांगा पयलीं भशेंन एकटोच उरतलों... म्हजे कडेन खेळपाक कोण नासतलो. पूण आसूं , तुका तुजीं मनशां मेळ्ळ्यार पुरो. म्हाका कोण आसा? त्या भाऊ म्हऱ्यांत परत वचपा परस हांव हांगाच रावीन. हे लोक करतात तें काम शिकून हांवय करतलों.''

ताणें अशें म्हणटकूच नितांताक वायट दिसतालें. तो ताका फुसलायतालो. ''म्हाका ते जमनीर वचपाक मेळ्ळें जाल्यार हांव तुकाय येवन वतलों. तुका हांगा एकटो कसोच दवरचों ना. हे लोक काम करतात तें काम बरें न्हय ? ''

''हय, खंय दवरतलों हांव तुका ? हांव खंय रावतलों ?''

'' आनी हे लोक आमकां अशे वचूंक दितले रे मुन्ना?''

'' आमी लिपोवन वचप रे!'' नितांत म्हणी.



अशे तरेन गजाली उलोवंक बसतकीर तांकां वेळा काळाचें भान उरऽ नासलें. कोणय वयर येवन मागीर तांकां आपोवन व्हरताले.

त्या दिसा नितांताक खूब थंडी जाल्ली. आंगपांग उसळटालें. जोराचीं लक्षणां जाल्लीं.अस्लमभायन ताका दूक थांबोवपाची गुळी दिवंक लायली. न्हिंदून उठ्टकच ताचें आंग उसळपाचें थांबलें.

जिवाक बरें दिसतकर ताका सकयल बसूंक वाज आयलो. ताणें मामू कडेन हट्ट केलो, '' मामू , ना म्हणूं नाका , हांव आनी हब्बू वयर खेळपाक वतात.''

'' नाका रे बाबा, वयर वाऱ्याक वचून खेळ्ळ्यार तुका जोर येतलो. हांगा दोतोर बी ना. तूं वोग्गी न्हीद पळोवया.''

'' ना रे मामू आतां हांव सामकों बरो आसां!''

'' मुन्ना, तुमी दोगय वयर वचून मस्ती करतले, आसूं !''

''तूं यो पळोवपाक. आमी ओग्गी बसून गजाली करतात त्यो आयक.तूंय सांग आमकां पयलींच्यो गजाली.''

'' बरे मुन्ना , चल या वयर. हट्टी भुरगो तूं , आयकुचो ना!''

नितांत रोखडोच हब्बू म्हऱ्यांत गेलो. मामूक घेवन ते दोगय वयर आयले.

गजाली करतना आज नितांताक पुरो जाल्ले वरी दिसतालें . पूण ताका सकयल वचून न्हिदपाक नाका आशिल्लें. आज ते तळ्या देगेवेल्या फातरार बशिल्ले. हब्बू फातर हाडटालो आनी दोगय ते उदकांत मोखून मारताले. चार फातर मारून नितांत

वोग्गी बसलो. फातर दितना हब्बुचो हात नितांताच्या हाताक लागलो.

'' आरे मुन्ना तुका जोर आयला मरे!''

मामू मातसो पयस झाडा मुळांत बशिल्लो. हब्बून मामूक व्हडान उलो केलो.

''मामू जल्दी आव मुन्नाक पळे जोर आयलां!''

''या अल्ला! आयलोच मरे जोर तुका! चल हांगा वाऱ्याक नाका.''

नितांत मुकाट्यानी फातरावेलो देंवलो आनी परतता आसतना ताचो तोल गेलो आनी तो फातरार पडलो. ताची तकली बरी नेटान फातराक आपटली. कपलाक कोंक जावन रगत व्हांवपाक लागलें आनी तो बेसुध्द जालो. मामून आनी हब्बून ताका त्याच फातरार न्हिंदयलो. मामून आपल्या खांदावेलो तुवालो हब्बू कडेन दिवन उदकान भिजोवन हाडपाक लायलो.

मामून तुवाल्यार्चे उदक ताच्या दोळ्यार पिळ्ळें. पूण नितांत साबुध्देर आयलो ना. ओल्या तुवाल्यान मामून ताचो याय पुसलो आनी तोच तुवालो ताच्या यायार दामून धरलो.

मामू आनी हब्बू ताका एक सारके उलो मारताले,

'' मुन्ना, मुन्ना ,उठ , दोळे उगड, दोळे .''

बरोच वेळ नितांत साबुध्देर आयलो ना. ताचे कोंकीतल्यान रगत येवपाचें थांबिल्लें. परत मामून ताच्या दोळ्यांर उदक मारलें. थोड्या वेळान नितांतान दोळे उगडले . पूण दोळे जड जाल्ल्यान रोखडेच धांपून घेतले...हे दोन अनवळखी मनीस कोण ? .. नितांत चितूंक पडलो...म्हाका ह्या फातरार सो न्हिंदयला...हांव खंय आसां ?...तार्णे परत दोळे उगडून धांपले. नितांतान दोळे उगडून धापिल्ले ते हब्बून पळयले, तार्णे खोशयेन म्हळें, '' मामू ,मून्ना जागो जालो. दोळे उगडून धांपल्यात तार्णे.''

मामून मायेन ताच्या केंसांतल्यान हात भोंवडायलो आनी म्हळें, ''मुन्ना, शाण्या दोळे उगड.''

नितांतान दोळे उगडपाचो यत्न केलो, पूण दोळे उगडपाक त्रास जावंक लागलो. तरी ताच्यो हालिल्ल्यो पापण्यो दिस्तच मामून पळयल्यो. मामू खोशी जालो.

''मुन्ना तूं बरो आसा मूं? ''

नितांतान तकली हालयली. ती ताका दुखली. तो परंगलो.

केंसांतल्यान भोंवपी मामूचो हात ताका वळखिंचो दिसतालो. आवाजय वळखिंचो दिसतालो. पूण तांची वळख मेळऽ नासली...हो जाणटेलो कोण ? हांव हांगा कसो पावलो? ...हे म्हाका मुन्ना कित्याक म्हणटात? म्हजें नांव नितांत म्हणून हांकां खबर ना ? ..

नितांतची याद परत आयिल्ली आनी तो आतांचें सगळें विसरिल्लो. पुणून मामूचो हात ताका संवकळीचो दिसलो, पूण मामूक तो वळखलो ना.

इतल्यांत हब्बून म्हळें, '' मामू , मुन्नाक जाल्या ती जखम बरी जातली मूं?''

''हय हब्बू, भियो नाका तूं. आमकां हो मुन्ना मेळिल्लो न्ही, तेन्नाय ताका अशीच जखम जाल्ली.''मामून नितांताक पोशेत सांगलें.

'' आनी मामू, त्या दिसाच्यान तो सगळें विसरिल्लो न्ही? आतांय ताका जखम जाल्या. ताची याद परत येतली?''

'' अल्लाच्या मनांत आसल्यार मुन्नाक सगळें याद जातलें.''

''आनी मागीर तो आपल्या घरा वतलो! मामू, म्हाका खोस जाता आनी रडूंकय येता!''

'' नाका हब्बू रडूं नाका. अल्ला कडेन माग, ताका सगळें याद जावनी आनी ताका आपल्या मम्मी-पप्पा कडेन वचूंक मेळुनी.''

नितांत तांचें उलोवर्णे आयकतालो. ताचे वेल्यान ताका कळ्ळें , तो आपली याद विसरिल्लो म्हणून.

''मुन्ना उठ दोळें उगड, हांगा वाऱ्याक नाका, आमी भितर वचूं या.''

मामून ताका हळूच उठयलो. नितांतान दोळे उगडले आनी ताका दोगांकय पळोवन हळूच धापलें. आतां ताचे दोळे मार्ते निवळिल्ले. मामून ताका एके वटेन धरलो आनी हब्बून एके वटेन धरलो. दोगय ताका घेवन हळू-हळू चलूंक लागले . नितांत पूर्ण साबुद्देर आयिल्लो. पूण ताची तकली दुखताली. दोळेय जड आशिल्ले. ताका उलोवंकय येय नासलें. दोळ्यांचे मातशी वयरूच ताका कोंक जाल्ली. तरी दोळे

बारीक उगडून तो सरभोंवतणचो ठाव घेतलो.

भोंवतणचो दर्या पळोवन ताका अजाप जालें.

'आरे,दर्यामदीं आमी म्हळयार. खंयच्या जुंव्यार आसात काय आमी? ..हांव कसों पावलों हांगा...' तो फाटलें येवजूंक लागलो. ताका याद जाली पिकनिकेची, त्या पोन्नकुट्या घराची आनी त्या सोंपणाची...सोंपणा वेल्यान देंवतना हांव भितर पडिल्लों...ते यादीन ताच्या तोंडांतल्यान बारीकशी किळांच आयली... ''आऽऽ!''

मामू आनी हब्बू बेगीन बेगीन थांबले.-''मुन्ना दुखलें तुका ? ह्या फातरार बस मात्सो.''

ते आतां भितर वचपाचे वाटेर पाविल्ले. तरीय मामून ताका थंयच्या एका फातरार बसयलो.

''मुन्ना, तुका जोर काय ना, असो कसो पडलो तूं?''

हब्बून ताका विचारलें. इतल्या वेळान नितांत एकच उतर उलयलो,''खबर ना..''

तार्चे उतर आयकून मामूक हासूंक आयलें. ताणें म्हळें , ''जाणां मुन्ना, तूं आमकां मेळिल्लो पळय, तेन्ना तुका कितेंय विचारल्यार तूं 'खबर ना' म्हणटालो. आज खूब दिसांनी तुवें परत तशेंच म्हळें.

तांणी हळू -हळू नितांताक भितर व्हेलो आनी कुडींत व्हरून हातरुणार न्हिदयलो. चाचू बोवाळ यालत आयलो,

'' या अल्ला,म्हज्या मुन्नाक कितें जालें?''

'' कांय जावंक ना, मातसो पडलो तो. ताका पिवपाक उदक हाड.''

चाचून ताका उदक हाडून पिवयलें. अस्लमभाय आनी हेर सगळे ताचे कुडींत आयले. अस्लमभायन ताच्या केंसा वेल्यान हात भोंवडावन विचारलें,

'' मुन्ना , आतां कशें दिसता ?''

'' बरें दिसता. मातशें दोळे उगडून नितांतान इतलेंच म्हळें. पूण मदीं मदीं दोळे उगडून तो सगळ्यांक पळोवंक लागलो....

''कोण हे मनीस ?...इतले दीस हांव हांचे बरोबर रावतां....आनी हें घर कसलें....जमनी भितर...अजाप शें,दर्या मदीं जमीन म्हणचे हो जुंवो आनी ताच्या पोटांत हें घर....कशें काय,पळोवपा जाय सगळें....आयज म्हाका सगळी याद जाल्या म्हणून हांकां सांगू जाय पूण...पयलीं हांची वळख घेवया....तो एक जाणटेलो म्हाका बरें करता तो मामू...आनी तो हब्बू म्हणून भुरगो आशिल्लो तो खंय गेलो काय....म्हजी मम्मा, पप्पा आनी उर्वी म्हजे यादीन रडटात आसतलीं.....तांकां हांव जितो आसां म्हणून खबर आसा काय? ....म्हजे इश्ट, म्हजी शाळा....

सगळयो यादी जातात तशें ताका रडूंक येवंक लागलें. तेन्नाच चाचू भितर आयलो. ताच्या दोळयांतलीं दुकां पळोवन ताणें तीं अळंग पुसलीं, ''मुन्ना , चड दुखता? राव, हांव वखद लायतां.''

चाचून ताचो पाय पुसून वखद लायलें. अस्लमभायन ताका गुळी दिली आनी न्हीद म्हणून सांगलें.

नितांताक जाग आयली. ताणें हेवटेन - तेवटेन पळयत वळख घेवपाचो यत्न केलो. ते कुडींत तो एकटोच



आशिल्लो. भायल्यांतल्यान खूब जाणांच्या उलोवपाचो आवाज येतालो. तांच्या उलोवपांत मुन्ना-मुन्ना म्हणून नांव आयकतकच नितांतान लक्ष दिलें.

''मामू , तूं खाली-पिली तुज्या मुन्नाक फाटली याद येतली म्हणून वाट पळयता. तशें केन्ना जायना.''

''चूप बस सिध्या. हावेंय सिनेमा बी पळयल्यात. परत परत कितेंय तरी जाता आनी ताका सगळी याद जाता.''

'' ताका सगळी याद आयल्यार, तूं कितें करतलो?''

'' ताच्या मम्मी-पप्पा कडेन ताका व्हरून दितलों!''

''मामू, तूं अजून भोला आदमीच आसा. तुज्या मुन्नाक आमी ताच्या घरा पावयल्यार, तो आमच्या ह्या धंद्या विशीं पोलिसांक कळयतलो. आनी - आनी आमी खंय धांवतले? दादूची मर्जी सांबाळून आमकां हांगा बरे भशेन रावूंक मेळटा.''

'' खरें तुजें अस्लमभाय, मामू तुज्या ह्या मुन्नाक लागून आमकां काणकोणचें काय बरें तळघर सोडचें पडलें. इतलीं वर्सां आमी थंय सुशेगाद रावताले!''

अस्लमभाय, मामून कितेंय म्हणू, हो भुरगो आमकां नाका हां. डेंजरस तो. ताका केन्ना याद येतली कळना. ताका मारून उडोवं जाय!''

'' चूप पागल! कितेंय उलय नाका. पयलीं म्हाका मारून उडयात. मागीर म्हज्या मुन्नाक. कोण ताका हात लायता तेंच पळयतां.'' मामू आड्डलो. अस्लमभायन एक धेंगसो घालो.

'' चूप सगळे, तुमी कितें उलयतात तुमकां कळटा? मुन्ना मातसो व्हड जावनी, तो शिकला. ताका हांव हिसाब-किताब बरोवपाच्या कामाक लायतलों. खूब उपयोग आसा आमकां ताचो!''

अस्लमभायच्या तापोवण्याचेर सगळे वोगी रावले. नितांत तांच्यो गजाली आयकून भियेलो. पूण हो कोण तरी अस्लमभाय आनी मामू बरो , ते आपल्याक सांबळटले हें ताका कळ्ळें. आपल्याक पयलींची याद आयल्या हें कोणाकच सांगप ना अशें तार्णे थारायलें.

ते कोण, कितें करतात तें पळोवपाचें तार्णे थारायलें. कोण तरी भितर येता हें आयकून नितांत दोळे धांपून वोग्गी रावलो. मामू भितर आयिल्लो. तार्णे मायेन नितांताच्या कपला वेल्यान हात भोंवडायलो. हो मामुचो हात म्हणून नितांत वळखलो. तार्णे हळूच दोळे उगडले आनी मामुचो हात हातांत घेवन म्हळें,

''मामू.....'' ताचो गळो भरून आयलो. मामून ताचे दोळे पुसले आनी म्हळें, ''बेटा, जागो जालो? चल उठ जेवंक यो.''

''मामू, तूं...तूं..म्हाका सोडून खंयच वच्चो ना न्ही?''

'' ना बेटा, ना. तूं म्हजे बरोबरच रावतलो हां. बरें, चल उठ. तकली चड दुखता?''

''ना मामू. मातशें बरें दिसता.''

(चलता...)

मडगांव-गोंय. मो.:९४२०६८५२७८

# एक आशिल्लें बायूल

हर्षा सदगुरू शेटये



-७-

## फुगांव , कोलेखांक आनी गालगूंटा

बायूलाक जोर येता. दोन दीस जाले तरी जोर देवना. दोतोरमामा शारोप दिता. तिसरे दिसा बायुलाच्या तोंडार हातार इल्ले इल्ले फोड आयिल्ले दिश्टी पडटा. 'बायुलाक फुगांव आयले, फुगांव आयले' मावशी म्हणटा. बायुलाक खावपा जेवपाक कांय चलना. तें फक्त पेजेचो निवळ पिता.

आजी पोरसांतलीं अडुळश्यार्चीं पानां काडून हाडटा. तीं हांड्या उदकांत घालता. उदक हून जातकीच बायूलाक न्हाणयता.

सकयल्या वाड्या वयली सरीताची आवय आजये कडेन दोणांतली आंबली मागूंक आयल्या. 'सरीताक खूब फुगांव आयल्यात. तोंड सामकें भरलां. तोंडाक रूच ना. बायुलाक तरी खूब कमी आयल्यात!' ती म्हणटा.

तिचें आयकून बायूल दोणांतली आंबली तोंडाक लावन पेज जेवता. आजये कडेन हांडो कसो एक व्हडलें बुयांव आसा. तातूंत ती मीठ घालून आंबल्यो खळाक लायता. तें खबर आशिल्यान शेजारचे लोक जोर बी आयल्यार तोंडाक रूच येवपाक जाय म्हणून आजये कडेन दोणांतल्यो आंबल्यो मागपाक येतात. आज्याल्या पोरसांत आंब्याचीं खूब झाडां आसात. तोरां बारीक आसतनाच तीं काडून आजी खळाक घालता.

आंगार आयिल्ले फोड पळोवन बायुलाक वीट दिसता. तें चिमटेन धरून काडूंक सोदता. आजी ताका तापयता. 'नाकटां लागत जाल्यार फुगांवाचे दाग वच्चेनात! कांय करपाची गरज ना. सात दिसां भितर ते आपशींच वतले.' खरेंच सात दिसांनी ताचे फोड सामके वतात.

बायूल आतां बरें जालां. पयलीचे भशेन ताचो दिनक्रम सुरू जाला. दोन म्हयने बरे वतात थंयच आसात, ताका खूब खांक येवपाक लागता.

आजी ताका काढ्यांचें शारोप बी करून पिवपाक दिता. कांदो चिरून तातूंत साखर घालप. मागीर ताचो रोस सुट्टा. तो मागीर कुलेरान घेवन पिवप. दिसाक दोन फावटी तें पिता.

रातचें उठून बाबर्डे जाम जायसर खांकता. आजयेन थर्मासांत भरून दवरिल्ले हून उदक ना जाल्यार फुटे काफयचे घोट पिता. ताची अवतिकाय पळोवन आजयेच्या दोळ्यांत दुकां येतात. ''गावठणकान्नी गूण घाल चलयेक. तुजे भेटेक हाडटां ताका.'' ती देवतेक सांगून येता.

''बायुलाक कोलेखांक जाल्या शी दिसता! बेगीन निवळत शें दिसना!'' आजी बाईमावशेक सांगतना बायूल आयकता. कोले रानांत आसतात तें बायूल जाणा. ताणें कोल्याच्यो खूब काणयो आजये कडल्यान आयकल्यात. ताका कोलेखांक म्हणटकीच भंय दिसता. आजी ताका गंजन, बारीक वट्टेलांव, तुळशीं केसरां बी घालून कसाय करून दिता.

आतां दोतोर कामतीन ताका गुळ्यो आनी शारोप दिलां. गुळयो गिळपाक ताच्यान केन्नाच जायनात. बाईमावशी गुळयेचो पिठो करता. कुलेरांत इल्लेश्या उदकांत घालून तो पिठो दिता. ताका तो कोडू कोडू पिठो तोंडातल्यान भायर उडयन दिसता. पूण ताकाय खबर आसा गुळयो येना जाल्यार आपली ही

कोलेखांक बरी जावची ना म्हणून. बाबडें कशेंतरी पिठो गिळटा. बाईमावशी रोखडीच ताका लिंबा पिपिरमीट दिता.

मदीं बायुलाचो बाबा येवन वता. तो मेरेन बायूल बरेंच निवळ्ळां. तें बापायक आपूण कशें रातचें खोंकतालें, कशें गुळयो घेतालें ते प्रसंग रंगोवन रंगोवन सांगता.

कोलेखांकीतल्यान निवळटा म्हणसर ताचो गळो दुखूंक लागता. कान दुखपाक लागता. गालां सकयल सूज येता. बायुलाक गिळपाक त्रास जावंक लागता. ताका दोतोरमामाक व्हरून दाखयतात. तो सांगता,' गालगुंटां जाल्यांत. शारोप घेवपाक लाय.' आजी धुतऱ्याचीं पानां वाटून गळ्याक गालांक लायता. सात दिसां भितर सूज वता आनी बायूल निवळटा.

पोरसांतल्यान येतना वतना ऐस्ताफेन ताका पळयतालें. तें आजयेक म्हणटा ' आतेबाय आतां दिश्ट काडूंक जाय ताची. पोर सुकून सुकून काटो जालां. फाल्यां आयतारा दिश्ट काडूंया. आयतारा सांजचें ऐस्ताफेन कांद्याचीं सोलां, तांतीं, काळो तिराटो बी घेवन येता. ते दोनूय मुठींनी धरून बायुला भोंवतणी वोवाळटा. तोंडान म्हणटा,

येतल्या वतल्यांची
भायल्या भितरल्यांची
आमगेल्या बायुल्याची
दिश्ट वचूं.
दिश्ट लायतल्यांच्या दोळ्यांत
माती पडूं.

# शिगम्याचे दीस



बायुलाचो दीस पोरसांतलीं फुलां, शेवर्णी , फुलपाखे, गायो, पाडकां हांचे बरोबर सुरू जाता. सगळें सदचेंच , पूण ताच्या ल्हानशे जिवितांत खोशयेचे खीण हाडपी. तातूंत भितर कसलीय परब, उत्सव आसप म्हळ्यार ताची खोशी दोट्टी जाता.

'आयज शिगम्या पुनव.'

सकाळच्यान तें आयकत आसा. आजो वारांद, सोपणां, फुडले वटेनचें पोरसूं बी निवळ करीत आसा. वारांद, सोपणां बी तार्णे उदक घालून धुल्यांत. आजयेन आज गोडशें म्हणून कणगांच्यो नेवऱ्यो केल्यात.

'ते येतले...! ते येतले...!'

बायूल आनी आजो आड्या कडेन रावल्यात.

'आयले...आयले...'

म्हणटा म्हणसर सात-आठ जाण हातांत भिल्ल माड, आंब्याचे ताळे बी घेवन धांवतात...

'होळी रे होळी...
मारली बडी...
खाली पोळी...
शिगम्याक सुरवात जाली रे...!'

अशीं उतरां बायुलाच्या कानार पडटात.

आतां दारांत खेळे येतले. शिगमो सुरू जातलो. बायूल आज्या कडल्यान आयकता. पोरूं वर्सा शिगमो जाल्लो तो ताका कांयच याद ना.

वाड्या वयले भुरगे कपड्याची झोळी करून मुखा वयल्या बापूल्या घरांत आयल्यात. ते झोळी हालयत तोंडान किर्ते तरी म्हणटात. ते ताका वारांदा वयल्यान दिसतात. पूण ताका थार ना.

''आज्या येनात मरे! तांकां आपय मरे!''

'' आगो येतले ते!''

बापूल्या दारांतल्यान ते आज्याल्या पोरसांत येवपाक वंये कडेन पावल्यात.

''आयले ! आयले ! आई यो बेगीन, जयमावशे , बाईमावशे यो'' बायूल सामकें भुरकुटलां.



भुरगे झोळी हालयत, तोंडांनी म्हणटात.

'गौरीचा बाळ तसो आंब्यांचो ताळ

केळीं, खोबरें मागतोस काय? मागतोस काय?'

बायूल झोळयेंत पळयता.... झोळयेंत आंब्याचो ताळो आसा. बायूल तांचे झोळयेंत केळीं आनी कातली यालता. आतां बायुलाक वेळ पासार करपाचें एक साधन मेळ्ळें. ताणें एक वालो घेवन तातूंत आंब्याचो ताळो घाला. आनी दर एकल्या मुखार रावन दोनूय हातांनी पाळणो कसो हालयता.

'गौरीचा बाळ तसो आंब्याचो ताळो

केळीं, खोबरें मागतोस काय? मागतोस काय?'

आजो केळें यालता. जयमावशी पिपिरमीट यालता. आजी कातली यालता.

वालो जमनीर पातलावन कितें मेळ्ळां तें खायत बसता. तातूंत बायुलाचें वर भर बरें वता.

'आयज चोर येतले, चोर येतले!' बायुलाच्या कानार पडटा. फाटीं राधाकृष्णाच्या देवळांत दार फोडून चोर आयिल्ले. राधेचें भांगर बी व्हेल्लें. 'चोर येतले, भायर कितें मेळटा तें व्हरतले.' हें आयकून बायुलाची भिवून गुळी जाल्या. ताचो खेळण्यांचो पाटलो सदांच वारांदाचेर आसता. तें तो पाटलो आनी चंपू बावली हाडून खाटी पोंदा दवरता.

सकयल्या वाड्या वयले लोक बी चोरांक पळोवपाक रस्त्या कुशीक येवन उबे रावल्यात. आजो पोरसांत देंवला. बायुलाक आपयता. तें येना. तें वारांदाचेरूच उबें रावलां.

'चोर आयले..! चोर आयले..!'

बायूल पळयता. आंगाक काळें लायिल्ले, कंबराक चुडटां बांदिल्ले लोक आसात. तांच्या हातांत दांडो आसा. बायूल आपल्या कानाचेर हात धरता. कानांतलीं भांगराचीं रिंगां बी ते ओडून काडत म्हणून ताका भंय दिसता. तें दोळे बंद करता.

'आगो पळय, ते पावले.'

बायूल दोळे उगडटा म्हणसर ते बाजारा वटेन धांवतना दिश्टी पडटात.

'ते गेले चव्हाटच्याचेर. आतां तिनसाना परते येतले ते!' बायुलाक सूऽऽ जाता!

पोरसांत पेरां खूब लागल्यांत. हीं सगळीं पेरां ते चोरून व्हरतले. बायुलाक हुस्को जाला. काय बरे कीर येतात पेरां खावपाक. ते येवचेनात!

मातलामामी पोरसांत उबीं आसा. आज्याक उलो मारता.

''रावजी आप्पा, चोर पोत्ते येवपाचे जाले मिस्ता! कोंब्यांक घुडांत यालतां. चोर आनी व्हरत तांकां!''

''हय, हय, याल तांका धांपून.''

आजो एक नाल्ल फोडून कातल्यो करून दवरता. तांच्या हातांत केळयां पडाय, नाल्लां पेंड आनी कितें केतें आसा. पेरीर चडून ते पोतीभर पेरां काडटात. आजो तांकां कांयच म्हणिना.

बायूल बाईमावशेच्या हाताक धरून दारांत उबें आसा. ताका चोरांचो सामको राग आयला.

''तुवें तांकां इतलीं पेरां कित्याक व्हरूंक दिलीं?'' तें आज्याक तिडकीन विचारता.

''आगो देवाक तीं. वर्सान एक दीस येतात ते!''

तरीय ते तोंड फुगोवनूच आसा. जेवतां आनी रागानूच न्हिदतां.

**(चलता...)**



# अशी ही श्री गणेश भक्ती!

- अविनाश कुंकळकार



एका गांवांत काशिराम नांवाचो एक कुंभार रावतालो. ताका किष्णा नांवाचो एक पूत आशिल्लो. काशिराम मातयेचीं मडकीं, बुडकुले अशीं जायत्या तराचीं आयदनां करून बाजारांत व्हरून विकतालो आनी ताचेरूच तांचो संवसार चलतालो. तोच तांचो धंदो, तेंच तांचें सदचें काम आशिल्लें.

घरांत ते दोगूच... बापूय आनी पूत. चार वर्सा फाटीं किष्णाची आवय संवसाराक अंतरली आनी तेन्ना सावन काशिरामूच ताची आवय आनी बापूय जालो. भुरगे पणार सावन किष्णा मातयेंत खेळून व्हड जालो. आतां तो णव वर्साचो आसा आनी सवेचो अभ्यास करता.

शिकपांत हुशार, स्वभावान गुणेस्त. बापायची मातये कला ताच्या आंगांत आसा. मातये कामांत तो आपल्या बापायक मातयेंत उदक घालपाक वा माती मळपाक खूब मजत करता. तो मातयेचे घोडे, बैल, हत्ती, बदकां, मोर, कोंबे अश्यो जायत्या तरांच्यो ल्हन-ल्हान वस्तू तयार करता. ल्हान पिरायेरूच ताची ती कला पळोवन काशिराम हुसक्या मेकळो जाता. आमचो हो पुर्वजांचो धंदो तिगोवपा खातीर, तो फुडें व्हरपा खातीर कोण तरी आसा अशें येवजून तो चिंतना भायरो जाता.

सांज वेळार वाड्या वयले ल्हान-ल्हान ताचे इश्ट मातयेंत खेळपाक वा मातयेची खेळणी करपाक किष्णाच्या घरां कडेन येतात. मातयेच्यो ल्हान-ल्हान वस्तू तयार करून, मागीर घरा वयच्या वेळार ते त्यो वस्तू मोडून मातयेंत उडयताले! अशे तरेन सांज वेळार तांचो मातयेंतलो खेळ चलतालो...

आशाढ म्हयनो सोंपतगीच श्रावण लागता. श्रावण म्हयन्याचे सुर्वेकूच श्री गणेश चथुर्तीची उमळशीक. वचत थंय दुकानांचेर सुंदर सोबीत अश्यो श्री गणेश मुर्त्यो विकपा खातीर दवरिल्ल्यो दिसतात. त्यो मन भुलवण्यो मुर्त्यो पळोवन, तांची वेग-वेगळी तरा, रंग आनी रूप पळोवन काळीज खोशयेंत भरता... भुरग्यांच्या मना-काळजांत तर ती याद सदां खातीर घर करून उरता. अशेंच किर्तें तरी किष्णाच्या काळजांत रिगलें जावंये!

त्या दिसा सकाळ फुडें किष्णा उठलो आनी बापाय सरीं गेलो. बापूय भायर माती मळटालो. तो ताच्या सामकार वचून उबो रावलो.

''किर्तें जालें किष्णा? आयज बेगीन उठलो सो!'' बापायन किष्णाक अजापान विचारलें.

''बाबा तुका एक विचारूंक जाय आशिल्लें!'' किष्णान नमळायेन म्हणलें.

''विचार... किर्तें विचारता?'' अशें म्हणून तो हात धुंवक गेलो. फाटल्यान किष्णाय गेलो. किष्णान ताच्या हातार उदक घालता आसतनाच विचारलें.

''बाबा आमी हे खेप आमच्या घरांत गणपती पुजेक लायलो तर? सगळ्यांगेर गणपती पुजतात. आमगेरूच पुजिनात.

कित्याक बाबा? थोड्यांगेर पाच दीस, सात दीस, णव दीस, अकरा दीस लेगीत दवरतात आमी देडूच दीस तरी दवरया न्हय बाबा!'' आमच्या घरांत गणपती पुजया म्हूण किष्णान आपल्या बापाय कडेन विणवणी केली, पूण बापायची परिस्थिती पुताक कशी कळटली? एका दिसाच्या जेवणाची वेवस्ता करता आसतना कितलेशेच कश्ट आनी वेदना सहन करची पडटा तें ताचे ताकाच खबर. हें येवजूनच बापायचे दोळे भरून आयले. दोनूय हातानी आपले दोळे पुशीत ताणें आपल्या पुताक म्हणलें,

''घरांत गणपती पुजप ही भाग्याची गजाल, ताची बरे तरेन सेवा करप हें तर पुण्याचें काम. पूण तशें भाग्य, तशें पुण्य आमचें खंय शाण्या...! आमी तर सामकेच गरीब, आमकां तें शक्य ना शाण्या. तूं व्हडलो जालो, काम धंद्याक लागलो काय पूज मागीर घरांत गणपती.''

'' आतां कित्याक शक्य ना बाबा?'' किष्णान निरशेवणेन विचारलें.

''आमचे कडेन तितले पयशे ना रे पुता... गणपती हाडपाक, नेवेद्या खातीर फळां, धूप, कापूर, उजवाती, माटोळेचें सामान! खूब पयशे लागतात हांकां सगळ्यांक.''

''गणेश मुर्ती खातीर पयशांची वेवस्ता तूं कर बाबा, उरलेलें सगळें म्हजेर सोड.'' किष्णान हांसत म्हणलें. ताचीं तीं उतरां आयकून काशिरामाक अजाप दिसलें. ताणें किष्णाक विचारलें,

'' तूं खंय सावन हाडटलो रे तें सामान?''

रानांत अश्यो जायत्यो वस्तू मेळटात, ज्यो माटोळेक बांदपा खातीर उपेग पडटात. हांव रानांत वचून माटोळेच्यो वस्तू हाडून बाजारांत वचून विकतलों आनी मेळिल्ल्या पयशांनी धूप, कापूर, उजवाती आनी हेर सामान हाडटलों...''

''व्वा रे म्हज्या शाण्या! इतली ओड आसा तुका गणेश पुजेची? देवानूच तुजी इत्सा पुर्ण करची... चल आयज बाजारांत मडक्यो विकून जितले पयशे मेळटात ते सगळे तुजे गणेश मुर्ती खातीर.'' अशें म्हणून तो सगळी तयारी करून मडक्यो घेवन बाजारांत गेलो आनी किष्णा स्कुलांत...

आयज शेनवार आशिल्ल्यान तो स्कुलांतल्यान बेगिनूच आयलो. घरा येवन बापायची वाट पळयत रावलो. बापूय पयशे घेवन केन्ना येतलो आनी आपूण केन्ना बाजारांत वचून मुर्ती सांगतलों हेच उमळशिकेंत तो आशिल्लो. इतल्यांत ताचो बापूय सामकार उबो आसा तो ताका दिसलो. पावस पडच्या पयलीं मळबांत काळीं कुमां दिसतात तशीं चिंतनेचीं काळीं



कुपां ताका बापायच्या मुखामळार दिसलीं. किष्णा कितें समजूंक जाय तें समजलो. ताणें बापाय सरीं वचून म्हळें, पयशांची वेवस्ता जावंक ना न्हय बाबा!? कांय हरकत ना, तूं कांयच चिंतनाका हांव पळयतां कितें करचें तें!''अशें म्हणून ताणें बापायच्या हाताक धरून ताका भितर घेवन गेलो. आपल्या ल्हान भुरग्याची अशी समंजस वागणूक पळोवन काशिरामाचें काळीज खोशयेन भरून आयलें. पूण आपूण ताची इत्सा पुराय करूंक शकना हाचें दुखय बी ताका जातालें.

इतल्यांत दोन मडके विकून साठ रुपया मेळिल्ले आनी ते बुस्कोटाच्या वयल्या बोल्सांत दवरल्यात म्हणपाची ताका याद जाली. ताणें बोल्सांतल्यान पयशे काडले आनी किष्णा कडेन दियत म्हणलें,

''हे घे साठ रुपया, अशे दोन तीन दिसांचे पयशे एकठांय केल्यार म्हाका दिसता मुर्ती विकत घेवपाची वेवस्ता जातली.''

पयशे पळोवन किष्णा एकदम खूश जालो. पूण दोन तीन दीस रावपाचें ताका पाशियेंस नाशिल्लें. बाबान हाडिल्ले साठ रुपया घेवन तो बाजारांत वचपाक तयार जालो. बापायन ताका समजायलो पूण ताका थारो नाशिल्लो. तो तसोच नेटान ते साठ रुपया घेवन भायर सरलो. ताणें जायत्या दुकानांत मुर्ती पळयल्यो. पूण साठ रुपयांची मुर्ती ताका खंयच्याच दुकानांत मेळूंक ना.

उलट दोगां तिगांचीं तर ताका वायट उतरां आयकूपाक मेळ्ळीं.

दनपारां गेल्लो भुरगो तीनसांज जायत आयली तरी आजून घरा पावूंक ना म्हूण काशिराम थंय बेचैन जाल्लो, मनांत कसले-कसले म्हूण विचार येताले. पुताचे चिंतनेन कामांत मन लागनाशिल्लें. तो दारांतूच बसून किष्णाची वाट पळयतालो.

किष्णा सामको दमून थकून घरा आयलो. ताका पळोवन काशिरामाक मातसो धीर आयलो. किष्णाच्या चेहऱ्यार उमेदीचीं ल्हारां दिसनाशिल्लीं. काशिराम ल्हवूच उठून ताच्या म्हऱ्यांत आयलो. ताचे तकले वेल्यान हात भोवंडायलो आनी ताका विचारलें,

''शाण्या... मुर्तीची वेवस्ता जाली काय ना?''

आयकून किष्णाक रडूंक आयलें.

''ना बाबा... साठ रुपयांक मुर्ती दिवपाक कोणूच तयार जायना.'' ताणें रडत-रडत म्हणलें.

''उगी राव, तूं रडनाका, हांवें तुका पयलींच सांगून दवरिल्लें. गणपती बाप्पा पुजपाक आमका शक्य ना म्हूण.'' काशिरामान ताका समजायत म्हणलें.

''कित्याक शक्य ना बाबा? तूं फकत मान्यताय दी... तुज्या उतरान हांव पुजतलों गणपती आमच्या घरांत.'' आतां म्हाकाच किर्ते तरी करचें पडटलें! अशें ताणें येवजिलें.

दुसचे दिसा किष्णा सकाळी पांचांक उठून माती मळपाक लागलो. बरे धा-बारा गुळे माती मळल्या उपरांत ताणें गणपतीची मुर्ती करपाक घेतली. आपली विचारशक्त, मनबळ, भावना भक्तीं एक करून, प्राण कसाक लावन मुर्ती करपाक लागलो. कांय वेळान सोबीत, नाजूक अशी मुर्ती तयार जाली. सादारण एका फुटाची उंच, आसनमांडी घालून पाटार बशिल्ली जिवंत अशी श्री गणेश मुर्ती...भितर काशिरामाक जाग येवन तो उठलो जाल्यार पूत हातूणार ना. ताका सोदीत भायर आयलो आनी पळयत तर किर्ते अज्याप! काल-पयर मातयेची ल्हान-ल्हान खेळणी तयार करपी फकत णव वर्साचो आपलो पूत आयज गणेश मुर्ती करता हें पळोवन ताचे दोळे दिपकवल्या भशेन जाले. आपूण सपनात तर ना न्हय अशें ताका दिसलें. तो बरोच वेळ पुताक पळयत रावलो. जेन्ना किष्णाची नदर आपल्या बापायचेर पडली तेन्ना तो धांवत बापाय सरी आयलो आनी म्हणलें,

''बाबा पळय हांवें एक गणेश मुर्ती तयार केल्या. ही मुर्ती उपकारतली न्हय पुजे खातीर? ''

काशिराम कांयच उलयलो ना. बारीकसाणेन ताणें मुर्ती नियाळळी. आपल्या पुताची कलाकृती पळोवन ताचें अंतरकरण भरून आयलें. दोळ्यांनी दुकां भरलीं. ताणें किष्णाक आपले वेंगेंत घेवन घट्ट हड्ड्याक लायलो. दुकांनी भरिल्ले दोळे रिकामे करीत ताणें किष्णाक म्हणलें,

'' बाबा शाण्या म्हज्या, इतली ही भक्ती खंय सावन आयली तुज्यांत? श्री गणेशाची भक्ती करचे खातीर इतली ही धडपड! धन्य तूं म्हज्या पुता! धन्य तुजी गणेश भक्ती!! तूं तर मुर्तीकार जालो. म्हज्या परस व्हड कलाकार जालो. तुजे कलेक म्हजो सलाम म्हज्या पुता.''

अशे तरेन किष्णान आपल्या घरांत पुजपा खातीर एक सोबीत अशी मुर्ती तयार तर केलीच आनी आनीकूय धा, बारा मुर्त्यो ताणें तयार करून, त्यो बऱ्यो सुकोवन, तांकां सैमीक रंग दिवन बाजारांत विकपा खातीर दवरल्यो. चिकण मातयेच्यो मुर्त्यो... दिसपाक सोबीत, सुंदर, एकल्याच्यान उखलूंक जाता तशें वजन आनी बाल कलाकाराच्या हातांतल्यान घडिल्ल्यो, जिवंत दिसपी अशें मुर्त्यांचें खाशेलेपण आशिल्यान मुर्त्यो दोन दिसा भितर खपल्यो.

दोन दिसां उपरांत गणेश चतुर्थी, ताणी गणेश पुजेचें सगळें सामान हाडून दवरलें. चवथीचो दीस उदेलो. किष्णान घरांत गणेशमुर्ती पुजेक लायली. मना भावार्थान पुजा आरती करून देड दिसांनी गणपती बाप्पाक घायलो. अशे तरेन तांच्या घरांत श्री गणेश पुजन जालें... आतां दर वर्सा ताच्या घरांत गणपती बाप्पाक पुजतात... केन्ना देड दीस तर केन्ना पांच दीसऽ...

**(वीस वर्सां फाटली काणी ही. आतां ताका 'किष्णा मुर्तिकार' म्हूण वळखतात... ताची 'श्री कृष्णा श्री गणेश चित्रशाळा' आसा आनी दर वर्सा तिनशांहून चड श्री गणेश मुर्त्यो तो तयार करता...)**



कालापूर-गोंय.
मो. : ७८७५२३७८३०




डॉ. नूतन देव

# भुरग्यांक एकांत जाय



**डॉ. नूतन देव** हांचें बरप चडशें मराठींतल्यान जालां. वेवसायान जरी तांची वैजकी कारकिर्द चालू आसली तरी तांचो पिंड कवीचो. तांचो मराठींतल्यान ' आभाळ ' हो काव्यसंग्रह हालींच उजवाडाक आयला. जाका काव्य रसिकां कडल्यान उप्पाट येवकार मेळ्ळा. तांची सादी,सरळ कोंकणी भास तांच्या ह्या लेखाचें खाशेलेपण.

*दोगांयचोय संवसार बरो जातलो जाल्यार तडजोड न्हय तर त्याग करप खूब गरजेचें आसा. कित्याक तर त्याग हो आमी आपखोशयेन करतात, तर तडजोड नाईलाजान. दोगांयनीय म्हळ्यार चल्यान आनी चलयेन आपापल्या शंबर टक्क्यांतले पन्नास टक्के त्याग जर केलो ,तर दोगांयचे पन्नास टक्के मेळून शंबर टक्के जातात...*

**आ**मकां जाणट्यांक खूब फावट दिसता, थोड्या वेळा खातीर एकल्यें बसचें. आपल्या मनाक दिसता तशें वागचें. कितेंय वाचचें, बरोवचें,पदां म्हणचीं आनी केन्नाय कांयच करिनासतना ओग्गी बसून रावचें. खरेंच, अशें भुरग्यांकूय बी दिसता आसूं येता काय ?

भुरग्यांक आनी एकांत! हो विचारच आमकां सट्ट करून पचना. पुणून हें एकदम गरजेचें आसता. कशें तें आमी पळोवंया....

भुरगीं जरी जल्मा सावन एक वर्सा मेरेन उलोवंक शकलीं नात तरीय तांका भावना आसतात. तीं एकच खेळ घेवन कितलोसोच वेळ खेळत रावतात. ह्या हातांतली वस्त त्या हातांत करीत रावतात. तांका एकच तरेचो आवाज आयकूंक आवडटा. तो मागीर खेळण्यांचो जावं,चिमण्यांचो वा चानयांचो जावं. आपलो हात जावं आपलें पावल तोंडांत घालूंक तांका खूब आवडटा. अशा वेळार आमी तांका उबारून घेवंक जायना. एकल्यांच खेळूंक दिवंक जाय. हाका लागून तीं एके तरेन धादोशी उरतात.

एक ते तीन वर्सां पिराय आशिल्ल्या भुरग्यांक ल्हवू -ल्हवू जाणवता, आपूण लेगीत कोण तरी आसां. आपले भोंवतणच्या मनशां भशेनच आपूण एक मनीस . आतां तीं जाणट्यांचीं जोतीं घालपाचो यत्न करतात. तशेंच चलपाक आयिल्ले कारणान दुस-यांचो हात धरिनासतना तीं इल्लेंशें पयस वचूंक सोदतात, नदर आवयचेर दवरत. अशे वेळार आमी तांचे खातीर एक सुरक्षीत जागो आंखून घेवंक जाय आनी तांका सोडपाक जाय.

हे पिरायेर शी (POTTY) करपा वेळार एकांत गरजेचो आसता. तशेंच एकेक फावट तांचे आवडीचो जिन्नस तांच्या हातांत दिवंक जाय. जाका लागून तीं आपल्या आवडीच्या जाग्यांनी बसून ताची मजा घेतात.

तीन ते स वर्सां पिराय आशिल्ल्या भुरग्यांक जरी खूब स्वतंत्रताय मेळना , तरी पूण तांका, व्हडलीं भुरगीं जें करतात तें करपाक आवडटा. देखीक, आपल्या आपूण कपडे घालप , पेल्यांत उदक ओतप , कातर घेवन पेपर वा हेर वस्तू कापप (अशे वेळार स्पेशल कातर मेळटा ती दिवची).

हे सगळें करतना तांका कोणें मजत केल्ली मात्तूय आवडना. हे पिरायेर भुरग्यांचे

कल्पनाशक्तीचो विकास जावंक सुरू जाता. तीं वेगवेगळे खेळ घडोवन खेळटात. खेळांत आवय-बापूय , टिचर जातात. अशे वेळार तांका एकांत जायच आसता.

तशेंच, न्हाता आसतना तीं बाथरुमाचें दार बंद करूंक सोदतात. आपली एक आवडटी बावली वा एक खेळणें घेवन खांचींनी बसून खेळपाक सोदतात. हे वेळार आवय-बापायन आपले करणेन एकांता बद्दल भान राखपाक तांका शिकोवंक जाय. देखीक, 'हांव कपडे बदलतां,मात्शें दार बंद करतां, ओ.के?' अशे उतरांनी, सभ्यपणान तांचे कडेन उलोवंक जाय, जाका लागून जाणट्यांक पळोवन, आयकून भुरगीं बरें शिकपाक लागतात.

एकदां भुरगीं स ते णव हे पिरायेचीं जालीं म्हणटगीर तीं समाजाक चड वळखूंक लागतात. तांका आपल्या खाशेल्या इश्ट-इश्टीणीं वांगडा वेळ घालोवपाक आवडटा. अशे वेळार तांका तो दिवंक जायच, पुणून तांच्या आवय-बापायकडेनूय बी बरे संबंध बाळगूंक जाय. समाजांत किर्ते घडटा आनी आपल्या तशेंच दुसऱ्यांच्या भुरग्यांक किर्तेंय समस्या आसत जाल्यार ती पयस करूंक एकामेकांक मजत करपाक जाय.

हे पिरायेर भुरग्यांच्या एकांतांक्य बी एक मर्यादा आसता हें जाणून घेवंक जाय आनी चड वेळ लक्ष दी नासतना एकटें सोडूंक जायना.

एकदां काय तीं धा-पंदरा पिरायेचे x यौवन अवस्थेंत पावलीं काय तांका एकांत ही एक सैमीक गरज जाता अशें म्हणूं येता. पूण तरीय लेगीत तीं तरूण अवस्थेंत पावूं नाशिल्ले कारणान कित्लेशेच बरे निर्णय घेवपाक तांका आवय-बापायची मजत लागताच.

भुरग्यांचो आवय-बापायचेर तशेंच आवय-बापायचो भुरग्यांचेर पूर्ण विश्वास आसूंक जाय. जो हळुहळू ल्हानपणासून तयार जाता. असो समज जावंक जायना की भुरग्यांनी जर चड एकांत आपणायलो जाल्यार तांका तुमचे पासून किर्ते तरी लिपोवंक जाय म्हणून..पुणून जर काय तें/तो तुमचे कडेन कांयच संवाद सादना वा आपलेच कुडींत तासनतास एकटेंच/एकटोच बसून रावता तेन्ना आवय-बापायन सादूर जावंक जाय.

समजा तीं आपल्या इश्टां बराबर भायर वतात जाल्यार तांचे इश्ट कोण? तीं खंय वतात? कशीं वतात आनी केन्ना परततलीं हें घरांत खबर आसूंक जाय. मागीर थंय तांणी किर्ते खालें? किर्ते केलें ?, कसल्यो खबरी केल्यो हाची चड उरत्तवारी करची न्हय. तशेंच तांच्यो डायऱ्यो, मोबायल तपासचो न्हय. बारीक -बारीक गजालींचेर तांचेर दुबाव धरून तांका प्रश्न करचे न्हय वा उपदेशाय दिवंचो न्हय. वयल्यान तांका उलोवपाक दिवचें. तांच्या इश्टां विशीं तशेंच शाळा, शिक्षक हांचे बद्दल मानान उलोवचें.

घरांत एक बरे भशेन संवाद जावप खूब गरजेचें. सामाजीक गजालींचेरूय बी भुरग्यांचे विचार जाणून घेवंक जाय. हाका लागून भुरग्यांक आपल्या मतांचो वालोर कळटा आनी आपल्या आवय-बापाय विशींचो प्रेम , श्रध्दा तशेंच विश्वास वाडटा. टॅक्नोलोजीक लागून ज्यो अडचणीं येतात तांचेर भासाभास जावंक जाय. गरज नासतना पयसो , गाडी, मोबायल तांका दिवंक फावना.

थोडक्यांत , वेळोवेळ हेरगिरी करनासतना, भुरग्यां बद्दल दुबावी विचार बाळगिनासतना, भुरग्यांचो आदर राखत आवय-बापायन विश्वास घट्ट करूंक जाय आनी लक्षांत दवरूंक जाय, भुरग्यांकूय बी, थोड्या वेळा पुरतो काय जायना,एकांत हो जाय!



फोंडें-गोंय. मो. : ९८५०१३३१६०

मानाचें पान



मंजुषा सिनाय तळावलीकार

फाटलीं कितलींच वर्सां शिक्षिकेच्या पेशांत आशिल्लीं **मंजुषा तळावलीकार** मानसशास्त्राच्योय अभ्यासक आसात. भुरग्यांचें मानसशास्त्र समजून घेवन तांकां योग्य दिकेन व्हरप ही तांची मोख. तांकां वाचनाची आवड आसाच,तेच वांगडा .शिक्षा,कविता आनी ललित लिखाण हातूंत तांकां रुची आसा. साहित्य अकादेमी तशेंच हेर संस्थांच्या चर्चासत्रांतूय तांचें योगदान आसा.

*तंत्रमानवतावादाच्या मता प्रमाण आतां होमो सेपियन्सांनी तंत्रज्ञानाचो वापर करून श्रेश्ठ प्रतीचो मानवी नमुनो 'होमो देवुस' तयार करपाक जाय. होमो देवुस हाका मनशाचें बाह्यस्वरुप तशेंच गरजेचीं लक्षणां वा गूण आसतलेच ते भायर सुदारीत अश्यो खाशेल्या शारिरीक आनी मानसीक क्षमताय फावो जातल्यो.*




## युव्हाल नोआ हरारीचें

# फत्रयच्या-भविश्याची सुलूस

Homo Deus
A brief history of tomorrow
by
Yuval Noah Harari

**फा**टल्या अंकांत तुमी *युवल नोह हरारी* हांच्या विक्रमी विक्री जाल्ल्या Sapiens- A brief history of humankind पुस्तकाची वळख घडोवपी लेख वाचलाच आसतलो. ३० भासांनी अणकारीत जाल्ल्या त्या पुस्तकांत मनीसजातीचो आयज मेरेनच्या इतिहासाचो नियाळ घेतला. त्याच लेखकाचें फुडलें पुस्तक Homo Deus- A brief history of tomorrow. हेंवूय पुस्तक तितलेंच वाचनीय आनी म्हायतीपुर्ण जालां, जातूंत लेखकान मनशाच्या फायच्या फुडाराची कल्पना वाचकांक दिल्या. ती लेखकान केल्ली भविश्यवाणी वा भाकीत न्हय तर सध्यस्थितींत जीं संशोधनां चल्ल्यांत, म्हायती तंत्रगिन्यानाच्या मळार जी उदरगत चल्ल्या ताचो नियाळ तार्णे वाचकां मुखार मांडला. विशय मातसो क्लिश्ट आसा तरी जाता तितले सोंपे भाशेंत तुमचे मुखार मांडून त्या पुस्तकाची थोडे भितर वळख करून दिवपाचो हो यत्न.

आदल्या काळांत मनशाक ज्या तीन गजालींची सदांच भिरांत आसताली, त्यो म्हळ्यार दुकळ, संसर्गाचीं दुर्येसां आनी झुजां. पूण आयच्या आधुनीक काळांत विज्ञान आनी तंत्रगिन्यानाच्या आदारान मनशान ताचेर जायत्या प्रमाणांत जैत जोडलां. मनीसजातीच्या इतिहासांत आयच्या काळांत मनीस उपासमारीन मरचे परस चड खावनच चड मरतात, संसर्गाच्या दुर्येसान मरचे परस जाण्टेपणान मरतात आनी झुजांत, आतंकान मरचे परस आत्महत्येन चड मरतात.

बदलते जिणे पद्दतीक लागून *लाईफ स्टायल डिसीजीस* उप्रासल्यात. फोफशेपण, गोडेंमूत, तशेंच निर्शेवणी, हुस्को, हुरहूर अशीं मानसीक दुर्येसां ह्या आधुनीक काळांत बळावल्यांत आनी ताचो परिणाम म्हूण सगळ्यो सुखसोयी आसून लेगीत मनशाचे जिणेंत पोकळी येवंक लागल्या. दुसरी गजाल म्हळ्यार मनीस जेन्ना सावन संपत्ती सांठोवपाक लागलो तेन्ना शेतां, पोशिल्ली मोनजात, भांगर, पयशे, खनीज तेलाच्यो बांयो संपत्तीचे मुखेल स्त्रोत आशिल्ले. पूण आयज ताची सुवात गिन्यान आनी म्हायती तंत्रगिन्यानान घेतल्या. जें गिरेस्तकाय जोडपाचें मुखेल स्त्रोत जालां. भांगर, शेतां-भाटां, पयशे वो खनीज तेलाच्यो बांयो ह्यो सगळ्यो भौतीक वस्तू झुजां जिकून जोडूं येतात, पूण गिन्यान मात दर एकल्यान

स्वता खातीर मेळोवचें पडटा. २१ व्या शेकड्यांत गिन्यान आनी बुदवंतकायेक दुसरो पर्याय ना.

आयज जेन्ना मनशान उपासमारी, महामारी वा झुजां हातुंतल्यान मुक्ती मेळोवन सुखसमृध्दी, भलायकी आनी शांती जोडल्या तेन्ना आतां फुडली मोख किर्ते हो प्रस्न ताका पडला. आनी मनशाचीं पावलां जे वाटेर पडल्यांत तें पळयल्यार आतां फुडलें ध्येय म्हळ्यार म्हातारपणाचेर मात करप वा तेय फुडें वचून मरणाचेरूय जैत जोडप. भयंकर दुख्ख आनी दळदीरांतल्यान मनीसजातीक सालवार करून आतां तांकां सकारात्मक आनी आनंदी करपाची मोख मनशा मुखार आसा. मनीसजातीक फक्त जितो उरपाच्या वा तिगपाच्या संघर्शांतल्यान भायर काडून आतां ताका देव करपाची म्हळ्यार होमो सेपीयन्साक होमो देयुस (लेटिन भाशेंत देयुसाचो अर्थ जाता देव) करपाची मोख फुडें आसा. देव करप म्हळ्यार आमचे कल्पनेंतलो देव जें जें किर्ते करूंक शकता तें करपाचें बळगें, शक्त मेळोवन दिवन, ताका देवा इतलो ताकदवान करून, सगल्या संवसाराचेर जाय तशें नियंत्रण दवरप होच मनशाचो फुडलो हावेस.

मनशाक सदांकाळ जगपाची वा अजरंवर जावपाची सुप्त इत्सा आसता, जें अजून मेरेन तरी शक्य जालें ना. शारिरीक तरेन तरी अजरंवर उरप शक्य ना म्हूण तो आपल्या सर्जनशीलतायेंतल्यान अजरंवर अशी संगीताची धून रचता, साहित्यकृती निर्मिता, झुजांत शहीद जावन किर्त जोडटा. जिणेंत हे सगळे उपद्व्याप करपा फाटले तांचें मुखेल कारण म्हळ्यार मरणाचो भंय. कुडीचो जरी नाश जालो तरी कशें ना कशें तरेन आपल्या कर्तुपांतल्यान आपूण अनंत काळ जितो उरचो वा अमरत्व मेळोवचें हीच ताची मोख आसता. आयच्या युगांत वैज्ञानीक संशोधनांतल्यान मनशाची सरासरी पिराय मर्यादा वाडत चलल्या. आनी कांय शेकड्यांनी घड्ये शारिरीक रुपानूय मनीस अजरंवर जावंये! पूण तो मनीस होमो सेपियनच आसतलो काय उत्क्रांत जावन आनी कोणूय जाल्लो आसत हेंयूय सांगप तितलेंच कठीण.

*होमो देयुस* हें पुस्तक तीन मुखेल भागांनी आसा. पयल्या भागांत होमो सेपियन्सान म्हळ्यार बुदवंत मनशान बाकीच्या जाती प्रजातीचेर जैत मेळोवन संवसार कसो काबीज केलो ताचो वृतांत आसा. दुसऱ्या भागांत मनशान संवसाराक आपले भशेन कसो अर्थ लायलो तें बरयलां तर तिसरो भाग जो ह्या पुस्तकांत सगळ्यांत चड म्हत्वाचो तो म्हळ्यार आतां होमो सेपियन आपलें नियंत्रण शेणोवन बसोवन काळा भायलो वा निरुपेगी जावचे वाटेर कसो आसा हाचे विशीं विस्तारान बरयलां.

## होमो सेपियनान जेन्ना संवसार काबीज केलो -

मनीस जेन्ना शिकारी-पुंजावपी आशिल्लो तेन्ना तो सगळे मोनजातीक आपलेच बरोबरीन वागयतालो. ज्या खिणा सावन तो शेतकार जालो तेन्ना सावन सगळे मोनेजातीचेर हावळ आयली. जरी मनीस हे उत्क्रांतीचेंच उत्पादन तरीय तो तें विसरून, स्वताक सर्वश्रेश्ठ समजूंक लागलो आनी तेच समजुतींतल्यान ताणें सगळे मोनजातीचेर नियंत्रण मेळयलें. आपल्या फायद्या खातीर बुदवंतकायेच्या आनी बळाच्या नेटार ताणें जायत्यो मोनजाती ना नपयत केल्यो तशेंच उरिल्ल्यांक सुवार्थपणान आपली सेवा करपाक ताणें पोसपाक सुरवात केली. आयज रानांत जितलीं जनावरां आसात ते परस जायते पटींनी चड पोशिल्लीं जनावरां आसात. कित्याक तर रानांत आशिल्ल्या जनावरां परस आमकां पोशिल्लीं जनावरां चड फायदेशीर.

उत्क्रांतींतल्यान मनीस जरी आयज उंचेल्या पांवड्यार पावला तरीय मनशान विसरूंक फावना कीं तोय जनावरांचेच वळेरींतलो. अजून जायत्यो खुणो मनशाल्या सभावांतल्यान दिसतात ज्यो पाशाणयुगी पुर्वजांच्या दायजांतल्यान आमकां फावो जाल्यात. देखीक मनशाक गोड खावपाक आवडटा. आमच्या पुर्वजांक जेन्ना गोड फळां वा म्हॉव मेळटालें तेन्ना तो तें पोट फुटसर भकायतालो. म्हूण अजून मेरेन चडशे लोक गोड किर्तेय दिसतकच तुटून पडटात.

जे दिसा सावन मनशान स्वताक मोनजाती पासून सर्वश्रेश्ठ दर्जो दिलो तेन्ना सावन ताणें धर्तरेवेल्या पर्यावरणाचे बारा बिरेस्तार केले. मोनजातीक आपले परस हीन मानपाक ताणें जायत्यो मखलाशी केल्यो. आपल्या अत्याच्यारी वागण्यार्चे समर्थन करपाक ताणें मिथकां, काणयो, वदंता तयार केल्यो. ताणें म्हान शक्तीमान देव तयार केले आनी जें किर्ते आपूण करतां ते देवाचे आज्ञेन करतां अशी ताणें वदंता पसरायली. देवाच्या नांवान ताणें जनावरांक बळी दिवपाक सुरू केलें. आपल्याक देवान निर्मिला म्हूण फक्त आपल्याकूच आत्मो आसा आनी हीन मोनेजातीक आत्मो बी कांय ना म्हूण तांचो बळी दिलो वा कत्तल करपा खातीर पोसले जाल्यार तातूंत कांयच चूक ना हें ताणीं जनमानसांत पटोवन दिवपाक सुरू केलें आनी तातूंत तो येसस्वीय जालो.

आदल्या काळांत शेतकार जनावरां पोसतालो. तांची सारकी जतनाय घेतालो. तांकां भोंवपाक, पुंवपाक मेकळीकूय दितालो. तो मेरेन तरी परिस्थिती आयच्या परस जायती बरी आशिल्ली. आयच्या आधुनीक काळांत मनशानी मांसा खातीर कत्तल करपाक पशुपालन सुरू केलां थंय खूब वायट परिस्थितींत जनावरांक पोसतात. तांकां ल्हानशा युडांत हालना घोलनासतना रावचें पडटा, कृत्रिम पद्दतीन तांकां गाभणे करतात, तांच्या पेट्या पाडकांक आवयचें दूद, माया

हांचे पासून वंचीत दवरतात. तांकां भावनीक गरजो, उमाळे, संवेदना आसात काय नात हाचो विचार लेगीत जायना.

कृशी-क्रांतीन ईश्वरवादी धर्माक आनी आस्तिकतायेक तेंको दिलो तर आतांची वैज्ञानीक क्रांती 'मानवतावादी' धर्माक तेंको दिता आनी मनशान देवाचो जागो घेतला. मानवतावादा प्रमाण मनीस ह्या संवसारांत केंद्रस्थानांत आसा जाचे भोंवतणी बाकींचे सगळे जीव वा विश्व म्हळ्यार मनीस सगळयांत श्रेश्ठ आशिल्ल्यान ताका जल्मजात सगळे अधिकार आनी हक्क फावो जातात. संवसारांत जें किर्ते घडटा तें मनशाच्या भल्याचें काय वायटाचें ह्याच निकशाचेर तोलप जाता. म्हणटकच बाकींचे मोनजातीक वा जीवजंतूक जर किर्तेय दिसताच जाल्यार तें विचारांत घेवप जायना आनी ते खातीर पोशिल्ल्या जनावरांक जशी वागणूक दितात वा रानांतल्या जनावरांची शिकार करतात ताका मानवतावाद आपसुकूच समर्थन दिता. जशे ईश्वरवादान परंपरागत शेतीचें (पिकावळ तशेंच पशुपालन) देवाच्या नांवान समर्थन केलें तेच प्रमाण मानवतावाद आधुनीक कृशी-उद्योगाचें समर्थन मनशाच्या नांवान करता. आधुनीक शेती-उद्योग फकत मनशाच्यो गरजो, रुची आनी इत्सा लक्षांत घेवनच चलता.

**होमो-सेपियन्सानी जेन्ना संवसाराक अर्थ लायलो -**

वैचारीक क्रांतींतल्या माकडा पासून बुदवंत असो होमो सेपियन अस्तित्वांत आयलो. कृशी क्रांती जाली आनी मनशाक थिरताय आयली. मनशान चोम्यानी रावन वसाहती करपाक सुरवात केली. संवसारांत घडपी सैमांतल्यो जायत्यो गजाली वा प्रक्रिया ताच्या आकलना भायल्यो आशिल्ल्यो. ताचो अर्थ लायतना ते ताका कोणें तरी अदृश्य निर्मात्यान केल्ले चमत्कार भासूंक लागले. आनी मनशान आपले कल्पनेंतल्यान महाशक्तीशाली देवाक अस्तित्वांत हाडलो. अशे दर एक वाठारांत आपापले देव, आपापल्यो मान्यतायो, चाली आनी रिती रिवाज आपणावपी धर्म तयार जाले. जें किर्ते मनीस करताले तें सगळें देवाच्या नांवार खपयताले. म्हळ्यार तो जें किर्ते करतालो तें देवान सांगलां म्हूण आनी देवा खातीर करतां अशे वदंतेन तें खपतालें. मुखार बरप सुरू जालें. तेन्ना कांय विचारवंत लोकांनी पवित्र ग्रंथ बरयले जातूंत त्या धर्माची आचार संहिता आरस्पावल्ली. मनशाक जें किर्ते सोदूंक जाय आशिल्लें तें तें सगळें त्या त्या धर्माच्या पवित्र ग्रंथांनी सापडटालें आनी विचारवंत धर्मगुरूच्या सांगण्या प्रमाण तशेंच लोकमान्यताये प्रमाण ते ग्रंथ साक्षात देवान बरयिल्ले आशिल्ल्यान ते चूक आसुकूंच शकनाशिल्ले. देव जो मेरेन संवसार चलयतालो तो मेरेन आत्मो, धर्म, जाती हाचेर मनशांचो विस्वास आशिल्लो. आयच्या आधुनीक वैज्ञानीक युगांत देव ही संकल्पना काळा भायर जाल्यात.

आधुनीक काळांत सगळो संवसार एक वैश्विक गांव (Global village) कसो जालो. वैज्ञानीक क्रांती जाली जातूंत नवनवे सोद लागले. आदल्या काळांतल्यो अनाकलनीय गजालींचो अर्थ मनशाक लागपाक लागलो आनी देवाच्या नांवार केल्ल्या धर्माहून वेगळो असो एक नवो धर्म म्हळ्यार मानवतावाद (humanism) अस्तित्वांत आयलो. मानवतावादांत देवाचो जागो मनशान घेतलो. मानवतावादांतूय मागीर समाजवाद (socialism), साम्यवाद (communism), उत्क्रांतीवाद(evolutionarism), उदारमतवाद (liberalism) अशे जायते फांटे फुटले.

विज्ञान आनी धर्म हांचे सदांच वावडें आसा. धर्माक सदांच संवसारांत एक शिस्त, पद्दत वा परंपरा जिती दवरपाक स्वारस्य आसता. शिस्तबध्द समाजरचना निर्माण करप धर्मसंस्थेची मोख आसता तर संवसाराचेर नियंत्रण वा ताबो मेळोवप हें विज्ञानाचे ध्येय. संशोधनांतल्यान दुयेंसांचेर वखद सोदप, अन्न उत्पादन करप, झुजां झुजपाक आधुनीक शस्त्रां तयार करप. पूण हें सगळे संशोधन करतना नैतीक मुद्दे फुडें येतात ते विज्ञान विचारांत येना. ताच्यो जापो आयज मेरेन तरी धर्मा कडेनूच विचारच्यो पडटात. पूण शिस्तबद्द समाजरचना आनी संवसाराचेर नियंत्रण हातुंतलो एक पर्याय पसंत करपाक लायल्यार ह्या आधुनीक काळांत मनशान दुसरो पर्याय वेंचला. सारांश म्हळ्यार विज्ञानांतल्यान मेळपी सामर्थ्या बदला आयज मेरेन मनशान लायिल्लो जिणेचो 'अर्थ' मनीस सोडपाक तयार आसा. पयलींच्यो संकल्पना, रिती, विश्वास, धारणां हें बदलपाक मनीस तयार जाला. वैज्ञानिकांच्या मतान हें विश्व म्हळ्यार ध्येयशुन्य क्रिया जी फकत गजबजाटान भरल्या जातुंतल्यान कांयच म्हत्वाचें अर्शे सुचीत जायना.

**विज्ञानानिष्ठ नवे धर्म-तंत्र-मानवतावाद (techno-humanism)आनी डेटाइजम (dataism) -**

ह्या पुस्तकांतलो तिसरो आनी निमणो भाग खूब म्हत्वाचो जो आयच्या काळाचें भिरांकूळ सत आमचे सामकार दवरता. लेखक म्हणटा, आतां फुडें येवपी काळांत होमो सेपियन्स ह्या संवसारावेलो आपलो ताबो आनी नियंत्रण शेणयतले. ते निरुपेगी जातले आनी सुपर ह्युमन अशे होमो देयुस संवसार चलयतले.

वैज्ञानीक संशोधनांतल्यान जे किर्ते निश्कर्श काडल्यात ते प्रमाण मनशाक कातरून भितर सोदलें तेन्ना तांकां थंय आत्मो मेळ्ळो ना वा मनूय मेळ्ळेंना आनी जाचो दाखलो दिवपाक मेळना वा सिध्द

करपाक मेळना तें अस्तित्वांत ना अशें वैज्ञानिकाचें मत. मागीर आमी जें अणभवतात तें भान, भावना आनी व्यक्तिनिश्ठ अणभव हे खंय आनी कशे तयार जातात? हाचेर तांची जाप म्हळ्यार मनशाचे कुडींत जी जैवरासायनीक (biochemical) प्रक्रिया घडटा तार्चे हे उप-उत्पादन (byproduct). थोडे भितर सांगपाचें म्हळ्यार खंयचोय जीव (मागीर तो मनीस लेगीत जावं) हें एक 'जैवरासायनीक अल्गोरिदम. (अल्गोरिदम म्हळ्यार विशिश्ट प्रक्रिया घडोवपाक लागपी नियमांचो संच. संगणकीय प्रोग्रॅमाक अल्गोरिदम लागता. सोपे भाशेंत सांगपाचें जाल्यार च्या ची रेसिपी हें एक च्या करपाचें अल्गोरिदम). हें जर खरें मानलें जाल्यार आत्मो आनी मन सोडाच, मनशाक स्वेच्छा (freewill) लेगीत आसपाची शक्यता ना अशें जालें. मनशाचे कुडींतली सगळी यंत्रणा जैवरसायनीक प्रक्रिये प्रमाण चलता शी जाली.

आयचें यूग हे संगणकांचें आनी म्हायती तंत्रज्ञानाचें (Information technolog). कृत्रिम बुध्दिमत्ता (Artifical intelligence) हें तंत्रज्ञान वापरून शास्त्रज्ञांनी आयज जायते रोबोट केल्यात जे तरेकवार वेवसायांत वापरांत हाडल्यात. कसलेंय काम तांचे भितर बरयिल्ल्या प्रॉग्रमाच्या अल्गोरिदमा नुसार ते वेवस्थीत, बेजार नासतना आनी मनशां परस्पूय चड अचुकतायेन करतात. मनशा भशेन तांकां भावना, इत्सा आकांक्षा, भावनीक गरजो हें कांयच नासता. पूण कांय कामां करपाक भावनीक वा इत्सा-आकांक्षाची गरजूय नासता हेंय तितलेंच खरें.

आयच्या ह्या म्हायती तंत्रज्ञानाच्या युगांत मानवतावादी धर्मुय फांटी पडून दोन नवे धर्म तयार जाल्यात ते म्हळ्यार तंत्र-मानवतावाद (techno-humanism) आनी डेटाइजम (dataism) अशें आमच्यांनी म्हणूं येता.

तंत्रमानवतावादाच्या मता प्रमाण आतां होमो सेपियन्सांनी तंत्रज्ञानाचो वापर करून श्रेश्ठ प्रतीचो मानवी नमुनो 'होमो देयुस' तयार करपाक जाय. होमो देयुस हाका मनशाचें बाह्यस्वरुप तशेंच गरजेचीं लक्षणां वा गूण आसतलेच ते भायर सुदारीत अश्यो खाशेल्यो शारिरीक आनी मानसीक क्षमताय फावो जातल्यो.

अमेरिकन सैन्यदळांत सैनिकाक जाल्लो पोस्ट-ट्रॅमेटिक स्ट्रेस डिसोर्डर तशेंच डिप्रेशन निवळापाक कांय प्रयोग केले. ताच्या मेंदवांत एक चकती बसयली जी सौम्य विद्युत ल्हारांतल्यान मेंदवाच्या कांय भागांक बधीर करताली. जे वरवीं दुर्येतीच्या मेंदवांत खोशेचे उमाळे निर्माण जावन ताका सकारात्मक दिसूंक लागतालें. पूण कांय नैतीक मुद्यांक लागून मेंदवाक ऑपरेशन करून भितरल्यान चकती बसोवपाक परवानगी मेळ्ळीना म्हूण मागीर तांणी भायल्यानूच माथ्याक बसोवपाचें अटेन्शन हेल्मेट म्हूण इलेक्ट्रानीक उपकरण तयार केलें. तें तकलेक घालतकच सैनिकांचें लक्ष केंद्रीत जावपाची क्षमता तशेंच निर्णय-क्षमताय वाडटा आनी नेमून दिल्लें कार्य तो कुशळतायेन आनी अचुकतायेन करूंक शकता. अशेच तरेचीं जायतीं उपकरणां निर्मितीचे वाटेर आसात जे वरवीं लक्ष केंद्रीत जावन भुरग्यांक अभ्यासांत यश, खेळगड्यांक खेळांत कुशळटाय, ऑफिसांत कामांत फायदो आनी हेर जायत्या मळांनी ताचो वापर करूंक मेळटलो.

एके वैचारीक क्रांतीन आमकां एप्सा पासून सेपियन्स केले जंय अंतरनिश्ठ वास्तवाक (inter-subjective reality) लागून मनीस हे धर्तरेचेर राज्य करपाक पावले. ही दुसरी वैचारीक क्रांती सेपियन्सांक होमो देयुसाच्या पांवड्यार पावयतली जे वरवीं तांकां कल्पने भायल्या नव्या विश्वांत प्रवेश मेळून ते अंतरिक्षाचे अनिभिज्ञ सम्राट जावंक शकतात. म्हळ्यार मानवाचे महामानव जावपाचे वाटेर पावलां पडपाक लागल्यांत.



जो मेरेन संगणकतज्ञ अचेतन अश्या सिलिकॉनान निर्माण केल्ल्या संगणकीय अल्गोरिदमान हिशेब (computation) आनी प्रसंस्करण (processing) करताले तो मेरेन मनशां खातीर सगळें सुरक्षीत

आशिल्लें. पूण २१व्या शेकड्यांत जेन्ना जीव शास्त्रज्ञांनी सगळे जीव (मनीस लेगीत) हे एक जैवीक अल्गोरिदम म्हूण निश्कर्श काडलो तेन्ना जैवीक आनी अजैवीक ही वणत कोसळ्ळी आनी संगणक क्रांती ही यांत्रीक प्रकरणांतल्यान जैवीक प्रकरणांत परिवर्तीत जावपाचो उत्पात घडलो.

शास्त्रज्ञांच्या मतान यंत्र सचेतन (conscious) जावं वो अचेतन (non-conscious), अल्गोरिदमाक प्रक्रिया करून अचूक जाप काडपाक ताका कांयच फरक पडना. ते खातीर जैवीक अल्गोरिदम हें अजैवीक अल्गोरिदमा परस श्रेश्ठ समजुपाचो प्रस्नच उप्रासना. आयज म्हायती तंत्रगिन्यान मळा वयल्या गुगल, एमझॉन, मायक्रोसॉफ्ट, फेसबुक अशा तंत्रगिन्यान महासंगठना कडेन जें अल्गोरिदम आसा तें मानवी अल्गोरिदमा परस कितलेंशेंच शक्तिशाली आशिल्ल्यान मनशा परस जायते पटीनी डेटा ते प्रॉसेस करूंक शकतात.

मायक्रोसॉफ्टाचें 'कोर्ताना', गुगलाचें 'गुगल एसिस्टंन्ट', एपलाचें 'सिरी', एमझोनाचे 'एलॅक्सा' अशी जायतीं आर्टिफिशियल इंटेल्जन्स यंत्रां (AI) आयज आमी वापरतात जांणी मनशांचे जिणेंतल्या जायत्या गजालींचो ताबो घेतला.

डेटाइजमाच्या दिश्टिकोनांतल्यान संवसारांतली पुराय मनीसजात ही एकोडी म्हायती-प्रक्रमण वेवस्था (Single data-processing system) आनी दर एकलो व्यक्ती ताची एक चक्ती (chip) असो निश्कर्श काडूं येता. डेटाइस्टाच्या म्हणण्याप्रमाण ताचें उत्पादन (output) ही एक नवी कार्यक्षम अशी म्हायती-प्रक्रमण वेवस्था इन्टरनेट ऑफ ऑल थींग्स (IOT). हे उद्दिश्ट फळादीक जातलें तेन्ना होमो सेपियन्स निरुपेगी जातलें आनी तांचो जागो अत्यंत हुशार पूण अचेतन अशे अल्गोरिदम कार्यप्रणाली घेतली.

डेटाइजम 'इंटरनेट ऑफ ऑल थींग्स' करपांत जर पुराय येसस्वी जालें जाल्यार सुरवेक मनीस बरी भलायकी, खुशालकाय आनी ताकद मेळयतलो. पूण संवसाराचें सगळें नियंत्रण मनशां कडल्यान त्या यंत्रा कडेन वतलें आनी मनीस एक चीप वो डेटा रिकॉर्ड जावन उरतलो. ताचेय फुडें एकाद्रे ह्या डेटा प्रवाहांत मनीस विरगळून लेगीत वचत. लेखकाच्या म्हणण्या प्रमाण ही सगळी प्रगती जितल्या नेटान चल्ल्या तें पळयल्यार सरासरी वो ताचे सकयल बुध्दीमत्ता आशिल्लो मनीस ह्या संवसारांत निरुपेगी जावपाक चड कळाव लागचोना. तो दीस खूब लागी पावला जंय मानवाचो महामानव जातलो आनी त्या नव्या संवसारांत फकत अतिबुध्दीमान मनीसच तग धरपाक शकतलो अशी शिटकावणी लेखकान दिल्या.



फातोर्डा-गोंय. मो.: ९८२२९८१५०८

पिपिरमींट



पुजा
लक्ष्मीकांत
भांडारे

महाविद्यालयांत शिक्षण घेता आसतनाच साहित्याची गोडी लागून साहित्य निर्मिती कडेन वचपी जी पिळगी आसा ताची एक प्रतिनिधी म्हळ्यार **पुजा भांडारे** भक्तीकाव्यांतल्यान आपली साहित्य निर्मणी आरंभ करीत ताणें आतां खुसखुशीत निबंध आनी आपउलोवपांक हात घाला ताचें हें मोस्र.



# धर्तरेचो घुस्मटमार

*आवज म्हजे खातीरूच जावं, पूण तुज्या सगल्या भुरग्यांक हांवें वठणेर हाडल्यात. तांकां बरोबर वाट दाखयल्या. आवज म्हजे खातीर कितलीशीच लोकसंख्या उणी जाली हें जरीय खरें आसलें तरीय ती काळाची गरज आसा. म्हजे खातीर कांय फायदेय तुका जाल्यात. हांव किते, आवज आसां, जाल्यार केन्नाय वचूंक शकतां, पूण आवज हांवें हें पुराय जग थांबयलां.*

**ति**नसांजचो वेळ. हरशीं ह्या वेळार सदां दर एक सुकणें, जें फातोड्डेर आपल्या पोटरांतल्यान भायर सरता, तें तिनसांजच्या वेळार परतुपाच्या बोवाळांत आसता. पूण ती तिनसांज रिती आसली. रस्त्यार एक मनीस न्हय, तर एक सवणें लेगीत दिसनासलें. फकत दिसतालें तें निर्लेशार मळब, आनी मुखामळ पडिल्लो तो मळबांत सोबपी सूर्या, जो फकत आपली जापसालदारकी पुराय करतालो. ताच्या किरणां कडेन पळोवपाक, ताचो अस्ताच्या वेळा वयलो तो मळबांत शिंवरायल्लो तांबडो, हळडुवो रंग नियाळपाक त्या जाग्यार जितो मूस लेगीत नाशिल्लो. दिसताली फकत एक सुकिल्ली पांयवाट. थंड शितळ व्हांवपी वारें, शितळसाणेचें न्हय तर सुर्या परस चड आंगाक चटके लायतालें. चारूय दिकांनी सुकिल्लीं झाडांपेडां, ज्यांचेर एक लेगीत पान नाशिल्लें. तांचीं मुळां उबी आसूंक जाय म्हूण आसलीं. सुकिल्ल्यो त्यो खांदयो जशो वग्गी एकेच दिकेक पळयत बशिल्ल्यो. मळबांत मार्च म्हयन्यांत लेगीत काळीं किट्ट कुपां भरतालीं. तशीं कुपां काळजांतूय भरिल्लींच, फरक इतलोच की काळजांतलीं कुपां कोणांक दिसनाशिल्लीं आनी मळबांतलीं कुपां बंदखणींत आशिल्ल्या लोकांक पळयतालीं. पयस पयस नदर पावता थंय लेगीत मनीस सोड कोण पक्षी सुद्दां दिसनासलो. सैम आपलीं रुपां शेड्ड्यावरी परतून परतून बदलतालें. मदींच मळब उजो ओकतालें, जाल्यार मदींच दुकां व्हावयतालें. रस्त्यार दिसपी वळणां परस चड मनशाच्या जिवितांत वळणां दिसतालीं. मनशांनी भरिल्ले रस्ते, रस्त्यार दिसपी फोंडकुलां लेगीत मनशांक आपयतालीं. एक सारको उलो मारतालीं. पूण तांचीं उतरां आयकुपाक मनीसूच नाशिल्लो. वाटेर कितल्याशाच देवांच्यो मुर्त्यो रडकुऱ्या तोंडान फकत उब्यो आसल्यो. सामकार रित्यो दिवल्यो पडिल्ल्यो. फरका पडिल्लीं.कुशीक कांय पिसुडील्लीं, सुकिल्लीं, कुसलेलीं फुलां पडिल्लीं. देवांचीं तोंडां सामकीं पडिल्लीं. वाटेर कांय घुमट्यो, कांय देवळां दिसलीं. पूण मनशांवरी देवांकूय बंदखणींत घाल्यात तें पळोवन तिच्या काळजार सामके घाय जाल्ले. त्या सुकलेल्या रस्त्या वेल्यान ती एकटीच चलताली. आपल्या काळजाचेर कितलेशेच घाय घेवन. तशे कुडीचेरूय कितलेशेच घाय आसले. पळोवंक गेल्यार तिच्या पुराय आंगांतल्यानूच जशे रगताचे व्हाळ लागिल्ले. एक ल्हान भुरगें जेन्ना एक सोबीत फूल पिसडून ताच्यो पाकळ्यो पाकळ्यो करून पांया कडेन उडयता, तेन्ना त्या फुलाच्यो पाकळ्यो जशो चारूय दिकांनी पडटात, तशें तिच्याय काळजाच्यो तिसत्यो वाटऱ्यो जाल्ल्यो. तिच्या आंगार एक पांचवें कापड आसलें. पूण जशीं कुपां चंद्राक मदींच आपल्या फाटल्यान लिपयता तशेंच तिच्या आंगभर व्हांवत्या रगतान तिच्या वस्त्राची सोबितकाय लिपयल्ली. तिच्या कापडाचो पाचवो

रंग आता पाचवो उरूंक नासलो. तो तांबड्या भडक रगतान भरिल्लो, भिजिल्लो. तिचे केंस रस्त्यार वाडिल्ल्या खरखरीत करडावरी फाफसर्ल्ले. सुतावरी घुस्पल्ले. तांकां जटो जाल्ल्यो. ती रगतान तशीच घामान चिप्प भिजिल्ली. तिच्या त्या अनवाणी पांयांक चलतना फातर तोपताले, कांटे लागताले, पूण ताची तिका सूद्द नासली. तिच्या तोंडार कसलेच भाव नाशिल्ले. ना दुखाची पाझरट, ना सुखाची उमेद! तिका पळयतकच चलपाक सुद्दां सक्त ना अशें दिसतालें. ती फकत चलताली, वाट फुट्टा थंय. वळण आपलें रूप बदलता थंय. ती खंय वता, तिका कांयच सुद्द नासली.

इतल्यांत समोरच्यान कोण तरी लट लट पांय आपटीत चलून येतना दिसलो. तो मनीस खूब मोटो, धड्याकट, एका उंच पर्वतावरी आसलो. तो खूब धादोशी दिसतालो. तिका समोरच्यान कोण तरी येता हाचें भान लेगीत नासलें. तोच रावलो म्हणून, ना जाल्यार ती ताका आपटपाची!

''आगे, आगे, सवकास! चलतना मातशें समोर लक्ष दी मगे! आनी तुजी अशी आवतिकाय कोणे गे केली? कशी जाली अशी तुजी आवतिकाय? देवा सायबा! पयलीं तूं कशी आसली आनी आतां कितें जाली? सामकी जळून गेल्ल्या कोळशावरी दिसता मगे तूं! तुका एक सांगूं, म्हाका खरेंच वायट दिसता तें तुज्या खातीर. हांव ख्यारस्त ह्या मनशांक करतां पूण विनाकारण ते याय तुजी चूक नासतना तुका सोसचे पडटात.....''

वेदोळच्यान तो उलयतालो. ती फकत आयकताली. अचकीत तिच्या तोंडावेले हावभावूच बदल्ले. तिच्या त्या सुकिल्ल्या तोंडार किंवाटो दिसपाक लागलो. तिच्या त्या दोन दोळ्यांनी रगतावरी तांबडो भडक उज्याचो धग दिसपाक लागलो. तिणें ताका किंवाट्यान पळयत आपले घायांनी भरिल्ले हात आवुळ्ळे आनी ती उलोवपाक लागली, ''कित्याक, कित्याक म्हूण तुवें हे अशें केलें, कोरोना? हांवें तुजें अशें कितें म्हूण वायट केल्लें म्हूण तुवें म्हजें सगळें जिवीत लासलें? म्हज्या घायांचेर साकांचे साक मीठ हाडून ओतलें तुवें! आयज ही धर्तरी तुज्या सामकार इतली निर्बळ जाल्या, हांव कांयच करूंक शकना. तुज्या धाकांच्या राजवान म्हजे हात पांय बांदल्यात. तुवें म्हाका बंदखणींत उडयलें. पळय कोरोना, पळय, आयज तुवें म्हजी कितें आवतिकाय केल्या ती! म्हाका खबर आसा, तुज्या काळजांत केन्नाच मायेचो पाझर फुटचोना! आयज म्हजे हे आवतिकायेक जबाबदार तूं एकलो जावन आसा, तुज्या खातीर आयज दीस रात म्हजे होटयेंत म्हज्या कितल्याशाच भुरग्यांचीं प्रेतां पडटात. तांच्यो हुयेली म्हजे काळजाचेर भाले मारतात. ते म्हाका उलो करतात पूण हांव, हांवूच आतां इतलीं अशक्त जाल्यां की हांव म्हज्या भुरग्यांक अशे आवतिकायेंत पळोवन सुद्दां तांकां बरें करूंक शकना. एक काळ आशिल्लो, जेन्ना म्हजीं सगळीं भुरगीं म्हजेर फुलांवरी बागडटालीं, नाचतालीं, हांसतालीं, खेळटालीं. पूण आयज म्हजेर पावल दवरपाक आपल्या घरांतल्यान भायर येवपाक तांकां तुजो भंय जावन पडला. आयज म्हजे हे घाय, आपल्यो शिमो हुपून गेल्यात. तुजो म्हज्या भुरग्यांचेर अत्याचार वाडत चल्ला. पूण एक तुका सांगतां, हांव जरूय कसलेय आवतिकायेंत आसलें न्हय, जाल्यार हांव म्हज्या भुरग्यां बरोबर आसां. आरे, सूर्या मुखार मळबांतलीं कुमां येवं, सूर्याक तीं कांय खीण लिपोवंक शकतलीं, पूण ताचीं किर्णां म्हजे कडेन पावपाक तीं कुमां आडोवंक शकनात. रातीचो वेळ जरूय कितलोय आसलो न्ही, जाल्यार दिव्यांतली एक बारीकशी वात त्या काळखाक कापपाची शक्त दवरता. एक ल्हानशी उज्याची कीट लेगीत पुराय वाठाराक जळोवपाची शक्त बाळगिता. तुका कितें दिसलें, सद्या लोकांक तुवें अडकयल्यात म्हूण लोक तुका भियेवन रावतले? ना, तुवें आयज म्हज्या कितल्याशाच भुरग्यांचो जीव घेतला, म्हज्या भुरग्यांक बंदखणींत घाल्यात. पूण तांचे कडेन सीतेचें सत्व आसा. देवी सीता सुद्दां बंदखणींत उरिल्ली, पूण रावण इतले दीस तिका लंकेंत दवरून लेगीत तिची शक्त उणी करूंक पावलो ना.तशीं हांवूय बी सीतेवरी धीट आसां. तुवें म्हजें अजून आत्म बळगें पळोवंना आनी जेन्ना तूं तें पळयतलो पळय, तेन्ना तुका जाणविकाय जातली की एके आवयचो शिराप कितें करूंक शकता!''

''आगे, आगे, मात्सो सुशेग घे उलयतनाएँ तुजे भितर आतां इतली शक्त ना, की तूं म्हज्या सामकार उलयतली. तुका एक सांगूं, केन्ना केन्ना वायट म्हाकांय दिसता , म्हज्या खातीर आयज कितल्याश्याच लोकांचे आत्मे तळमळटात! म्हज्या खातीर संवसारांत आयज कितें घडटा तेंवूय म्हाका दिसता, पूण तुका एक सांगूं, दर एकले गजालीचें आपले अशें एक काम आसता! वारो आपले गतीन सदांच व्हांवतां, तूं तुज्या अधर्मी भुरग्यांचो मायेमोगान सांबाळ करता, सूर्या सदांच स्वताक जळोवन जगाक उमेदीचीं, उजवाडाचीं नवीं किरणां दिता, तेच प्रमाण हांव एक विशाणू जाल्ले कारणान म्हजें कामूच हांव करतां, आनी एक गजाल तुका आयज जी पिडा जाता न्हय, ती पिडा हांवें तुका दिवंक ना, ती पिडा तुज्याच भुरग्यांनी तुका दिल्या. आयज तुका म्हजे खातीर कितल्याशाच तुज्या भुरग्यांचो जीव गेलो ही गजाल दिश्टी पडटा, पूण ताच्या पयलीं एका प्रस्नाची म्हाका तू जाप दी. आयज ज्या भुरग्यांची तूं हमी मारता, काकळूट करता, तीं मनशां तुका आवय मानतात? एक आवय म्हूण तुजीं भुरगीं तुजी जतनाय घेतात? तुका वायट दिसतलें, पूण तूं आतां पुराय तरेन त्या म्हाभारतांतले गांधारीवरी वागता. हांव जाणां, एक आवयबापूय सदांच आपल्या भुरग्यांची दर एक चूक भोगशिता, तांच्या भुरग्यांन जरी कितल्योय चुको केल्यो, जाल्यार सुद्दां आवयबापायच्या दोळ्यांचेर भुरग्यां विशीं मोगाचो असो पड्डो आसता, जाच्या मुखार तांकां आपलीं भुरगीं बरोबर आसात काय चूक तेंच कळना. एका भुरग्याक आवयबापूय सदांच मोग करतात, पूण जर तो चुकलो जाल्यार ताका मातशी ख्यारस्त करप, वा ताका आपले परीन, वेळेची रेंव हातांतल्यान सुळसुळचे पयलीं

समजावप गरजेचें आसता. आतां कित्याक तुजे कडेन जाप ना जाली? तुवें तुज्या भुरग्यां विशीं सदांच आपल्यो सगल्यो जापसालदारक्यो पुराय केल्यात. पूण तांणी तुजे विशीं तांची कसली जापसालदारकी मना काळजांतल्यान पुराय केल्या तें म्हाका मातशें सांगशीत? आगे, हे जे तुज्या आंगांतल्यान रगताचे झरे व्हांवतात न्हय, ते मनशानच तुज्या भितरल्यान व्हांवयल्यात.

आयज म्हजे खातीरूच जावं, पूण तुज्या सगल्या भुरग्यांक हांवें वठणेर हाडल्यात. तांकां बरोबर वाट दाखयल्या. आयज म्हजे खातीर कितलीशीच लोकसंख्या उणी जाली हें जरीय खरें आसले तरीय ती काळाची गरज आसा. म्हजे खातीर कांय फायदेय तुका जाल्यात. हांव कितें, आयज आसां, जाल्यार केन्नाय वचूंक शकतां, पूण आयज हांवें हे पुराय जग थांबयलां. ह्या जगाचें धुवपी चक्र आडयलां. ते खातीर अचकीत तुजे गंगेक तिची पवित्रताय परत मेळ्ळी, तुजी सोबितकाय वाडोवपी न्हंयो, दर्या, सगले सगले प्रदुशणांतल्यान नितळ जाले. ह्या जगांत वीख कालोवपी हवेचें मंथन जालें. आयज लोक जरीय आपल्या कामां पासून पयस आसले तरी तांकां हांवें तांच्या मनशांच्या लागीं हाडले. आदले काळांत एकूच व्हड झाड, ज्याचो आवाठ चडांत चड भागाक आपली शितळसाण दितालो, ज्या झाडाचीं मुळां एक आनी तांकां फुटपी फाटेय बी लागीं लागीं आशिल्ले. आयज तेच फाटे एकमेका पासून पयस गेले. तांकां आतां कळटलें की आपल्या मनशां पासून पयस वचून तांणी कितें होगडयलां. आतां कळटलें ह्या पुराय समाजाक एकवटाचें बळ, एकवटाचें म्हत्त्व! ज्या मनशाक एकठांय रावून आपल्या मनशाची याण येताली, आतां त्या मनशाचे सावळेची ताका खरी गरज भासतली. पयसो, पयसो, संपत्ती ह्या सगल्या गजालीचेर स्वताक कुबेर समजपी लोकांक म्हजे खातीर आतां जाणविकाय जातली की ते कितलोय वत्न करूं, तांचो पयसो आनी तांची संपत्ती म्हर्जे कांयच वाकडें करूंक शकनात. काल मेरेन रस्त्यार जखमी अवस्थेंत पडिल्ल्या मनशाक जानवरां वरी कुंब्देकुरकुर करून ताची मदत करपा बदला ताचे फोटो मारून ताचेर हांसून जे लोक आपापले वाटेन वताले, आयज तेच लोक म्हजो अंत करपा खातीर एकमेकाच्या सांगातान देवाचो धावो करतात. काल मेरेन 'शी, तूं पयस राव, तुजी जात वेगळी, तुजो म्हाका वीट दिसता' म्हणपी लोक आतां काजुल्यांवरी सगले एकठांय आयल्यात. आतां खंय आसा जाती पातीचें राज्य? आतां खंय कोणाचें जाती पातीचेर लक्ष वता? आतां फकत एकूच जात, मनीसपणाची. कोरोना जर कोणाकूय जालो जाल्यार ताका वखद करपा खातीर जाती कडेन लक्ष वचना. ल्हान ल्हान कार्यावळींक कितलेशेच डबे भरून अन्न भायर उडयणारे लोक आतां साद्या एक दोन कील तांदळां खातीर दुकानार वरांचीं वरां रांकेंत रावतात. आयज अन्नाचेर खोट मारपी लोक आपल्याक कितें मेळटा तें पोटांत यालतात. फकत जगपा खातीर आसा ते परिस्थितींत कशें काटकसरीन जगप, आपले कडेन जे नग आसात तांचो वापर मर्यादीत रुपांत कसो करप हे सगले शिक्षण हांव लोकांक दितां. देवी, तुमी जाणांत न्हय, देवी सीतेक रावणाचे कैदेंतल्यान हाडपा खातीर राम नाम बरोवन उदकांत कितलेशेच फातर उडयल्ले आनी तांचो एक सांकव तयार जाल्लो! आयज असोच सांकव ह्या जगाचो तयार जाला. म्हाका सोपोवपा खातीर! आरे, आयज जर हांव येवं नाशिल्लों जाल्यार आनी कांय काळांत मनीस मनशाक कापून ताच्या मांसाचे कुडके तोडटोलो आसलो. मनीस फकत आपल्या दोळ्यांचेर गर्वाच्यो, मोठेपणाच्यो पट्ट्यो बांदून धांवतालो. खंय धावतालो, ताकाच कळनासलें. कांय जाण चुकून आपल्या शिखरा मेरेन पावताले सुद्दां, पूण कितलेशेच जाण हेरां बरोबर वळणांचेर धांवतना पडटाले, झडटाले. हेर लोक तांकां माडोवन फुडें धांवताले. हे शर्यतींत कितल्याशाच लोकांचो विनाकारण जीव वतालो. पूण हांवें, ह्या सगल्या लोकांक बंधन यालें. देखून ही शर्यत थांबली. आयज जर मनशां कित्याकूय लागून एकठांय जाली जाल्यार एकं ओळींत, शिस्तीत राविल्लीं दिश्टी पडटात. आयज मनशाच्या शेणलेल्या जिविताक खंय तरी एक वळण लागलां. जें केन्नाच लोकांक लागूं नाशिल्लें. आयज म्हजे खातीर एका आवय बापायक आपल्या भुरग्यां सांगातान वेळ घालोवंक मेळटा, ज्या भुरग्याक आपल्या आवय बापायचें तोंड लेगीत दिसनाशिल्लें. जाल्यार तशेंच एका भुरग्याचो मोग एका आवय बापायक मेळटा. आयज म्हजे खातीर ह्या पुराय जगाचें मंथन जालां आनी जाता. देवी, हांव हांगा रावपाक येवंक ना. हांव कांय तेंपान हांगासल्यान वतलों. पूण म्हजे खातीर ज्या प्रसंगांत आतां तुमी जगतात न्हय ती कायमची याद तुमच्या काळजांत उरतली. हांव कांय तेंपान वतकर सगलें आशिल्लें तशें सुरू जातलें. पूण त्या जगांत आनी पयलींच्या जगांत खूब फरक आसतलो! बरोच बदल जाल्लो आसतलो. हाच्या फुडें खंयचोच मनीस आपल्या मुळा पासून पयस वचचोना. अन्न आपल्याक नाका म्हूण ते ताट धुकलता आसतना ताचे हात हाच्या फुडें कडकडटले. ह्या जगाचें म्हजे खातीर मंथन जाता आसतना, मोगाचें आनी मनीसपणाचें, एकवटाचें अमृत ह्या मंथनांतल्यान भायर सरतलें. जें पुराय जगाचें रुपूच पालटून उडयतलें. चल येतां हांव, वाटेर कोणूय आनीक मनीस मेळटा जाल्यार पळयतां!''

कोरोना आपले वाटेन चलत रावलो.

धर्तरी माता शून्य नदरेन ताका पळयत थंयच उबी आसली. कोरोना अस्तंते कडेन वतालो. चलतां चलतां तसो तो नाच्च जालो...पूण तो दिसनासलो तरीय धर्तरी ताचे वटेन शून्य नदरेन पळयताली. ताकाय बी आनी अस्ताक गेल्ल्या सूर्याकूय बी!!



अस्नोडा-गोंय.मो.: 7768835310

कथा



मिलींद
म्हामल

# रान



पिलारच्या फादर आग्नेल महाविद्यालयांत ग्रंथपाल तशेंच गोंय विद्यापीठांत अतिथी प्राध्यापक म्हणून वावुरपी ***मिलिंद म्हामल*** इंदिरा गांधी मुक्त विद्यापीठ, पिलार गोवा अध्यापन केंद्राचे समन्वयक जावन आसात. तांचे कथासंग्रह, नाटकां, चरित्रां, इतिहास, ग्रंथसुची, दस्तऐवज संकलन अशीं साबार पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. तांकां साबार पुरस्कारूय लाबल्यात जातूंत गोमंतक मराठी अकादमीचो आनी धि गोवा हिंदू असोसिएशन च्या पुरस्कारांचो आसपाव आसा.

रामा रेनाक करी तो डोंगर बाबा बामणाचो आसलो, तो मेल्या उपरांत त्याच्या झिलान तो रामाक कळय नासतानाच दिल्लीच्या आम्रपाली बिल्डराक विकलो. तो आतां थंय तेचे प्लॉट करून बिल्डींगे बांदपाचे तयारेन आसलो. सगलां रानच तेणी विकत घेतलालां. त्या खातीर रामाचो परंपरागत धंदो बुडलो.

पंधरा मेक काजी सोडपाचे आसत अशी वार्ता मेळळी आनी आमी सगले खूश जालंव. वार्षिक परीक्षा सोपल्यां उपरांत सुट्टी पडली म्हणजे आमकां काजीनी वचान काजूबिये लागीं करपाचे वेध लागतत. काजी सोडप म्हणजे रानांतल्या काजींचे मालक काजींचो निमाणो उरबाडो काडून काजींनी वचपाचां सोडून दितत. त्या वेळार काजींचां उत्पन्न कमीं जाल्लां आसता आनी सदींच वचपाक त्यांका परवडपाचा नसता. दर वर्सा एकाद्रो दीस ठरोवन काजी सोडतत. मगेर सगल्यांक थंय वचपाची परवानगी आसता. विशेश करून आमचे सारक्या शाळकरी भुरग्यांक तेचो खूब फायदो जाता. चाळीस वर्सा पयलीं परिस्थितीच तशी आसली. कोणा कडेच आयचे सारके भुरग्यांक पॅकेट मनी दिवपाचे आसतत ही खबर ताकायत नसली. तशे ते दिवपाक इतके पयशे तरी कोणा कडेन आसले?.

त्या वर्सा आमचां वय फकत धा पंधरा वर्सांचां. पूण सोडलले काजू बिये लागीं करून चार पयशे मेळचे आशेक आमी काजींनी वचंव. सकाळ सांन काजींनी वचान काजीच्या खोलप्यांनी चुकान लागीं करपाचे उरलले काजू बिये सोदपाक आमचो कस लागतालो. निमणो उरबाडो काडल्या खातीर काजीच्या झाडाचेर एकाद्रो मुट्टो मेळप कठीण आसलां. एकाद्रा फाक ना जाल्यार काकाड्डो चुकान दिसा. सुके काजू बिये मेळलेच जाल्यार ते खोलप्यांनी, व्हाळयेंत, ना जाल्यार काट्यांनीं. काठये घेवन काजी पोनचे खोलये इसकील्या उपरांत काजू बिये दिसत. कापडाचे पोतये घेवंन सकाळीं भायर सरप आनी अकरा मेरेन काजी लागीं करून घरा पावत. तशेच सानचे दोनांक वसून स वरांचेर परत येवप.

रामा, सुनील, यशवंत, वासू आनी मी. आमचो एक ग्रुपच आसलो. आमचे पयकी रामा सगल्यांत हुशार!. तेचो बापूय काजींचा 'रॅन' करी,म्हणजे काजींच्या मालकाक ठरावीक पयशे आनी सगले काजू बिये दिवंन काजीचे मुट्टे लागीं करपाचां काम करी. म्हणजे इतके काजी बिये मेळानय सगलेच पोतये भरून मालकाक दिवचे पडत. म्हणजे रामा सुद्दा काजु बिये नसत. मगेर तो आमचे बरोबर काजु बिये सोदपाक येय. तेचे बरोबर सगलां रान आमी ढवळून काडूं. कोणाच्या काजींनी खंयच्या दिसा वचपाचा तां सगलां रामाच ठरय. सगलां रानच त्याका पाठ आसलां. खंयचे काजी तळा खूब काजी मेळटले हेचो बरोबर अंदाज त्याका आसलो, विशेश म्हणजे खंयच्याय झाळकुटांनी सहज शिरान तो काजु बिये इसकी. एकाद्री रोयण दिसल्यार आमचे हात पांय कापत पूण रामा थंय सहज वचा. एकाद्रे काजीर फकां ना जाल्यार काकाड्डे दिसल्यार तो ते सहज काडी. प्रत्येकाक कमीत कमी शंभरा वयर तरी काजी मेळतच. पूण आमचे पेक्षां तीन

चार पटीनी रामाक काजु बिये मेळत. मगेर परस्पर व्हरान ते दुकानार विकप. त्या वगतार वीस पंचवीस रुपया किलो काजींचो दर आसलो. सादारण वजना प्रमाण शंभर सवायशें काजी मेळल्यार एक कील काजू बिये भरत. सकाळ सांन काजींनी गेल्यार पन्नास रुपयांक खंयच भय नसलो. अशे करून धा बारा दीस काजींनी गेल्यार प्रत्येका कडेन पांचशी रुपया तरी जायत. त्या वगतार आमच्या बाबाचोच पगार तीनशी रुपया, म्हणजे आमचे खातीर ते खूब पयशे. आईक्य आपल्या झिलान कितके काजी लागीं करून हाडले हेची उत्सुकता आसली. तेतूरले दोनशे रुपया शाळेंत लागपी चोपडे, पुस्तकां आनी नवीन कपडे हाडपाक राखून दवरूं, आनी बाकीच्या पयशांची मज्जा करूं. मज्जा म्हणजे तिनसाना बाजारांत वचांन विठूच्या दुकानार भाजी पाव खावप. त्या काळांत तांच आमचां मोठां खाणा.

निमाण्या दिसा मात आमची पार्टी. आदले दिसा जमा जाल्ले सगल्यांचे काजु बिये एकठांय करून विकलाल्या पयशांतल्यान आमी चिकन आनी पावाची तयारी करूं. कोणायगेर चिकन करून डबो भरून परतून रानांत वचप आनी तां पावा बरोबर खावप. पार्टीच्या पयशांचो सगलो हिशेब रामा कडेन. एका वर्सा खंयसून कोण जाणा पूण तेणीं बियरी लिपोवंन हाडले, आनी घरां कडेन कळटांला म्हूण आमकां भय दिसपाक लागलो. पूण रामा म्हुणपाक लागलो,

'' अरे बियर म्हणजे सोरो न्हू, वगीच फाटीं फुडें करूंक नाका, कोडू लागता ती कडो कसो, वास ताकायत येयना, कोणांक कायच कळचां ना.''

त्या दिसा रामान धीर दिल्या उपरांत हळू हळू करून आमी सगल्यानीच पयलेच फावट बियरी मारले, आनी खऱ्या अर्थान आमची पार्टी जाली.

त्या काळांत कोणागेरच गॅस बी नसले. रानांत वचांन लाकडार्चे भरे हाडून पुरूमेत करचो पडा. काजीचो हंगाम नसताना दिवाळेच्या सुटयेन लोक दुसऱ्याच्या रानांत काठयां हाडपाक वचत. रानांत वचपाक सगल्यांक तशी मोकळीक आसली. फकत ल्हान ल्हान झाडां झुडपां हनपाची परवानगी आसली. मोठ्यां झाडांक कोण हात लाय नसलो. काजीच्या मालकांक काजूची झाडां मेकळीं जाल्ल्यान तेचो फायदोच जाय. आपापल्या आई बरोबर सगलेच ल्हान भुरगीं हंसोळी, फातरफळां बी खावपाक मेळटलीं म्हूण रानांत वचत. त्या निमतांत भुरग्यानीं धाकटो ताकायत भरो ताकायत हाडल्यार तेचो फायदोच जाय. रामा रानांत आसलो तर आपल्या आई येदोच भरो माथ्यार मारी. कोयतो घेवन काठ्यां ताकायत सपासप बेनी. रामाच्या रानांतल्या श्रेश्ठतेचो त्यांवा आमकां सगल्यांकच होवो दिसा.

रामा तसो रानांतलो वाघच आसलो. रानांतल्या सगल्या झाडांची जशी त्याका म्हायती आसली तशीं पशू पक्षांची सुद्दा आसली. शाळेंत ताकायत तो सदींच रानांतले गजाली सांगा. काजीच्या दिसांनी तो सानचो रानांत वचा आनी आपल्या कुटुंबाक मुट्टे लागीं करपाक मदत करी. रामा, रामाचे तीन भयणी, आनी आई बाबा मेळांन सगलींच काजींतलीं कामा करीत. आमी सुब्दां रामाचे मित्र क्यॉंवाय क्यॉंवाय निरो पिवपाच्या निमतान सानचे रानांत वचूं. त्या वगतार लांगी करून हाडलले मुट्टे वळून काजू बिये वेगळे करपाक मदत करूं. रामाच्या बापूय मगेर कोळमेंत उतरांन मुट्टे गमबूट घालून मळी. एकात फातरांन गुळगुळीत करून गोल बांदलाल्या कोळमेक एक ल्हानसो बुराक काडून त्याका एक नळो लायत. तेतूंरल्यान मगेर काजूचो रोस भायर येय. आलुमेनच्या पत्र्याच्या डब्यानी भरून मगेर तो घरा व्हरत. सगले मुट्टे मळून जाल्या उपरांत तेचो उरललो चोथो दोरयांनी बांदून तेच्चेर मोठ्ठो गुणो दवरीत. सगलो रोस गळांन जाल्या उपरांत निमणो तेतूंतल्यान निरो भायर येय.

काजीची पानांचे पुडे करून आमी तो पिताले.

''हेचे पेक्षे पिवर पिताल्यात जाल्यार आनी अर्दां वर रवचां पडटालां, मगेर इल्लो इल्लो गळटा तो खरो निरो.''- असां रामा म्हुणा खरां पूण तो मेरेन काळोख जाय, तरी पूण तेचे पयलीचो निरो आमकां अमृता सारको गोड लागा. किटले भरून तो आमी घरा व्हरंव. निऱ्याची निमणी चव रामाकच खबर आसली.

धावी पास जाल्या उपरांत गांवांत फुडल्या शिक्षणाची सोय नसली. म्हापशां ना जाल्यार पणजे वचाचां पडा. आमी सगले फुडल्या शिक्षणा खातीर कॉलेजांत गेलेंव. पूण रामाक फुडलां शिक्षण पुरां करपाक जमलां ना. रामाचो बापूय अकस्मात मेलो आनी ल्हान आसतानाच कुटुंबाची सगली जबाबदारी तेच्चेर इली.तेणी आपलो काजींचो धंदो मोठो केलो आनी काजीं बरोबरच आम्याचीं रेनाय तो करपाक लागलो. पावसाच्या दिसानी रानांत नासणो, हुडीत, कुळीत, आनी शेंगदाणोय लायतालो. गोरवांक चरवंकय रानांतच व्हरतालो. सबंद दीस तेचो रानांतच वयतालो.

आमी कामांक लागल्या कारणान रानांत वचान निरो पिवपाक आमकां वेळ नसलो. पूण रातचो मात भरपूर वेळ आसलो. मुट्ट्याचो रोस घरा पावल्या उपरांत रातच्या णव वरांक रामा आपल्या घरा फाटल्यान भाटी लायतालो. एके मोठे तांब्याचे मडकेन रोस ओतल्या उपरांत सकयले चुलींत आग घालीत. तो बरोच शिजल्या उपरांत चार पांच वरांनी पायपांतल्यान दुसरे एके मडकेंत त्याचा हुर्राक भायर येय. हुर्राक परतून तापयल्या उपरांत पिवर फेणी.

क्यॉंवाय तरी हुक्की येयल्यार आमी रामा वांगडा खबरी करपाक तेचे भाटयेर वयताले. गजाली करता करता रामा म्हुणटालो,

''अरे हुर्राक पिताल्यात जाल्यार पियात इल्लां इल्लां.''

''नका रामा आमी खबरीक येतंव तेच

बरे आसंव, आमकां आनी तू सोरो पिवपाक शिकंव नाका.''

''अरे इल्लां घेतल्यार काय लागाना, तेची डिग्री कमी आसता.''

''हुर्राक म्हूटल्यार सोरोच न्हू?''

''काय ना रे, निऱ्या सारक्यांत तां, बियरी मारतात तर मगे हुर्राक पिल्यार काय जालां!''

रामा जास्तीच आग्रो करूंक लागलो म्हूण आमी हुर्राकाचीय टेस्ट करून बगली, आनी मगेर आमकां चार आठ दिसांनी रामा कडेन वचान खबरी करपाची संवयच लागली.

''घेतल्यात मरे हुर्राक, मगेर सोरो पचवपाक तुमका जड न्हू, फाल्या येयात परत इल्ली फेणीच दितय तुमकां, आमचे इतली पिवर फेणी आनी खंयच मेळाची ना तुमकां, खंयसून खंयसून लोक येतत मरे व्हरान, माका खंयच वचपाची गरज ना, सगलां हंय नांवारच खपता.''

''आतां तुय ये मरे आमचे बरोबर.''

''मी ना रे येयनय.''

''म्हणजे?''

''म्हणजे काय?, अरे मी येवंक लागलंय तर मगेर धंदो करूंक पावाचय ना.''

''काय तरीच काय सांगतय, तुच आमकां शिकवपी मरे येवंक?''

''गिऱ्हायकां कशीं वाढतलीं तर?, नवीन गिरायकां बयपाक तसां करचांच पडता.''

''काजींतले पार्टेक बियरी मारपी मरे तूं?''

''तीं भुरगेपणा, बापूय मरान धंदो करूंक लागलाल्याक सगलांच सोडलां.''

रामान खरोच प्रामाणीकपणान धंदो केलो आनी तो वाढयलो. भाट्ये लायले ते शुध्द फेणी काडपा खातीर. क्याँवाच भितर नवसागर, बॅटरीतलीं रसायणा, वा साखर यालून तेची डिग्री वाडोवंक ना. म्हुणानच रामाची फेणी आयज फामाद आसा. पयसो लागीं करून हळू हळू रामान आपल्या भयणींचीं लग्ना लावन दिलीं, आनी आपलोय संसार उभो केलो. फुडे आमचींय लग्ना जालीं आनी आमची दोस्ती पातळ जाली. माका तर कामाच्या निमतान मडगांवा बिऱ्हाड करचां पडलां. ते खातीर आतां फक्त सणासुदीकच घरा. सात आठ वर्सां तर रामाच्या रानांत पांय सुद्धा थेवंक ना. मुट्ट्याचीं, निऱ्याची, चुरनांची, करवंदाची चव जिभेर आसली पूण माकाच वेळ नसलो.

खूब वर्सांनी पंधरा दीस खास सुट्टी काडून बायले भुरग्यांक घेवंन गावांक इल्लय. रामाक वचान मेळपाचां आसलां, पूण आतां तो काजींतलीं कामा आटपून तिनसानाच मेळटलो म्हूण त्याच्या घरा गेलंय. तीन वेळा उलो यालूनय रामान ओ दिवंक ना. शेवटाक तेची बायल भायर इली. तिचे हात शेणांत भरलले आसले. मी इचारलां,



''रामा आसां घरांत?''

''गेला आसतलो गू खावंक.'' इतक्यांच बोलांन ती घरान गेली ती भायरच येवंक ना. खूब वगत ती भायर येवंक ना म्हूण शेवटाक मीच थंयसून सटाकलंय. तिणें तां वाक्य वेगळ्या पद्तीन उच्चारलां आनी माका फुडें बोलपाची सोयच रवांक ना. रामाक आतां खंय सोदपाचो, आनी गू खावंक गेला म्हणजे नेमको तो खंय गेला तांच कळां नसलां. कदाचीत शेणान हात भरलले म्हूण तिणें तसां म्हुटलां आसतालां. देवळा कडेन सुनील मेळ्ळो. रामा बद्दल विचारलां त्याँवा तेणी म्हुटलां,

''खंयच ना जाल्यार भिवाच्या बार्रार मेळटलो.''

''फेणयेचो कळसो घेवंन गेला काय रे विकपाक?''

''आतां विकपाचां कांय ना, कळशाचे कळशे तो एकटोच सोपयतलो.''

सुनीलय आतां कोड्यान बोलतालो. तेचे कडल्यान रामान रानांतले काजी सोडल्याचां कळ्ळां. रानाच्या मालकान तां आतां कोणांक

तरी विकलां असां कळळां. दुसरे दिसा रामा देवळा कडेन बसललो दिसलो. माका बपून उठांन चलांकच लागलो. मीय तेचे फाटल्यांन गेलंय.

''रामा वांयसो राव रे.''

कांय अंतर फुडें वचान रामा थांबलो, माजे कडेन वळान बपल्यान आनी रडाकंच लागलो.

''मेल्यान पॉटार पांय दवरलो माज्या, बामणान डोंगर इकलो, आतां काय खांवचां आमी?''

''कित्याक म्हूण इकलो?''

''तां आतां मी काय सांगा, आमकां काजीनी वचपाचे बंद केले, थंय कायतरी बांदकाम चलता, बामणांक पंचवीस काजी बियांचे पोतये पावय मी, काय कमी आसलां रे त्याका, आमच्या पोटाच्या आड इलो.''

रामा रेनाक करी तो डोंगर बाबा बामणाचो आसलो, तो मेल्या उपरांत त्याच्या झिलान तो रामाक कळय नासतानाच दिल्लीच्या आम्रपाली बिल्डराक विकलो. तो आतां थंय तेचे प्लॉट करून बिल्डींगे बांदपाचे तयारेन आसलो. सगलां रानच तेणी विकत घेतलालां. त्या खातीर रामाचो परंपरागत धंदो बुडलो. काजीय गेले आनी आम्याची रेनाय गेलीं. फाटलीं दोन वर्सां तो बेकारच उरलो. आनीक कसलांच काम करूंक ना म्हूण फुडें काय करपाचां तां त्या कळांक ना, आनी तो सोन्याक पेटलो. मी रामा बरोबर चार गजाली केले आनी त्याच्या सोन्या बद्दल विचारलां.

''रामा आतां खूब पितय खंय मरे तूं?''

''काय करतलंय आसलंय तूंच सांग, बामणान काजी सोड म्हूण सांगतकत भिरभिरीच मारली, त्याच पिकासांवान मगेर घरांत आसलली बाटली तोडांक लायली, आनी मगेर घेयत रवलंय, अरे इतकीं वर्सां सोरो काडलो, पूण क्यांवां तोंडाक लावंक ना, आतां कसो लागता तो बपतंय.''

रामाक तोल सांबळाना जालो, आपलेच धुंदीत तो चलत रवलो.

दोन दिसांनी वासू आनी यशवंत देवळा कडेन बसलले मेळळे. आमचे खूब खबरी जाले.

''सामकी वाट लायल्यान रे रामान, खूबच पिता.''

''त्याचा सोड, बायले भुरग्याचीय वाट लायल्यान, आवस हतूरनार आसा.''

''घरा कडेय रामाक वचांन मेळपाची सोय ना रे, कोणय येयल्यार गाळीच घालता, तिका दिसता रामाक सोदूंक येतत जाल्यार बार्रार वचपाक आफयतत.''

''बायल आनी काय करतली, कामांक वयता कायरे तां आतां?''

''आतां तिकाच काम करूचां पडलां न्हू? थंयच वयता रे तां.''

''म्हणजे?''

''अरे त्याच रानांत, थंय आतां बिल्डींगे बांदतत न्हू, थंयच कसलां तरी काम करता.''

थोड्या वेळान रामाची स्वारी इली, त्याका बगल्या उपरांत सुनीलान टोमणो मारलो,

''रामा आयज न्युट्रल सो दिसता.''

''न्युट्रल तर, घेवपाक पयशे नाका.''- रामा.

''तुका आतां घेवपाक कितके पयशे जाये रे, वांयसो घेतल्यारय लागता मरे तुकां.''

''आतां डिग्री बिग्री काय लागाना त्याका, मेळता तां पिता. बॉडी बप मरे कशी जाल्या ती?''- वासू.

''मातशे वगी रवात बपया, परत परत कित्याक सतायतात.''- रामा.

''आमी कित्याक सतायतलंव, आमचां काय तूं आतां सांगलांला आयकतय, तुजे तूंच करतय सगलां.''

खूब वगत रामा वांगडा असले नाका जाल्ले खबरी जाले. खंयसून तरी रामाचो झील धावत इलो आनी म्हुणपाक लागलो,

''डॅडी, तुका मम्मान कोंबडी धापूंक सांगल्यात, तिनसाना पयलीं घरा वच.''

''आनी आमचां कोंबडां खंय गेलां तर?''

''रानांत गेली काम करूंक गवण्या वांगडा, दुरीग बांदतत खंय.''

''त्याका हजार फावटी सांगलां, आनीक खंय वच पूण रानांत काम करूंक वचांक नाका''

झिलान तां ना आयकलाल्या सारक्या केलां आनी तो भुरग्यां वांगडा खेळपाक गेलो. सुनील म्हुणपाक लागलो,

''तुका जमाना मरे काम करूंक, कसां जातालां तुमचां, तिका आतां कामांक वयचांच पडलां न्हू?''

''कामांक वचानी रे, पूण रानांत कित्याक, थंय आमचां काय दवरलां त्यांच्यानी?'' - रामा.

''कितके दीस बायलेक काम करूंक सांगतलंय?''

''तुमी माका सतावंक नाकात बपया, मी आतां वयतय हंयसून..''- असां म्हुणान रामा चलांकच लागलो.

''रामा, रामा.. वांयस्सो राव रे..'' - मी त्याका आडावपाचो प्रयत्न केलो तसो सुनील म्हणपाक लागलो,

''कोणांक रवांक सांगतय, आमी ते सगले प्रयत्न करून बपले, तो पावलो आसतलो भिवाच्या बार्रार, टायम जातकत तो आनी रवाना, रामाचो तळीराम जाता.''

खरांच, रामाच तळीराम जाल्लो. रानांतलो वाघ, जेणी रानाच्या जिवार खूब कश्ट करून आपलो संसार उभो केलो, त्याच रानान आतां त्याच्या संसारांत रान माजयलां.



फादर आग्नेल म्हाविद्यालय,
पिलार गोंय ४०३२०३
मो: 9822580789
milindmhamalgmail.com



कथा

मीना काकोडकार



# आलिया हुंदरांसी असावे सादूर..!

'डोंगर चंवल्ला 'ह्या कथा संग्रहाक आनी 'सांवळ्यां रेगो' ह्या अणकाराक केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार लाभिल्लीं **मीना सुरेश काकोडकार** हांची कोंकणी कथा, कादंबरी आनी ललित लेखनाच्या मळार आपली अशी खाशेली सुवात आसा. तांच्या कथांक आशिल्ली विनोदी झालर एक खुसखुशीतपणा घेवन येता.

*घर आनी घरा भोंवतणचो वाठार तार्णे भोंवन पळयलो आनी 'जंय जंय हुंदरांची चड येरादारी आशिल्ली थंय थंय एक एक काप दवरचें पडटलें' म्हणून सांगलें आनी ते प्रमाण तार्णे सगल्याक कापां दवरलीं. हीं कापां खावन हुंदीर मरतलेच म्हणपाची गॅरेन्टीय तार्णे दिली.*

**प्र**काशाल्या घरांत हुंदीर जाल्यात. सुमारा भायर हुंदीर!

''जगांतले सगले हुंदीर आमगेर बिराडाक आयल्यात काय दिसता!''नयन फडफडलें.

रांदचे कुडींत किर्तेंच उकर्ते दवरपाची माणसुकी नाशिल्ली. रोकडेच हुंदीर थंय पावताले.

केन्ना केन्ना तोपा वयलें धांपर्णे काडून भितर तोंड घालपा इतली तांची मजल पाविल्ली.

ओट्या वयले पाव घेवन ते पोरसांत धांवताले.

एक दीस येदो व्हडलो पाव घेवन धांवतना नयनान हुंदराक पळयलो आनी ताका पाव खावपाचीच वीट शी दिसूंक लागली.

तांदळा साकाक बुराक मार, कापूस घालून दवरिल्ले पोतर्येत पिलां काड, भाजी चाबडावन उडय, अशीं तरेकवार कर्तुबां ते करताले. इतलेंच न्हय तर कोठये कुडींतल्या डब्यांचेर बसून ते सेकसोर्त नयनाक पळयताले.

भय-भिरांत तांकां उरूंकच नाशिल्ली.

'पाड पडूं सायबिणी हांचें! आमचे भुरगेपणांत कोण बाबडो पेपारें वाजोवन सगल्या हुंदरांक न्हंयत व्हरून सोडटालो तो खंय मेळत काय?'

बेठोच नयनाचे तकलेंत विचार येवन गेलो.

रांदचे कुडींतलो धुमाकूळ थोडो म्हणून एकदीस हुंदरांनी प्रकाशाले म्हत्वाचे फायलीक तोंड लायलें आनी पानांच्यो तिरस्त्यो केल्यो. म्हणटासर लायब्ररींतल्या पुस्तकांचीं पानां तांकां चविश्ट लागलीं.

आता मात प्रकाशाच्या घरांत आणिबाणी लागली. किर्तेंय पूण उपाय काडले बगर गत्यंतर नाशिल्लें.

इंदू मावशेन सांगलें, ''आरे प्रकाश, हांव सांगतां तें आयक. हुंदरांचे पांदरे हाड घरांत. बरीं कावाचीं भजीं बी लाय भितर आनी मागीर पळय हुंदीर उणे जातात काय ना ते!''

बबितान सांगलें,''नयन, घरांत माजर पोस. सगले हुंदीर नाच्च जातले!''

प्रकाशाक आनी नयनाक माजर पोसप हो पर्याय पांदऱ्या परस बरो दिसलो.

पूण बेठेंच माजर पोसतलीं म्हळ्यार जाता? तशेंच शिटूक माजर मेळूंक नाका?

उपरांत 'बरीशी चली आसल्यार सांगात..' अशें म्हणपी चल्यांच्या आवय बापाय भशेन प्रकाश आनी नयन 'हुंदीर धरपी बरेंऽऽशें माजर आसल्यार सांगात' असो रकाद हाका ताका धाडूंक लागलीं.

अलकागेर सात आठ माजरां आशिल्लीं. ताका तीं चड जाल्लीं. म्हणटकीर प्रकाश माजर सोदता ही गजाल कानार पडटकीर तें आपलीं तीन माजरां घेवन तांगेर गेलें.

''आमकां फकत एकच जाय.'' नयनान ताका स्पश्ट सांगलें.

''हय गो. पूण ह्या तिगांतलें हुंदीर धरपी शिटूक खंयचें माजर तें पळय आनी ताका दवर. बाकीचीं दोन परतीं व्हरतां.'' अलकान म्हळें.

''तुजींच माजरां म्हणटकीर खंयचें हुंदीर धरूंक शिटूक तें तुका खबर ना?''नयनान विचारलें.

''ना गो ! म्हाका कशें कळटलें? आमगेर बाये हुंदीर नात. आमचें घर सामकें चकाचक!'' अलकान म्हळें. हें आयकून नयनाक सामको फडफडो मारलो. अलका वतकीर तार्णे प्रकाशाक म्हळें, ''पळयलें तुवें, अलकान कसो थोमणो मारलो तो? तांचें घर सामकें चकाचक खंय!''

''नयन, थोमणो न्हय गो तो! तूं बेठेंच...'' प्रकाशान म्हळें.

''तूं ताजीच पार्त घेतलो. क्लासमेट न्हय तें तुजें?''

''आगो!''

''कांय उलोवं नाका. म्हाका सगळें खबर आसा.''

''आगो..!''

''अलकालीं तीनय माजरां व्हरून दी परतीं. ताच्या चकाचक घरांतच सोबतलीं तीं!''

''आगो पूण हुंदीर..?''

''हुंदीर परवडले पूण अलकाचे थोमणे न्हय!''नयनान नाक वरशें करून सांगलें. प्रकाशान माजरां व्हरून परतीं दिलीं. पूण तेच राती हुंदरान नयनाच्या पांयां बोटाक घांस मारलो आनी हुंदीरय आपल्याक परवडपाचे नात हें ताका पटलें.

०००

त्याच दिसांनी प्रकाशाच्या इश्टान- अनिलान ताका फोन केलो. अनिलाचो बापोलभाव सुदीन रावतालो, ताच्या शेजरा कोणागेर खंय खूब्ब माजरां आशिल्लीं. मागल्यार एक माजर मेळूं येतालें.

नयनान प्रकाशाक म्हळें,''आतां आनी वेळ वगडावंक जायना. इतलो तेंप हुंदीर खाण, पुस्तकां बी चाबडायताले. पूण आतां तांणी आमचेर हात घाला. हाचे फुडें ते कितें करीत सांगूक येवचें ना. तुमी बेगीन वचून माजर घेवन येयात.''

प्रकाशान अनिलाक फोन करून आपूण माजर व्हरूंक येतां म्हूण सांगलें.

प्रकाश एक बारकेट घेवन माजराक हाडूंक मोटारींत बसलो तेन्ना नयनान दोळ्यांत सामकीं दुकां हाडून 'माजर घेतले बगर येवूं नाका' अशें ताका सांगलें.

प्रकाशाचो फोन येतकीर अनिलान सुदीनाक फोन करून 'प्रकाश माजर व्हरूंक येतलो' म्हणून सांगलें. सुदीनानय वेळ वगडाय नासतना ताच्या शेजाऱ्याक, सुबोधाक ही बातमी कळयली.

प्रकाश येतकीर अनिल ताका घेवन सुदीनागेर गेलो आनी उपरान्त तीगय जाण सुदीनाल्या शेजाऱ्यागेर-सुबोधागेर गेले.

सुबोधान तांकां बरे तरेन येवकार दिलो. घरांत बरींच माजरां भोंवतालीं. दोग जाणां पांय वरशे करून सोफार न्हिदिल्लीं. सकल दोन पिलां एकामेका वांगडा खेळटालीं आनी भितरल्यान माजरांच्या झगड्यांचो आवाज येतालो. अनिलान सुदीनाक कुरू केली. ताणें म्हळें,''सुबोध, आरे, ह्या प्रकाशाक माजर जाय आशिल्लें.''

''आई..''सुबोधान आवयक उलो मारलो. ''आमच्या माजरांचो वेव्हार आमची आईच पळयता.''ताणें म्हळें.

'आई नाल्लांचो वेव्हार पळयता' म्हणिल्ले भशेन तो उलयिल्लो.

तिगानींय मानो हालयल्यो.

'आई' भायर आयली.

''कितें रे?'' तिणें कमरार हात धरून विचारलें.

''आई, हांकां माजर जाय. तुका पयर सांगिल्लें पळय हांवें!''

''कोणाक जाय? हाका? काय हाका? काय ताका?'' दर एकल्या वटेन बोट दाखयत 'आई'न विचारलें.

''ना नाना..म्हाका नाका. हांव तुमच्या शेजराच रावतां. तुमचीं माजरां आमगेर येवन दूद पियेवन बी वतात. आमकां आनी वेगळें माजर कित्याक?''सुदीनान म्हळें.

'आई'च्या कपलाक आटयो पडल्यो.

''आमचें खंयचें माजर तुमगेर दूद पियेवन वता? रामू काय राजू? नंदी काय बिंदी? काय...''ती सगळ्या माजरांचीं नांवां घेवंक वताली पूण सुदीनान तिका मदींच तोडीत म्हळें, ''आमकां तांचीं नांवां खंय खबर आसात? चार दोंके, एक शेंपडी आनी दोन कान आसले काय आमी तांकां माजर म्हणटात.'' आपल्याच विनोदाचेर सुदीन खो खो करून हांसलो.

'आई'च्या कपला वयल्यो आंठ्यो दुपेटीन वाडल्यो.

''चार दोंके, एक शेपडी आनी दोन पांय असंख्य प्राण्यांक आसतात. तांकां सगळ्यांक माजरां म्हणपाचीं?''

''तशें न्हय!'' सुदीनाक आपणें खंयचें तोंड उकतें केलें कशें जाल्लें.

'आई' पुण्याची बी काय! असो प्रकाशाक दुबाव मारलो.

आपले आवयचो स्वभाव खबर आशिल्ल्या सुबोधान प्रकाशा कडेन बोट दाखोवन म्हळें, ''आई, हांकां माजर जाय.''

''हय. घरांत खूब हुंदीर जाल्यात.'' प्रकाशान म्हळें.

''म्हळ्यार तुमकां कामाक लावंक माजर जाय!''

''कामाक लावंक जाय म्हणजे?''

''म्हणजे अशें..हुंदीर धरप म्हळ्यार व्हड जापसालदारकेचें काम. दिसता तितली सोपी गजाल न्हय ती. रातभर पाळत दवरून जागें रावचें पडटा!''

''ना. ते दिसाचेच भोंवतात.''

''म्हणजे ताणें दीस आनी रात काम करचें शें दिसता तुमकां?'' 'आई'न आंठ्यां वांगडा आतां नाकय फुलयलें.

''ना-ना. म्हज्या म्हणपाचो तसो अर्थ न्हय.''

नाका हिचें माजर अशें म्हणून तडक भायर सरचें अशें प्रकाशाक दिसलें. पूण नयनाचीं दुकां आनी उतरां ताका याद जालीं आनी तो मनांतल्या मनांत हुंदरांक गाळी घालीत बसून रावलो.

प्रकाशाची गत पळोवन अनिल ताच्या आदाराक धांवलो.

''ना, कामाक न्हय,अपुरबायेन पोसूंक जाय तांकां माजर. तांच्या घरांत सगल्यांक माजरां आवडटात. नयन भाभीक तर खुबच.''

''अशें? तशें जाल्यार इतलो तेंप कित्याक पोसलें ना माजर?''आईचो प्रश्न.

हाका अनिला कडेन जाप नाशिल्ली. तो प्रकाश जाप दितलो म्हूण ताचे कडेन पळोवंक लागलो.

पूण नयनाक माजरां आवडनात. घरांत हुंदीर नाशिल्ले जाल्यार तें माजर हाड म्हूण केन्नाच सांगचें नाशिल्लें हें खबर आशिल्ल्यान प्रकाशान ताची नदर चुकयली.

आपले झोळयेंत 'आई' माजर घालतली

काय ना हाचो प्रकाशाक अदमास येना जालो.

''आमचीं माजरां सामकीं अपुरबायेन वाडल्यांत. तीं नुस्त्या बगर जेवनात. सकाळ फुडें वाटीभर दूद पितात. तुमी करतले हें?''

प्रकाशान मान हालयली.

''तुमकां कोण जाय? माजर काय बुकलो?''

''कोण चड शिटूक हुंदीर धरूंक?''

''तुमचे हुंदीर कितले शिटूक आसात ताचेर सगळें अवलंबून!''

'आई'क कितेंच विचारपाची माणसुकी नाशिल्ली. विचारप सोडा तिचे मुखार तोंड लेगीत उकतें करपाची माणसुकी नाशिल्ली.

''हुंदीर मारलो जाल्यार ताका तो खावंक दिवंक जायना.'' आईन म्हळें.

''मारलो जाल्यार म्हणजे? ताका हुंदीर मारूंकच व्हरतात न्हय?''

''हय. पूण हालीं तेंपार कित्याचीच गॅरेन्टी दिवंक येवची ना. आमचें माजर म्हळ्यार फ्रीज न्हय गॅरेन्टी दिवपाक, हुंदीर मारतलें म्हणून!''

प्रकाशान कपला वयलो घाम पुसलो. असलें हुंदीर मारतलो म्हूण गॅरेन्टी नाशिल्लें माजर घेवन आपूण घरा गेलों जाल्यार आपल्याक तें खावडीकच म्हारग पडटलें अशें ताचे तकलेंत येवन गेलें.

सोफार न्हिदिल्ल्या दोनय माजरां कडेन आईन बोट दाखयलें.

''कोण जाय तुमकां? हो बुकी आनी हें बिलू..''

बुकीच बरो..बिलून पिलां काडल्यार तांकां सांबाळटलो कोण अशें तकलेंत येवन प्रकाशान म्हळें,''बुकी.''

''बुकीच्या जिवाक बरें दिसलें ना जाल्यार ताका रोकडोच दोतोराक दाखयात. सुबोध, बुकीच्या दोतोराचें नांव बरोवन दी तांकां.''

प्रकाशान मान हालयली.

''बुकीक तुमचें घर नवें. तो घडये पळून हांगा येवंक सोदीत. तुमचीं जनेलां, दारां धांपून दवरात.''

प्रकाशान परत मान हालयली. मान हालोवन, हालोवन ती धरत म्हणून ताका हुसको जाल्लो.

'आई'न बुकीक पोशेलो. ताची अपुरबाय केली आनी सुबोधाक ताका प्रकाशा कडेन दिवंक सांगलो.

प्रकाशान गाडयेंतलें बारकेट काडलें. सुबोधान बुकीक तातूंत बसयलो, प्रकाश आनी अनिल बुकीची पालखी घेवन घरचे वाटेक लागले.

अनिलाक ताच्या घरा पावोवन प्रकाशान आपल्या घरचो मार्ग धरलो.

ooo

नयन सामकें वाटच पळयतालें. बारकेटांत माजर पळोवन ताका सामकें रसू जालें.

''नयन, दारां, जनेलां बी धांपून ये आं! आमचें घर ताका नवें, तो पळून बी वचत.'' प्रकाशान सांगलें.

नयनान सगळें धांपून घेतलें. कोठ्ये कूड मात उकती दवरली. भितरल्या डब्याचेर बसून एक हुंदीर टुकू टुकू करून नयनाक पळयतालो.

''रावात पाडपडिल्ल्यानो, तुमचो काळ आयला आमगेर तुमकां बुद्द शिकोवंक!'' तार्णे हुंदराक सांगलें.

प्रकाशान अजून बुकीक बारकेटांतल्यान भायर काडूंक नाशिल्लो. तोय बी बरो सुश्शेगाद भितर न्हिदिल्लो.

''भायर काड मरे ताका. हुंदीर रावल्यात ताका.'' नयनान म्हळें.

नव्या जाग्यार पाविल्लो बुकी बारकेटांतल्यान भायर येवन आपल्याक बुड्डीत म्हणून प्रकाशाक मातसो भंय दिसतालो. तरीक्य तार्णे ल्हवूच बारकेट उकतें केलें.

''आरे उठ बेगीन. हुंदीर रावतात तुका!'' नयनान म्हळें.

घडये ताचो आवाज आयकून बुकीन आळस दीत दोळे उकते केले. खिणभर तो ह्या परकी मनशांक पळयत रावलो आनी मागीर तार्णे बारकेटा भायर उडी मारून एक बारीकशी डरकाळी फोडली...

''म्यांऽऽव..''

कोठ्ये कुडींतल्यान डबो पडिल्ल्याचो आवाज आयलो.

''आवयरस! बुकीच्या आवाजाकच भिलो मूं हुंदीर!!''नयन खोशी जालें.

बुकी सरळ रांदचे कुडींत गेलो.

प्रकाशान म्हळें, ''पळय गो शिटूक आसा आं तो! ताका रांदचे कूड खंयची तें जूरत कळ्ळें!''

''रांदची कूड सोड रे. ताका कोठ्ये कूड वळखूंक आयल्यार पुरो!''नयनान म्हळें.

''नयन ताका वाटीभर दूद दी आं पियेवंक, 'आई'न सांगलां.''

''ही 'आई' कोण?''

''हो बुकी आईगेर सावन हाडला.''

नयनान वाटयेंत घालून दूद दवरलें. बुकी तें पिलो आनी परतलो. कोठ्ये कूड वाटेरच आशिल्ली. थंय खट्ट खट्ट जातालें. पूण बुकीन थंय दाव्या दोळ्यान पसून पळयलें ना. तो तडक सालांत वचून सोफाचेर लवंडलो.

''आंवय!!''नयन पिरंगलें. ''कोठ्ये कुडींत गेलो पसून ना तो!''

''नवोच आसा तो. अजून हुंदराक वळखना तो!''

''वळखना म्हणजे?''

''म्हणजे ही आपणें खावपाची वरत हें ताका खबर नासतलें! तो नुस्तें खाता.''

''नुस्तें खावपाक हाडला तुमी ताका हांगा?''

''आगो, निकतोच येता थंय आसा तो. रोखडोच कामाक लायता ताका?''

''हें कसलें काम?''

''हुंदीर धरप ही दिसता तितली सोपी गजाल न्हय. रातभर जागो रावन पाळत दवरची पडटा..!'' प्रकाशान 'आई'चीं उतरां नयनाच्या कानार घालीं.

''हीं असलीं पिशेपणां म्हाका सांगू नाका आं! पाळत दवरची पडटा खंय! ''नयनान नाक वर्शें केलें. ''हें कोणें 'आई'न सांगलें तुका? आनीक कितें सांगलां?''

''बुकी नुस्तें आसले शिवाय जेवना खंय!''

''आज सोमार. नुस्तें ना.''

''ताका सोमार खंय लागता गो?''

''आमकां लागता म्हणून आज नुस्तें मेळचे ना..''

''खारो बांगडो तरी...''

''खारो, गोड, तीख कसलोच बांगडो मेळचो ना.'

''नयन, तो पोर उपाशीं उरतलो मगो?''

''हुंदीर मारून खावं दी ताका.''

''शे! शे! ताणें हुंदीर मारल्यार ताका तो खावंक दिनाका म्हणून सांगलां आईन.''

''आई आसा हांगा?''

''ना गो. पूण तिका उत्तर दिलां म्हणटकीर...!''

''म्हाकाय तुमी कितलींशींच पोर्की उतरां दिल्यांत.'' नयनान तापून सांगलें.

प्रकाश मोन्यानी भायर गेलो. सोफार न्हिदिल्ल्या बुकीक ताणें पोशेलो आनी 'फाल्यां तुका चड नुस्तें यालतां रे पोसा!' म्हणून ताका उत्तर दिलें.

हाचे वयल्यान धा दीस गेले. पूण बुकीन हुंदीर मारपाचे दिकेन आपलें दावकूल घालें ना.

फक्त नुस्तें रगडप, दूद पिवप आनी सोफार ताणून दिवप इतलेंच तो करतालो. ते भायर घरांत हागतालो आनी वचत थंय स्प्रे मारतालो. सोफा वयल्या सोबीत कुशनांची नाकटांनी बुड्डून ताणें वाट लायिल्ली.

एक दीस तर मोटेल्या हुंदराक पळोवन बुकी भियेलो आनी बाजे पोंदा वचून लिपलो.

''हें मात चड जालें आं!''नयनान प्रकाशाक सांगलें.

''आयिल्ल्याक हाणें एक पसून हुंदीर मारूंक ना. खर्चाक मात माल्लें आमकां!''

''मारतलो गो आनीक दोन दिसांनी.''

''तें तुमी म्हाका सांगूं नाकात.आत्ताचे आतां आईगेर पावयात.''

प्रकाशाचेर आकांत आयलो. आईचे तोंडाक लागपाचो ताका धीर जाय नासलो.

''आसूं गो...हाडला न्हय ताका पोस्सूंक..!''

''तुमी ताका परतो पावयलो ना जाल्यार मोगऱ्याक सांगून हांव ताका नुस्त्या मार्केटांत सोडूंक लायतलें.''

नयन सामकें हट्टाक पेटिल्लें.

'आई'च्या अपुरबायेच्या बुकीक नुस्त्या मार्केटांत कशें सोडूं येतालें..?



उपाय नासून बुकीची पोटली घेवन प्रकाश भायर सरलो.

अनिलाक धिराक वांगडा घेवन तो सुबोधागेर गेलो.

आईनच दार उकतें केलें.

प्रकाशाचीं उतरां गळ्यांतच अंदलीं.

प्रकाशाच्या हातांतलें बारकेट पळोवन आईन खोश्शेन म्हळें, ''आगे बाये, बुकी परतो आयलो!'' ताका भायर काडून तिणें ताका घट्ट वेगेंत घेवन अपुरबाय केली.

बुकीक कित्याक परतो हाडलो तें प्रकाश सांगपाचो ट्रय करतालो पूण आईन ताका ती संदच दिली ना.

''तुमी कितें माजर पोसतले? तुमी हुंदरांकच पोसपाचें!'' अशें म्हणून बुकीक घेवन ती तुरतुरीत भितर गेली.

इतल्याचेरूच सुटका जाली म्हणून प्रकाशाक रस्सूऽऽ जालें.

०००

हुंदरांचो प्रॉब्लेम सुटऽ नाशिल्लो.

तेन्नाच प्रकाशान एक जायरात पळयली.

एक कंपनी खास हुंदीर मारपाचीं कापां तयार करताली. तांचे कडेन कॉन्ट्रेक्ट केलो जाल्यार तांचो मनीस येवन फुडली सगली जापसालदारकी घेतालो.

प्रकाशान वेळ लायनासतना पयशे भरून कंपनी कडेन तीन म्हयन्यांचो कॉन्ट्रेक्ट केलो.

कंपनीचो एक मनीस कापांचें बॅग घेवन तांगेर आयलो.

घर आनी घरा भोंवतणचो वाठार ताणें भोंवन पळयलो आनी 'जंय जंय हुंदरांची चड येरादारी आशिल्ली थंय थंय एक एक काप दवरचें पडटलें' म्हणून सांगलें आनी ते प्रमाण ताणें सगल्याक कापां दवरलीं.

हीं कापां खावन हुंदीर मरतलेच म्हणपाची गॅरेन्टीय ताणें दिली.

''कितले दीस लागतले?''नयनान विचारलें.

''तशें सामकें सांगूंक जावंचें ना. पूण कॉन्ट्रेक्ट सोपचे पयलीं हुंदीर ना जातले हें नक्की.''ताणें म्हळें.

''आनी ना जाले ना जाल्यार?''

''जाल्यार कॉन्ट्रेक्ट आनीक वाडोवपाचो.''

हें आयकतकीर प्रकाशाक चिन्न बरें लागलें ना.

अर्दी मर्दी येवन आपूण परिस्थिती नियाळटलो अशें ताणें नयनाक आनी प्रकाशाक सांगलें.

सद्दां सकाळीं उठून हुंदीर खंयच मेला काय कितें हें सोदपाचें आनीक एक चडावत काम जावन पडिल्लें.

पूण कापां दवरून पंदरा दीस जावन गेले तरीकय एक लेगीत हुंदीर मेल्लो दिश्टी पडलो ना.

वीस दिसांनी कंपनीचो मनीस नियाळ घेवंक आयलो.

नयनान म्हळें,''एकय हुंदीर मरूंक ना.''

ताणें नयनाक समजायत म्हळें, ''मॅडम, हुंदीर पयस वचून मरतात. तुमकां दिसचे नात ते!''

''पूण तांणी कापांय खावंक नात.तश्श्या तशीं आसात!''

''शे शे! कापां खाल्यांत तांणी. पूण तुमकां कळचें ना तें. ते खातीर प्रोफेशनल नदर जाय पडटा!''

(पान क्र. ८८ पळयात...)




दत्ता दामोदर नायक

**जाय काय जूय** ह्या ललित निबंधाच्या पुस्तकाक केंद्रीय साहित्य अकादेमीच्या पुरस्कारान सन्मानीत जाल्ले **दत्ता दामोदर नायक** हे कोंकणींतले विनोदी, त्रोसात्मक आनी वैचारीक ललित साहित्य रचपी आयच्या काळावेले एक लोकप्रिय लेखक. तांचीं साबार पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. ते बिम्ब मासिकाच्या ज्ञानपीठकार रवीन्द्र केळेकार यादस्तीक पुरस्काराचे मानकरी जावन आसात.

*आयचे हे घटकेक काशिनाथ दामोदर नायक(केडीएन) उद्योग समुहाचे बागायत, अन्न प्रक्रिया, लॉजिस्टीक्स, घर बांधणी आनी रिटेल अशे वेगवेगळ्या मळावेले पांच उद्योग चलतात. हांवें आमचो हो पुराय धंदो म्हजो पूत चिरागा कडेन सोपयला.*

# एका उद्योगकाची आत्मकाणी

फाटल्लीं शंबर वर्सां वेपारांत आशिल्ल्या एका घराब्यांतल्यान हांव आयिल्लों आसां. आमी ब्रिटानिया, कॅडबरी, ब्रुक बॉन्ड, किसान, पॅरी कॉन्फेक्शनरी, लकमे सारख्या नावारत्या कंपन्यांचें प्रतिनिधीत्व केल्लें आसा.

मागीर १९८० च्या सालांत आमी हो एजन्सी चलोवपाचो धंदो बंद केलो आनी ब्रिटानिया बिस्कुट्यो, ब्रिटानिया डेअरी, कॅडबरीज तशेंच रॉयल एनफिल्ड, फेर्रेरो रोचर आनी व्ही गार्ड सीएनएफ एजन्ट म्हूण जापसालकी घेतली. आमचो हो म्हत्वाचो निर्णय थारलो आनी हाका लागून आमच्या नफ्यांत वाड जावंक पावली. अशें आसलें तरीय पनामा, ब्रिटानिया, आनी कॅडबरी हातूंत प्रचंड उलाढाल जावन लेगीत तातूंतलो नफो मात मार्जिनलूच आसतालो. पूण जेन्ना जीएसटी लादली तेन्ना कॅडबरीज, रॉयल एनफिल्ड आनी फेर्रेरो रोचर कंमन्यो आमी सोडल्यो आनी ब्रिटानिया तशेंच व्ही गार्डचे सी एन्ड एफ एजन्ट म्हूण आतां हे घटके मेरेन ताबो दवरून आसात.

आतां सीएनएफ एजन्टाची ह्या वेपारांत भुमिका म्हळ्यार ते ते कंपनीच्या म्हालाची साठवण करपा पासत तांकां फावो ती सुवात फैदासून दिवप. तेच वांगडा ह्या एजन्टांची जापसालदारकी आसता ती म्हळ्यार मुखेल गुदावांतल्यान गोंयच्या वेगवेगळ्या वाठारांतल्या व्होल सेल वितरकां मेरेन म्हालाची येरादारी करप. हो सगळो धंदो तसो विशेश धांवपळ करी नासतना सातत्यान येणावळ दिवपी थारिल्लो.

त्या उपरांत वर्स २००० हें म्हज्या वेवसायीक जिवितांत भोवच म्हत्वाचें वर्स थारलें अशें म्हाका दिसता.

आमकां अन्न प्रक्रिया अणभव आशिल्ले कारणान मुंबयच्या मोंजिनीस फूड्स प्रा. लिमिटेडच्या खोरीकावाला हाणें मोंजिनीसची उत्पादन फ्रेन्चायजी आमकां दिली. न्यू मिलेनियम बेकर्स नांवाची ही मोंजिनीसची अद्यावत उत्पादन फ्रेन्चायजी आयज गोंयच्या वेर्णा वाठारांत मुखेलपणान केक्रिचें उत्पादन करता आनी पुराय गोंय तशेंच सिंधुदुर्ग आनी कारवार वाठारांतली बाजारपेठ तिणें व्यापल्या.

आरंभाक म्हजी कल्पना आशिल्ली ह्या ब्रॅन्डाच्या उत्पादनांतल्यान आमकां तितल्या पुरतो देगेर नफो जातलो, लुकसाणांत वचचो ना. पूण घडलें कितें तर, हो मोंजिनीसचो ब्रॅन्ड इतलो लोकप्रिय



कॉमनवेल्थ डेवेलॉपर्सचो *एक सीडी ब्रॅन्ड*


मोंजिनीसची अद्यावत उत्पादन फ्रॅन्चायजी न्यू मिलेनियम बेकर्स, *वेर्णा*

आमी एक फार्महावस उबारून शेतकी खात्याचे आदले संचालक डॉ. एच. वाय. करापुरकर हांची थंय नेमणूक करून ताची तांचेर जापसालकी दिली.

त्या 'सांगोड' फार्मांतल्यान तशी व्हडलीशी येणावळ नासली तरी आमी थंय पयसो ओतपाचो चालूच दवरलो.

आयचे हे घटकेक काशिनाथ दामोदर नायक (केडीएन) उद्योग समुहाचे बागायत, अन्न प्रक्रिया, लॉजिस्टीक्स, घर बांधणी आनी रिटेल अशे वेगवेगळ्या मळावेले पांच उद्योग चलतात.

थारलो आनी आयज ताचीं एकूण ६८ दुकानां आसात. तातूंतलीं ६० गोंयांत, तीन कारवाराक आनी पांच सिंधुदुर्ग जिल्ह्यांत चलतात.

आमी राबयल्ली आमची उत्कृश्ट प्रसिध्दी मोहीम आनी उत्पादनाच्या दर्जाचेर दवरिल्लें लक्ष हाका लागून ६० टक्क्यां वयर बेकरी बाजारपेठ आमी हातासूंक पावले.

त्या उपरांत १९९० च्या आरंभाक रिअल इस्टेट धंद्यांत पावल घालचें शें म्हाका दिसलें आनी हांवें कॉमनवेल्थ डेवेलॉपर्स ह्या नांवान ताका आरंभूय केलो. आनी रोखडोच *सीडी ब्रॅन्ड* ७ ते १० वर्सां भितर बरोच लोकप्रिय जालो. आमी मडगांव आनी सरभोंवतणी कितलेशेच प्रकल्प उबारले.

इतले मजगती म्हजो चलो चिराग २००९ वर्सा म्हज्या ह्या धंद्यात भितर सरलो. ताका ह्या तंत्रगिन्यांतलो अणभव आशिल्लो. कित्याक तार्णे सिवील इंजिनियरींगची पदवी घेतिल्लीच आनी तार्णे *नार्सी मोन्जी इन्स्टीटयुट ऑफ मॅनेजमेंट स्टडीज* शिक्षण संस्थेतल्यान


*मोलेंचें फार्महावस सांगोड*

मॅनेजमेंटांत पोस्टग्रॅज्युएशन केल्लें, तशेंच एथेन्सच्या 'एथेन्स युनिवर्सिटी ऑफ इकॉनॉमिक्स ॲन्ड बिझीनेस' हातूंतल्यान यशस्वीपणान 'इंटरनॅशनल एमबीए' चो कोर्स पुराय केल्लो.

त्या भायर चिरागान पुराय संवसाराची भोंवडी करपा वांगडाच युएसएतल्या कान्सास हांगच्या *अमेरिकन इन्स्टीट्युट ऑफ बॅंकींग* (एआयबी) संस्थेल्यान *बॅंकींग सायन्स ॲन्ड टेक्नॉलॉजींत* कडक अशें प्रशिक्षणूय घेतिल्लें.

आमी २००७ च्या अदमासाक मोलें हांगा एक ऑर्गेनीक फार्म विकतें घेतिल्लें. थंय

हांवें आमचो हो पुराय धंदो म्हजो पूत चिरागा कडेन सोपयला.

हांव सर्कसादारण व्यवस्थापनाचेर लक्ष दवरतां.

ह्या सगळ्या अणभवांतल्यान म्हाका एक गजाल कळून आयल्या ती म्हळ्यार उद्योगांत स्काय इज द लिमीट...

केक आनी बिस्कुत्यांचो खप वाडत वतलो तशीच सामाजीक गरज थारिल्ली घरबांदावळीची मागणीय चालूच उरतली.

चिराग आनी हांव ह्या परजळीत फुडाराचेर नदर दवरून आसात..!

कादंबरीका

# एका बरोवप्याचे तीन संदर्भ




*बरोवपी बरयता. अक्षर, उतरां, वाक्यां घडयत वता. तार्चे बरोवप खंय जाता कोमेस? खंय सोंपता? मदेकाक कितें आसता पातळिल्लें? तो सांगूंक कितें सोदता आनी ? लिपोवंक कितें सोदता? हाचोच अंदाज बांदपा पासत ही राटावळ... एका बरोवप्याचे तीन संदर्भ. साहित्य अकादमी युवा पुरस्कार लाबलेलो मराठी बरोवपी **अवधूत डोंगरे** हांचे 'एका लेखकाचे तीन संदर्भ' हे कादंबरीचो हो अणकार प्रफुल्लाता प्रकाशन, पुणे हांणी २०१३ वर्सा उजवाडायल्लो पयले आवृत्तीचे आदारान **समीर झांटये** हांणी केला. ही कादंबरी खिस्ती खिस्तीनी कोंकणी वाचकां खातीर ह्या अंका सावन सुरू जाता.*

तो आर्ट्स वटेन गेलो. कोणीय विचारल्यार 'अर्थशास्त्रांत पीएच.डी करतलो' अर्शे सांगतालो. घरच्यांकय तेंच सांगतालो. तशेंय सायन्साक गेल्लो आनी फुडें कितें केल्लें जाल्यार तो शिकपाचो खर्च काय ताका परवडपाचो नाशिल्लो. कॉमर्स घेतलें जाल्यार करतलो कितें हें तो नकळो आशिल्लो. म्हणून मागीर सरळ आर्ट्स. तकलेक आनीक पेंच नाका.

बशीन यो-वच करचें पडटालें. तो रावतालो शारा भायल्या भागांत, ताका लागून कॉलेजीक बशीन वचचें पडटालें. विशेक मिनटां लागतालीं. केन्ना केन्नाय गर्दी आसताली, पूण चडशे खेपेक बसपाक सुवात मेळटाली.

सुरवातीच्या वेळार एकदां अर्शे जालें की, थोडो पावस पडटालो. चिकचिकीत जाल्लो रस्तो इल्लो. तो चडलो बर्शींत. आनी फुडे उजवे वटेन जागो रिकामो दिसलो ना. दावे वटेन दिसलो म्हणटकच तो वचून बसलो. बशीच्या जनेलांतल्यान आयिल्ल्या पावसाच्या उदकाक लागून सीट ओलीशी जाल्ली. तो बशिल्लो. बाकींचेय लोक बसलेले. दोन स्टॉप आयले आनी गेले. प्रवाशांच्या आकड्यांत भर पडली. तो बशिल्लो त्या सीटाचेर जनेला वटेन एक जाण्टेली येवन बसली ओल्या सीटाचेर. आनीक एक चली जेणें गडद तांबड्या रंगाचो सैल सलवार आनी फिकट पांचव्या रंगाचो पूर्ण हाताचो कमीझ घातलेलो, ताच्या शेजरा येवन उबी रावली म्हणपाचें ताका जाणवलें. चली वयान व्हड आसली. सकयल पळयलें ताणें तेन्ना ताच्या भुवयांत मातशें दुखलें. तेन्नाच ते चलयेन ताच्या बावळ्याचेर टकटक करून ताका जनेलाचे वयर जें बरयल्लें तें दाखयलें. -लेडीज ओनली-म्हळ्यार तें ताका उठपाक सांगतालें. आक्ताक ताका राग आयलो. पूण करतलो कितें?

तो आपलो सॅक घेवन बशिल्लो राखाडी पॅंट आनी पिवळोसो शर्ट घालून. चली व्हड आशिल्ली आनी ताका निकतेंच मिसरूड फुट्टालें.

ते चलयेन हळदुव्या रंगाचो खूब फिकट असो कमीझ घातलेलो आनी गड्द तांबडी सलवार. ताका उठचें पडलेंच. उठतना ताची तकली चलयेच्या हड्ड्याक घासून गेली. ताका राग आयिल्लो प्रचंड. पूण करतलो कितें. सगळी बस मनशां सकट ताचेच कडेन पळयता अर्शे शें ताका दिसलें. ती चली ताचे तकलेंत गेली.

आनी ते राती ती चली ताच्या

सपनांत आयली. तेन्ना तिणें लाल गडद सलवार घालूंक नाशिल्ली. फकत फिकट पिवळसर कमीझ तितलो आशिल्लो. अख्खे बशींत आनीक कोणूच नाशिल्लो. तरीकूय ती चली थेट ताचे कडेन आयली आनी ताका 'उठ' सांगपाक लागली. आनी तो उठलो सुद्दां. ती न्हिदली सीटाचेर. पांयांत चप्पल नाशिल्लें तिच्या. बशीच्या छपरांतल्यान पावस रकपाक लागलो. चली ओली जाल्ली. गोलदार छाती. ताचे कडेन रागान पळयत रावली आनी मागीर हांसली. एका कदेलाचेर बसली, उजवो पांय दाव्या पांयांचेर दवरून. पिवळसर कमीझ सकयल्यान सामकें मोटवें. तेच्यो गोऱ्यो मांडयो दिसल्यो ताका.

आनी तो कमरे सकल गळ्ळो.

थंड पांचव्या रानांत पडले वरी ताका जालें.

अकरावेंत पावलो तेन्ना तो कविता करपाक लागलो. ताणें तशो हेर कोणाच्यो कविता वाचलेल्यो बी अशें कांय ना. प्रचंड गर्दी जमवपी कवितांच्यो कार्यावळी ताणें पळयल्यो त्यो अकरावेंत पावतकच. सादारण अकरावेच्या मदेकाक दिवाळेच्या मातशे मागीर ताका कविता जावपाक लागल्यो. बरीऽऽऽ थंडी पडटाली. त्या शियांच्या दिसां सांकून तो सत्तावीस वर्सांचो जाल्लो त्या वर्साच्या शियांच्या दिसां मेरेन ताका कविता जाल्यो. म्हळ्यार सादारणपणान णव -धा वर्सा सदांच न्हय पूण नियमितपणान कविता जायत रावल्यो. सत्तावीस वर्सांच्या शिंयांच्या दिसां मेरेन कित्याक, तर त्या वेळार ताणें पयले खेपे एके अस्तुरेच्या शरीराचो आनंद व्यवस्थित घेतलो आनी दिलो. पूण ती परत खूब फुडली गजाल.

आत्ता अकरावेक हें सगळें सुरू जाल्लें. मोग, दुकां, पत्र, मळब, हात, पांय अशें सगळें, तें ताच्या कवितांचें प्रकरण आशिल्लें. कवितांचे जोरार कॉलेजींत ताचो ग्रुप जालो. धा-बारा जाणांचो. त्या वर्साचे दिवाळे उपरांत सोमत्योच ह्यो घडामोडी. सगळे कविता करपी. ग्रुपांत चलयो तीनच आशिल्ल्यो. आनी कविताच कविता.

तुज्या दोळ्यांतल्यो दुकां धारो। पळयता हो धूंद वारो ।
परजळीत शिरशिरला तारो । उजवाडायत आसमंत पुरो।

- ही ताची पयल्या पांच कविता मदली एक आशिल्ली अकरावेंतली. तांचो ग्रुप आयतारा जमून कविता वाचन करतालो. सगळें नेटान चलतालें. थोडीं भुरगीं वाडलीय मागीर ग्रुपांतलीं. कवितामय आशिल्लें सगळें.

एके वटेन लेक्चरां सुरू आसतालीं. पूण ताचे परस व्हड कवितांचें जग आसलें. हेर भुरगीं आशिल्लीं वर्गांत पूण ती ह्या जगा भायलीं.

अशेच एका जगा भायल्या भुरग्यान ताका बारावी सोंपता सोंपता म्हणिल्लें -

''कविता करतात मरे? तुकाराम वाचलो?''

ताका हें आयकून खूब राग आयलो ना. मात्सो बेजारलो. तुकारामा बद्दल सांगपी तसो ताचो इश्टच आशिल्लो.

घरोघरी बहु जाले कवि । नेणे प्रसादाची चवी।।
लंडा भूषणांची चाड । पुढे न विचारी नाड ।।
काढावे आइते । तेचि जोडावे स्वहिते ।।
तुका म्हणे कळे । परि होताती आंधळे ।।

- हे तुकारामाचें इश्टानच सांगलें ताका तेन्ना. त्या इश्टान फुकट सल्लो दिवपाची कांय गरज नासली अशें ताका दिसलें. आनी तसो चड लागींचो इश्ट नासलो. येता-वता आसता तितली वळख.

अकरावे-बारावेक एक खूब सोबीत चली तांच्या वर्गांत आसली. सगळे तेचे फाटल्यान आसताले. ते चलयेकडे तरातरांचे ड्रेस आसले. आनी ते घालूनय येतालें बेधडक. अर्दी फाट पुराय उकती दिसची असो एक निळो पंजाबी ड्रेस आसलो. एक खूबूच पारदर्शक धवो कुर्ता आसलो, जांगां मेरेन देंवपी, सैलसर. ती चली काळ्या घट्ट जीन्सचेर घालताली. अशे तरातरांचे तेचे ड्रेस आसले.

सगळ्यांवरी तोय तेचे कडेन पळयतालो. पूण मर्दीमर्दी. इतली अवाढव्य सोबीत गजाल ताका परवडपा सारकी नासली. ताचेकडे कपड्यांचे एकूण जोड पांच. तातूंत एक बरोसो शर्ट-पँट, कितें कार्यावळ आसल्यार बी. उरले चार. तातूंतले तीन टी-शर्ट-पँट आनी एक एकदमच सादो शर्ट-पँट. हाचे शिवाय दोन टीशर्ट आसले. ते भायर तो येतालोय बशीन.

तरी एकदां तो सामको हर्वेत उडलो.

अशें घडलें-

बारावेच्या दिवाळे उपरांत एका आयतारा तांचो ग्रुप मेळ्ळो सदांवरी. बाकीचेय बाकी कोणा कोणा वांगडा आयिल्ले. ती गरनाल चलीय बी आयिल्ली. धवी फिट्ट सलवार आनी वयर फिकट पांचवो स्लीवलेस कमीझ. खलास. ताचे फुडें म्हळ्यार हाय हिल्स सँडल्स.

हरशीं चलता तें सगळें ह्या जगांत चलिल्लें. कविता वाचन. वा वा. ओ हो हो हो. सुंदर सुंदर. ताळयो ताळयो.

तुजे ओडणेच्या फटकाऱ्यान उडलों हांव मळबांत,
उडलों हांव मळबांत सकयल पावलों तेन्ना
उर्शे आशिल्लें हातांत, उर्शे आशिल्लें हातांत

अशी कविता ताणें वाचपाक सुरू केली, तेन्ना कोणी तरी हांसून दाद दिली. कोणी वा वा केलें. ताणें कादेर्न व्यवस्थीत धरून कविता फुडे व्हेली -

मळबाचे भ्रम विभ्रम, मळबाचे भ्रम विभ्रम
हांव संभ्रम, हांव संभ्रम
मागीर केलो निश्चेव
मागीर....
केलो निश्चेव
पळयलें आकाश
तोडून उडयले पाश
उरला फकत अवकाश, उरला फकत अवकाश

ताळयो वाजयल्यो सगळ्यांनी. मागीर अजून कोणतरी दोन -तीन लोकांनी कविता वाचल्यो. 'वा वा' जालें. ताळयो वाजल्यो. हरशीं भशेन सगळें जावन कार्यावळ सोंपली. कॉलेजींतच भितरले वटेन एक पार आसलो थंय हें चलतालें. पार्किंगाकडें पणसाचें झाड आसलें, थंयच आसलो पार. तर कार्यावळ सोंपली. कांय लोक गाडयो घेवन आयिल्ले. गाडयो घेवन गेले. चलपी चलत गेले. गेटींतल्यान भायर पडले उपरांत उजवे वटेन ताचो बस स्टॉप आसलो. एक, दुसरे बशीन दुसरेकडें वचपी ग्रुपांतलो इश्ट ताच्या वांगडाच स्टॉपाचेर आसलो.

तेन्ना ती गरनाल चली गाडयेंतल्यान आयली. स्टॉपा कडेन रावली, ताका गाडये कडेन हाताचे खुणेन आफयलो. गोल खोल गळो आशिल्लो कमीझाचो.

''बेस्ट आशिल्ली तुजी कविता'', अशें तिणें म्हळें. तिचें नांव सोनाली आसलें. तर त्या सोनालीन ताका सांगलें कीं, ताची कविता बरी आसली. आनी हांसलें. तेच्याय गळ्यांत भांगराळी चेन आसली. ताणें ''थँन्क्स'' म्हळें.

''फुडले खेपे हांव ओडणी घेवन येतां,'' तेणें आनीक इल्लें हांसत सांगलें.

''नाका, अशेंच सोबीत दिसता तूं.'' तो.

''म्हळयार, ओढणी घेवन सोबीत दिसना तर?''सोनाली.

''दिसताच. पूण नासल्यार आनीक सोबीत दिसता.'' ताचो आत्मविश्वास एकदम फुलून आयलो.

''थँक्स.'' सोनालीन आनीक आनीक हांसत म्हटलें. ताणें तेच्या मांडये कडल्यान धोपरा मेरेन पळयलें.

''पावपाक जाय तुका?'' सोनालीन विचारलें.

आतां इतलोय बी आत्मविश्वास ताच्यांत नाशिल्लो, म्हणटकच ताणें म्हळें, ''नाका, इश्ट आसा एक वांगडा.''

''ओके. बाय.'' सोनालीन हांसून म्हळें.

ताणें हात केलो आनी बसस्टॉपाचेर परतलो. तो आतां हवेंत आशिल्लो.

उडत उडत तो बशींतल्यान घरा पावलो. गाडये वेल्यान वचपी सोनालीचे फाटीचो आकार ताका दोळ्यां सामकार दिसत रावलो.

आनी रातीं ताच्या सपनांत सोनाली आयलें, दनपारचोच ड्रेस आनी वयर धवी ओढणीय आसली. फाट पुराय उकती... आतां ओढणी नासली. तो तेच्या धोपरां कडेन. तें वणटीक तेकून बसलां. जयराजान तकलेचे केंस पुराय काडून थंय 'मर्द' कोरलेलें दिसतालें. सोनालीच्यो पोंवट्यो...

ताका जाग आयली सट्ट करून.

पाड पडूं. हो जयराज खंयच्यान आयलो सपनांत?

ताणें परतून व्हिंदेकडें तोंड केलें. आतां थारावनच सोनालीच्या पोंवट्यां साकून सपनाक सुरवात केली. तें हांसलें. ताच्या गालार ओंठ तेकयले. ताका लागीं घेतलो. आनी तो कमरे सकयल गळ्ळो.

***

जयराज ताका खरोच फुड्यांत दिसलो तेन्ना तो सामको फ्लॅट जालो. तो फस्ट इयराक पावल्लो. जयराज फुड्यांतल्यान येवन ताचेर आदळ्ळो. जयराजाच्या उजव्या हाताक रगत लागलेलें आनी आनीक दोन चले धांवताले. ते कॉलेजीचे गेटीभायर गेले. जयराजाचो धक्को बसून तो सकयल पडलो. मागीर पँट फाफडावन परत उबो रावलो. किर्ते जालें कांयच समजलें ना ताका. जयराज म्हण फकत ताका कळ्ळें.

कॉलेजींत पोस्टर चिकटवपी कांय ग्रुप आसताले. प्रेस्टिज ग्रुप, इंडियन ग्रुप, रिबेल ग्रुप, जन गण मन ग्रुप अशीं तांचीं नांवां आसलीं. हातूंत अदींमदीं नवें नांव प्रकट जावन वतालें.

पोस्टर चड करून फॅशन शो, बॉल डान्स, भगत सिंग जयंती अशा कार्यावळींचे आसताले. ते सुद्दां एक वेगळें जग आसलें. त्या जगांत खंयच्या तरी दोन ग्रुपांत कितें तरी बाचाबाची जाली, तेन्ना दुसऱ्या ग्रुपान भायल्यान कांय जाणांक जमोवन हाडले. तातूंत जयराज आसलो. एकल्याच्या माथ्यार ट्यूब लायट फोडली तांणी. प्रकरण गाजलें. सप्तकभर पुलीस कॉलेजीचे गेटीकडे आसताले. ट्यूब लायट जाचे माथ्यार फुटली तो हिंदी सिनेमांतल्या हिरो वरीं धवी पट्टी बांदून दोन सप्तकां उपरांत कॉलेजींत दिसपाक लागलो.

'हिंदी पिक्चर' तर जाल्लोच. जयराज ताका येवन आदळिल्लो तेन्ना दिसलोच ताका फुड्यांत 'हिंदी पिक्चर'

" ए झवण्या राव रें", अशें म्हणत सगळे आयले तो मेरेन जयराज आनी ताचे वांगडचे दोग जाण केन्नाचेच पळून गेल्ले.

मात तो खरोच जेन्ना हिंदी पिक्चर पळयतालो तेन्ना ताका जबरदस्त अडचण जाताली. आनी रोमेन्टिक पिक्चर आसल्यार चडूच. रंगरंगयाळेंपणा पळोवन तो सामको गोंदळून वतालो. तकलेच्या थंय दुखूंक लागतालें. एक खेपे तांचो कवितांचो ग्रुप गेल्लो अशाच खंयच्यातरी पिक्चराक. ताचे दावे वटेन ग्रुपांतलो एक इश्ट आसलो, उजवे वटेन एक इश्टीण. सात-आठ जाण आसले. बसले तेन्नाच्यानच उजवे वटेचें धोंपर आनी बावळो उजवे वटेनचे इश्टीणीचें दावें धोंपर आनी बावळ्याक लागत आशिल्लो. पिक्चर सुरू जालो तेन्नाच्यानच हाका कशेंशेंच जावपाक लागिल्लें. पड्ड्यार नांवां दाखयतना तांबडीशीं पानां पांचवे फांटभूयेंचेर दावे वटेन-उजवे वटेन जायत आशिल्लीं. ताका तें पळोवं नज जालें. दावे वटेनच्या एका इश्टान शिळोवणी घातली. आनीकय एकान शिळोवणी घातली. इश्टीणी हांसपाक लागल्यो. उजवे वटेनची इश्टीणूय हांसली. ताका आतां मुखार पळोवपच नाका शें दिसपाक लागलें. मदींच तो वयर पळयतालो, मदींच सकयल. प्रचंड हिरवळ आसली, हिरोन धवो शर्ट-पँट घातलेली, हिरोइन धवी साडी न्हेसलेली.

तिचो पदर उडतालो वाऱ्याचेर. पदराचें तोंक धरून हिरो तिच्या लागीं लागीं आयलो. हें पळोवपाक बरें आसलें. पूण तशेंच हिरवळीचेर हिरॉईन तांबडी साडी न्हेसून धांवपाक लागली तेन्ना मात तार्णे सकयल पळयलें. अशें सकयल - वयर पळयतच तार्णे पिक्चर पळयलो. पिक्चर सोंपलो. सगळे उठले. उजवे वटेनचें धोंपर-बावळे मेकळें जालें.

थियेटरांतल्यान भायर येतकच, गेटींतल्यान भायर येतकच, दनपार जाल्ली. जेवपाचें अशें थारलें.



आनी तेन्नाच ताका कुशीकच आशिल्ल्या गाड्याचेर वडापाव खातना तो तुकारामकार इश्ट दिश्टी पडलो. दोगांयची एकमेकांचेर नदर गेली. ग्रुपांतले एके इश्टीणीक सांगून तो गाड्याकडे गेलो.

"वडा-पाव खातलो?" इश्टान विचारलें.

"ना. नाका" तो.

"तुकाराम वाचलो काय ना?'' त्या इश्टान हांसून विचारलें.

"ना अजून." ताणें हांसत सांगलें.

"किते भाई!'' अशें म्हणून ताणें परत सुरू केलें -

उष्ट्या पत्रावळी करुनिया गोळा।

दाखविती कळा कवित्वाची ।।

ऐसे जे पातकी ते नरकी पचती।।

जोवरी भ्रमतीचंद्र सूर्य ।।

तुका म्हणे एक नारायण ध्याई।

वरकडा वाहीशोक असे।।

तो हांसलो. इश्टय हांसलो.

"तुजो देवाचेर विश्वास आसा काय ना?'' ताणें इश्टाक विचारलें

"तुजो पफबभचेर विश्वास आसा?"

इश्टाचो उलटो प्रश्न.

"सारकें उलय. पफब म्हळ्यार किते?" तो आतां मात्सो फडफडलो.

"ते थंय आसात ते एक लाख लोक म्हणटात,पफब नांवाची गजाल आसा आनी तांच्यांतल्याच पन्नास जाणांनी आमकां येवन सांगलें की, पफभ म्हण किते तरी आसा. सांग, दवरतलो विश्वास?" इश्ट.

"म्हळ्यार... आमकां कशें लागता तें. म्हळ्यार किते म्हाका कळूंक ना" तो गोंदळलो.

"तेंच तर सांगतां तुका, आमकां कशें लागता तें?" इश्ट हांसलो.

तोय हांसलो.

"तुवें फक्त तुकारामच वाचला काय किते?" ताणें विचारलें.

तितल्यांत कवितेच्या ग्रुपांतल्यान साद आयलो.

"नामदेव" वाचला" इश्टाची जाप.

"चल, हांव वतां. जेवपाक वचपाचें आसा, मागीर उलोवया" तो वचपाक लागलो.

"ओके." इश्ट.

तो कवितेच्या ग्रुपा वांगडा जेवपाक गेलो. तो मेरेन पिक्चर ताचे तकले वयल्यान खूब फुडें गेल्लो.

त्या दिसा जेवन जातकच ताका वाज सो आयिल्लो. म्हळ्यार किते उलोवपाक लेगीत नाका जाल्लें. पिक्चराचेर सगळ्यांच्यो गजाली चलिल्ल्यो, तो तातूंतय नाशिल्लो. पिकचर पळयतना ताचे उजवे वटेन बशिल्लें ताचें नांव सोनल आसलें. तेणें काळें सलवार आनी फिकट गुलाबी हाप कुर्ता घातलेलो.

चलयांचे कपडे खूबच जमपाक लागल्यात तकलेंत, हें येवजून तो मातसो करवादलोसो. कितल्याशाच चलयांचे कपडे तपशिला सयत ताचे तकलेंत रावल्यात हें येवजून ताका इल्लो चडूच वाज आयलो. म्हूण मागीर ताणें "बरें दिसता आयज" अशें सोनलाक सहजच म्हणून सोडलें. तें हांसलें भरदार छातये सकट. आनी ताच्या हाताक हात लावन 'थॅंक्यू' अशेंय म्हटलें. तेन्ना ताणें इल्लें चडूच ताचे कडेन पळयलें.

ते दिसा सोनल ताच्या सपनांत आयलें. तेणें केंस सोडलेले. आनी तो कमरे सकल गळ्ळो.

***

सगळें उत्साहान खदखदतालें. जबरदस्त. हसहसाट, पिसपिसाट. कवितांचो बुजबुजाट.

ग्रॅज्युएशनच्या तिनूय वर्सांत कांयच फरक पडलो ना. त्योच चलयो. तेच भुरगे. तींच शरिरां. थोड्यो खेरीत मात तशोच कविता. थोडे वेगळे मात तेच कपडे. ना म्हळ्यार सोनलान ताका एकदां उमेदीन वेंग मारली ती ताका इल्ली चड लक्षांत रावली. छातये सकट. ते उपरांत ताच्या सपनांत चड करून सदांच चड करून सोनलच येवपाक लागलें. सोनलान कितेंय कपडे घातले तरी सपनांत सोनलच.

तांचो सगळो ग्रुप भरपूर कविता करूंक लागलेलो. एकमेकांक वाचून दाखयताले सगळे कविता. हेरांकय वाचून दाखयताले. मजगतीं तीन जोडयो जुळल्यो. अशें सगळें अतोनात उमेदीन चलिल्लें.

आतां, तसो उमेदींत नाशिल्लो आनी तसो निरशेणेंतय नाशिल्लो, तीस वर्सांचो तो मुखार बशिल्लो. हांव टेबलाचे हे

वटेन. तो ते वटेन, निळया कदेलार वटखून बशिल्लो. माथ्यावेल्या केसांत कांय धवे केंस. वक्ल. बारीक मिशी. धवो शर्ट - नीळसर जीन्स. पोट मातशें सुटलां. पाच फूट स इंच उंचाय. दुसरे फळयेंतले उद्येगपती चलतात तसो चलपी - असो तो.

ताच्या फुड्यांत पॉलीश केल्लें लांकडी कदेल सुळसुळीत सपाट.

"तूं र.धो.कर्वे जाणां?" हांवें बेश्टेंच कायच्या काय विचारलें.

तो फकत हांसलो. हांव लेगीत हांसलों स्वतःचेर.

"धोंडो केशव कर्व्यांक भारतरत्न मेळ्ळें. तांणी स्त्रीशिक्षणाचें काम केलें. रघुनाथ तांचो व्हडलो पूत. तार्णे संतति नियोजन, लैंगिक स्वातंत्र्य हे संबंधी वावर केलो." हांवें खंयच्या खंय विशय सुरू केलो.

अशा खंयच्याय विशयाचेर आमी वेळ सारतात म्हणून हांवें सहज विशय काडलो.

"खंयच्या तेंपा वयले ते?'' तार्णे विचारलें.

"त्रेपन्न सालांत गेले." हांव

वेळ यालोवंचो म्हटलो कांय कितेंय विशय चलता. म्हळयार पाच मिनटा पयलीं हांवें ताका एसएमएस वाचून दाखयल्लो. तो असो आसलो -

दोन इश्ट आसतात.

एकलो म्हणटा, हांव कवी आसां.

तर दुसरो म्हणटा, हांव भेरो आसां.

..पाठ पडूं. आमी सुमार पाच मिनटां फकत हांसताले हाचेर. आनी अवचीत आतां र.धो.कर्वे.

जनेला भायर पावस पडून गेल्या उपरांत उदासीनता शी पातळिल्ली.

"नांव आयकलां, पूण बाकी कांय खबर ना." अशें म्हणून तार्णे पिशवेंतल्यान एक पान काडून तोंडांत वडयलें. आतां थुकपाक ये सर तोंड बंद.

म्हणटकच हांव सुरू.

"लैंगीक स्वातंत्र्य बी यडये तुजे आवडीचे विशय जायत शे दिसले देखून म्हळें" हांवें हांसत म्हळें.

तार्णे आनी ताचे बायलेन भुरगें जावपाक दिवप ना अशेंच थारायला. मात कर्व्यांकडे ताचो कांय संबंध ना. ताचे बायलेचे ओव्हरींत गांठ येता. शिवाय ताकाय केन्नाय मोल्लूकार्चे जाता. देखून तांणी भुरगें नाका अशें थारायलां.

मात इल्ले चडूच फुडें आयले आमी. र.धो.कर्व्यांनी सगळो घोळ घातलो.

चला तर

मातशे मातशे मातशे मातशे

फार्टी फार्टी फार्टी फार्टी

तो सव्वीस वर्सांचो. ताचो फॅब्रिकेशनाचो व्यवसाय आसा. घरा कडेन आनी खंय तरी सांगलां तशें तार्णे एमए क अर्थशास्त्र



विशय घेतलो. मात दुसऱ्या वर्साचे शेवटा शेवटाक ताका हें सगळें भयंकर उबगण हाडपी जावपाक लागलें. ताचो तातूंतलो इंटरेस्टच काबार जालो. तो कॉलेजीक वयतालो तो निव्वळ कविता आनी ग्रुप इतल्या खातीर. पूण मागीर ताणें तेंय सोडून दिलें. आनी एका इश्टाच्या फॅब्रिकेशनाच्या धंद्यांत रिगलो थेट. ताचो ह्या धंद्या कडेन तसो कांयच संबंध नासलो. पूण पयशांची गरज आसली. काम तर करचेंच आसलें, म्हणून मागीर तो इश्टाकडे सहज म्हणून वचपाक लागलो. म्हायती मेळयत रावलो. बारीकसाण कळपाक लागली. आनी मागीर ताणें स्वत:चो व्यवसाय सुरू केलो. चिरेबंद इमारतींतली ती कूड भाड्यान घेतली ऑफीस म्हण. हळू हळू ल्हान मोटीं कामा मेळपाक लागलीं. कविता आनी ग्रुप अर्दी मर्दी आसलेंच.

काम केलें ताचे खूब फायदे जाले, एक टू-व्हीलर घेवंक पावलो. एक मध्यम प्रकारांतली बायक घेतली ताणें पंचवीसाव्या वर्सा. आतां ताच्या घरच्यांनी ताका कांयच विचारप सोडून दिलें. दोन वर्सां तांणी खूबच कटकट केली, म्हणून मागीर तो कामा फाटल्यान लागलो. ताचो बापूय प्रुफ रीडिंगाचीं कामां करी आनी आवय एक प्रायव्हेट कंपनींत अकाऊन्ट विभागांत कारकून आसली. ताच्या घरच्यां विशीं सांगपा सारकें तें इतलेंच.

कामांत बुडून गेल्लो तेन्ना लेगीत कविता आनी ग्रुपा खातीर वेळ काडी. तातूंत आनी सोनलान ताका आनीक एकदां उमेदीन वेंग मारली. धव्या टीशर्टातल्यान लागलेली तेची छाती फुडें स म्हयने ताचे मतींत आसली. गालाक गाल लागलेलो तो अजून याद उरपा सारको. पूण कवितां खातीर पयलीं भशेन ताका वेळ दिवपाक जाय नासलो हाची खंत ताका आसलीच. कॉलेजीच्या हॉस्टेलाचेर रावपी तीग-चार जाण इश्ट आसले ग्रुपांतले, ते सदां ह्या कवितांच्या जगांत रावपाक शकताले. तें मात ताका जमनासलें.

तरी ताका गाडी घेवपाक जमलें ताचो एक फायदो जालो. ताका ताची जावपाची आसलेली बायल मेळ्ळी. तेचें नांव शाल्मली. तें शाळेंत ताच्याच वर्गांत शिकतालें, पूण ताची तेचे कडेन नदर गेली ती सव्विसाव्या वर्सा. गाडी सर्व्हिसिंगाक दिवपाक तो गेल्लो तेन्ना -

गाडी भितर दिवन आनी रिसीट घेवन तो भायर आयलो तेन्ना ताका शाल्मली कुशीचे पायर्णीतल्यान वतना दिसलें. सोबीत दिसतालें. खाकेक पर्स लायिल्ली. ताणें वळखून साद घालो. तेची नदर पडली तेन्ना ताका तें पयलीं मातशें काचाबूल जाला शें दिसलें, पूण मागीर हांसलें.

"अरे तूं !" शाल्मलीन म्हळें.

"हय हांव." तो.

"कितें करता? कसो आसा? हांगा खंय?" उडपी केसां सयत शाल्मली.

"च्या घेवया." मातशें हांसत तो.

शाल्मली मोट्यान हांसलें आनी "हय" म्हळें. लागीं हॉटेल आसलेंच, तीं वचून बसलीं. ताणें दोन स्पेशल च्या ची ऑर्डर दिली.

"सांग" ताणें शाल्मलीक म्हळें.

ताणें सर्व्हिसिंग करपाक गाडी दिल्या ताचे कुशीचे इमारतींत पयल्या माळ्याचेर एक कोऑपरेटिव्ह बँक आसा, थंय शाल्मली कामांक आसा. तेणें पिवळो कुर्तो आनी धवी सलवार घातल्या.

"कितलो वेगळो दिसता तूं" शाल्मलीन हांसत म्हळें. खरें म्हळ्यार तें थोडें-भोव हांसतच आसलें. म्हणटकच तें आनी परत परत सांगपाची गरज ना. आनी प्रत्येक खेपे हांसतकच तें चड सोबीत दिसतालें देखूनतेंय परत परत सांगपाक आनी नाका. तरी एकदां परतून एक फावट सांगतां, पिवळो हाफ हातांचो कुर्तो, धवी घट्ट चुडीदार, मातशे हाफ हिल्स अशे सँडल्स, दाव्या हातांत सोनेरी घड्याळ, गोरोसो रंग-अशें शाल्मली सोबीत दिसतालें.

आपूण गाडी सर्व्हिसिंगाक दिवपाक आयिल्ल्याचें ताणें सांगलें. फॅब्रिकेशनाच्या कामाचेंय सांगलें. दुडू जोडटा तेंय सांगलें. बाकी शाल्मलीचेंच आयकलें चड. ताका तेची काकुटशी दिसपाक लागली. हें अशें ताका पयलेच खेपे जातालें आनी तशें कांय कारण नासतना. शाल्मली ताच्या घरच्यो गजाली सांगतालें, आनी तातूंत तशें वेगळें अशें नाशिल्लें चड कांयच. मध्यमवर्गीय घर तेचें. ताचे परस तेचीच परिस्थिती तशी बरी आसली. फकत तेचेर लग्न जावपाचो ताण येतालो चड. घरचीं परत परत उलोवन दाखोवन वाज सो हाडटालीं. हें सांगतना तें हांसपाचें थांबलेलें.

तितल्यांत च्या आयली. म्हणटकच तो विशय उरलो.

"आनीक सांग, कशें चल्लां तुजें ?" शाल्मली.

"बरें चल्लां. स्वत:चें काम सेट जावपाक लागलां" तो.

"शाळेंत आसतना कितलें वेगळें आसलें सगळें न्हय?'' शाल्मली.

धा वर्सां पयलीं तीं शाळेंत आसलीं, तेन्ना कितें आसलें आनी आतां कितें आसा. वेगळें तर आसाच.

तो हांसलो

"आमी केन्ना उलयलींच ना शाळेंत" शाल्मली.

"तेन्ना कोणूच उलय नासलो" तो.

"तुका कोण भाव-भयण बी आसा?" शाल्मली.

"ना. हांव एकटोच." तो.

मिनिटभर च्यायेच्या घोटा सांगातान.

"ऑफिसाक कशें येता?'' ताणें विचारलें.

"बशीन." शाल्मली.

च्या सोंपलो. हॉटेलांतल्यान भायर येतकच शाल्मलीन म्हळें, "आत्ता ऑफिसाक वचपाची घाई आसा, तूं गाडी व्हरपाक परत केन्ना येतलो? सांजचो पावलो जाल्यार मेळूंयात, ना जाल्यार फाल्यां." शाल्मली.

"चलता. नंबर कितें तुजो?" तो.

तेणें ताका मोबायल नंबर दिलो. तेचो येतलो. पाणन सुरू जाताली थंय मेरेन तीं पावलीं. शाल्मलीन म्हळें, "बरें दिसलें मेळून."

तो हांसलो.

"मेळचें परत." अशें म्हणून शाल्मली पाणनीकडे वळळें. तेन्ना ताणें परत उलो घातलो. तें फाटल्यान आयलें. "बरें दिसता." ताणें म्हळें. तें हांसलें. "थँक्स"- तें.

मागीर म्हणपाक लागलें - "ही फुलांय सुंदर दिसतात न्हय?"

अरे देवा. आता हीं फुलां खंय आसात हांगा? तरी ताणें गोंदळळां अशें बी कांय दाखोवंक ना. ते पाणनीचे सुरूवातीकच झिलकुटां आसलीं. शाल्मली थंय पळयतालें. म्हणटकच थंयच तीं फुलां आसतलीं असो अदमास घेवन ताणें 'हय' म्हळें.

"कसलीं आसात तीं?'' तो.

"कणेरेचीं." शाल्मली.

मागीर तें ऑफीसाक गेलें. ताका एके सायटीचेर वचपाचें आसलें देखून ताणें बस धरली.

थोड्या वेळान शाल्मलीचो एसएमएस आयलो -

"बरें दिसलें मेळून. आनी हां, तूंय बरो दिसतालो!"

ताणें सोमतो रिप्लाय धाडलो.

':-) Hmm...सांजे मेळुंया."

ते उपरांत ताचें आनी शाल्मलीचें मेळप जायत रावलें.

गाडये वयल्यान दोगांय भोंवपाक वचपाक लागलीं. बसपांतलें अंतर कमी जायत गेलें. उलोवपांतलें अंतर कमी जायत गेलें. हातांची हालचाल वाडत गेली. तेणें ताका, तो तेका आवडटा, तें सांगलें. ताणें, तेचो तांबड्या-पांचव्या रंगांत गोंदळ जाता, तेंय सांगलें. तेका मातशें विचित्र शें दिसलें आनी दोळ्यांत उदक आयलें. ते दिसा तांणी पयले खेपे वेंग मारली. तें ताचे परस चारेक म्हयन्यांनी ल्हान आसलें. तेका चष्मो लागूंक नासलो. ताका हालींच लागिल्लो नंबर.

दोगांय दर आठवड्याक पिक्चर पळोवपाक वचपाक लागलीं.

तेन्ना एकदां मदींच शाल्मलीन विचारलें, "तुका ते शाळेंतल्या जिन्या वेले चलयेचें घड्याळ अजून याद जाता?"

आयकून पयलीं मातसो आबूज जालो. मागीर सावरलो. मागीर ताचे लक्षात आयलें. किरगोळी, चाकलेटी पट्ट्याचें घड्याळ हें सगळें बेस बरें याद जालें. पूण शाल्मलीक हें कशें याद?

"तूं तेची किरगोळी धरिल्ली आनी घड्याळ बरें आसा म्हणिल्लें तेन्ना हांव जिन्या वेल्यान सकयल देवतालें." शाल्मली.

अरे देवा. हें आनी भलतेंच. आदींच ताका मुखावेलो पिक्चर कळना जाल्लो. तातूंत हें आनीक कितें तरी विचित्र घडलेलें. शाल्मलीच्या तोंडाचेर पळयल्यार कांयच पत्तो लागनासलो. आनी पिक्चराचे मदेकाकच अचानक तेणें हें सुरू केल्लें. तो गडबडलो सो. "ना ना." म्हणपाक लागलो. शेवटाक तेणेंच ताका सावरलो.

"आसूं रे, हांव बेठेच म्हणटालें." अशें म्हणून तें हांसलें. तो अजून गडबडिल्ले अवस्थेंतच आसलो. मागीर तें ताच्या लागीं गेलें, ताच्या गालार आपले ओंठ तेंकोवन कुशीक जालें. तो गडबडील्लोच. मुखार पड्ड्याचेर उजवाड कमी-चड जायत आसलो. रंग कमी-चड जायत आसलो. शाल्मली ताचे दावे वटेनच्यान बशिल्लें आनी तेचो उजवो हात ताच्या दाव्या हातांत आसलो.

ते दिसा त्याच थेटराचे भायर, त्याच गाड्यार वडापाव खाताना ताका तुकारामकार इश्ट परत दिसलो. कितल्या वर्सांनी, पूण थंयच, तसोच. ताणें ताका हात दाखयलो. शाल्मलीक सांगून तो गाड्याकडे गेलो. इश्ट हांसलो. तोय हांसलो.

"कशें चल्लां?" इश्टाची दाडी मातशी वाडलेली.

"बरें. कितें म्हणटा?'' तो.

"हांव मजेंत. तें त्या दिसा नामदेवाचें सांगपाचें उरलें" अशें म्हणून इश्टान परत सुरू केलें.

जळीं बुडबुडे देखता देखता । क्षण न लागता दिसेनाती ।।
तैसा हा संसार पाहता पाहता । अंत:काळी हाता काम नाही ।।
गारुड्याचा खेळ दिसे क्षणभर । तैसा हा संसार दिसे खरा ।।
नामा म्हणे तेथे काही नसे बरे । क्षणाचे हे सर्व खरे आहे ।।

ताणें इश्टाचें हें सगळें आयकून घेतलें आनी मागीर विचारलें, "तुकां केन्ना एकदां तरी खंयच्चे चलयेन बगलेक धरला?"

हें आयकतकच इश्ट अवाक् जालो. आनी गायब जालो. म्हळ्यार, खऱ्यानीच गायब जालो.

ताणें खरें म्हळ्यार सादो प्रश्न म्हण विचारिल्लो. सहज मजा म्हणून. पुण त्या प्रश्नान तो इश्ट सरळ गायब जालो. तसो एकदम सादो प्रश्न आसलो अशें ना. ताका त्या इश्टाकडें कितें आसा आनी ताचेकडें कितें आसा हें खबर आसलें देखून तो प्रश्न आयिल्लो.

नाजाल्यारय -

मैथुनाचे सुख सांगितल्या शून्य ।
अनुभवावीण कळू नये ।।
तुका म्हणे जळो शाब्दिक हे ज्ञान।।
विठोबाची खूण विरळा जाणे ।।

- हें तुकाराम बुवानच म्हणिल्लें त्या इश्टाक खबर आसतलेंच. हाका लागून इश्टाकय आपलें अज्ञान कळळें आसतलें म्हण जालो आसतलो गायब.

तो मागीर परत शाल्मलीकडे आयलो आनी तीं दोगांय जेवपाक गेलीं.

***

(चलता...)

(पान क्र. ७७ वयल्यान...)

आपूण येवन गेलों म्हणपाचें प्रूफ म्हणून ताणें फॉर्मचेर नयनाची सय घेतली.

हाचे वयल्यान आनीक वीस दीस जावन गेले. हुंदरांचो धुमाकूळ चालूच आशिल्लो. फकत भायले वटेन एक चिचांदर मरून पडिल्ली.

परत एक फावट कंपनीचो मनीस आयलो.

कापां पळोवन समाधान जाल्ले वरीं ताणें म्हळें,''गुड..हुंदीर कापां खावन वतात.''

आतां मात नयनाक तिडक मारली.

''हुंदीर कापां खावन वतात म्हणून तुमी परत परत कित्याक सांगतात? कापांच कित्याक, घरांतल्यो हेर वस्तूय हुंदीर बरे तरेन खातात. तुमचो कॉन्ट्रेक्ट हुंदरांक मारपाचो ते विशीं सांगात.''

''ते पयस वचून मरतात मॅडम!'' ताणें ल्हान भुरग्यांक समजायिल्ले वरीं नयनाक समजायलें.

पयले फावटीं ताणें दिल्ल्या फॉर्मचेर नयनान मोन्यानी सय केल्ली. हे फावटी ताणें फॉर्म मुखार करतकीर ताणें सांगलें,''मेल्लो हुंदीर पळयतलें तेन्ना सय करतलें.''

हें लोकांच्या तोंडाक 'कापां' पुसपाचें कॉन्ट्रेक्ट हें तांकां आतां समजल्लें.

तीनय म्हयने एकय हुंदीर मेलो ना.

कॉन्ट्रेक्ट आनीक वाडयतले काय विचारूंक आयिल्ल्या कंपनीच्या मनशाच्या हातांत नयनान सगळीं कापां भरून पिशवी दिली आनीक परत आपल्यागेर येवपाची गरज ना म्हणून सांगलें.

प्रकाश आनी नयन आतां सामकींच वाजेलीं. इंदू मावशेन सांगिल्ले ते हुंदरांचे पांदरेय तांणी हाडून कोठये कुडींत, माळ्यार बी दवरले. तातूंत अर्दी मर्दी हुंदीर पडूंक लागले.

पांदऱ्यांतले हुंदीर पयस व्हरून सोडपाचें चडावत काम प्रकाशाचेर पडूंक लागलें. करतलो कितें! 'आलिया हुंदरांसी असावे सादर..!'

एक दीस असोच प्रकाश हुंदराक सोडूंक पांदरो घेवन भायर सरिल्लो, इतल्यांत मुखा वयल्यान शांतूआका आयलें.

''आरे प्रकाश, हें कितें?''

''कितें सांगतलीं शांतूआका...''अशी सुरवात करून नयनान ताका सगळी कर्मकाणी सांगली.

''आगो, हुंदीर ना करपाचो गॅरेन्टेड उपाय खबर ना तुमकां?''

पिशांक पळयिल्ले भशेन तांकां दोगांकय पळयत शांतूआकान विचारलें.

''कितें गो शांतूआका? सांग गो बेगीन!''प्रकाशाक सामकी ताकीत लागली.

''आरे दिवड पोसात!''शांतूआकान म्हळें.

आनी प्रकाशान पांदऱ्या सकट कपलार हात मारून घेतलो.

मडगांव-गोंय, मो. ८०८७७०८०५०

ललित



रमेश लाड

# पासय!!!

**रमेश लाड** हे कोंकणी चळवळींतले एक निश्ठावंत वावुरपी. कोंकणी वांगडाच कन्नड भाशेचेरूय तांचो अधिकार आशिल्ल्यान आपल्या स्वतंत्र लेखना वांगडाच तांणी बरेंच शें कन्नड साहित्यूय कोंकणींत हाडलां. तातूंत मुखेलपणान डॉ.कस्तुरी मोहन पै हांचे ध्रुवतारे कादंबरीचो आनी बस्ती व्यंकटेश अय्यंगार हांच्या काव्य संग्रहाचो आसपाव जाता. ह्या अणकाराक तांकां साहित्य अकादेमीचें २००५ वर्साचें इनाम फावो जालां.

*पुर्तुगेजान कोंकणीक जें उतरांचें दायज दिलां तातूंत कांय उतरां गेलीं, थोडीं वचपाचे वाटेर आसात पूण पासय बेगीन वचत शें दिसना. कुरासांवाचें जावप, दियार, ओब्रिगाद, आदवोगाद, जुवीज, क्वार्तेल, रेक्रिमेंत, सेगूर, रेजिदोर, फिग्द, रेफोर्माद, कूवदाद, आदी जावतीं उतरां आजून आमच्या लोकांचे भार्शेत घोळटना कानार पडटात.*

**सां**जचो 'पासय' मारून घरा परतुपाचो सुमार साडे सात वरांचो वेळ तो. वाटेर नाको फाटीं घालून घरा येवपाच्या रस्त्याचेर सात आठ पावलां मारून मुखार पाविल्लों. त्या जाग्यार त्या वेळार सदांच दोन चाकी, चार चाकी वाहनां थारिल्लीं आसतात. ताचें कारण थंय आशिल्लीं तरेकवार दुकानां. बार, मेकानीक, फळवालो, बँक एटीएम, ल्हानशेंच मेज घालून गिरायकाक चिटयो बरोवन दिवपी एजंटाचो मनीस, भुसारी म्हाल आनी मिठाई एकाच पांख्या सकयल विकपी एक राजस्थान्याचो मांड अशो सगळ्यो तरेकवार गरजो भागोवपी दुकानांक लागून तें रस्त्या कुशीचें थळ सदांच लोकांचे गर्देन दाटिल्लें आसता.

चलतां चलतां दावे वटेन एकटो वळखिचो मनीस दिसलो. स्कूटर थांबोवन तो कोणाची तरी वाट पळयतालो. हांवें ताका खूब दिसांनी पळयल्लो. आपसूकशा हांश्या वांगडाच ओंठार उतरां फुटलीं, ''आरे, खूब दिसांनी मरे! कसो आसा?''अशें म्हणत हांवें हात मुखार केलो. तार्णेय हात दिवन, हांसून 'आसां बरो' म्हणलें. इतलें जावन हांव म्हजे वाटेक लागलों. चार पावलां पडलीं आनी ताचो प्रस्न कानार पडलो, ''चलत सो?''

''वॉकिंगाक गेल्लों.''हांवें जाप दिली.

''आंऽऽ!'' तार्णे आयकल्ल्याची 'पोंच' दिली आनी ओगी रावलो. हांव मात मनांतले मनांत हांसलों.

ताच्या 'चलत सो?'ह्या प्रश्नाक हांवें जाप दिली 'वॉकिंगाक गेल्लों.'

'चलपाक गेल्लों'अशी जाप म्हजे तोंडांतल्यान भायर आयली ना कशी? आपसूक 'वॉकिंगाक गेल्लों.'हीं उतरां चिंती नासतना भायर फुटलीं. दोन भासांतलीं दोन वाक्यां. तांचो अर्थ एकूच, पूण प्रक्षेपीत अर्थ जो आयकुप्या मेरेन पावता तो चड संवकळीच्या उतरांतल्यान.

आज काल दोतोर आनी भोंवतणचीं सल्लो दिवपाक तत्पर आसपी मनशां ज्या उतरांनी सल्लो दितात तींच चालंत उतरां एखाद्री गजाल योग्य तरेन आयकुप्या मेरेन पावयतात हातूंत दुभाव ना. आयच्या मोबायल युगांत जशे 'एसएमएस' धाडून रकाद थोडे भितर पावयतात तशे तरेन आदल्या काळार 'तेलेग्रामा' वरवीं पावयताले. खर्च उणो करपाक उण्यांत उणीं उतरां वापरताले. हेंच काम आज एसएमएस करतात. इंग्लीशींत एसएमएस धाडटना शब्दांच्या स्पेलिंगाची हत्या करून एसएमएस मोटवो करप म्हाका तरी आजून जमिल्लें ना. हांव पासयेचो ट्रॅक चुकोवन खंयचे खंय चलपाक लागलां हें म्हजे लक्षांत आयलां.

'पासये'च्या निमतान आदली एक गजाल सांगपाचो मोह टाळूं नजऽ. तेन्नाय हांव वॉकिंगाकच गेल्लों. वाटेर एका जाग्यार म्हज्या लागींच्या नात्यांतली एक व्यक्ती मेळ्ळी. दोगांयचेंय एकाच खिणार एकामेकाक पळोवप जालें. फकणां करप, हांसप करप जालें. मदींच एक पॉज मेळ्ळो तेन्ना तिणें विचारलें 'चलत सो?' हांवें आयचे वरींच जाप दिली. ''वॉकिंगाक गेल्लों.''मागीर मातशें फोण्ण मारपाचो मोह आवरप जमलें ना.

'''वॉकिंगाक' चलतच वचचें पडटा न्ही गो!'' त्या फकणाचेर दोगांयनी हांसून घेतलें. भाजयेक रूच हाडपाक मिठा वांगडा जशी गोंयकारां साकरेची चिमटी घालतात तशेंच आसता फकणांचें. गजालींक रूच येता.

'पासय मार,' 'वॉकिंग कर','आप को चलना चाहिये' (गोंयांत हिन्दीन खूब नेटान एन्ट्री घेतिल्ली आसा. एका गोंयकाराक दुसरो गोंयकार भायलो समजून हिन्दींत उलोवपाक सुरवात करता.)..तर वयर सांगलां तशें ॲडव्हायस आयकून घेवचे पडटात. हे दिवपी आसतात भलायकी सल्लागार. तर ही 'पासय' फक्त गोंयांतूच मेळटा आनी 'वॉकिंग' गोंयां भायर सर्रास सगल्याक. पुर्तुगेजान कोंकणीक जें उतरांचें दायज दिलां तातूंत कांय उतरां गेलीं, थोडीं वचपाचे वाटेर आसात पूण पासय बेगीन वचत शें दिसना. कुरासांवाचें जावप, दियार, ओब्रिगाद, आदवोगाद, जुवीज, क्वार्तेल, रेक्रिमेंत, सेगूर, रेजिदोर, फिग्द, रेफोर्माद, कूयदाद, प्रेजांव, इश्कुर्तूर, ज्या ज्या, सेक्रेतार, कोमिसांव, ज्युल्गामेंत, कोंसुल्तार, काजार, आमीग, कोनिसांव आदी जायतीं उतरां आजून आमच्या लोकांचे भाशेंत घोळटना कानार पडटात. पूण 'पासय' हें चडांत चड संवकळीचें आशिल्ल्यान घडये पुर्तुगेज उतरांच्या वाठारांतल्यान त्याच उतरान म्हाका हाताक धरून एक 'पासय' मारून हाडलो जावंये..!



मडगांव-गोंय, मो: ९७६४९२४५५२

तेफळां



डॉ.वामन रा नायक

**डॉ.वामन रा.नायक** हे निवृत्त प्राध्यापक. ते कथा, कविता, आनी ललित साहित्याची सेवा करतात. कांय काळ ताणीं 'वांगडी' नांवाचें एक नेमाळेंय चलयलें. ते 'भांगरभूंय' तशेंच हेर नेमाळ्यांनी सातत्यान लेखन करतात.

# लोकसंख्या लाभांश

*भारत हो तरनाट्यांचो देश आसा आनी हे युवाशक्तीच्या बळार तो जगाचेर राज्य करपाक शकतलो. देखीक जपान, इटली ह्या सारख्या देशांत जाणट्या लोकांचो आंकडो वाढत आसा, आनी तरणाट्यांचो आंकडो कमी जावत आसा. देखून आमच्या तरणाट्यांक बरी संद मेळूं येता. वाढटे लोकसंख्येचें योग्य नियोजन केल्यार तें फकादीक जावं येता.*



बरीच वर्सां जालीं हांव अर्थशास्त्र शिकयतां, अजुनय शिकयतां. पयली प्रत्यक्ष समोरा समोर उलोवप जातालें. सद्याचे परिस्थितीत तें ऑनलाईन जाता. वाढटी लोकसंख्या वायट परिणाम करता म्हूण सांगप जातालें. परिक्षेकूय तशेच तरेचे प्रश्न विचारप जातालें.

आतां परिस्थिती बदलत आसा. लोकसंख्ये कडेन पळोवपाची आमची नदर बदलत आसा. योग्य तरेची लोकसंख्या आमकां लाव दिवंक शकता. काय जाणांक अजाप दिसूं येता. पूण लोकसंख्या वाडीचें योग्य प्लॅनिंग करून आनी प्रशिक्षण दिवन बऱ्याच राष्ट्रांक ताचो फायदो जालो.

पयली लोकसंख्या वाडल्यार ताचो विस्फोट जातलो हे संकुचीत नदरेन पळोवप जातालें. आतां ताचे कडेन लाव म्हूण पळोवप जाता. पूण सगळ्यांकूय तें शक्य आसा व्हय? ताचेर बरीच चर्चा चालू आसा. लोकसंख्या फक्त वर्जे म्हूण पळोवचे परस तें कशें लोकसंख्या लाभांश जावत हाचेर वेगवेगळे विचार आसात.

सद्या आमची लोकसंख्या सुमार १३७ कोटी सुमार आसा. आनी तातूंत दर वर्सा सव्वा ते देड कोटीची भर पडटा, आनीक पांच वर्सांनी लोकसंख्येचे बाबतींत भारत चीनाक फाटीं घालूंक शकतलो आनी जगांतलो सगळ्यांवून चड लोकसंख्या आशिल्लो देश जावंये! वाढटे लोकसंख्येचो हुसको करप ही काय नवी गोष्ट न्हय. आमचे कडेन ती पयली सावन जायत आसा. पूण सद्या वाढटे लोकसंख्ये पासून मेळपी फायद्याचो -डेमोग्राफिक डिव्हिडंड -जी नवी संकल्पना आसा, लोकसंख्या शास्त्र आनी अर्थशास्त्रा कडेन जोडिल्ली. एखाद्या देशाचे लोकसंख्येचे संरचनेंत बदल जाल्ल्यान अर्थवेवस्थेक गती प्राप्त जाता, आनी ते बदलते लोकसंख्ये पासून मेळपी लाभ म्हूण मानतात. एक विकसीत देश जाल्ल्यान आमच्या देशांत जल्म दर आनी मरण दर हे दोनूय कमी आसात, आनी काम करपाक योग्य पिरायेंतली लोकसंख्या चड आसा. ताचो फायदो अर्थीक उदरगत जावपाक जावं येता. म्हणजे तरणाटे चड आसात. सामान्यपणान सांगचें जाल्यार काम करपाक शकपी लोकांचो आंकडो चड आनी काम करपाक जायना ते पिरायेंतल्या लोकांचो आंकडो कमी. म्हळ्यार तरणाट्यांचो आंकडो चड आनी वट्ट ल्हान भुरगीं आनी जाणट्यांचो आंकडो कमी. काम करपी हात वाडिल्ल्यान उत्पादन वाडपाक शकता आनी वरवी अर्थव्यवस्थेक चालना दिवूक शकता, वेगळ्या अर्थान लाभांश

दिता म्हणूनच ह्या प्रकाराक लोकसंख्येवेलो लाभांश अशें म्हणटात.

भारत हो तरणाट्यांचो देश जावन आसा. सरासरीन ३५ वर्सांची पिराय धरल्यार आमच्या देशांत २/३ वा ६५% लोक हे पिरायेचे आसात. आमच्या देशांत सद्या सरासरी पिराय २८ वर्सांची आसा. २०२० मेरेन जपानांत सरासरी पिराय जातली ४७, चीनांत ४०, युरोपांत ४६ अमेरिकेंत ४० आनी भारतांत २९. अशे तरेन आमचे लोकसंख्येंत तारनाट्यांचो आंकडो व्हड आसा. ज्या तरणाट्यांचो आंकडो व्हड आसता तांची उत्पादकता चड आसता. ते डायनामिक आसतात, आनी जग बदलपाची तांची तयारी आसता. तरणाट्यांच्या आंकड्याच्या बळार जो फायदो चीनाक मेळटालो तो आतां आमकां मेळूं येता. आंतरराष्ट्रीय मजूर संघटनेच्या मतान २०२० मेरेन भारतांत १६० दशलक्ष तरणाटे आसतले आनी चीनांत फक्त ९४ दशलक्ष. अशे तरेन जगांतल्या बऱ्याच देशांनी जाणटेल्यांचो आंकडो व्हड आसतलो. पूण आमच्या देशांत तरणाट्यांचो आंकडो चड आसतलो.

भारत हो तरनाट्यांचो देश आसा आनी हे युवाशक्तीच्या बळार तो जगाचेर राज्य करपाक शकतलो. देखीक जपान, इटली ह्या सारख्या देशांत जाणट्या लोकांचो आंकडो वाढत आसा, आनी तरणाट्यांचो आंकडो कमी जायत आसा. देखून आमच्या तरणाट्यांक बरी संद मेळूं येता. वाढटे लोकसंख्येचें योग्य नियोजन केल्यार तें फळादीक जावं येता. कांय प्रमाणांत आमची निर्यात वाढटा आनी तातूंत मनीसबळाचो आस्पाव चड आसा, हें आमी विसरूंक येना. आमच्या देशांत परकी गुंतवणूक आनी परकी चलन येता तें वेगवेगळ्या सुवार्तींनी काम करपी मनीसबळा कडल्यान. आमचे मनीसबळ हें आमचो स्रोत जावन आसा. आयटींत काम करपी, कॉम्पुटर जाणकार, नर्सी, परदेशांत काम करपी दोतोर, फॅशन डिजायनर, इंजिनेर, शिक्षक हे बऱ्याच प्रमाणात परकी चलन जोडटात आनी ताचो कांय वांटो मांयभुयेंत धाडटात. हे जोडी पासून तांकां स्वताक आनी देशाकूय फायदो जाता. कसो तो पळोवंया-

तांकां बरी जोड आशिल्ल्यान तांचे वैयक्तीक बचतीचें प्रमाण वाढटा आनी अर्थवेवस्थेक गती मेळपाक मजत जाता. जे लोक बेकार आसले तांकां रोजगार मेळटा, आनी बरे भाशेन कामगारांची उपलब्धता वाढटा. तिसरो फायदो जल्म दर कमी जाल्ल्यान, बालकांचे भलायकी कडेन पळोवप जाता. हाका लागून घटमूट नवी पिळगी, निरोगी जाल्ल्यान बरे तरेन काम करपाक शकता. आनी निमाणे कडेन काम कारणाऱ्याचेर आदारून रावप कमी जाल्ल्यान दरडोई येणावळ वाढटा. ह्या लावाचो उल्लेख आमचे कडेन डेमोग्राफिक डिव्हिडंड असो करतात. हाचो फायदो सगळ्यांकूच मेळटा व्हय? हाचो लाव घेवपाक किर्ते करपाक जाय? कशे तरेन अडचणी पयस करूं येतात हें पळोवप म्हत्वाचें थारता. तरणाटे हाचो योग्य लाव घेतले जाल्यार तांकां योग्य शिक्षण, जाय तशी कुशळताय, प्रशिक्षण, योग्य संदी मेळूंक जाय. आमच्या देशांत आनी राज्यां कणकणी परिस्थिती कशी आसा हाचेर नदर मारप योग्य थरता.

युनायटेड नेशन्स पॉपुलेशन फंडाच्या आकड्या वयल्यान भारतांत १५ ते ६४ वर्सा हे पिरायेची लोकसंख्या ६७ % आसा. पूण ही परिस्थिती राज्या कणकणी बदलता. भारतांतली राज्यांतली लोकसंख्या, कुटुंब नियोजन, साक्षरताय, शिक्षण, उद्योग कुशळताय प्रशिक्षण आदी विशीं वेगवेगळया थराचेर आशिल्ल्याचें दिसून येता. देखून लोकसंख्या लाभांशाचे फायदे घेवपी कांय राज्यां मुखार आसात. देखीक हे बाबतीत केरळ राज्य मुखार आसा,कित्याक थंय साक्षरताय, लोकसंख्या नियंत्रण, कुशळताय आपणावपा बाबतींत मुखार आसा. त्या उपरांत तामिळनाडू, आंध्रप्रदेश, गुजरात, पंजाब, अस्तंत बंगाल, दिल्ली, महाराष्ट्र, कर्नाटक ह्या राज्यांचो क्रमांक लागता. हाचे उरफाटी बिहार, मध्यप्रदेश, राजस्थान हीं राज्यां आसात. भारतांत २०१८ मदीं पॉपुलेशन डिव्हिडंड मेळपाच्या काळांत प्रवेश केलो. बऱ्याच जाणकारांच्या मतान २०५५ मेरेन भारतांतल्या काम करतल्यांक ताचो लाव मेळूं येता - म्हणजे आनीक ३५ वर्सा सुमार ताचो लाव भारतांत मेळूं येता.

जपानांत १९६४ च्या सुमाराक पॉपुलेशन डिव्हिडंड मेळोवपाच्या काळांत प्रवेश केलो आनी सुमार ४० वर्सा ताचो फायदो घेतलो. चीनांत १९९४च्या सुमाराक लोकसंख्या लाभांशाच्या काळांत प्रवेश केलो. ताचो तांकां बरो फायदो जालो. सिंगापूर, दक्षिण कोरिया, थायलंड ह्या देशांनी लोकसंख्या लाभांशाचो फायदो घेवन उदरगत सादली. तेच भशेन इटली, स्पेन, ह्या युरोपीय देशांक लोकसंख्या वाढीचो लाव मेळिल्लो आसा. आमच्या शेजरा आशिल्ल्या बांगलादेशान लेगीत लोकसंख्या लाभांशाच्या काळांत प्रवेश केल्लो आसा.

भारत हे बाबतींत फाटीं आसा व्हय? फक्त लोकसंख्या वाढली, काम करणारांचो आंकडो वाढलो म्हूण उदरगत सादतली अशें मानपाक येवंचे ना. शिक्षण आनी भलायकी क्षेत्रांत फावो ती गुंतवणूक केली ना, पुरक धोरणां आखलीं ना, तरणाट्यांक रोजगारक्षम्य केले नात तर लोकसंख्या वाढीचो लाव मेळचो ना. देखून युएनएफपीए न स्पष्ट म्हणलां, दर्जेदार शिक्षण, ताका कौशल्याची सांगड, बरी भलायकी सेवा आनी रोजगार निर्मिती ह्या खातीर यत्न केले नात तर ताचो फायदो आमका मेळचो ना.

पुणे. मो: ९५२७७४४९९०

भलायकी
राज वैद्य



# कुत्रे भलायकी आनी आत्मनिर्भरताय



गोंयांतले नामनेचे हिन्दु फार्मासीचे धनी आशिल्ले **राज वैद्य** हे वखदां मळार तळमळीन वावुरतात. आपल्या लिखाणांतल्यान आनी विंगविंगड चर्चासत्रांतल्यान ते लोकांमदीं जागृताय हाडून योग्य वखदां कशे तरेन घेवप हाचें सातत्यान मार्गदर्शन करतात.

**स**मीर आपल्या सदच्या मॉर्निंग वॉकाक ईडीसी प्लाझाचेर पावलो. ताचेच वरी वॉकाक येवपी कोण तरी एक चली ताका पयसुल्यान नदरेक पडली. हातांत दांडो, स्टायल ओळखीची. जसजशी लागीं पावली तें नेहा म्हणपाचें समीरान वळखलें.

समीरः मॉर्निंग नेहा...आयज हे वटेन पासय काय किर्ते?

नेहाः आरे हालीं हांव हे वटेनूच येतां. आयज मातसो लेट जालो. तुजो हो सदचोच जागो न्हय? फिट ॲण्ड हॅन्डसम!

समीरः तुका तशें दिसता आसत..वा पांय ओडटा आसत म्हजे! दोतोरान काळजांत स्टॅंट फीट केल्यात दोन हें मात खरें. तेन्नाच्यान न चुकतां हीट द रोड...हे पिरायेर हड्ड्याच्या फाटल्यान हीं दोन मेदालां योग्य न्ही..!

नेहाः जावं ताचे उपरांत तरी जाग आयली तुका...आनी तुजी तशेंच हेर वांगड्यांची परिस्थिती आयकून हांव जार्गे जालें. म्हणून तर न चुकतां हो फिटनेस वॉक..

समीरः बरें आसा, आमच्या दुखण्यांतल्यान कोणें तरी देख घेतली बाबा...आनी हो हातींत दांडो सो? कोणाक हीट करपाक..सुण्यांक..?

नेहाः हय तर..आपलो बंदोबस्त आपणेंच करचो पडलो ना? कितलीं रे बाबा हीं सुणीं शारांत! पयले दोन दीस म्हाका हांगा पावतकच पाकापुकू जालें बाबा..! दोग जाणांनी गुर्र गुर्र केलें. थोडो वेळ फाटल्यान चलत आयले. आतां कांय ना..

समीरः आं..तूं नवीन तांकां म्हणून! हरशीं कांय करी नात ते..पूण केन्ना तांचें चाळवत सांगूं नज..बरें केलें हातांत दांडो दवरून!

नेहाः गरज पडली ना ताची..पूण सांगू नजो न्हय..देखून येतां हातांत भायर सरतना..मातसो कॉन्फिडंट येताच नाय म्हळ्यार..पयलीं हांव पणजे जार्दीनांत ना जाल्यार जॉगर्स पार्कांत वतालें वॉकाक. थंय हो भंय ना रे सुण्यांचो..पूण आतां कोविडाक लागून ते जागे उडयल्यात बंद..

समीरः हूं..व्यायाम काय बंद उडोवप समा न्हय...पूण तूं शारांत कित्याक वॉकाक वचना? हांगा मोटार येवन येवप आनी मागीर वॉक करप..!

नेहाः थोडे दीस केलें रे तशें...फांतोडेर पणजे भोंवप खूब बरें दिसता...वातावरण सुंदर, ल्हानपणाच्यो त्यो यादी...पूण थंय तोच प्रॉब्लेम रे बाबा..सुण्यांच्यो! येऽऽ म्हणून टोळकीं..!

समीरः हय गो बाय..दिसाचें तितलें कळना वर्दळ आसता म्हणून..पूण फांतोडेर आनी रात जाली म्हणटकच भंयूच तो..शी..!! फाटीक आनी लागतात भोंकत..गाडयेच्या, स्कुटरीच्या..कच्च जाता..भंयान बॅलन्स वचून पडपाचो भंय खूब..

नेहाः म्हाकांय बी जालां रे तें..शी नाका सायबा..पडटलें आसलेंच हांव..ताका लागून हांवें सायकल घेतली ना ह्या सुण्यांच्या उद्रेकाक लागून..पांयांक पांस मारलो जाल्यार जालें! कोणांक जाय त्यो भानगडी..? तें रॅबीज आनी तीं इंजेसांवां..!

समीरः पांय आवडले आसतले तुजे तांकां..! म्हणून आयले फाटल्यान तुज्या..!

नेहाः ओगी राव मरत्या..म्हज्याच न्हय एका पाद्री फाटल्यान लेगीत लागलीं खंय..! पेपरांत वाचलां मरे तुवें..? मागीर गांवच्या तरनाट्यांनी येवन वाचयलो खंय ताका...खंय तरी एकल्या ल्हान भुरग्याक पांस मारून मारून रगत काडलें खंय..! आंगार सामको कांटो येता असल्यो गजाली आयकून..!

समीरः हय गो सायबिणी..वता थंय अशेंच चल्लां. सामको उद्रेक जाला. राजकारण्यांनी राज्य हडप केलां तशें ह्या सुण्यांनी आमच्यो गल्ल्यो आनी रस्ते हडपल्यात..हाका उपाय किर्ते..?

नेहा: फार्टी केल्ली न्हय रे सरकारान घोशणां..हांकां धरून व्हरपाची.. कसली ती स्कीम..? एनजीओ नेमतले, हांकां गोशाळेंत दवरतले..ओह.. हांकां न्हय गोरवांक तें दिसता..!

समीर: आगो हय ती गोरवां खातीरची स्कीम..तीन म्हयन्या भितर राज्यांतले सगळे रस्ते गोरवांमुक्त जातले म्हणून सांगिल्लें. ताका जालीं वर्सां धा..सरकाराक भपके मारपाची संवय खूब..! प्रत्यक्षांत थोड्यो गजाली कश्योच जायनांत तांचे कडल्यान..

नेहा: आरे पूण फाटल्या सुमानांत सुण्यांक जाळयेन धरून व्हरताले मरे आमचे कॉलनींत...तें कितें तर..?

समीर: आं..! ती खंयची तरी जनावरांची कल्याण संस्था..तांचो प्रॉजेक्ट आसा तो..! सरकार कितें तरी ग्रांट दिता तांकां..ते सुण्यांक धरून व्हरतात, तांकां रॅबीज वासीन करतात आनी परत आशिल्ले तशे ते सुवातीर हाडून सोडटात. आमचें गोंय रॅबीजमुक्त राज्य घोशीत करपाच्या मार्गार आसा अशें वाचिल्लें खंय तरी हांवें.

नेहा: पारपोळ सुणे मुक्त गोंय न्ही मरे..? तें सामकें गरजेचें मरे..!

समीर: हे..तें इतलें बेगीन जायतच शें दिसना म्हाका..ते संस्थेक वासिनां करपाच्या प्रोजेक्टाचे लेगीत सरकार धड पयशे दिना वेळार..मागीर कसो चलोवपाचो हो प्रोजेक्ट? पारपोळ सुण्यांक मारप हो आतां गुन्यांवूच थारला. ताका एक उपाय म्हळ्यार ह्या सगळ्या सुण्यांक एकेक करून धरप आनी तांकां एके वेगळेच सुवातेर दवरून पोसप. 'डॉग पाउंड' म्हणटात ताका. गोंयांत तसली वेवस्ता आसा काय खबर ना म्हाका.

नेहा: आमी कॅटल पाउंड स्कीम सारकी चलोवंक शकनात म्हणटा मरे तूं तेन्ना हे डॉग पाउंड जायत शें म्हाका दिसना.

समीर: हय गो बाये..! हें कितें आसा, ह्यो सगळ्यो गजाली एकामेकांत भरसल्ल्यो आसात. आतां हें तें पळय, थंय कचऱ्याच्यो राशी पळय. जण एकलो प्लास्टीक पोतयांनी कचरो भरून हाडून फुटपाथाचेर दवरतात. सुण्यांक ताचो वास लागता आनी मागीर ते त्यो पोतयो फोडून सगळो कचरो जळामळाक करतात. तांचीय म्हण आमच्यांनी चूक करूं येना. तांकांय म्हण भूक लागताच. मागीर नगरपालिकेचे कचऱ्याचे प्लास्टीक डबे पळयात. तेय बी उत्केच आसतात चडशे. सुणे ते आड उडयतात आनी रस्तोभर करतात. तातूंतच गोरवांय आपलें खाण सोदतात. म्हणटकच चल्लां कितें तर एके वटेन पुंजायतात आनी दुसरे वटेन पसरायतात. मागीर कावळे, हुंदीर, सुणे, मांजरां, गोरवां सगळीं ह्या कचऱ्यांत आपापली मेजवानी सोदतात. देवाची अशीच इत्सा आसत..!

नेहा: शी..! देवाची इत्सा कितें..? सगळी हळशीक करून उडयतात मरे ती मोनजात, रस्त्यार आनी फुटपाथाचेर..!

समीर: उलोवन फायदो ना...जाणा मगो, सरकारूय आमचें आनी राजकारणीय आमचे..आवाज केल्यार फोन येता..तरीय जर बोवाळ सुरूच दवरलो जाल्यार मागीर वायटपण..! खबर आसा तुका, दिसाक कितले जाणांक सुणे चाबतात आनी सरकार म्हयन्याक कितले जाणांक ॲन्टी रॅबीज इंजेसांवां दितात तीं भलायकी केंद्रांतल्यान..?

त्या भायर खूब खेप ह्या वखदांचो केंद्रांनी तुटवडो जाता तेन्ना लोकांक प्रायवेट फार्मासींतल्यान तीं तीन ना तर पांच इंजेसांवां घेवंची पडटात. देडशें-दोनशें रुपया एक इंजेसांव हें..मागीर चींत तूं..आनी केन्ना केन्नाय सुण्यान मारिल्ल्या घांसाचो घावो चड खर आसत जाल्यार मागीर ॲन्टी रॅबीज इम्युनोग्लोबुलीनाचीं इंजेसांवं दिवंचीं पडटात. तीं तर आनीकूय म्हारग आसतात. त्या भायर हॉस्पिटलांतूय ॲडमीट जावंचें पडटा. मागीर अदमास कर कितलो खर्च येता आसतलो तो..

नेहा: बाप रे..! म्हणचे सरकार वर्साक कितलेच लाख वो कोटी मोडटा आसतलो न्ही हीं वासिनां आनी उपचाराचेर..?

समीर: त्या भायर कितलेच लोक खासगी दोतोरां कडेन वचून, मागीर फार्मासीनी वचून वासिनां विकतीं घेतात तो खर्च..मागीर ताचो भंय आनी धांवपळ..हें सगळें घेवन बसचे परस सरकारान डॉग पाउंड केले आनी चलयले जाल्यार कितलोसोच खर्च वाटावतलो, सुण्यांची काळजीय घेवप जातलें, रस्त्या वयली घाणूय पयस जातली आनी आमचे सारखे भंया विरयत रस्त्यार वावरूंक शकतले..!

नेहा: हय रे बाबा..! केन्ना केन्ना तर ह्या सुण्यांच्या भोंकपान, केरतांवांनी रातची न्हीद लेगीत सारकी पडना. आनी हो तूं सांगता तसलो उपाय जर करीत जाल्यार म्हजे सारख्यांक फांतोडेर जावं सांजवेळार निवांतपणान आपलो वॉक करूंक मेकळे जातले..! तुका खरें सांगतां ह्या सुण्यांक लागून कितलेच जाण वॉकाक भायरूच सरूंक सोदी नात..

समीर: हय सारकें तुजें..भलायकेक व्यायाम हो खूब म्हत्वाचो आनी तो जर वेवस्तीत जालो जाल्यार कितलेशेच प्रेशर,डायबेटीस दुयेंसां नियंत्रणांत उरतात.

नेहा: पळोवंया कोणाक हें करपाचें सुचता जाल्यार..तो मेरेन हांव हो म्हजो दांडो आत्मनिर्भरतेचें प्रतीक अशेंच समजतां..! हा!!हा!!! बाय रे समीर..

समीर: ओके बाय..बी सेफ..!



इंडियन फार्मास्युटिकल असोसिएशन, गोंय
ई-मेल : ipacpd@gmail.com, 9422062286



जीण ही हासून खेळून सारचेली अशी सकारात्मक नदर आपणावन अपर्णान दिसपट्ट्या जिणेंतल्या सामान्य दिसपी गजालींची विनोदी बाजू अचूक वेंचून काडल्या. स्वताक 'लक्ष्य' करून आपणाल्योच भगलो मारीत 'आम' मनशाचे जिणेंतल्या घडणुकांचेर समयोचीत भाश्य करपाची कला अपर्णाक भोव बरी जमल्या.

-दामोदर मावजो

डा
य
री

# आवयचें विस्तारीत रूप......

आयज सकाळ म्हण ध्रुवाक फोन केलो.

ह्या दिसांनी कोणाकूय फोन करीन दिसलें काय हांव रोखडोच फोन करतां. मागीर करूंया म्हण रावना. सांगूं नज मागीर ती संद मेळटलीच काय म्हण!

फाटले चार म्हयने ह्या कोरोनान जिविताचेर विचित्र शी सावळ घाल्या. मरणाचो भंय, डिप्रेशन बी न्हय. म्हजो आवयच्या कुशींत ज्या दिसा हांव गर्भ रुपान रुजलों तेच दिसा हांवें मरण म्हजे तिकटीक खोयलां. पूण सदांच गर्दीत गल्लोश करपी हांव, मेकळ्या विश्वांत उबपी हांव पाखां तोडून एकसुरो सो पडून आसां. जरी हांवें एकांतवास आवडटा म्हळें तरी हांव म्हजे म्हाकाच फटोवंक शकना. म्हज्या मनाचेर एक शेळो दाटून वता तेच पासत हांव खंयचीच मजाल हालीं मागीर पळोवंक म्हणना.

"काय करतोस ध्रुवा? दारू पितोस का? आई काय करतेय, तिला फोन दे!"

कॉम्रेड ध्रुवा रेडकर हो म्हजो विद्यार्थी चळवळींतलो मुंबयचो इष्ट. एसएफआयचो झुंजार आनी गीत घालून नाचपी कार्यकर्तो. ही ऑल इंडिया स्टुडन्ट्स फेडरेशन कम्युनीस्ट पक्षाची विद्यार्थी संघटना. आमची ऑल गोंय विद्यार्थी संघटना खंयच्याच राजकी पक्षाकडेन संबंधीत नासली तरी आमचो ओडो मार्कस्वादा कडेन आशिल्ल्यान ते संघटनेच्या फुडाऱ्यांक आमी मजत करताले. आमचे गोंयचे फकत तीन यु. आर. म्हळ्यार विद्यापीठ विद्यार्थी प्रतिनीधी आशिल्ल्यान तांकां गरोवंक ते येताले. तांचो तेंको तांकां जाय पडटालो. संघ प्रदेश आसतना गोंयचें सरकार घडोवंक दिव दमणच्या आमदारांचो तेंको जाय आसतालो तसो.

प्रचारा खातीर ध्रुवान आनी ताच्या सहकाऱ्यांनी गोंयांत येवप, वेंचणुकेक आमीय मुंबय वचप आनी मागीर विद्यापीठांत भाशणां ठोकून जिवाची मुंबय करप. रावपाक ध्रुवाचो फ्लॅट. फ्लॅट म्हळ्यार ठाकुरद्वाराक एके इमारतींत पयले माळ्येर एक ल्हानशी कूड मदीं दोन फुटांचें अंतर सोडून जेमतेम दोन सिंगल खाटी जावपा इतली सुवात आनी ल्हानशें किचन आनी बाथरूम. एके खाटीर ध्रुवाची आवय आनी दुसरे खाटीर ध्रुवा. मदीं जी एके शेंदरे पुरती सुवात उरताली थंय 'गोव्यातील सुप्रसिध्द विद्यार्थी नेते दिलीप बोरकर आणि सतीश सोनक यानी आज विद्यार्थीसभेत अमूक अमूक आवाहन केले' अशी पेपरांचेर बातमी आयिल्ले फुडारी कुरगुंटी करून न्हिदताले.

ध्रुवाची आई बरोऽऽ ब्रेक फास्ट करून दिताली, म्हाका चल्या पावलेले हुमण करताली आनी सतीशाक दाळ आनी आमलेट करताली. मागीर ती शाळेक वताली. ती मुंबयच्या शिक्षक संघटनेची पदाधीकारी आशिल्ली. आनी कॉम्रेड सुनिती रेडकर ह्या नांवाची बरीच वट आशिल्ली. ध्रुवाचो बापूय कॉम्रेड पुंडलीक रेडकर कम्युनिश्ट पक्षाचो खडेगाळ कार्यकर्तो आनी कामगार फुडारी. तो हांगा अलिकडेन भायर पडिल्लो. देखून त्या फ्लॅटांत आवय पूत दोगांच. तांका तो पुरो जातालो. आमी सारखे कोण दोग आयले जाल्यार निदपाक तो म्हळी सुवात आनी तिसरो कोण आयलो जाल्यार मागीर तेच गर्दीत खाटी पोंदा. [illegible] ना. गॅलरी आशिल्ली तातूंत एक ल्हानशें मेज, ताचेर टेबललॅम्प आनी गॅलरी भर पुस्तकां. सतीश आनी हांव अदाश्या वरीं पुस्तकां चाळटाले. वाचपाक वेळ आसच नाशिल्लो. मेळटा तेन्ना वाचीत बसताले. आई शाळेंत म्हणटकच आमीच च्या बी करून पिताले. आई जेवण करून वताली. वतना 'दिलीप पैसे आहेत ना..? नाहीतर तिथे डब्यांत आहेत..!!' म्हणटाली.. ध्रुवाकूय तेंच सांगताली..'हो ग आहेत ग चिंता करू नकोस..'वाक्यां थरलेलीं. मुंबय वचपाचें थारता तेन्ना फोन..'आई ध्रुवा कुठे आहेस..? मी उद्या येतो.'

'कधीही ये..ध्रुवा दौऱ्यावर आहे. चावी खिडकीच्या कोनाड्यात आहे. जाताना तिथेच ठेवून जायचं.'

अशी ही ध्रुवाची आई आमचीय आईच.'आई आम्ही आलो, आई,भूक लागली. आई,पैसे नाहीत..'

इतलें सुंदर नातें आमचें विणिल्लें. कम्युनीस्ट गोंतावळ्यांत! हें अशेंच आसता. एकदां आई आनी ध्रुवा आगशी आयले. आमगेर रावलीं आठ दीस. तें येदें व्हडलें घर पळोवन धुंवळ्ळीच..म्हणूंक लागली 'एवढ्या मोठ्या घरांत तूं एकटाच रहातो..आमचा फ्लॅट तुझ्या बाथरूम एवढा सुद्धां नाही.' हांव हांसलों. तो फ्लॅट ल्हान आसत,पूण तें खरें घर आशिल्लें, तातूंत तुजे सारकीं आवय आसा.

'अरे दिलीप, आई फेब्रुवारीत गेली रे..मी आता एकटाच रहातो..ती सगळं विसरली होती रे..मला सुध्दा शेवटी शेवटी ओळखत नव्हती..'

ध्रुवान सांगलें.

काळजांत खंय तरी एक वेदना उफाळून आयली. बेश्टोच केलो ध्रुवाक फोन, अशें दिसलें.

पणजे-२५जुलाय२०.

आकर्शण

# भाई मावज्याची 'तिश्ठावणी'




**को**रोनाच्या सावटा खाला गोंय चिड्डत आसतना आनी दर दिसा मरणाच्यो खबरो कानार पडून मन आकुळ पिकूळ जावन वता आसतना गोंयच्या साहित्य मळार एक खोशयेची गजाल घडली म्हणटात ती भाई मावज्याच्या ***तिश्टावणी*** ह्या कथा संग्रहाचें ऑनलायन लोकार्पण जालें.

स वर्सांच्या प्रदीर्घ काळा उपरांत बहुप्रसवी कथाकार भाई मावज्याचो कथा संग्रह वाचकां मुखार येवप म्हळ्यार तांकां भाईन लायिल्ली ती *तिश्ठावणी*च जावंक जाय आनी ह्या कथा संग्रहान ते तिश्ठावणेचो अंत केला अशें म्हणूंक जाय. कित्याक 'भाई मावज्याचें नवें कांय ना?' अशें विचारून विचारून ताच्या साहित्या पासत तिश्ठपी वाचकांक हो कथा संग्रह भेटयतनाच रोखडीच तो नवीताल्ल कादंबरीय दिवपाचो आसा. ह्या ऑनलायन लोकार्पण सुवाळ्या निमतान गोंयचें एक इंग्लीश दिसाळें,नवहींद टायम्स कडेन आपले उमाळे उक्तायतना भाई सांगता,

*काळ फटाफट धांवत आसा आनी त्या काळा कडेन जुळोवन घेवप हेर कामांक लागून शक्य जालेंना. आतां सरिल्ल्या काळाची भरपाय म्हूण लिखाणान गती घेतल्या आनी सद्याच्या लॉकडावनाचो ताका फायदोय जाला. हे घडणुकेक तो अरिश्टांतलें इश्ट म्हणटा.*

***तिश्टावणी*** हो ताचो कथा संग्रह संजना पब्लिकेशन्स हे गोंयचे नामनेचे प्रकाशन संस्थेन उजवाडाक हाडला. ह्या संग्रहांत भाईच्यो धा कथा आसपावल्यात. कथां भायर ह्या पुस्तकांत प्रकाशक दिनेश मणेरकार हांचे प्रकाशकाचे वतीन उक्तायलें मन आनी अरुण खोपकार हांची प्रस्तावना आसा. त्या भायर पुस्तकाचे फाटले वटेन गोंयचे नामनेचे कथाकार पुंडलीक नारायण नायक हांणी भाईची समर्पक वळख दिल्या. ते म्हणटात-

'१९६१ वर्सा गोंय पुर्तुगेजांच्या शेकांतल्यान मुक्त जालें आनी गोंयांतले युवा प्रतिभेक रसरसून चंवर आयलो. १९७०-८० चें दसक हो कोंकणी कथेचो सुवर्णकाळ! ह्या सुवर्णकाळाचो अग्रणी कथाकार दामोदर मावजो तथा भाई मावजो.

फाटल्या पांच-स दसकां सावन भाई सातत्यान एकाद्या शिल्पकारान पाशाण फातरांतल्यान शिल्प कोरांथून काडचें तशी समाज जीवनांतल्यान संथ गतीन कथा कोरांथून काडटा. भारतीय आनी लॅटीन संस्कृतायेचो सुरेख संगम आनी एकचार तागेल्या कथांनी सभावीकपणान घडटा.

भाई मावज्याचे कथेंत मानवी व्यक्तीरेखां वांगडा सुकणीं-सावजां आनी किडी-मुयो



लेगीत संदर्भा सयत येवन कथा समृध्द करता. कोंकणी प्रतिभेचो अत्युच्च आविश्कार आशिल्ली भाईची कथा भारतीय कथेचें प्रतिनिधीत्व करता आनी आंतरराष्ट्रीय मळार उमेदवारी करता.

विज्ञानीक नदरेंतल्यान जीवना कडेन पळोवपी भाई मावजो आपले लिखणेंतल्यान चिरंतन मानवी मुल्यांचो निरंतर सोद घेता.'

एक प्रतिथयश कथाकार तितलेच तांकीच्या आपल्या समकालीन कथाकाराची रास्त तुस्त करता तें जालेंच,तेच वांगडा अरुण खोपकारां सारकी व्यक्ती भाईचे हे तिश्ठावणेक प्रस्तावना बरोवन भाई व्यक्ती आनी कथाकार म्हणून केदो व्हड हें प्रांजळपणान सांगतात.

कोण हे अरुण खोपकार?

भो.अरुण खोपकार हांची आंतरराष्ट्रीय नामनेचे चलचित्रकार आनी साहित्यकार म्हूण व्हड नामना आसा. ते नृत्य, संगीत, चित्रकला, शिल्प, स्थापत्यशास्र, सौंदर्यशास्र अशा विंगड विंगड मळां वयले कलासक्त दर्दी जावन आसात. तांच्या 'चलत् चित्रव्यूह' ह्या ललित निबंद संग्रहाक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार लाभला. तांची चड

वळख तिश्ठावर्णेत प्रकाशकांनी दिल्या. म्हाका फकत तांणी भाई विशीं प्रस्तावनेंत किर्ते म्हणलां तें थोड्या उतरांनी सांगचें आसा. प्रस्तावना कोंकणींत ना, ती मराठींत आसा आनी हांव ताचो कोंकणी अणकार हांगा दितां.

## मातयेचो गंध

दामोदर मावजो हांची म्हजे कडेन वळख जाली ती एकतर्फी.

हांव मावजोंक पळयतालों. तांचें उलोवप आयकतालों. तांचें घर आनी परिसर पळयतालों. मात ते म्हाका पळोवंक शकनाशिल्ले. कारण ते पड्यार आशिल्ले आनी हांव कदेलार बसून तांचे वयलो लघुपट पळयतालों...

....चित्रपटांत हांवें पळयिल्ले मावजो शालीन, सुसंस्कृत आनी सुस्वभावी आसा म्हणपाचें भावतालें. तांचे भितर आत्मविश्वास आशिल्लो आनी आत्मप्रौढी नाशिल्ली. वागण्या उलोवण्यांत सहजता आशिल्ली. जेन्ना तांची भेट जाली तेन्ना प्रथमदर्शनी जाल्ल्या म्हज्या मताक घटाय मेळ्ळी. तांचें लेखन वाचूंक लागतकच तांच्या व्यक्तीमत्वाचीं आनी लेखनाचीं जायतीं तासां होलमूंक लागलीं. लेखक आनी मनीस ह्या दोनाय विशीं लागसार वाट्रूंक लागलो......

.....हांवें सुर्वेक मावजोंचें कथनात्मक लेखन इंग्रजी भाशांतरांत वाचलें. तातूंतल्यान म्हाका तांच्या लेखनाविशींचें वैविध्य आनी विस्तार जाणवलो. मुखेल जाणवलें तें म्हळ्यार लेखकाची मनीस समजून घेवपाची क्षमताय जी धारावीक धर्मा पुरती, वेवसाया पुरती वो फकत दादले-बायलां पुरती मर्यादीत नाशिल्ली.

...मावजो जेन्ना कथेची फाटभूंय गोंयां भायर व्हरतात, तेन्ना ते आपल्या निरिक्षणाचो आनी स्मृतीचो वापर करतात.



तपशिलाचो भरणो करिनात तर सुचकतेन वापर करतात. तातूंतल्यान प्रतिमांचे दिकेन वतात. ताका लागून तपशील बोलको जाता.....

....मावजोंचे श्रृंगारीक प्रसंग हे नीट बेतलेले आसतात. जे दिसता तेय परस,जें दिसना तें वाचकांक कथना कडेन आकर्शीत करता, हे मावजोंक खबर आसा...

....काणयों सांगपाचे ओडी वांगडाच मावजोंच्या मनांत आसपी सगळ्या तरांच्या मनीसमात्रां विशींची अनुकंपा-केन्ना ती माडांक्य कुशींत येता....

गोष्टीप्रिय कथाकाराक आपल्या श्रोत्यांक चकीत करून दाद घेवप आवडटा. जादुगारान चेप्यांतल्यान सोंसो काडिल्ले वरीं मावजो कथेचे शेपटेक अनपेक्षीत झटको दितात.....

ह्या संग्रहांतले 'बर्गर' हे कथेंतूय झटको आसा,पूण तो वेगळे तरेचो. वयांत येवपा अवस्थेंतले एके क्रिस्तांव आनी एके हिंदु चलयेची इश्टागत मावजोन ल्हवपीक हातान खुलयल्या आनी फुलयल्या.....

.....मावजोंच्या कितल्योच कथा संवादप्रधान आसात वो सर्वज्ञ निवेदका बगर पात्रांचे दिश्टीकोनांतल्यान सांगल्यात.....

...जें अविश्कार स्वातंत्र्य मावजोंक जाय आसा ते पासत ते झुजतात आनी फुडाराकूय झुजतले, तें नाशिल्लें जाल्यार तांच्या लेखनाक मुक्त फुलोर येवंचो नाशिल्लो. ज्या मानवतावादाचेर आनी लोकशाय मुल्यां पासत ते आयज उबे आसात, तोच तांच्या लेखनाचो स्रोत आसा...

## आकर्शण

....ह्या संग्रहाचें नांव 'तिश्ठावणी' अशें आसा. कोंकणी वाचपा पासत म्हाका इतलीं वर्सां 'तिश्ठावणी' करची पडली. Art is long,and Time is fleeting.....

नवहिन्द टायम्स भाईक कथा संग्रहाक *तिश्ठावणी* हें नांव कित्याक दवरलां वो कशें सुचलें काय म्हण विचारता.

भाई जाप दिता..

हांव कथा बरयतां तेन्ना कथे परसूय चड व्यक्त जावपी नांव कथेक दिवपा कडेन लक्ष दितां. ताका लागून वाचकांच्या मनांत संदर्भा बगर कथेची एक उमळशीक जागता. चडशे खेप हांव संग्रहांतलेच एके समर्पक अशे कथेचें शिर्शकच संग्रहाक नांव म्हण दिवप पसंद करतां. *तिश्टावणी* ही ह्या संग्रहांतली टायटल स्टोरी. जेन्ना कोणांक्य बरोच काळ वाट पळोवंक लायता ताका कोंकणींत तिश्टावणी म्हणटात. म्हजो ह्या आदीं कथा संग्रह *सपन मोगी* आयलो तो स वर्सां आदी २०१४त. ताच्या लोकार्पण सुवाळ्याक हांवें उतर दिल्लें, रोकडोच हांव वाचकां पासत दुसरो कथा संग्रह घेवन येतलों. पूण तो दीस उजवाडपाक स वर्सां तिश्ठचें पडलें. म्हजी ह्या संग्रहांत *तिश्ठावणी* शिर्शकाची कथा आशिल्लीच. एका अर्थान हांवें म्हज्या वाचकांक बरोच काळ तिश्ठायल्या बद्दल म्हजे वतीन एक प्रकारचें हें भोगसर्णेच मागप म्हणूं येता.

संजना पब्लिकेशनान आकर्शक पद्दतीन तयार केल्ल्या ह्या १३६ पानांच्या १० कथांच्या संग्रहाचें मोल फक्त २०० रुपया.



– संतोष हळर्णकार
बांदिवडे-बंदर.फोंडा-गोवा ४०३ ४०१.
मो. : ९७६२६४१६१५




|  |  |  |  |  |  |  |  |  |  |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १ |  | २ |  | ३ | ■ | ४ |  | ५ |  |
|  | ■ |  | ■ | ६ | ७ |  | ■ |  | ■ |
| ८ | ९ | ■ | १० |  |  | ■ | ११ |  |  |
| ■ |  | ■ | ■ |  | ■ | १२ | ■ |  | ■ |
| १३ |  | १४ |  |  | ■ | १५ | १६ | ■ | १७ |
|  | ■ |  | ■ | ■ | १८ |  |  |  |  |
| १९ |  |  | २० | ■ |  | ■ |  | ■ |  |
|  | ■ | २१ |  | २२ |  | २३ | ■ | २४ | ■ |
| २५ | २६ | ■ | ■ | २७ |  |  | ■ | २८ | २९ |
| ३० |  |  |  |  | ■ | ३१ |  | ■ |  |

**आडवे :** १-वावराक सडसडीत, आदावत नाशिल्लें, चपळ. ४-पांयवाट, बोळ, आडखळीची वाट. ६- वेडो, युवणो. ८- चालू, पद्दत, तरा. १०- बळगें, शक्ती. ११- पांच पांडवां मदलो एक पांडव. १३- समुद्र, ल्हान दर्या.१५- ल्हान. १८-भेश्टावणी, भिरांत घालपाचें काम.१९- शासन, राजवट.२१-भयण भावाच्या हाताक राखी बांदता ती परब.२५-xxक-वायट कर्तूब, xxकी-वायट करणी करपी.२७-नेटान झडिल्लो पावस.२८-राबित्या खातीर बांदिल्लो सुग्गूर जागो.३०-बुदवंत,समजिकायेचें.३१- कॅसांत जाल्लें उयेचें तांतीं.

**उबे :** १- बेडो, फोफळ. २-लोखणाची पाती आशिल्लें कातरपाचें एक हत्यार. ३-तरेतरेचें, जिनसांवार. ४-फातरांचें दुरीग, आडावण. ५-भुरग्यांले भार्शेत ल्हान. ७-पणर्टेत जळटा ती xx. वारो, वायु. ९-व्हडलो फातर, तेलान भाजप. १२-भारतांतलें एक राज्य.१३-उपासा सारकीं धार्मीक कामां, धर्माच्या नांवान कुडीक दिल्ली दंडना. १४-फुर्डे, तोंडाफुर्डे. १६-पृथ्वीच्या वयल्या थराची कागदार मापून केल्ली आंखणी. १७-रत्न, एक मोलादीक खडो. १८- कलकल, खपखप. २०-राखण (हिन्दी)२२-धको.बोटी,तारवां बी दरया देगेक लावपाची सुवात. २३-'असली' च्या उरफाटें,फटींचें.२४- हिन्दू पंचांगांतलो अकरावो म्हयनो. २६- त्रिगुणां मदलो एक गूण,काळोख. २८- मार्ग,वाट.

जुलाय २०२० ची जाप

|  |  |  |  |  |  |  |  |  |  |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| ना | को | ■ | पुं | जा | व | प | ■ | चा | कू |
| क | ■ | अ | ■ | व | ■ | च | म | क | प |
| पु | न | र्ज | ल्म | ■ | सा | प | ■ | र | ■ |
| डी | ■ | दा | ■ | क | व | च | ■ | मा | मा |
| ■ | सु | र | य | ■ | ची | ■ | मो | नो | ■ |
| ■ | र्या | ■ | ■ | स | त | प | ट | ■ | प |
| मा | स्त | र | ■ | म | ■ | ■ | सा | व | त्र |
| ण | ■ | ■ | का | का | ■ | मे | ण | ■ | का |
| कु | तू | ■ | व | र | ■ | ज | ■ | चा | र |
| लो | ट | ■ | ळो | ■ | का | णी | ■ | वी | ■ |

